




सोळाव्या शेंकड्यांत गोंयांत धर्मांतर सुरू जालें. त्या धर्मांतरांतल्यान कांय जाण 'बरे क्रिस्तांव' जाले नात. जे क्रिस्तांवपणाक सारको पाळो दिनात तांकां गुन्यांवकार लेखून ख्यास्त घडोवंक जाय म्हूण इंक्विझिशन स्थापन जालें. त्या इंक्विझिशनाच्या काळांत राय गांवांतलें पै कुटूंब हिंदू आसतना फाफसलें. गांवांत रावलें त्या जोडप्याक दबावा खाला धर्म बदलचो पडलो. घोव एकनिष्ठ क्रिस्तांव जालो. तरी इंक्विझिशनाक लागून त्या जोडप्याची शोकांतिका जाली. ते शोकांतिकेची ही खबर...

**व्हडलें घर**
(कादंबरी)

**उदय भेंब्रे**
'लक्ष्मी-प्रभा', लास पाल्मस
हावसींग एस्टेट, घोगळ,
पो. फातोर्डा,
गोंय 403602
Udaybhembre@gmail.com

प्रकाशक :
**संजना पब्लिकेशन्स**
39, दत्तवाडी, सांगें,
गोंय. 403704
फोन : 9552551425
Sanjanapublications2@gmail.com



**पयली उजवाडावणी** : 2021

छापपी :
**रा प्रिंटस्**, पणजी

जॅकेट आंखणी आनी चित्रां :
**सिया पंडित**

**मोल : रु. 300/-**

**VHODLEM GHAR**
**(Novel)**

**Uday Bhembre**
'Laxmi - Prabha',
Las Palmas Housing Estate,
Ghogol, Post Fatorda,
Goa 403602
Udaybhembre@gmail.com

Publisher :
**Sanjana Publications**
39, Dattawadi, Sanguem,
Goa. 403704
Ph : 9552551425
Sanjanapublications2@gmail.com



**First Edition :** 2021

Printer :
**Ra Prints,** Panaji

Jacket design and cover :
**Seeya Pandit**

**Price : Rs. 300/-**

**Special Editon**

## किशोरीक

तूं फाटीक लागिल्यान
ही कादंबरी
बरोवन जाली



# उपकार

कांय वर्सां आदीं कन्नड भाशेंतले राष्ट्रीय नामनेचे कादंबरीकार एस् एल् भैराप्पा एके साहित्यीक कार्यावळी खातीर गोंयांत आयिल्ले. पणजेंत जाल्ले हे कार्यावळींत उलयतना तांणी सांगलें, कादंबरी बरयतकूच आपूण ती चार इश्टांक वाचूंक दितां. तांच्या सुचोवण्यांचेर चर्चा करतां आनी फावो ते बदल करतां. तें म्हजे यादींत उरलें. येदो नामनेचो कादंबरीकार अशें करता जाल्यार म्हजे सारक्या पयलीच कादंबरी बरयतल्यान तशें करुंकूच जाय अशें म्हाका दिसलें. हांवें हातबरपाच्यो प्रती करून त्यो भो. दामोदर (भाई) मावजो, रेव्ह. मौसिञु दे आताईद, भो. माधव बोरकार, ॲड्. उल्हास पै रायकार आनी भो. सखाराम शे. बोरकार ह्या इश्टांक चिकित्सायेन वाचपाक धाडून दिल्यो. तांणी केल्ल्यो सुचोवण्यो हातबरप सुदारपाक खूब उपेगाच्यो जाल्यो. योग्य उतरां सोदतना भो. नागेश करमली हांचो पालव मेळ्ळो. भो. दिनेश मणेरकार हांणी कोरोना-काळांतल्यो सगल्यो आडखळी हुपून संजना पब्लिकेशन्सचे वळेरेंत हे कादंबरीक बसयली. घरांत घरकान्न किशोरी आनी सून संज्योत हांणी हातबरप वाचून ज्यो प्रतिक्रिया उक्तायल्यो तांचो लाब जावन आनीक सुदरप करूंक मेळ्ळें. ह्या सगल्यांचे हांव मनस्पुर्वेक उपकार मानतां.

## व्हडल्या घराचीं सोपणां चडचे पयलीं

खंयचीय राजसत्ता वा धर्मसत्ता पिडापीड वा बळजबरी करून आपलो धर्म दुसऱ्या धर्माच्या लोकांचेर थापता तेन्ना सगलो लोक तो नवो धर्म मनस्पुर्वेक आपणायता अशें घडना. थोडो लोक भिरांतीन तो धर्म आपणें आपणायला अशें दाखयता. खरेपणीं, तो तशें वयलेचाराक करता आनी आदल्या धर्माचे संस्कार, परंपरा, चाली, रिती बी उक्तेपणीं वा लिपचोरयां पाळीत रावता. मागीर असल्या लोकांक ख्यास्त घडोवन हेरांक भंय घालपाचे उपाय राजसत्ता वा धर्मसत्ता सोदूंक लागता. ताचे परिणामीं इंक्विझिशना सारकी यंत्रणा जल्माक येता. मध्य युगांत युरोपांतल्या कांय राज्यांनी हेंच घडलें.

तो काळ राजेशायेचो. कांय राजा धर्मकोल्ली आसताले. तांचे गोमटेर धर्मपिशें बसलें म्हणटकूच ते धर्मसत्तेच्या प्रभावा खाला कितेंय आनी कशेंय करूंक तयार जाताले. धर्म पातळावप म्हणचे देवाची आनी धर्माची व्हड सेवा अशें ते मानताले आनी मागीर राजसत्ता आनी धर्मसत्ता हांची युती धर्माच्या विशयांत अच्छेव मांडटाली. 15 व्या शेंकड्यांत हें स्पेन राज्यांत घडलें. तेन्ना स्पेन हें नांव नाशिल्लें; काशतील आनी आरागॉन हीं दोन राज्यां एकठांय येवन

तें राज्य घडिल्लें आनी भोव करून काश्तील ह्या नांवान ताका वळखताले. क्रिस्तांव धर्म पातळावपाक राजान बरे-वायट मार्ग आपणायिल्ले; पूण जे क्रिस्तांव जाल्ले ते सगलेच क्रिस्तांवपण पुरायेन पाळिनाशिल्ले. आदल्यो परंपरा, रिती, चाली हांकां पाळो दिताले. ते 'बरे क्रिस्तांव' जावंक नाशिल्ले. हाचेर उपाय सुचयलो तो तोमाज दे तोर्केमाद ह्या पाद्रीन 1481 वर्सा. तो डॉमिनिकी संघाचो वांगडी. ताणें, इंक्विझिशन स्थापन करून ताच्या न्याय मंडळा वरवीं 'गुन्यांवकारां' क ख्यास्त दिवपाची येवजण मांडली. इंक्विझिशन ही खाशेली अशी यंत्रणा. धोरण थारावपाचें राजान. ते यंत्रणेचो मुखेल वांटो म्हळ्यार न्याय मंडळ. दोन वा तीन इंक्विझिटर हे ताचे वांगडी. धर्मांतरांतल्यान जो क्रिस्तांव जाला पूण क्रिस्तांव धर्माचे नेम, चाली, रिती हांकां सारको पाळो दिना तो गुन्यांवकार. असल्या गुन्यांवकारांच्यो केशी न्याय मंडळान चलोवप आनी गुन्यांवाक फावता तशी ख्यास्त दिवप. किरकोळ गुन्यांवाक किरकोळ ख्यास्त आनी खर गुन्यांवाक लासून मारपाची ख्यास्त. असल्या ख्यास्तींतल्यान हेरांक भंय घालप हो हावेस. काश्तीलच्या राजान 1483 वर्सा पाद्री तोर्केमाद हाकाच नेमावळ तयार करूंक लायली, इंक्विझिशन स्थापन केलें आनी ताकाच पयलो मुखेल इंक्विझिटर नेमलो. 1484 वर्सा ह्या इंक्विझिशनाचें - आज ताका स्पॅनीश इंक्विझिशन म्हूण वळखतात - कार्य सुरू जालें. पुर्तुगालांत इंक्विझिशन 1541 वर्सा स्थापन जालें आनी गोंयांत तें स्थापन जालें 1560 वर्सा. इतिहासकार सांगतात, स्पेनांतल्या इंक्विझिशना परस पुर्तुगालांतलें खर आसलें आनी त्या इंक्विझिशना परस गोंयांतलें इंक्विझिशन अदीक खर आसलें.

गोंयांत राजसत्ता आनी धर्मसत्ता हांणी हातांत हात घालून 1540 वर्सा क्रिस्तांव धर्माचो प्रसार सुरू केलो. 1543 वर्सा व्हिकार जनरल मिगेल व्हाज हाणें पुर्तुगालच्या राजा कडेन गोंयांत इंक्विझिशन स्थापन करपाची मागणी केली. पूण सगल्या फिंर्गी पाद्रीं मदीं ह्या विशयाचेर एकमत नासलें. इंक्विझिशन नाका अशें पाद्री बेलशियोर. पाद्री बाल्ताझार दीयश. पाद्री पी. एम. कार्नैरु हांचें म्हणणें आसलें. मजगतीं, 16 मे 1545 दिसा सेंट फ्रान्सीस

झेवियर हांणी राजा दाँ ज्युआंव हाका पत्र बरोवन गोंयांत इंक्विझिशन स्थापन करचें अशें मागलें. घडये दोन मतां आशिल्ल्यान राजान ताकतिकेन निर्णय घेतलो ना; पूण 1560 वर्सा गोंयांत इंक्विझिशन आयलें. 1774 वर्सा मार्केज दे पोम्बाल पुर्तुगालचो मुखेल प्रधान जालो. ताणें इंक्विझिशन बंद केलें. पूण 1778 वर्सा ताचें पद गेलें आनी इंक्विझिशन जितें जालें. ताची आदली धार मात् गेल्ली. अखेरेक 1812 वर्सा तें अधिकृत रितीन बंद जालें.

सुमार 25 वर्सां फाटीं हांवें प्रो. अ. का. प्रियोळकार हांचो 'दि गोवा इंक्विझिशन' हो ग्रंथ वाचलो. ह्या ग्रंथाच्या पयल्या वांट्यांत प्रो. प्रियोळकार हांणी इंक्विझिशनाचो इतिहास, ताचे नेम, धर्मांतराच्यो रिती हांचे विशीं विस्तारान बरयलां आनी त्या काळांत इंक्विझिशना संबंदान जे कांय मुद्दे उप्राशिल्ले तांकांय जापो दिल्यात. ग्रंथाच्या दुसऱ्या वांट्यांत दोन अणभव-कथनां दिल्यांतः एक, फ्रेंच डॉक्टर चार्ल्स दॅलाँ हांचें आनी दुसरें, डॉ. क्लॉडियस ब्युकॅनन ह्या इंग्लीश संशोधकाचें. हो ग्रंथ वाचतकूच इंक्विझिशन ह्या विशया विशीं म्हजी उत्सुकताय वाडली. त्या विशया वयले आनी त्या विशया कडेन संबंधीत अशे जे जे ग्रंथ मेळटात ते वाचीत गेलों. ह्या वाचनांतल्यान म्हाका स्पश्ट जालें की गोंयाक मूळ पीठ मानपी कोंकणीभाशी समाजाचेर व्हडांत व्हड संकश्ट येवन अन्याय जालो तो 16 व्या शेंकड्यांत सुरू जाल्लें धर्मांतर आनी तातुंतल्यान जल्माक आयिल्लें इंक्विझिशन हांचे वरवीं. हो इतिहास समेस्त कोंकणीभाशी समाजाक कळपाची गरज आसा अशें म्हाका दिसलें. तशें दिसपाक आनीक एक कारण आशिल्लें तें म्हळ्यार ह्या विशया विशीं कांय लोकां मदीं अज्ञान आनी हेर कांय लोकां मदीं गैरसमज आसात तर इंक्विझिशन म्हूण कांय नाशिल्लेंच अशेंय म्हणपी कांय जाण आसात.

गोंयच्या वा कोंकणीभाशी समाजाच्या इतिहासांतलें हें इंक्विझिशन पर्व लोकां मेरेन पावोवपाचे दोन मार्ग म्हजे मुखार आशिल्लेः एक, इतिहास वा इतिहासांतली खबर अश्या रुपांत ग्रंथ बरोवप; आनी दुसरो, त्या काळांतल्या इतिहासीक घडणुकांचेर आदारिल्ली कादंबरी बरोवप. म्हाका दिसलें, इतिहास

वा इतिहासांतली खबर ह्या रुपांत हो विशय मांडलो जाल्यार इतिहासाची गोडी जांकां आसा तेच वाचतले. पूण ह्या विशयाचेर कादंबरी बरयली जाल्यार ती चड लोकां मेरेन पावतली. देखून हांवें दुसरो मार्ग आपणायलो. पूण एक कडक बंधन हांवेंच म्हाका घालें. तें बंधन अशें की बरयतां ती साहित्यकृती आसली तरी इतिहास मात् पसून विकृत जावंक दिवप ना. कादंबरी म्हळी कीं कल्पना आयली, कल्पनेंतलीं पात्रां आयलीं आनी कल्पनेंतल्यो घडणुको आयल्यो. हाका लागून इतिहास मोडून वा बागोवन वा हेर तरांनी विकृत करून तो कल्पने कडेन जुळोवपाचो मोह जावंयेता. तो मोह इतिहासा कडेन तडजोड करूंक लायता. हांवें तो पैस दवरला. इतिहास आनी कल्पना हांचो मेळ घालचो पडलो तेन्ना कल्पना बागयली; पूण इतिहासाक बादा येवंक दिली ना. देखून हे कादंबरींत पात्रां आसात तीं कल्पनेंतलीं; पूण इतिहासाचे नदरेन प्रातिनिधीक. तेच भाशेन घडणुको आसात त्यो कल्पनेंतल्यो; पूण इतिहासाच्या संदर्भांत प्रातिनिधीक. हेर सगलो इतिहास - अतिताये विरयत.

कादंबरी खातीर तयारी करपाक जे जे ग्रंथ हांवें वाचले त्या त्या ग्रंथांनी उपेग करपा सारकें जायतें मेळ्ळें. पूण चड आदार जालो तो प्रो. अ. का. प्रियोळकार हांचो ***दि गोवा इंक्विझिशन***, त्या ग्रंथांतलें डॉ. चार्ल्स दॅलाँ आनी डॉ. क्लॉडियस हांचें अणभव-कथन, डॉ. दॅलियु मँदाँस हांचो ***कन्वर्जन ॲण्ड सिटिजन्री***, जुजे निकॉलाव दे फाँसेका हांचो ***स्कॅच ऑफ दि सिटी ऑफ गोवा***, डॉ. चार्ल्स जे. बॉर्जिस हांचो ***दि इकनॉमिक्स ऑफ दि गोवा जेजुईत्स***, पी. डी. झेवियर हांचो ***गोवा - अ सोशल हिस्ट्री***, ज्यां हायजेन व्हान लिन्शॉटन हांचो ***इतॅनॅरारियु***, गजानन शां. शे. घांटकार हांचो ***हिस्ट्री ऑफ गोवा थ्रू गोंयकानडी स्क्रीप्ट***, रुइ गॉमिश पेरैर हांचे ***हिंदू टेम्पल्स ॲण्ड डेटीस आनी गांवकारी***, रॉबर्ट सिवॅल हांचो ***अ फॉर्गोटन एम्पायर***, डॉ. आंतोनियु नॉरॉन्य हांचो ***दि हिन्दूस ॲण्ड दि पॉर्च्युगीज रिपब्लीक***, लुर्दीन आल्बेर्त रोद्रीगिश हांचो ***सोल्स, स्पायसीस ॲण्ड सॅक्स***, मॉरीस कॉलीस हांचो ***दि लँड ऑफ दि ग्रेट इमेज***, ज्यार्ज विनियस हांचो ***दि ब्लॅक लिजण्ड ऑफ पॉर्च्युगीज इंडिया*** आनी फ्रॅडरीक चार्ल्स डॅन्वर्स

हांचो *दि पॉर्च्युगीज ईन इंडिया* ह्या ग्रंथांचो. इतिहासकार, अभ्यासक आनी भोंवडेकार, जांणी हीं साधनां निर्माण करून दवरलीं, तांचें रीण मान्य करप ही म्हजी लागणूक. पूण मोटें रीण हांव मानून घेतां तें प्रो. प्रियोळकार आनी डॉ. दॅलाँ हांचें. डॉ. ब्युकॅनन हांच्या अणभव-कथनांतल्यान डॉ. दॅलाँ हांच्या अणभव-कथनाक आदार मेळटा. पूण इंक्विझिटरांनी तांकां बंदखण आनी भितल्ली चलणूक पळोवंक दिली ना. ताका लागून तांच्या अणभव-कथनांत पुराय चित्र दिसूंक पावना.

'दि गोवा इंक्विझिशन' ह्या ग्रंथांतली प्रो. प्रियोळकार हांची बरपावळ इंक्विझिशनाचो इतिहास, पुर्तुगेज राजवटकेन केल्ले कायदे, इंक्विझिशनान केल्ले नेम ह्या विशयांची आनी संबंधीत अश्या हेर विशयांची खूबशी खबर सांगता. तिचो लाब म्हाका जाला. पूण ह्या ग्रंथांत डॉ. दॅलाँ हांचें अणभव-कथन (कांय प्रकरणां भायरावन) दिवन प्रो. प्रियोळकार हांणी म्हत्वाचें कार्य केलां. तें अणभव-कथन म्हळ्यार प्रत्यक्षदर्शी आनी अणभवी मनशान दिल्ली गवाय. इंक्विझिशनाचो सगलो कारभार गुप्त रितीन चलतालो. कैद्यांचो भायल्या संवसारा कडलो संबंद पुरायेन तुट्टालो. भायल्या संवसाराक कैद्यां विशीं कळपाक मार्ग नाशिल्लो. इतलेंच न्हय तर एका कैद्याक दुसऱ्या कैद्याचें दर्शन घडनासलें वा ताचे विशीं कांयच कळनासलें. देखून डॉ. दॅलाँ हांणी आपणाल्या अणभव-कथना वरवीं दिल्ले गवायेचें म्हत्व असाधारण थारता. कसलीच अतिताय करिनासतना आनी पुराय आत्मविस्वासान सांगूंक जाता कीं इंक्विझिशनाची बंदखण, कैद्यांक दिल्ली वागणूक, थंयच्यो रिती, ख्यास्ती जाहीर करपाची चाल, 'आव्तु द फॅ' (Auto da fé) हांचे विशींचो संवसारांतलो हो एकमेव दस्तावेज. हे कादंबरींतल्या कथानकाचो हो एक मुखेल आदार.

डॉ. दॅलाँ हांचें अणभव-कथन म्हळ्यार इंक्विझिशनाच्या विशयांत संवसारांतलो एकमेव दस्तावेज अशें कित्याक म्हळां तें सांगपाची गरज आसा. डॉ. दॅलाँ हे फ्रेंच डॉक्टर. दामांवांत वैजकी करताले. दामांवचो गोवेर्नादोर आनी डॉ. दॅलाँ हांचे मदीं वितुश्ट आयलें. गोवेर्नादोरान तांचेर आळ घालो

आनी इंक्विझिशनान तांकां थंय धरून गोंयांत हाडले. इंक्विझिशनाचे बंदखणींत कैदी म्हूण तांणी दोन वर्सां सारलीं. त्या दोन वर्सांच्या काळांत तांणी खूबशें निरिक्षण केलें आनी जायतें अणभवलें. आपणाक लासून मारपाची ख्यास्त फर्मायतले अशेंच तांकां दिसतालें. पूण मर्णाचे ख्यास्तींतल्यान ते वाटावले. तांकां हद्दपार करून पुर्तुगालाक धाडले. थंयसून मुक्त जातकूच ते फ्रान्साक गेले. आपणाले अणभव तांणी फ्रेंच भाशेंत बरोवन काडले आनी तें पुस्तक Relation de L'inquisition de Goa ह्या नांवान पारीसाक 1688 वर्सा उजवाडाक आयलें. उप्रांत त्या पुस्तकाचो इंग्लिशींत अणकार जालो आनी तो 1812 वर्सा उजवाडाक आयलो. ह्या पुस्तकांत जी खबर वा जो इतिहास मेळटा तो आनीक खंयच मेळना.

दुसऱ्या खंयच्याच कैद्यान आपले अणभव बरोवंक नात. बरयल्ले जाल्यारूय ते उजवाडाक येवंक नात. इंक्विझिशनाचे बंदखणींत वा न्याय मंडळांत जें घडटा तें आपूण कोणाकूच सांगचों ना असो सोपूत इंक्विझिटर कैद्या कडल्यान मिसालाचेर हात दवरूंक लावन घेताले हें एक कारण आसुंयेता. इंक्विझिशनाच्या न्याय मंडळान चलयल्ल्या केशीं विशींचीं कागदपत्रां आशिल्लीं; पूण तीं मेळनात. एक मत आसा कीं तीं लासून उडयलीं. दुसरें मत अशें की तीं पुर्तुगालांत सांबाळून दवरिल्लीं आसात; पूण कुलपांत आसात. तीं दाखोवपाचेर आनी पळोवपाचेर बंदी आसा. हे परिस्थितींत इंक्विझिशनाच्या कारभारा विशीं डॉ. दॅलाँ हांचें अणभव-कथन हें एकमेव दस्तावेज थारता.

हे कादंबरींत व्हडलें घर, ताका तेंकून आशिल्ली बंदखण, ते बंदखणींतल्यो कुडी, कैद्यांक दिताले तें जेवण, बंदखणींतल्यो रिती, न्याय मंडळाचें साल, इंक्विझिटरां मुखार जाताली ती तपासणी आनी आव्तु द फॅ हांचे विशींचीं वर्णनां हांवें डॉ. दॅलाँ हांच्या अणभव-कथनांतल्यान घेतल्यांत. बदल करिनासतना म्हज्या उतरांनी तीं चित्रायल्यांत. हें रीण मोटें. डॉ. दॅलाँ हांणी केल्लीं वर्णनांच हांवें वापरल्यांत अशें कोणाकूय दिसलें जाल्यार तें खरें अशेंच हांव म्हणटलों. तीं वर्णनां हांवें डॉ. दॅलाँ हांच्या अणभव-कथनांतल्यान

घेतल्यांत ताचीं दोन कारणां आसात. एक, तीं हांवें म्हाका जाय तशीं केल्लीं जाल्यार तीं कल्पनेंतलीं जातलीं आसलीं आनी घडये इतिहास सांगता ताचे परस वेगळीं जातलीं आसलीं. तशें घडिल्लें म्हाका नाका आशिल्लें. दुसरें, हीं वर्णनां आनीक खंयच मेळनात. म्हण्टकूच हें खरें न्हय; तें खरें अशें मानपाक वा म्हणपाक मेळना. हाका लागून तीं वर्णनां उश्णीं घेवप हें गरजेचें जालें. तेच भाशेन, इतिहासा कडेन प्रामाणिक रावप, तो विकृत जावंक दिवप ना हे भुमिके कडेन तें म्हाका सुसंगत दिसलें.

प्रातिनिधीक अशीं पात्रां आनी प्रातिनिधीक अश्यो घडणुको सोडल्यो जाल्यार हेर सगलो इतिहास अशें हांवें म्हळां. तें अतितायेचें न्हय. गांवांतल्यो आनी भोव करून गोंय शारांतल्यो कांय घडणुको वाचप्याक अतितायेच्यो वा कल्पनेंतल्यो दिसुंयेतात; पूण त्यो तसल्यो न्हय. इतिहासकारांनी आनी भोंवडेकारांनी सोळाव्या शेंकड्यांतल्या गोंया विशीं जें बरोवन दवरलां तातूंत त्यो मेळटात.

हे कादंबरींतल्या कथानकाचो काळ सोळाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांतलो - 1566 आनी 1585 ह्या वर्सां मदलो. त्या काळांत पुर्तुगेजांचे सत्ते खाला फकत तीन (आयचे चार) म्हाल आसले. मुरगांव म्हाल हो साश्ट म्हालाचोच वांटो आसलो. तिसवाडींत चार जुंवे आसले, पूण तिसवाडी, साश्ट आनी बार्देस म्हाल हे लेगीत जुंवे आसले. चडशी येरादारी न्हंयांतल्यान जाताली. अर्थवेवस्था भोव करून शेतकामत आनी गोंय शारांतली बाजारपेठ हांचेर आदारून आसली. थोडे भितर सांगचें जाल्यार 16 व्या शेंकड्यांतलें गोंय आयच्या गोंया परस खूब वेगळें आसलें. देखून, आयचें गोंय नदरे मुखार दवरून ही कादंबरी वाचली जाल्यार ती पुरायेन कल्पनेंतली दिसपाची वा 'फॅण्टसी' कशी दिसपाची शक्यताय आसा. पूण 16 व्या शेंकड्यांतल्या गोंयचो इतिहास आनी भुगोल नदरे मुखार दवरलो जाल्यार कादंबरींतल्या विशयाची बरी समजणी मेळूंक पावतली. कथानकांत आयला तो त्या इतिहासाचो एक ल्हानसो वांटो हेंवूय कळटलें.

गोंयांत बाटोवणी सुरू जाली 1540 वर्सा. तेन्ना पुर्तुगेजां कडेन तिसवाडी

हो एकूच म्हाल आशिल्लो. थंय सांवार जालो. 1543 वर्सा साश्ट आनी बार्देस हे म्हाल पुर्तुगेजांच्या ताब्यांत आयले ; पूण थंय धर्म पातळावपाचो वावर रोखडोच सुरू जालो ना. 1560 वर्सा दोन म्हत्वाच्यो घडणुको जाल्यो. इंक्विझिशन स्थापन जालें आनी तिनूय म्हाल चार पंथां मदीं वांटले. तिसवाडींतलो वावर डॉमिनिकीं आनी जेजुईत ह्या पंथांचेर सोंपयलो, साश्ट जेजुईत पंथा कडेन सोंपयली आनी बार्देस फ्रांसिस्कान पंथाक दिलो. अशी वांटणी जाली तरी जेजुईत रोखडेच साश्टींत आयले नात. ते आयले 1566 वर्सा, ज्या वर्सा हे कादंबरीच्या कथानकाक आरंभ जाता. हाका लागून, तिसवाडींत आदीं जो सांवार जालो ताचे विशींचे कांय उल्लेख कथानकांत आयल्यात ; पूण तांचीं वर्णनां नात. तेच भाशेन, साश्टींतलीं धर्मांतरां कथानकाचे गरजे पुरतींच आयल्यांत ; सगलीं न्हय. कथानकाचो काळ 1566 वर्साच्यान 1585 वर्सा मेरेन, म्हळ्यार 20 वर्सांचो, आशिल्ल्यान त्या काळा आदल्यो वा उप्रांतच्यो घडणुको कथानकांत नात. वेगळे तरेन सांगचें जाल्यार, धर्मांतर हो हे कादंबरीचो विशय न्हय. धर्मांतरांतल्यान जें इंक्विझिशन आयलें त्या इंक्विझिशनाक लागून जाल्लो आकांत हो हे कादंबरीचो विशय.

सोळाव्या-सतराव्या शेंकड्यांतल्या घडणुकांची खबर सांगतना वा तांचेर आदारून साहित्य रचतना एक अडचण जाता. त्या काळांतल्या हिंदू समाजाचें पुराय चित्र मेळना. कांय कायदे सरसकट हिंदू खातीर केल्ले तर कांय अमक्याच जातींच्या लोकां खातीर केल्ले हें स्पश्ट आसा. हिंदू समाजांतल्या तीन-चार फुडाऱ्यांचीं नांवां आनी तांचे विशींची थोडी खबर मेळटा. पूण सामान्य लोकां संबंदान, कश्ट करपी कुटंबांतल्या मनशां संबंदान स्पश्ट अशें कांय मेळना. ते खातीर तर्काचो आदार घेवचो पडटा. जांचो संबंद भाटकार, शेतांचे धनी वा व्यापारी हांचे कडेन आशिल्लो ते तांकां काम दिवपी वर्गा वांगडा रावन बाटले आसुंयेतात. कांय जाणांनी भिरांतीन वा लाब मेळटा म्हूण धर्म बदल्लो आसुंयेता. जातभेदाक लागून जांकां उणाकपणाची वा वायट वागणूक मेळटाली तांणी क्रिस्तांव धर्म जात मानिना म्हूण तो धर्म आपणायलो आसुंयेता. तर कांय जाण गांव सोडून गेले आसुंयेतात. असल्या

लोकां मदल्या थोड्यांनी परत येवन, क्रिस्तांव धर्म आपणावन, शेतकामत करपाक जमनी मेळयल्यो अश्यो देखी मेळटात.

धर्म, जात हे नाजूक आनी संवेदनक्षम विशय. पुर्तुगेजांनी फकत वसाहतवाद चलयल्लो जाल्यार त्या काळांतल्या गोंयच्या इतिहासांत तोच म्हत्वाचो मुद्दो जातलो आसलो. पूण धर्मांतर आनी इंक्विझिशन हांचे वरवीं तांणी आपल्या धर्माक थळावो धर्म, थळावी संस्कृती ना-नपश्यात करपाचें अस्त्र केलें. ताका लागून गोंयच्या इतिहासांत वसाहतवादा इतलोच धर्मवाद होय बी म्हत्वाचो मुद्दो जालो. तो आतां इतिहासांतल्यान भायरावंक जावचो ना. इतिहास जे मेरेन खरो आसा ते मेरेन तो बरो काय वायट असो प्रस्न उप्रासूंक फावना. इतिहास वायट वा दुखदिणो आसलो तरी तो पुसून उडोवंक येना. कांय जाणांक दिसता, दुखदिणो इतिहास उस्तून कित्याक काडचो? तो वायट हेतू मनांत धरून उस्तुचो न्हय हें खरें; पूण तो आमकां खबर आसप हें गरजेचें. तेच भाशेन, इतिहासाचो जो वांटो हेर वांट्यां इतलो उक्तो नासता तो उस्तून काडचो पडटा. तेच खातीर संशोधन लागता न्हय?

जो इतिहास आसूंक जाय तितलो उक्तो ना त्या इतिहासाचेर ही कादंबरी रचल्या. इतिहासाच्या ग्रंथांनी तो मेळटा. म्हजो प्रयत्न आसा तो साहित्याच्या माध्यमांतल्यान तो लोकां मुखार दवरपाचो. तशें करतना मनांत पूर्वग्रह आसचो न्हय, सत्याचो विपर्यास घडचो न्हय आनी इतिहास विकृत जावचो न्हय हाची जतनाय हांवें घेतल्या हाची खात्री वाचप्यांनी बाळगुची.

ह्या पुस्तकाच्या कव्हराचेर फुडल्यान दिलां तें चित्र लासून मारपाची ख्यास्त फावो जाल्ल्या सामार्रा आनी कारोशा घाल्ल्या कैद्याचें. फाटल्यान दिलां तें चित्र हेर तरेची ख्यास्त जाल्ल्या आनी सांबेनीत घाल्ल्या कैद्याचें. हीं चित्रां पिकार्द हांच्या ग्रंथांतल्या चित्रांचेर आदारिल्लीं आसात. कव्हराचे भितल्ले वटेन आसात तीं चित्रां - एक 'आव्तु द फॅ' दिसाच्या पुरसांवाचें आनी दुसरें सांत लाजार मळा वयल्या उज्या कांडाचें - डॉ. दॅलाँ हांच्या ग्रंथांतल्यान घेतल्यांत. हीं आनी हेर कांय चित्रां प्रो. प्रियोळकार हांच्या 'दि गोवा इंक्विझिशन' ह्या ग्रंथांत छापिल्लीं आसात. पुस्तक उक्तें करतनाच दोन

पानांचे रुंदायेचें रंगयाळें चित्र आसा तें ज्यां हायजेन व्हान लिन्शॉटन ह्या डच भोंवडेकारान काडिल्लें. हें आनी हेर कांय चित्रां ताणें बरयल्ल्या 'इतॅनॅरारियु' ह्या ग्रंथांत छापिल्लीं आसात. लिन्शॉटन 1583 वर्सा गोंयांत आयिल्लो आनी 1588 मेरेन गोंय शारांत राविल्लो. ह्या पुस्तकांत छापिल्ल्या चित्रांत दिसतात तीं गोंय शारांतलीं घरां आनी 'रूअ दिरैत' म्हालमार्गा वयलो बाजार.





## 4 ऑक्टोबर 1583

गोरवां गोठ्यांत परतुपाचो वेळ जावंक नाशिल्लो. पूण वत मोव जाल्लें. गोंय बंदर आनी बंदरा लागीं उबीं आशिल्लीं तारवां दिसूंक लागलीं. कांय वेळान व्हडें बंदरा लागीं पावलें. मुखेल धक्याक तेंकून आशिल्ल्या धाकट्या धक्याक तेंकलें. पयलीं फामिलियार देंवलो. शिपायान कायतानाक देंव म्हूण कुरवेनूच सुचयलें. कायतान देंवलो. फाटल्यान शिपाय देंवलो. कांय अंतर चलून वतकच मात्शी चडटी लागली. तिगूय चडूंक लागले. फुडें फामिलियार, मदीं कायतान आनी ताचे फाटल्यान शिपाय. रोखडेंच वायसरॉयाचें आर्क लागलें. आर्कांतल्यान तिगूय फुडें गेले. कांय मिण्टांनी दाव्यान व्हडलें दुरीग दिसलें. हो कोट. भितर वायसरॉयाची पालास आसा. आनीक मात्शे फुडें वतकूच सवाईचो लांब-रूंद चौक लागलो. पुर्तुगेज ताका 'तेरैरु दे साबाय्यु' म्हणटाले. कायतानान दाव्यान पळयलें. सॅनादाची इमारत. ही गोंय शाराची नगरपालिका. तिका तेंकून तंबाखूच्या व्यापारा विशींची कचेरी. मुखार नीट वचपी रूंद असो म्हालमार्ग. पुर्तुगेज ताका 'रूअ दिरैत' म्हणटाले. चलतां-चलतांच कायतानान उजव्यान नदर मारली. सगल्यांत व्हडली इगर्ज - सॅ कॅथॅड्रल! ती वाडयतात. अजून काम चालू आसा आनी मात्शी दाव्यान नदर घुंवडायल्या मात्....कायतान नकळटां थांबलो. उजवो हात वयर काडून ताणें मुखा वयले इमारतीक बोट दाखयलें आनी ताच्या तोंडांतल्यान उतरां सुटलीं....'व्हडलें घर!' तीं उतरां अजाप आनी भंय हांणी उपाट भरिल्लीं.

शिपायान 'शू ऽऽ' केलें. कायतानाचे फाटीक बोट तोपून सांगलें,

'हात सकयल काड आनी मोन्यानी फुडें चलूंक लाग.'

कायतानान बेगिबेगीन हात सकयल काडलो. व्हडल्या घराक बोट दाखोवंक जायना हें तो विसरिल्लो. 'चुकलों' अशे नदरेन ताणें फाटीं वळून शिपाया कडेन पळयलें. हाचे आदीं दोन-तीन फावटी तो गोंयां बाजाराक आयिल्लो. तेन्ना हें व्हडलें घर ताणें पैशिल्यानूच हय-न्हयशें पळयल्लें. ताचे उप्रांत खूब वर्सां गेल्लीं. आज त्या घरा मुखार पावतकूच ताच्या मनाची अवस्था विचित्र जाल्ली. मान सकयल घालून तो चलपाक लागलो.

व्हडलें घर म्हळ्यार आदली युसूफ आदिलशाची पालास. आफोंस दे आल्बुकेर्कान गोंय शार जिखतकूच तो थंय रावपाक लागलो. ताचे फाटल्यान जे गवर्नर वा वायसरॉय आयले ते लेगीत तेच पालासींत रावले. 1554 वर्सा दाँ पेद्रु मास्कारेन्यस वायसरॉय म्हूण आयलो. ताची पिराय आसली 70 वर्सांची. पालासीचीं व्हडलीं पाशाणी सोपणां चडपाक ताका त्रास जावपाक लागलो. बंदरा लागीं कोटांत आशिल्ले पालासींत कांय बदल करून ताणें ती सुदारली आनी थंय रावंक गेलो. तेन्ना सावन गवर्नर वा वायसरॉय तेच पालासींत रावपाक लागले. आदिलशान बांदिल्ली पालास रिती उरली.

1560 वर्सा इंक्विझिशन गोंयांत हाडलें तेन्ना ताका सुवात जाय पडली. गोंय शारांतली ही सगल्यांत व्हडली वास्तू. पूण रिती आशिल्ली. ती इंक्विझिशनाक दिली. इंक्विझिशनान ती फाटल्यान वाडयली, जायते बदल केले आनी तेन्ना सावन ती 'इंकिजिसांवाची पालास' जाली. पुर्तुगेज तिका 'सांता काझ' म्हळ्यार पवित्र घर म्हणटाले. थळावे लोक मात् भिरांतीन इंकिजिसांव हें उतर टाळटाले आनी ते वास्तूक व्हडलें घर म्हणटाले.

व्हडल्या घराची रुंदाय 70 हात आसली. त्या घराक दोन माळयो. मुखावयली वणत काळ्या पाशाणाची. मदीं तीन दारां. मदलें दार हेरां परस व्हड. तें मुखेल दार. कुशीचीं दोनूय दारां व्हडल्या घराच्या हेर वांट्यांनी वचचे खातीर. त्या वांट्यांनी कपेल, इंक्विझिशनाच्यो कचेर्‍यो आनी इंक्विझिटर, अधिकारी आनी चाकर हांकां रावपाच्यो व्हड तश्योच ल्हान कुडी आसल्यो. सगल्यो वण्टी चार हात रुंदायेच्यो.

फामिलियार, शिपाय आनी कायतान व्हडल्या घराच्या दारा कडेन पावले तेन्ना काळ्या पाशाणाची वणत सांजवेळच्या हळडुव्या वतांत तिकतिकताली. कायतानाच्या मनांत मात् अदमासा भायले भिरांतीची पाल चुकचुकताली.

तिगूय पाशाणाचीं तीं व्हडलीं व्हडलीं सोपणां चडून वयर गेले आनी एका व्हडल्या सालाच्या हुमऱ्यार पावले. फामिलियारान थंयच्या शिपाया कडल्यान आल्काइदाक रकाद धाडलो. कायतानाच्या पांयांत गुळे आयिल्ले. ताका खरसूय लागिल्ली. दुसरे वटेन, फुडें कितें जातलें काय हे चिंतेन कलकलूंक लागिल्लें. ते स्थितींतूय त्या सालाचें आगळेपण ताची नदर ओडून घेतालें. केदें व्हडलें साल! तें उंची सामान! तीं तरेकतरांचीं झुंबरां! एखाद्र्या राजाच्या दरबार हॉला भाशेन! दावे, उजवे आनी फाटले वण्टीक दारां. इतल्यांत एका दारांतल्यान आल्काईद आयलो. तो आनी फामिलियार पुर्तुगेज भाशेंत उलयले. कायतानाक तें समजलें ना. फामिलियारान कायतानाक आल्काइदाचे सुवादीन केलो आनी तो गेलो. कायतानाक घेवन यो अशी खूण आल्काइदान केली आनी तो फुडें सरलो. शिपाय आनी कायतान ताचे फाटल्यान गेले. फाटले वण्टीक आशिल्ल्या एका दारांतल्यान ते एके कुडींत पावले. थंय आशिल्ल्या चाकरांक आल्काइदान कांय सुचोवण्यो केल्यो आनी तो गेलो. दोन फिंर्गी आनी एकलो थळावो. तो दुभाशी म्हूण वावुरतालो. दोनूय फिंर्गी चाकरांनी थळाव्याक कांय सुचोवण्यो केल्यो. ते प्रमाण तो कामाक लागलो. ताणें शिपायाक सांगून कायतानाची तकले सावन पांयां मेरेन तपासणी केली आनी जी जी वस्त आंगार आसा ती काडून मेजार दवर अशें कायतानाक सांगलें. कायतानाच्या बोल्सांत आशिल्ल्यो कांय असुर्फ्यो, गळ्यांत खुरीस आशिल्ली भांगराची सरपळी, बोटाक आशिल्ली मुदी, हातांत धरिल्लें चेपें आनी पांयांक मोचे. आंगार काल्सांव आनी खोमीस. सरपळी, मुदी आनी असुर्फ्यो मेजार दवर म्हूण सांगतकूच कायतानान तशें केलें. दुभाश्यान सांगलें ते प्रमाण एका फिंर्गी चाकरान वळेरी तयार केली. वळेरेंत ताणें सरपळी आनी मुदी घालीं नात. मागीर दुभाश्यान कायतानाक घरांत कितें-कितें आसा तें विचारून आनी ताच्या सगल्या भाटांची, जमनींची म्हायती घेतली. दुसऱ्या

गोऱ्या चाकरान त्या सगल्याची वळेरी केली. दोगांनीय दुभाश्याचे मार्फतीन कायतानाक सांगलें,

'ह्यो सगल्यो वस्ती आनी भाट-बेंस जप्त जातलें. तूं गुन्यांवकार न्हय अशें थारलें जाल्यार सगलें तुका परत मेळटलें.'

कायतान गुन्यांवकार थारलो जाल्यार तें सगलें कोणाचें जातलें हे विशीं तांणी कांय सांगलें ना. आयकलें तें कायतानान खरें मानलें. आज मेरेन कोणाकूच परत कांयच मेळूंक ना हें ताका कशें खबर आसतलें?

इतल्यांत आल्काईद परत आयलो. कायतानाक हाड म्हणून ताणें खूण केली. ते प्रमाण शिपाय कायतानाक घेवन आल्काइदा फाटल्यान गेलो. आदीं एके आनी मागीर दुसरे कुडींतल्यान भायर सरतकूच ते वारांदांत पावले. वारांदा पेल्यान एके एके माळयेचीं अशीं कितलींशींच घरां आसलीं. दोन घरां मदीं सुवात सोडिल्ली. घरांचे सकयल आनी माळयेर खण शे केल्ले. दर एका खणांत आठ अश्यो सगल्यो सुमार 200 कुडी आशिल्ल्यो. आल्काइदान कायतानाक माळये वयले एके कुडी सरीं व्हेलो. थंयच्या शिपायाक कांय सुचोवण्यो केल्यो आनी तो गेलो. तो हे बंदखणीचो मुखेली म्हणपाचो कायतानाक अदमास आयलो. सकाळच्यान कायताना वांगडा आशिल्लो शिपायूय थंयसून गेलो.

कुडी भायर वारांदांत कायतान उबो रावलो. ताणें थंयच त्या शिपाया कडेन उलोवपाचो यत्न केलो. पूण शिपाय कांय उलयलो ना. शिपायांक कैद्यां कडेन उलोवपाक बंदी आसली. ताणें कायतानाच्या हातांत एक काबाय दिली आनी मागीर काल्सांव-खोमीस काडून ती घाल अशें कुरवांनीच सांगलें. इतले म्हणसर म्हालो आयलो. ताणें कायतानाक बस म्हळें. कायतान उकणयां बसलो. म्हाल्यान कायतानाची शेंडी कातरली आनी तकले वयले केंस तासून ताका बोडको केलो. दादलो आसूं वा बायल-मनीस इंक्विझिशनाच्या ह्या नेमाक पाळो दिवंकूच जाय आसलो. म्हालो वतकूच शिपायान कुडीचें दोट्टी दार उगडलें. कायतानाक भितर वचपाची खूण केली आनी ताणें तशें करतकूच दार धांपून खिळयो घाल्यो.

तिनसांज जायत आयिल्ली. कायतान कुडींत भितर सरला तेन्ना थंय दिवो नाशिल्लोच, पूण एक मेणवात पसून नाशिल्ली. मात् एके वण्टीक कोणाचोच हात पावचो ना इतले वयर लोखंडाचे वारांव लायिल्लो ल्हानसो बुराक आशिल्लो. त्या बुराकांतल्यान आयिल्ल्या उजवाडाचे पसयेंत कायतानान कूड केदी आसा आनी भितर कितें आसा ताचो अदमास घेतलो. कूड आठ हात लांब आनी आठ हात रूंद. एक उदकान भरिल्लो बुडकुलो. एक गुलगुलेत. मात्शी उबार केल्ले सुवातेर पातळावपाची एक मांदरी. कोनशाक एक सान्न. सैमीक विधी करचे खातीर धांपणें आशिल्लो कांसो.

उजवाडाची पसय विरून गेली तसो कुडींत काळोख पातळ्ळो. कायतान वण्टीक तेंकून पांय सोडून बसलो. पोट रितें आसा म्हणपाचें ताका जाणवलें. सकाळीं पेज जेवन भायर सरिल्लो. दनपरां व्हड्यांत ताका शिपायान दोन उंडे दिल्ले. ताणें एकूच खाल्लो. ताका दिसलें, कितेंय खावंक दितले. पूण दार उगडलेंच ना. हे बंदखणींत सांजेचें जेवण चार वरांचेर दितात हें ताका दुसऱ्या दिसा कळपाचें आशिल्लें. ताणें दोनूय पांय ओडून पोटा कडेन घेतले. दोनूय हात दोडून धोंपरांचेर दवरले. तकली त्या हातांचेर तेंकयली. सकाळीं सुरू जाल्ल्या अपसरणांतल्यो घडणुको ताच्या धांपिल्ल्या दोळ्यांकूय स्पश्ट दिसूंक लागल्यो.



सकाळ सदां भाशेन उजवाडिल्ली. पूण आज कायतानान ताकतिकेन कामां केलीं. भाटांत मेरो सारक्यो करपाचो वावर चलतालो. लुंवणी लागीं पाविल्ल्यान ते संबंदींची तयारीय करपाची आसली. पियेदादीन दिल्ली पेज तो जेवलो. मोटवें काल्सांव घालें. बानयान घालें. माथ्याक वालो गुठलायतना आंगणांतल्यान आयिल्लो आवाज ताच्या कानार पडलो.

'ओऽऽ घरा - '

पडवेचें दार उक्तेंच आसलें. दारांत रावन पळय जाल्यार आंगणांत घोड्यार बशिल्लो एक पाखलो आसा. ताचे छातयेचेर भांगराचो बिल्लो आसा. त्या

बिल्ल्याचेर मदीं एक चित्र आसा. घोड्या कडल्यान थोड्या अंतराचेर एक शिपाय उबो आसा. तो गोंयचो आसतलो.

'कोण जाय?' कायतानान विचारलें.

'कायतान व्हाज तूं?' शिपाय.

'हय. कितें जालां?'

घोड्यार बशिल्ल्या पाखल्यान पुर्तुगेज भाशेंत शिपायाक कितें तरी सांगलें. मागीर शिपायूच उलयलो,

'तुका गोंयां येवपाचें आपोवणें आसा.'

'गोंयां? कित्याक?'

'तें थंयसर वयतकूच कळटलें.'

'केन्ना येवपाचें?'

'आतां. आमचे वांगडा.'

'आतां?!'

'हय. बेगीं भायर सर.'

अकस्मात आयिल्ल्या अश्या ह्या आपोवण्यान कायतानाक अजाप जालें. पूण त्या अजापाक एके तरेचे भिरांतीची देग आशिल्ली. आसतलें कसलेंय सरकारी काम. घडये सरकाराक भरपाचे पैशे वाडयल्यात म्हूण सांगपाक आसत. 'येतां ऽऽ' म्हणून तो भितर गेलो. पियेदाद रांदचे कुडींत नुस्तें उजरायताली. कायतानान उश्णो आव हाडून तिका सांगलें,

'सरकारी आपोवणें आयलां. हांव गोंयां वतां.'

'अशें अकस्मात आपोवणें? आनी कशे वतले?' पियेदादीच्या उतरांनी हुस्को उपाट भरिल्लो. कायतानान परत उश्णो आव हाडून सांगलें,

'ते व्हरूंक आयल्यात. तूं हुस्को करुंनाका. गरज पडली जाल्यार मतेसाक ना जाल्यार ज्याकींनाक आपोवन हाड.'

मतेस थंय लागींच खोंपींत रावतालो. ज्याकीन ताची बायल. दोगांय भाटांतलीं कामां करी. घरांतलीं कामां करूंक शेंवतू वावराडी आशिल्ली.

कायतानान न्हेसण बदल्लें. माथ्याक चेपें घालें. पांयांत मोचे घाले आनी

आंगणांत पांय दवरतना म्हळें,

'या.'

मुखार घोड्यार बशिल्लो पाखलो, मदीं कायतान आनी फाटल्यान शिपाय अशे ते तिगूय जाण रायतूरचे दिशेन वचूंक लागले. पडवेच्या दारा कुशीक रावन पियेदाद बरोच वेळ तांकां पळयत रावली.

घोड्यार बशिल्लो तो फामिलियार. फिदाल्गां मदल्या कांय जाणांक इंक्विझिशनान फामिलियार नेमिल्ले. कोणाकूय धरून हाडपाचो आसतालो तेन्ना फामिलियारान तें काम करपाचें आसतालें. हें व्हडविकेचें काम अशें तो मानतालो. ताचे छातयेर आशिल्लो तो भांगराचो बिल्लो इंक्विझिशनान दिल्लो. बिल्ल्याचेर मदीं चित्र आसलें तें इंक्विझिशनाची कुरू. इंक्विझिशनान कायतानाक आरोपी केल्लो आनी आतां फामिलियार ताका गोंयां व्हडल्या घरांत व्हरतालो. कायतानाक हे विशीं कांयच खबर नाशिल्लें.

शेतां कुशीचे वाटेन वचून ते रायतूरच्या कोटा सरीं पावले. थंय लागींच कोटा खातीर बांदिल्ल्या ल्हानशा धक्याक तेंकून एक व्हडें आसलें. देगेर एक फिंर्गी सोल्दाद उबो आसलो. फामिलियार घोड्या वयल्यान देंवलो. घोडो ताणें त्या सोल्दादाचे सुवादीन केलो आनी तो व्हड्यांत वचून बसलो. शिपायान कायतानाक व्हड्यांत वचपाची खूण केली. कायतानान तशें करतकूच तोवूय फाटोफाट आयलो. व्हडें रायतूरचे न्हंयेंतल्यान उत्तरेचे दिशेन वचूंक लागलें. सकाळींच येवन आपणाक व्हरपाक फामिलियार आनी शिपाय काल येवन कोटांत राविल्ले आसूंक जाय हें कायतानाच्या लक्षांत आयलें.

व्हडें ल्हानशें पूण व्हलेकार चड आसले. व्हड्यान रोखडीच गती घेतली. दनपार जायत आयलो तशें वत रणरणूंक लागलें. तरी प्रवास न्हंयेंतल्यान आशिल्ल्यान तें सोंसूंक जातालें. सुर्या माथ्यार पावलो तेन्ना व्हडें रायतूरचे न्हंयेंतल्यान बोरी, केळशी काडटकच जुवारींत पावलें. थंय तें उजवे वटेन घुंवलें आनी जुवारीच्या उत्तरेच्या फांट्यांत भितर सरलें. आतां सकाळचे इतली गती नाशिल्ली तरी बेगीन गोंयां पावपाक जाय हें व्हलेकारांक भोव बरें खबर आशिल्लें. तांणी अदमास केल्लो ते प्रमाण व्हडें मडकय, भाणस्तारी

बी काडून कुमारजुवेंचे दिशेन वचून जुवें लागता थंय दाव्यान घुंवलें आनी मांडवींतल्यान गोंय बंदरांतल्या त्या ल्हान धक्याक तेंकलें.



पाखलो, कायतान आनी शिपाय रायतूरच्या कोटा वटेन वतात तें गांवांतल्या कांय जाणांनी पळयल्लें. एक-दोग जाणांनी बेगिबेगीन येवन मतेसाक विचारलें. ताका कांय खबर नासलें. ताणें ज्याकीनाक विचारलें. ताणेंय कांय पळोवंक नासलें. पूण तें रावलें ना. हातांतलें काम थंयच सोडून भाटकारागेर आयलें. पियेदाद पडवेर वण्टीक फाट तेंकोवन बशिल्ली. दोळे धांपिल्ले. ज्याकीनान पडवे भायर रावनूच विचारलें,

'भाटकान्नी, कितें जालां? भाटकार खंय गेला?'

पियेदादीन जाप दिली ना. दोळेय उगडले नात. ज्याकीन पडवेंत तिचे बगले गेलें आनी तेच प्रस्न ताणें परत विचारले. पियेदादीन दोळे उगडले, पूण नदर कांयच पळय नासली. ज्याकीनाक असले गजालीची संवय जाल्ली. फाटलीं सुमार दोन वर्सां पियेदाद मदीं-मदीं अशी वागताली. मनशां मदीं आसुनूय शेणिल्ले भाशेन. कांय वेळा खूब बडबडटाली पूण ताचो अर्थ लागनाशिल्लो. ज्याकीन आनीक म्हऱ्यांत वचून प्रस्न विचारीत रावलें. कितें जालां तें सांग म्हूण भाटकान्नीक पराथूंक लागलें. अखेरेक पियेदादीन तोंड उगडलें,

'ते घेवन गेल्यात भाटकाराक. गोंयां.'

'गोंयां? कित्याक?'

पियेदादीन जाप दिली ना. फकत 'खबर ना' ह्या अर्थान तकली हालयली. तरी ज्याकीनान विचारलें,

'केन्ना येतलो?'

परत तीच मोनी जाप.

ज्याकीनान चिंतलें, आनीक प्रस्न विचारून उपेग ना. सकाळीं गोंयां वचूंक गेल्लो मनीस सांजे मेरेन राय कसो पावतलो? ताणें म्हळें,

‘भाटकान्नी, तूं भियेवं नाका. भाटकार घडये फाल्यां पावत. हांव रातचें तुका सांगात दिवपाक येतां.’

पियेदाद तेच रिते नदरेन पळयत रावली.

ताकतिकेन वचून ज्याकीनान मतेसाक ही खबर सांगली.

‘कितें?! गोंयां?!’ मतेस लागीं लागीं आड्डलो. अजाप, चिंता आनी भंय ताच्या आवाजांत उपाट भरिल्लीं. हातांतलें खोरें ताणें थंयच उडयलें. कमराक वालो गुठलायलो आनी भायर सरतां-सरतां ज्याकीनाक सांगलें,

‘हांव गोपू शेटीक कळोवन येतां.’

गोपू शेटी शेजारच्या वाड्यार रावतालो. तो कायतानाचो भुरगेपणा सावन इश्ट. दोगूय एकामेकाक पावपी.

मतेसान गोपू शेटीक घडिल्ली खबर सांगली. गोपू शेटी खिणभर गोंदळ्ळो. मतेसान जें सांगलां ताचो अर्थ कितें लावचो हेंच ताका समजना जालें. दुसऱ्याच खिणाक ताका पियेदादीचो उगडास जालो. ती हालींसरा मदीं-मदीं भ्रमिश्ट जाता हें तो जाणा आशिल्लो. ताणें विचारलें,

‘पियेदाद एकलीच आसा?’

‘हय एकलीच. पूण ते पासत हुस्को नाका. ज्याकीन तिच्या सांगाताक रावतलें. हांवूय आसां.’

‘पियेदादीच्या कुळारा दियोगाक कळोवचें पडटलें.’

‘हय. तेंच हांव चिंततालों.’

गोपू शेटीन पुताक उलो मारलो. मतेसान हाडिल्ली खबर सांगली आनी रासय वचून पियेदादीच्या भावाक कळोवन यो म्हूण सांगलें. पूत रोखडोच भायर सरलो. गोपू शेटीन घरांत भितर वचून घरकान्नीक थोडे भितर खबर सांगली आनी भायर येवन मतेसाक म्हळें,

‘चल या. पियेदादीची खबर घेवंक जाय.’





## 7 ऑक्टोबर 1583

बंदखणींतलो तिसरो दीस उजवाडलो तेन्ना कायतानाचें मन चिंतेन अस्वस्थ जाल्लें. आपणाक गोंयां हाडला ताचे दुसऱ्याच दिसा कोणूय तरी आपले वासपुशेक येतलो म्हूण तो रावतालो. रायचे हेर गांवकार आशिल्ले, नात्यांतले लोक आशिल्ले, इश्ट आशिल्ले. पूण फाटल्या दोन दिसांनी कोणूच कसो आयलो ना हें ताका कुवाडेंच जाल्लें. ताचो गुन्यांव नाशिल्लो. ही बंदखण हेर बंदखणीं भाशेन न्हय; हांगा येतकूच कुडींतल्यान भायर सरपाक मेळना; भायलो कोण येवन मेळूंक शकना; इतलेंच न्हय, तर कोणाकूच कैद्याची खबर पसून मेळूंक पावना हें ताका खबर नाशिल्लें. मेवणो येवंक सोदतालो, ताणें सरदेसायागेर वचून खबर काडिल्ली आनी व्हडल्या घराच्या दारांत पसून पांय दवरपाची माणसुकी ना हें आयकून तो निर्शेल्लो आनी मनांतल्या मनांत रडिल्लो हेंवूय ताका कशें कळपाचें? इंक्विझिशनाचो कैदी जातकूच तो वा ती एक तर थंयच मरता वा ताचो फुडार दर दोन वा तीन वर्सांनी जावपी त्या भावार्ताच्या कर्तुबा दिसा थारता; ताका पुर्तुगेज भाशेंत 'आव्तु द फॅ' म्हणटात हें खुबूच थोड्यांक खबर आशिल्लें.

दोन दिसांच्या अणभवांतल्यान कांय गजाली कायतानाक कळिल्ल्यो. कैद्यांक सकाळीं स वरांचेर पेज दिताले. मागीर धा वरांचेर जेवण आनी चार वरांचेर सांजेचें जेवण. जेवणाक सदांच

शीत-कडी आनी नुस्तें.

कायतानाचे कुडीक दोट्टी दार, एक भितल्ल्यान उगडटा अशें आनी दुसरें भायल्यान उगडटा तशें. भितल्लें दार दोन दाट फळ्यांचें. ताका दोन गडगंज खिळयो. ह्या दाराक वयल्या वांट्यांत एक ल्हानशें जनेल. ताकाय धाकटें दार आनी खिळी आसा. जेवण वा हेर कितेंय दिवपाच्या वेळार तें धाकटें दार उक्तें करून तें दिताले आनी रोखडेंच बंद करताले. भायलें दार एका फळ्याचें; पूण भितल्ल्या दारा इतलें दाट न्हय. सकाळीं स तीं इकरा वरां मेरेन हें दार उक्तें दवरताले. भितल्ल्या दाराचे खांचींतल्यान वचून वारो कुडींत पावचो म्हूण!

कायतानाक खबर नाशिल्ल्यो अश्यो आनिकूय गजाली आशिल्ल्यो. बंदखणीच्या कुडींनी दादले आसले तश्यो कांय बायलोय आसल्यो. क्रिस्तांव आसले तशे कांय हिंदूय आसले. गोंयांतले आसले, आफ्रिकी आसले तशे गोरे कातीचे येवरोपी मनिसूय आसले. गोंयकारांक मेळटालें ताचे परस त्या गोरे कातीच्या मनशांक इल्लें चड मेळटालें. सकाळीं तांकां उंडो, तळिल्लें नुस्तें आनी फळां. आयताराक आनी केन्ना-केन्ना बिरेस्ताराक च्योरिसां दिताले. मदल्या जेवणाक मास, उंडो आनी शीत-कडी. सांजेच्या जेवणाक उंडो, तळिल्लें नुस्तें, शीत आनी नुस्त्याची वा तांतयांची कडी. न्हिदपाक गोंयकारांक आनी हेरांक फकत मांदरी दिताले जाल्यार गोरे कातीच्या कैद्यांक मांदरे वांगडा पातळ शें कुलच्यांव आनी पांगरूण दिताले. पांगरूण घेवपा इतलें शीं नासतालें; पूण जळार खूब आशिल्ल्यान तें तांकां जाय पडटालें.



गोपू शेटीलो रकाद ताच्या पुतान पावयले बरबर दियोग तेरेजाक सांगून भायर सरलो. कायतानाल्या घरा पावतासर तिनसांज जाली. पियेदाद पडवेच्या दारांतूच बशिल्ली. नदर शुन्यांत. दियोग भयणीक तेंकून बसलो. तिची फाट

सांसपिली आनी सकयल्या आवाजांत विचारलें,

'बाय, भावोजीन वतना कितेंय सांगलें?'

क्रिस्तांव जावन सात वर्सां जाल्लीं; पूण आदले भाशेनूच तो भयणीक बाय आनी कायतानाक भावोजी म्हणटालो.

'येतलो....' पियेदाद पुटपुटली. जणूं काय घोव येवपाक भायर सरला आनी आतां केन्नाय पावत असो तिचो अविर्भाव आशिल्लो.

'कित्याक वतां म्हूण सांगलें?' दियोगान दुसरो प्रस्न विचारलो.

पियेदाद कांय उलयली ना. तिचे दोळे भरून आयल्यात हें दियोगान पळयलें. ताका पियेदादीचे मनस्थितीची कल्पना आसली. तो उठलो. आंगणांत मतेस आनी ज्याकींन चिंतेस्त चर्येन उबीं आशिल्लीं थंय गेलो. एक पाखलो आनी एक शिपाय अशे दोग जाण आयिल्ले आनी ते कायतानाक घेवन गोंयां गेल्यात इतलेंच ताका कळ्ळें. गोंयां खंय? कित्याक? आपोवन व्हेला काय धरून व्हेला? ह्या प्रस्नांच्यो जापो दिवपा सारकी खबर कोणाकूच नाशिल्ली.

ते राती दियोग भयणीगेर रावलो. आपले परीन तिका धीर दीत रावलो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं ताणें पियेदादीक रासय या म्हूण सुचयलें. जाप ना. मागीर आग्रो केलो. ताकाय जाप ना. ज्याकींन आनी मतेस हांचो पालव घेवन ताणें रासय वचप कशें बरें, कायतान येतकूच मतेस कळयतलो, मागीर रोखडींच येवया अशें पियेदादीक पटोवपाचो यत्न केलो. पूण व्यर्थ! ती दोळे धांपून आयकताली. दोळे उगडटाली तेन्ना ते उपाट भरिल्ल्यो बांयो कशे दिसताले. दियोगान चिंतलें, असो आग्रो करून आज तरी उपेग ना. पियेदादीचेर लक्ष दवरात आनी भावोजी आयलो की कळयात अशें ल्हव आवाजांत ज्याकींन-मतेसाक सांगून तो पियेदादी सरीं गेलो. परत एक फावट मायेन तिची फाट सांसपिली आनी 'येतां हांव' म्हणून भायर सरलो.

दियोग रासय वच्चे आदीं गोपू शेटीगेर गेलो. तांणी कांय तर्क केले आनी

कायतान आज-फाल्यां पावलो ना जाल्यार कितें करचें हाची आंखणी केली.

तो दीस गेलो. कायतान घरा पावलो ना.

दियोगान चिंतलें, वाट पळयत रावन उपेग ना. आनीक कितेंय खबर मेळटा जाल्यार पळोवंक जाय. खंय मेळटली? गोंयां गेल्यार कोणाक मेळटलो? कोण सांगतलो? येवजितां-येवजितां ताका मानवेल सिकैरीचो उगडास जालो. दियोगाचो तो मावशेभाव. रायतूरच्या कोटांत कापितांव आनी सोल्दाद आसले. थंय एक कपेलूय आसलें. कपेलांत फिंर्गी पाद्री. तो शेर्मांव पुर्तुगेज भाशेंत सांगतालो आनी तो सांगता तें कोंकणी भाशेंत सांगपाचें काम मानवेल सिकैर करतालो. मानवेलाक कितेंय तरी खबर आसूंक जाय अशें दियोगाक दिसलें. मानवेल रावतालो लोटले.

दियोग पुताक सांगाताक घेवन तिनसांजचो चमकून लोटले गेलो. ते मानवेल सिकैरीगेर पावले तेन्ना काळोख जाल्लो. दियोगान वेळ वगडायनासतना कायतानाची खबर ताका सांगली आनी ते विशीं कितेंय जाणा काय म्हूण विचारलें. मानवेल कायतानाक गिरेस्त भाटकार म्हूण वळखतालोच; पूण बरो मनीस म्हूण ताका मानतालोय. ताणें सकयल्या आवाजांत सांगलें,

'एक फामिलियार आनी एक शिपाय गोंयां सावन व्हडें घेवन आदल्या दिसा आयिल्ले आनी कोटांत राविल्ले. दुसऱ्या दिसा सकाळींच ते भायर सरून गेले. कापितांव आनी पाद्री उलयतना कांय उतरां म्हज्या कानार पडिल्लीं. तांचे मदीं इंकिजिसांव हें उतर हांवें आयकल्लें.'

'आनी हो फामिलियार कोण?' दियोगान विचारलें.

'तो इंकिजिसांवान धाडिल्लो पाखलो. चड करून फिदाल्ग. ताचे छातयेर भांगराचो बिल्लो आसता ताचे वयल्यान तो फामिलियार म्हूण कळटा.'

'भावोजी परत केन्ना पावत?'

'कांय सांगपाक जायना. घडये - ', मानवेलान फुडलीं उतरां आडायलीं.

दियोगाचे चर्ये वयली चिंता वाडिल्ली हें ताणें पारखिल्लें.

इंकिजिसांव हें उतर आयकून दियोगाच्या काळजांत कल्ल जालें. फुडें जें घडपाचें आसा ताका फुडो करपाची तयारी आतां दवरूंक जाय हाची जाणविकाय ताका जाली. तो उठलो,

'येतात आमी.'

मानवेलाचे बायलेन जेवन वचात म्हूण सांगलें. पूण दियोगान म्हळें,

'नाका. घरा कडेन सगलीं रावतलीं.'

तिणें आग्रो केलो तेन्ना ताणें म्हळें,

'बरें. गोड आनी उदक दी.'

तिणें भितर वचून गोडा कुडके आनी उदकाचो तांबयो हाडलो. तितले म्हणसर मानवेलान भितोडेक उबी करून दवरिल्ली चूड हाडली आनी दियोगाच्या पुता कडेन दिवन म्हळें,

'सांबाळून वचात.'

दियोग आनी पूत भायर सरले. तांणी चूड रोखडीच पेटयली ना. मानवेलाच्या घरा कडल्यान थोडें अंतर चलून वतकच ती पेटयली आनी रासयचे वाटेक लागले. चुडीच्या उजवाडांत धेंपां मारतना दियोगान चिंतलें, इंकिजिसांवान भावोजीक धरून व्हेला जाल्यार हें संकश्ट मोटें. प्रस्न कांय दिसांचो न्हय. म्हयने लागुंयेतात आनी वर्सांय लागुंयेतात. मनांत ताणें निश्चेव केलो - पियेदादीक एकली दवरूंक जायना, फायच्या फाल्यां तिका रासय हाडूंक जाय.

कायतानाक घेवन गेल्ले तो दीस सोडलो जाल्यार दोन दीस जाल्ले. आयज तिसऱ्या दिसा बैलां गाडी घेवन तो सकाळींच राय वचपाक भायर सरलो. तेरेजाकूय वांगडा घेतली. राय पावतकूच ताणें गोपू शेटीक गाडयेंत घेतलो. मानवेलान सांगिल्लें तें ताणें थोडे भितर गोपू शेटीच्या कानांत सांगलें. पूण ते विशीं कांयच उलोवपाचें ना अशेंय सांगलें.

थोड्याच वेळान गाडी कायतानाल्या घरा सरीं पावली. सगलीं देंवन आंगणांत पावलीं तेन्ना पियेदाद पडवेच्च्या दारांत बसून आशिल्ली. दोळे उक्ते आसात पूण कांय दिसना. कान उक्ते आसात पूण कांय आयकूंक येना अशे अवस्थेंत. भावजेन बेगिबेगीन फुडें सरून, पियेदादी सरीं बसून तिका वेंगेंत घेतली. भावजेक उतर फुटलें ना. ती हुडके ताळ्यांत आडायत रावली.

गाडी आयिल्ली पळोवन मतेस आनी ज्याकींन धांवत आयलीं. थोडो वेळ कोण कांय उलयलो ना. मागीर दियोगानूच सुरवात केली.

'बाय, रासय या. आमी गाडी घेवन आयल्यांत.'

'एकली रावप बरें न्हय. बाय, तूं यो आमचे बराबर.' बायलेन दियोगाक तेंको दिलो.

'व्हनये, दियोग सांगता तशेंच करप बरें. कायतान येतकूच वा तुका दिसता तेन्ना यो.' गोपू शेटीन काकुळटेक येवन सांगलें.

पियेदादीन दोळे धांपले. कान आदींच धांपिल्ले. तिणें कांय आयकलेंच ना.

ज्याकींन फुडें सरलें. भाटकान्नी मुखार गेलें. दिमी मारली. आनी दुकांनी भिजिल्ल्या उतरांनी ताणें पराथलें,

'भाटकान्नी, आज नाका म्हणूं नाका. हांव मागतां तुजे कडेन.'

पियेदादीन दोळे उगडलेच नात.

दियोग आनी गोपू शेटी मात्शे कुशीक वचून उलयले. मागीर तांणी दियोगाची बायल आनी ज्याकींन हांकां कुरवेनूच लागीं आपयलीं आनी कांय सुचोवण्यो केल्यो.

तेरेज आनी ज्याकीन घरांत भितर गेलीं. पियेदादीक जाय पडटलीं तीं न्हेसणां आनी हेर वस्ती शेंवतूच्च्या पालवान एकठांय केल्यो. भांगरा करंड, दुडू आशिल्लें पेटूल, खावच्च्या पानांचो करंड, पिकदाणी हांचीय पोटली बांदली. दाराचें कुलप सोदून काडून हुमऱ्यार दवरलें. ज्याकीनान भायर येवन

काम जाल्ल्याचें दोळ्यांनीच दियोगाक सांगलें.

दियोगान पियेदादी बगले येवन म्हळें,

'बाय, चल या.'

तेरेज एके वटेन आनी ज्याकीन दुसरे वटेन रावलीं आनी तांणी पियेदादीक उखलून उबी केली. दोगांय तिका गाडये कडेन व्हरूंक लागलीं. पियेदादीन आडखळ केली ना. तिका गाडयेंत बसोवन तेरेजान वेंगेंत घेतली. ज्याकीनान घरांत वचून पोटल्यो हाडून गाडयेंत दवरल्यो. गोपू शेटीन घराचें दार धांपलें, ताका कुलप घालें आनी चावी दियोगा कडेन दिली.

दियोगान मतेसाक आनी ज्याकीनाक घराचेर नदर दवरूंक सांगलें. वावराडेक ज्याकीनागेर राव म्हूण सांगलें. गोपू शेटीचो हात हातांत घेवन दामलो आनी गाडयेंत चडून बसतकूच गाडेकाराक सांगलें, 'या.'

तितल्यांत पियेदादीचो आवाज आयलो,

'राव.'

'कितें जालें बाय, कितेंय उरलां?' दियोगान विचारलें.

'पेट.'

'कसली पेट?'

'म्हजी पेट.'

'ती गरजेची?'

'पेटे बगर हांव येवचीं ना.'

दियोगाक पियेदादीचो निश्चेव कळ्ळो. ताणें विचारलें,

'खंय आसा?'

'कोठये कुडींत.'

दियोग आनी गोपू शेटी पडवेंत भितर सरले. कुलप काडून दार उगडलें आनी कोठये कुडींत गेले. तांणी पेट सोदली, पूण ती खंयच दिसली ना. कांय पोटल्यो कुशीक काडल्यो. कांय सामान हे वटेचें ते वटेन काडलें. पेट

मेळ्ळी ना. पेट खंय दवरल्या तें विचारपाक दियोग भायर येवंक वतालो... इतल्यांत गोपू शेटीन म्हळें,

'ही जाल्यार पळय.'

दियोग परतलो. आनी बारीक पळय जाल्यार, पेट! साक, नाल्ल, बुयांवां हांचे मदीं अशे तरेन दवरिल्ली की ती दिसच नाशिल्ली. पेट जड आसतली अशें धरून दियोगान मतेसाक आदाराक आपयलो. तितली जड ती नाशिल्ली. तिगांनीय मेळून ती भायर हाडली आनी गाडयेंत दवरली. दियोगान परत दार धांपून कुलप घालें. भायर येवन तो गाडयेंत चडून बसलो. गाडी रासयचे वाटेक लागली.








## 26 ऑक्टोबर 1583

कायतान मनान आनी कुडीन असो दोनूय तरांनी घुस्मट्टालो. आपणाक हाडून हांगा असो कित्याक दवरला हेंच ताका कळनाशिल्लें. शिपायाक विचारल्यार तो जाप दिनाशिल्लो. म्हणून धीर करून ताणें एक दीस कूड तपासूंक आयिल्ल्या आल्काइदाक विचारिल्लें,

'म्हजेर आरोप आसा? केश आसा? आसा जाल्यार ती केन्ना सुरू जातली?'

आल्काइदान दिल्ली जाप ताचे वांगडा आशिल्ल्या शिपायान कायतानाक कोंकणींत सांगिल्ली,

'इंक्विझिटरांक वेळ मेळटलो तेन्ना तुका व्हरतले.'

हे जापेक तेरा दीस जावन गेल्ले. ती खरी काय फटीची हें कायतानाक कळनाशिल्लें.

सकाळीं 6 वरांचेर दिल्ली पेज जेवन तो वण्टीक तेंकून बशिल्लो. हे बंदखणींत ताचे संबंदान कांयच घडनाशिल्लें. दीस उजवाडला आनी रात जाल्या हें त्या वयल्या बुराकाक लागून कळटालें. फुडारांत कितें घडपाचें आसा हाची मातूय सुलूस लागनाशिल्ली. अशा वेळार परतून परतून ताचें मन राय पावतालें. दोळ्यां मुखार उबी रावताली ती पियेदाद. तिची मनस्थिती थीर ना हें तो जाणा आशिल्लो. ते मनस्थितीक आपूण जापसालदार अशीय एक गुन्यांवाची भावना ताचें मन पोखरताली. म्होंवा माल्याचेर फातोर

मारतकूच मूस चाळवचे तशे कितलेशेच प्रस्न मूस जावन ताचे तकले भोंवतणी गुंवगुंवताले. पियेदादीची गत कशी जाल्या काय? ती आपणाक त्रास करून घेना मूं? घरांत एकलीच रावल्या? काय भावान वा हेर खंयच्याय सोयऱ्यान येवन तिका आपणागेर व्हेल्या? सगले बरें–मागतेच; पूण काळ संकश्टाचो; सगले भियेवन पैस रावचे नात मूं? ज्याकीन आनी मतेस लागींच आसात; पूण –

इतल्यांत कुडीचें भितल्लें दार उगडलें आनी आदीं चार–पांच फावटी आयिल्ली ती आफ्रिकी वावराडी भितर सरली. तिणें कांसो बालदेंत रकोवन रितो केलो. आशिल्लो तसो परत धांपून दवरलो. ती वतकच दार बंद जालें. चार दिसांनी कांसो रितो करतात; सान्न मारून कोयर एकठांय करतात तेन्ना तोवूय त्याच कांशांत वडोवपाचो आसता हें इतल्या दिसांच्या अणभवान कायतानाक कळिल्लें आनी ताची संवयूय जाल्ली.

धा वरांचेर भितल्ल्या दाराच्या ल्हानश्या जनेलांतल्यान दिल्ली शीत–कडी जेवन कायतान आड पडिल्लो. न्हीद लागपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. जें घडून गेलां ताचे विशीं चिंतप आनी फुडारांत कितें वांट्याक येवपाचें आसा हे विशीं तर्क करप हाचे भायर दुसरें कितें करतलो आशिल्लो तो?

बारा वरांचो सुमार आसत. कुडीचें दोट्टी दार उगडलें. आल्काईद आनी शिपाय भितर सरले. आल्काइदान सांगलें तें शिपायान कोंकणींत सांगलें,

'भायर वचपाक मुस्तायकी घालून बेगीन तयार जा. चेपें आनी मोचे नाकात.'

कायतान काल्सांव–खोमीस घालून तयार जातकूच तिगूय कुडींतल्यान भायर सरले. मुखार आल्काईद, मदीं कायतान आनी फाटल्यान शिपाय अशे ते वारांदांतल्यान चलत गेले आनी फाटले वटेच्या एका दारांतल्यान आदीं पळयल्ल्या त्या व्हडल्या सालांत पावले. उजवे वटेचे वण्टीच्या एका दारांत सगलेच थांबले. एके ल्हानशे कुडींतल्यान आल्काईद फुडें सरलो. 'कायतानाक हाडला.' अशें थंय बशिल्ल्यांक सांगून परतलो आनी दारांतल्यान भायर सरून गेलो. शिपाय ताचे फाटोफाट गेलो.

कायतान ते ल्हानशे कुडींतल्यान दुसऱ्या एका दारांत पावलो. ताणें सरभोंवतणी नदर भोंवडायली. साला येदी ती सुवात आसली. मर्दी जमीन उबार केल्ली. ताचेर एक मेज आशिल्लें. तें सुमार बारा हात लांब आनी तीन हात रूंद. मेजाचे एके वटेन एकूच कदेल आसलें तर दुसरे वटेन एक बांक दवरिल्लो. हेर दोनूय वटांनी दोन-दोन कदेलां आशिल्लीं. निळे आनी केसरी पट्यांचे ताफेताचे पड्डे सगल्या वण्टींचेर सोडिल्ले. सालाचे एके वण्टीक तेंकून व्हडलो खुरीस आशिल्लो. ताचें वयलें तोंक पाख्याक तेंकतालें. खुरसार जेजू क्रिस्ताची मूर्त आशिल्ली. ताच्या हातांक आनी पांयांक खिळे मारल्यात थंयसून रगत व्हांवता असो भास जातालो. जेजूच्या दोळ्यांनी मात् करुणेचो हुंवार दिसतालो. हें इंकिजिसांवाचें न्याय मंडळ हें कळपाक कायतानाक वेळ लागलो ना. पुर्तुगेज ताका 'मेझ़ दु सान्तु ओफीसियु' म्हणटाले.

एकूच कदेल आशिल्लें ते वटेन बशिल्लो तो मुखेल इंक्विझिटर आशिल्लो. दुसरो इंक्विझिटर लागींच्याच पूण दुसरे वटेच्या कदेलार बशिल्लो. मेजाच्या दुसऱ्या तोंकाक एके वटेन सेक्रेटरी तर दुसरे वटेन दुभाशी बशिल्लो.

कायतानाचें काळीज कलकल्लें, दोळे भरून आयले, पांय थरथरले. ताणें वचून खुरसा मुखार दिमी मारली. दोनूय हातांचो पोसो केलो आनी भिरांतीन थपथपिल्ल्या आवाजांत मागलें,

'स्वामी जेजू, वाटाय म्हाका. हांवें कसलोच गुन्यांव करूंक ना. हांवें कोणाचेंच वायट करूंक ना.'

कांय खीण तसोच रावन तो उठलो आनी मुखेल इंक्विझिटरा सरीं वचून तशीच दिमी मारली. तसोच पोसो केलो आनी काकुळटेन भरिल्ल्या उतरांनी म्हळें,

'म्हजी काकुळट कर. सायबा, हांव गुन्यांवकारी न्हय. हांव धर्माचे शिकवणे प्रमाण चलत आयलां.'

मुखेल इंक्विझिटराची चर्या निर्विकार. ताणें कायताना कडेन पळयलेंय ना. दुसऱ्या इंक्विझिटरान दुभाश्याक कुरू केली. दुभाश्यान कायतानाक म्हळें,

'ऊठ. हांगा येवन बांकार बस.'

कायतान उठलो. वचून बांकार बसलो.

मेजार मिसाल आसलो. दुभाश्यान ताचे कडेन बोट दाखोवन कायतानाक सांगलें,

'मिसालाचेर हात दवर आनी सोपूत घे – खरें तेंच सांगतलों आनी हांगा कितें घडटा तें भायर कोणाकूच सांगचों ना.'

कायतानान मिसालाच्या त्या दाट ग्रंथाचेर हात दवरलो आनी सोपूत घेतलो.

दुसऱ्या इंक्विझिटरान पुर्तुगेज भाशेंत प्रस्न विचारचो आनी दुभाश्यान तो कोंकणींत कायतानाक सांगचो अशे तरेन तपासणी सुरू जाली.

'तुका हांगा कित्याक हाडला तें जाणा?'

'ना.'

'तुजेर कसलो आरोप आसा तें खबर आसा?'

'ना. कसलो? हांवें कसलोच गुन्यांव करूंक ना.'

'तुजी भयण लोटले गणा शणैगेर दिल्या?'

'हय, दिल्या.'

'तिचो घोव मेला?'

'हय. तो बरोच तेंप दुयेंत आसलो. दम्याचें आसलें ताका.'

'तांकां एक पूत आसा. खरें?'

'हय, आसा.'

'पिराय कितली ताची?'

'बारा वर्सांचो आसतलो. '

'तुजे भयणीचो घोव मेले उप्रांत तो अनाथ जाल्लो. पूण इंकिजिसांवाच्या नेमा प्रमाण ताका पाद्रींनी व्हरचे आदींच तुवें ताका मडकय ताच्या आकागेर पावयलो असो तुजेर आरोप आसा.'

'फट. सामकें फट. हांवें तसलें कांयच करूंक ना.' कायतान आत्मविस्वासान उलयल्लो आनी ताका लागून ताचो आवाज मात्सो वाडिल्लो. मुखेल इंक्विझिटरान गंभीर चर्येन ताका पळयलो.

'फट म्हळें म्हूण उपेग जावचो ना. गुन्यांव कबूल केलो जाल्यारूच खर ख्यास्तींतल्यान तूं आपणाक वाटावंक पावतलो.'

'करुंकूच ना त्या गुन्यांवाची ख्यास्त कसली? आनी आरोप फटीचो आसतना तो कबूल कित्याक करचो?'

कायतानाच्या आवाजाक नकळटां मात्शी धार आयिल्ली.

मुखेल इंक्विझिटराचें पासियेंस सोंपलें. ताणें हात दाखोवन दुसऱ्या इंक्विझिटराक 'थांबयात' अशें सुचयलें. ताचे मुखार मेजार आशिल्ली रुप्याची घांट उखलून वाजयली. ते बराबर आल्काईद आयलो आनी कायतानाक घेवन गेलो. ताणें कायतानाक कुडींत पावयलो. आल्काईद भायर सरतकूच कुडीचें दोट्ट्री दार बंद जालें.

कायतानान मुस्तायकी काडून काबाय घाली. वण्टीक तेंकून बसलो. तकलीय वण्टीक तेंकयली. दोळे धांपले आनी चिंतूंक लागलो.....मुखेल इंक्विझिटरान तपासणी अकस्मात कित्याक थांबयली? आपूण सुबेज उलयलों अशें ताका दिसलें काय? गुन्यांव कबूल केलो ना म्हूण राग आयलो काय? पूण गुन्यांव करुंकूच ना जाल्यार कबूल कसो करतलों? .....हो आळ आपणाचेर कोणें घाला काय? असलें दुस्मानपण करपाक आपणें कोणाचेंच वायट करूंक ना. वायट चिंतूंक ना....

लोटलेच्या भाच्या विशीं कितें घडलें आनी कित्याक घडलें हें कायतान जाणा आशिल्लो. 14 वर्सां सकयल्या भुरग्याचो बापूय भायर पडलो आनी ताचो सांबाळ करूंक दुसरो कोण नासलो जाल्यार इंक्विझिशनाच्या नेमा प्रमाण तो भुरगो अनाथ थारतालो. असल्या अनाथ भुरग्याक ताब्यांत घेवपाचो अधिकार पाद्रींक दिल्लो. आवय वा आजो-आजी आसल्यार भुरगो अनाथ थारनाशिल्लो. पूण फिंगीं पाद्रींनी नेमाचो आपणाक जाय तसो अर्थ लायिल्लो. बापूय भायर पडलो की भुरगो अनाथ जालो अशें धरून ते भुरग्याक ताब्यांत घेताले. कांय वेळा बळजबरी करून ओडून व्हरताले. कॉन्वेंटांत व्हरून ते ताका बाटयताले. मागीर, पाद्री जावपाचें शिक्षण दिताले वा रांदप्यांक पालव दिवपाचें काम धरून हेर कसल्याय कामाक लायताले. हें

कायतानाची भयण इंदिरें हिचो नण्डावो, मडकयचो विठू कामत हाका खबर आशिल्लें. इंदिऱ्याच्या घोवाचें दुयेंस वाडलें आनी जगपाची आस्त आटली तेन्ना तो आनी बायल खबरेक लोटले आयिल्लीं. विठू कामतीन बायलेच्या आदारान इंदिऱ्या मुखार फुडलें चित्र पितारलें आनी आपूण भुरग्याक घेवन वतां म्हूण सांगलें तेन्ना आनीक संद मेळपाची ना हें इंदिऱ्याक कळ्ळें. तिणें हयकार दिलो. दोन दिसांनी कायतान लोटले पावलो तेन्ना ताका हें कळ्ळें. जें घडलें तें बरें जालें अशें कायतानाकूय दिसलें. पूण तातूंत ताचो कसलोच संबंद नाशिल्लो.

परत ताच्या मनांत प्रस्न उप्रासलो, कोणें केला आसत हो असलो सामको फट आरोप? .....चिंतलें जायतें; पूण ताका जाप मेळ्ळी ना.



आल्काइदा वांगडा इंक्विझिटरां मुखार वतना आनी थंयसून परत येतना कायतानान खूबश्यो कुडी पळयल्ल्यो. सगल्यांचीं दारां बंद आशिल्लीं. त्या कुडींनी कैदी आसात काय त्यो रित्यो आसात हें ताका कोण सांगतलो?

कुडी रित्यो नाशिल्ल्यो. तरेकतरांचे कैदी आशिल्ले. दादले आशिल्ले. बायलोय आशिल्ल्यो. कायतानाचे कुडी पसून चवथे कुडींत आशिल्लो गाश्पार दे मार्तीरिस. ताचे पुर्वज स्पेनांतले. तेन्ना स्पेनाक काश्तीलचें राज्य म्हणटाले. पंदराव्या शेंकड्यांत थंयच्या राजान ज्यू लोकांक आनी मुसलमानांक राज्यांतल्यान धांवडावन घाले. खूबशीं ज्यू कुटंबां पुर्तुगालांत येवन रावंक सोदतालीं. पुर्तुगाली राजान अट घाली, धर्म बदलून क्रिस्तांव जाले तरूच पुर्तुगालांत राबितो करूंक मेळटलो. ज्यू कुटंबांनी ती अट मान्य केली आनी ते पुर्तुगालांत रावपाक लागले. तांकां पुर्तुगेज लोक नवे क्रिस्तांव म्हूण वळखूंक लागले.

सोळाव्या शेंकड्याच्या आरंभाक आफोंस दे आल्बुकेर्कान गोंय शार जिखलें आनी गोंयच्या बंदरांतल्यान तरेकतरांचो म्हाल पुर्तुगालाक आनी

पुर्तुगालांतल्यान येवरोपांतल्या हेर राज्यांनी पावंक लागलो तेन्ना व्यापाराक गोंयांत मोटी संद आसा हें पुर्तुगालांतल्या नव्या क्रिस्तांवांक कळ्ळें. तांचीं कांय कुटंबां गोंयां येवन रावलीं आनी व्यापार करूंक लागलीं. भोव करून वज्रां, रत्नां, माणकां, मोतयां हांचो तो व्यापार. कांय व्यापारी खूब गिरेस्त आशिल्ले. तांचेर इंक्विझिशनाचो दोळो आसतालो. हे नवे क्रिस्तांव वयलेचाराक आपूण क्रिस्तांव अशें दाखयताले, इगर्जांनी मिसाक वताले; पूण भितल्ल्यान ज्यू धर्माच्यो रिती पाळटाले. हाका लागून गिरेस्त अशा नव्या क्रिस्तांवांक उखलून व्हरपाची संद इंक्विझिशनाक मेळटाली. कसलेंय निमित्य पुरो जाताले. साबात पाळ्ळो हें पसून! आनी ज्युस्त हेंच गाश्पार दे मार्तीरिस हाचे विशीं घडिल्लें. ताका मर्णाची ख्यास्त फर्मावन लासून उडयतकूच ताचीं भाटां-बेंसां, वज्रां-माणकां, भांगर-शिंगर आनी हेर सगली आस्पत इंक्विझिशनाची जातली आशिल्ली.



गाश्पार दे मार्तीरिस हाचे कुडीक तेंकून आशिल्ली कूड सोडून फुडले कुडींत आशिल्ली मार्गारीद सौझ. हे बंदखणींत एका कैद्याक दुसऱ्या खंयच्च्याय कैद्याक पळोवपाची संदच नाशिल्ली. ताका लागून, फाटलें देड वर्स हे बंदखणींत आसली तरी मार्गारीदाक हेर खंयच्च्याच कैद्यान पळोवंक नाशिल्ली आनी तिणें हेर खंयच्च्याच कैद्याक पळोवंक नाशिल्लो. कोणेंय तिका पळयल्ली जाल्यार बोडकी केल्ली आसली तरी तिचे सुंदरकायेन तो दिपकावतलो आशिल्लो.

1540 वर्सा तिसवाडींत बाटोवणेचो जो सांवार जालो त्या सांवारांत दिवाडेचें प्रभू कुटंब धर्म बदलून सौझ जालें आनी ताणें शेतां-भाटांचें धनीपण राखून दवरलें. सुमार पंदरा वर्सां आदीं सौझ घराब्यांतल्या एका पुताक गोंय शारांत तंबाखूच्या व्यापारा विशींचे कचेरेंत चाकरी मेळ्ळी. तेन्ना सगलें कुटंब बांयगिणी येवन रावलें. मार्गारीद ही त्या घराब्यांतली सून. घोवूय गोरो पिठ्ठ

आनी सुंदर. जोडपें दिश्ट लागपा सारकें. काजार जावन तीन वर्सां जातात थंय आसात, मार्गारीदाच्या घोवाक आर जाली. उजवो हात आनी उजवो पांय धरले. तो हातरुणाचेरूच उरतालो. केन्नाय मोट्या कश्टांनी ताका थोडो वेळ कदेलार बसयताले. येवरोपी डॉक्टरांचीं तशींच थळाव्या वैजांचीं वखदां केलीं, पूण उपेग जालो ना.

मार्गारीद नेमान गोंयां मिसाक वताली. पुराय भावार्तान मागणें करताली, घोव बरो जावचो म्हूण. एका मिसाक मुखेल इंक्विझिटरान तिका पळयली. ताची नदर तिचे वयल्यान हालना जाली. तो पाद्रीचो शेर्मांव आयकल्ले भाशेन करतालो, पूण नदर परती परती मार्गारीदाक सांसपिताली. ताका ती धव्या संगमरवरी पाशाणाची कांतयल्ली बावली कशी दिसली. काळे दोळे, तितलेच काळे आनी कोंगरे केंस. आंगलोट एखाद्र्या फिशाल कलाकारान सोबीत मुर्तीक दिवचो तसो. ताका ती जाय-जाय शी दिसली.

व्हडल्या घरांत येतकूच मुखेल इंक्विझिटरान आपले मनीस धाडून ती सुंदर अस्तुरी कोण, खंय रावता, खंयच्या घरांतली ही सगली खबर काडली. दोन दिसांनी ताणें तिका रकाद धाडलो, आपल्याक येवन मेळ. मार्गारीदाक व्हडल्या घरांतल्यो कांय खबरो आयकून खबर आशिल्ल्यो. पुर्तुगालच्यान येतात ते इंक्विझिटर कशे वागतात, ते कशे पिडटात आनी परत वतना भांगरांच्यो आनी दुडवांच्यो राशी कशे घेवन वतात हे विशींय तिणें आयकल्लें. थंय वचप ना, मुखेल इंक्विझिटर इगर्जेंत बी मेळ्ळो जाल्यार ताका फावो तो मान दिवप असो निश्चेव तिणें केलो.

चारूच दिसांनी फामिलियार शिपायाक घेवन आयलो आनी तिका व्हडल्या घरांत घेवन गेलो.

देड वर्स जालें, ती बंदखणींत आसा. एकूच फावट आल्काइदान तिका इंक्विझिटरा मुखार व्हेल्ली. त्या वेळार, तिचेर कसलो आरोप आसा तें सांगून तिका परत धाडिल्ली. आरोप आशिल्लो - घोव बरो जावचो अशी आंगवण करून तिणें प्रभू कुटंबाच्या देवाक तेल धाडून दिल्लें. आरोप सामको फट आशिल्लो. प्रभू कुटंबाचो देव कोण हें तिका खबरूय नाशिल्लें. पूण आरोप

फट, तशें कांय घडुंकूच ना हें सांगपाची संद तिका खंय मेळ्ळ्या?

तेन्ना सावन आज मेरेन दोन वा तीन दिसांनी रात जातकूच आल्काईद येवन तिका व्हरता आनी मुखेल इंक्विझिटर रावता थंय सोडटा. मध्यान राती आल्काईद परत येता आनी तिका कुडींत हाडून सोडटा. असो भोग घेवपाची मुखेल इंक्विझिटराची भूक अजून उणी जावंक ना. मार्गारीदाची कूड जिती आसली तरी मन मेलां. आपले जिणेचें मसण जालां हें तिका कळ्ळां. निमण्या दिसाचीच वाट ती पळयता.



कायतान व्हाजाचे कुडी मुखार आशिल्ल्या घराच्या सकयल्या कुडीं मदले एके कुडींत आसा येसू तारी. हेरशीं, इंक्विझिशनाचो मूळ हावेस आशिल्लो बरे क्रिस्तांव घडोवपा खातीर नव्या आनी थळाव्या क्रिस्तांवां मदल्या गुन्यांवकारांक ख्यास्त घडोवपाचो. पूण ल्हवुल्हवु इंक्विझिशनान हिंदूंचेरूय हात घालो. क्रिस्तांव कैद्यांच्या मानान हिंदू कैद्यांचो आंकडो उणो आसतालो. पूण वागणूक तीच. छळ तसोच.

हिंदूंच्या लग्न-सुवाळ्यांची नसाय जाताली म्हूण जायत वा तांणी बाटून क्रिस्तांव जावचें हे मांडणेन आसत, पुर्तुगेजांनी हिंदूंच्या लग्नां आदींच विघ्नां हाडचे खातीर हुकूम काडपाक आरंभ केल्लो. पयलीं तांणी हुकूम काडलो कीं इगर्जेन मना केल्लो वेळ सोडून हेर वेळार सगले नेम पाळून हिंदूंनी लग्नां करचीं. रोखडोच तो आदेश बदलून दुसरो आदेश काडलो की गोंय शारांत तिसवाडींतल्या जुंव्यांचेर आनी पुर्तुगेजां कडेन आशिल्ल्या साश्ट, बार्देस ह्या वाठारांनी हिंदूंनी लग्नाचे सुवाळे करचे न्हय. पूण ह्या हुकमाचो परिणाम उरफाटो जालो. हिंदू लोक आदिलशाच्या वाठारांनी वचून जाय तशे लग्न-सुवाळे करपाक लागले आनी तांचो लाब त्या वाठारांक मेळूंक लागलो. मागीर पेद्रु दे आल्मैद ह्या वायसरॉयान हुकूम काडलो - हिंदूंनी दारां बंद करून आपणाल्या घरांनीच लग्नां करचीं. तांणी भटाक आपोवंक फावना

आनी कसलेच धर्मीक विधी करूंक फावनात. हो नेम लोक सारको पाळटा काय ना हाचेर नदर दवरून फावो ती कारवाय करपाची जापसालदारकी ताणें इंक्विझिशनाचेर सोंपयली. हो हुकूम हिंदूंक निखालस मानवलो ना. तांच्या फुडाऱ्यांनी वायसरॉयाक कळोवणी धाडून तो बदलपाची विनवणी केली. तितले म्हणसर वायसरॉय बदल्लो. नव्या वायसरॉयान नवो हुकूम काडलो – हिंदूंनी लग्नां तांच्या गांवांनी करचीं न्हय आनी शेजारच्या मुसलमानी वाठारांनी वचुनूय करचीं न्हय. ताणी व्हड्यांत बसचें आनी व्हडें न्हंयेंत मदीं व्हरून थंय लग्न करचें.

येसू तारी पुताचें लग्न करूंक सोदतालो तेन्ना हो हुकूम लागू आशिल्लो. येसू केळशीचो. वेवसायान व्हडेकार. कुठ्ठाळच्यान मंगेशाचें लिंग आनी केळशीच्यान शांतादुर्गेची मूर्त अंत्रुजेंत व्हरतकूच फिंर्गी पाद्रींनी मंगेशाचें देवूळ मोडून थंय इगर्ज बांदली. तेन्ना गांवकारांचीं कांय कुटंबांय गांव, घर सोडून अंत्रुजेंत गेलीं. तांकां रातयांत दुर्भाट आनी मडकय पावोवपाचें काम ताणें बेस बरें केल्लें. कश्ट करून ताणें इल्लीशी गांठ केल्ली. तीन कुडांचें ल्हानशेंच घर बांदिल्लें. वण्टी मातयेच्यो आनी पाखें चुडटांचें. एकूच अपुर्बायेचो पूत ताका. येसूचें लग्न जातकूच जाय जाय म्हूण खूब वर्सांनी जाल्लो. निकतीच सोयरीगत जावन लग्नाचो विचार सुरू जाल्लो.

एकलोच पूत. घरांतलें पयलेंच लग्न. येसू तारीक सोयऱ्या-धायऱ्यांक आपोवन तें दबाज्यान करपाची इत्सा आशिल्ली. पूण वायसरॉयाचो हुकूम आडखळ हाडटालो. त्या हुकमाक लागून ताची तकली उसळटाली. व्हड्यांत म्हूण लग्न करतात? व्हड्यांत कितलीशी सुवात आसता? कितलेश्या लोकांक थंय बसूंक मेळटलें? ताणें वायसरॉयाक आनी पाखल्यांक मनांतल्या मनांत चार गाळी घाल्यो. व्हंकलेच्या बापायन म्हळें,

'कितें करतलो! कायदो तसो आसा जाल्यार तशें करुंया.'

'पाडा पडूं त्या कायद्याचें आनी तो करतल्यांचें! तेंका देव पळोवन घेतलो!' येसू फडफडलो.

अखेरेक येसून निश्चेव केलो. लग्न व्हड्यांत करपाचें नासता. तें घरांतूच

जावंक जाय. ताणें दुसऱ्या दिसा रोखडोच काडूंक जायत असो चुडटांचो ल्हानसोच माटोव घरा मुखार घालो. गोंदळीक म्हूर्त थारायलो. भटाक हाडलो. आनी वाजप बी मोट्यान करिनासतना पुताचें लग्न केलें. दुसऱ्या दिसा फांतोडेर माटोव काडून उडयलो.

गांव थंय उश्टवारो! येसूचो दुस्वास करपी मनीस गांवांत आशिल्ले. एकल्यान चाडी केली. फिंर्गी पाद्रीन इंक्विझिटरां कडेन कागाळ करचे आदीं चिंतलें, येसूक इंक्विझिशनान ख्यास्त दिली जाल्यार ताची अर्दी आस्पत इंक्विझिशनाक वचपाची आनी अर्दी कागाळ करतल्याक. पूण येसू कडेन ना भाट-बेंस, ना शेत, ना दुडू. व्हडें कोणाक जाय! त्या फिंर्गी जेजुईत पाद्रीन कागाळ करपाची ताकतीक केली ना. कांय म्हयने गेले. मागीर पाद्रीन चिंतलें, आस्पत ना; पूण साश्टींतलो आनीक एक कैदी दिल्ल्याचें आनी तो बाटलो जाल्यार क्रिस्तांव दिल्ल्याचें स्रय मेळटलें. ताणें कागाळ केली. तिसऱ्या दिसा फामिलियार आनी शिपाय येवन येसूक गोंयां घेवन गेले. कितें घडटा हें कळचे आदींच तो कुडींत बंद जालो.





## 16 डिसेंबर 1583

अंदू शीं फाटल्या दोन-तीन वर्सां परस चड पडिल्लें. आंबे बरे चंवरिल्ले. काजीय तश्योच फुलिल्ल्यो. तिनसांज जाली की गांवागांवांत लोक धुंवऱ्यो पेटयताले. भोंवतणी बसून खबरो करताले. कोण पाखल्यां विशीं उलयताले तर कोण गोंय शारांतले बाजारपेठेक मंदी आयल्या म्हूण सांगताले.

काल रातीं दियोग दाटशें पांगरूण घेवन न्हिदिल्लो. तेरेज फांतोडेर उठून घरांतल्या कामाक लागिल्ली. पियेदाद घरांत आशिल्ल्यान तिचेर नदर दवरप, तिका कितें जाय कितें नाका तें पळोवप हेंवूय काम तेरेजाचेंच आशिल्लें. दियोग सवकासायेन उठ्ठालो. तातूंत कुडकुड्याचें शीं पडिल्ल्यान ताका सुस्त न्हीद लागिल्ली. इतल्यांत, घरांत जायतीं मनशां उलयतात, हे वटेन ते वटेन वतात असो भास जावन ताका जाग आयली. कांय खीण तो आयकत रावलो. तो भास नाशिल्लो. कितेंय तरी घडिल्लें. तेरेज आनी हेर कांय जाणां बोवाळ करिनासतना भायर-भितर करतालीं. कुडींतल्यान भायर येवन ताणें तेरेजाक उलो मारलो. तेरेज लागीं नाशिल्ली. घराच्या सोपणांचेर पूत उबो आशिल्लो. दियोगान तेरेजाक मारिल्लो उलो आयकून तो भितर सरलो आनी ताणें सांगलें,

'बायआका कुडींत ना. केन्ना गेलें, खंय गेलें कोणूच नेणा.'

'कितें?! तेरेज खंय?'

'तिका सोदूंक भाटांत गेल्या.'

दियोगाच्या काळजांत कल्ल जालें. ताणें मानांयांक आपयले. किंतें घडलां तें सांगलें आनी पियेदादीक सोदपाक चोंय वशीन धाडले. एकल्याक ताणें राय धाडलो आनी गोपू शेटी, मतेस हांकां पियेदादीचो सोद घेवपाचो रकाद पावोवपाची वेवस्था केली. आनीक किंतें करचें अशें तो चिंततालो..... इतल्यांत तेरेज आयली. ती खर्शेताली,

'भाटांत सगल्याक सोदली. खंयच ना. चिंचे रुखा मुळांत ना. हेर रुखां मुळांतूय पळयलें. थंयूय ना. गेली खंय ती?'

'तूं मात्शी बस. हांव पळोवन येतां.' दियोग घरांत गेलो. लेंस काडून माथ्याक गुठलायलो. भायर येवन जोतीं घालीं आनी चलूंक लागलो.

'खंय वता तूं?' तेरेजान विचारलें.

दियोगाच्या कानार उतरां पडलीं. पूण ताणें तीं आयकलींच नात. तो तार्कतिकेन चलत रावलो.

देवूळवाड्याचे दिशेन वतना दियोग चिंततालो, आयची ही तिसरी खेप. हाचे आदीं दोन फावटी पियेदाद अशी नाऽऽच जाल्या. सोद घेतकूच मेळ्ळ्या. हे खेपे खंय?.... दर एक पावल घालतना ताचें मन चिंतेन जड जायत वतालें.

पयले खेपे घडिल्लें तें तांकां सगल्यांकूच नवें आशिल्लें. आनी भिरांत घालून गेल्लें. पियेदादीक दियोगान राय सावन रासय हाडटकूच इकरा दीस जाल्ले. एक दीस तेरेजान सकाळीं उठ्ठकूच पियेदादीचे कुडींत नदर मार जाल्यार ती ना. भायर बी गेली आसत अशें धरून तेरेजान थोडो वेळ वाट पळयली. कांय खिणांनी पोरसांत वचून पळयलें. पियेदाद ना. मागीर मात तिणें बोवाळ घालो. घरांतलीं सगलीं उठलीं. घरा भोंवतणी सगल्याक सोद घेवंक लागलीं. दियोगालो पूत लुईस फाटल्यान भाटांत गेलो. थंय कांय खोंपी आशिल्ल्यो. सगल्या खोंपींनी ताणें पळयलें. बायआकाऽऽऽ बायआकाऽऽऽ अशे उले मारले. ताका ती दिश्टी पडली ना आनी ताच्या उल्यांक जाप मेळ्ळी ना. तो निर्शेलो. परत येतना दुसरे वाटेन आयलो. पैशिल्यान ताका चिंचे रुखा मुळांत कोणूय तरी बशिल्ल्याचो दुबाव आयलो. तो धांवतूच थंय गेलो. पळय जाल्यार रुखाक तेंकून पियेदाद बशिल्ली. दोळे धांपिल्ले. ओंठ

हालताले; पूण आवाज येनाशिल्लो. लुईसान उलो मारलो,

‘बायआका ऽऽऽ’

जाप ना. ती हाल्ली पसून ना. जशे परी तिणें कांय आयकलेंच ना.

ताणें आड्ड्यो मारून घरांतल्यांक आपयलीं. सगलीं धांवतूच आयलीं. दियोगान, तेरेजान उले मारले. जाप ना. कांय वेळान पियेदाद हाल्ली. ‘देवा पाव’ म्हणून हात जोडचे आनी दोनूय पोल्यांक उजवो हात लावचो तशें तिणें मोन्यांनीच केलें. आनी दोळे उगडले. मात् ते दोळे कोणाकूच पळयनासले. तेरेजान फुडें सरून खांक्यांत हात घालून तिका उठयली. तिका घेवन घरांत येतकूच सगल्यांनीच सुस्कार सोडलो.

दुसरे खेपे पियेदाद अकस्मात घरांतल्यान ना जाल्ली ती नोव्हेंबर म्हयन्याच्या दुसऱ्या सप्तकांत. घरांत असोच बोवाळ जाल्लो. घरचीं, मानांय, चाकर अशीं सगलीं सोदासोद करूंक लागिल्लीं. दियोग पियेदादीचो सबाव आनी भावार्त जाणा आशिल्लो. तो देवूळवाड्याचे दिशेन गेलो. वाटेर जे जे मेळ्ळे तांकां विचारीत रावलो. पूण कोणेंच पियेदादीक पळोवंक नाशिल्ली. निर्शेणी मनांत रिगूंक लागली अशा वेळार तो देवूळवाड्यार पावलो आनी नीट आदीं देवूळ आसलें थंय गेलो. सगल्याक चिरे, फातर आनी माती. पियेदाद एका चिऱ्यार बसून देवळाच्या मोडिल्ल्या वण्टीं कडेन भरिल्ल्या दोळ्यांनी पळयताली. दियोगान फाटल्यान उबो रावन ल्हवूच तिच्या खांदार हात दवरलो. ती मातूय हाल्ली ना. हात कोणाचो हेंवूय जाणा जावपाचो यत्न तिणें केलो ना. जणूं काय तिची तनरी लागिल्ली....आदीं आशिल्ल्या त्या रुपांतल्या देवळांतले सरवळींत बसून तिणें कितेंय तरी मागिल्लें आनी गर्भकुडींतले मुर्तीच्या दोळ्यांक नदर लावन ती जाप आयकूंक रावताली... दियोगान म्हळें,

‘चल, या घरा.’

पियेदाद कांय उलयली ना. उठली. त्या मोडून पडिल्ल्या वण्टींक पळोवन हात जोडले. आनी दियोगा वांगडा चलूंक लागली.

दोन खेपो असली घडणूक जातकूच दियोग आनी तेरेज मात्शीं भियेलीं.

अशे तरेन खंयूय वचून हिणें जिवाचें बरे-वायट केलें जाल्यार? दोगांनीय थारावन वेर्णेच्यान दत्तू वैजाक आपोवन हाडलो. साश्टींतलो झाडपाल्याचो नामनेचो वैज तो. हातगूण बरो. तो पियेदादीचें दुयेंस जाणा आशिल्लो. बाटोवणे उप्रांत सुमार दोन वर्सांनी तें सुरू जाल्लें आनी ताचेंच वखद चलतालें. तो कायतान भाटकाराक खूब मानतालो आनी ताचे विशीं घडलां तें आयकून खंती जाल्लो. पियेदादीचें दुयेंस वाडत म्हणपाचोय दुबाव ताच्या मनांत आशिल्लो. तेंच घडूंक लागिल्लें.

ताणें आदीं पियेदादीची खबर घेतली आनी मागीर तिका कांय प्रस्न विचारले. वैज वळखीचो आशिल्ल्यान मेकळेपणान पूण थोड्याच उतरांनी तिणें जापो दिल्यो. ताणें वखदां दिलीं. पियेदादीक सांगलें,

'हीं वखदां नेमान घे. तुका विसव मेळटलो. न्हीद बरी लागतली आनी बरें दिसतलें. भियेवपा सारकें कांयच ना.'

भायर सरून वतना आंगणांत पावतकूच वैजान दियोगाक विस्वासांत घेवन सकयल्या आवाजांत सांगलें,

'हें दुयेंस बरें जावपाचें न्हय. तूं जाणा तें. वाडचें न्हय हाची जतनाय घेवंक जाय. हांवें दिल्ल्या वखदांनी ती चडसो वेळ न्हिदून उरतली. जागी आशिल्ल्या वेळारूय मंद आसतली. आसूं. भियेवपाचें कारण ना. तिका चडशी तुमचे मदींच दवरात.'

समजलें अशा अर्थान दियोगान तकली हालयली.

वंये कडेन पावतकूच वैजान विचारलें,

'कायतान भाटकारा विशीं कितें कळ्ळां?'

'कांयच कळूंक ना मु गा. कळपाचो मार्गूच ना.'

वैज दियोगाचें दुख्ख समजलो. आनीक कांय विचारिनासतना वचूंक गेलो.

तेरेजाक एक शाणेपण सुचलें, वखदां पियेदादी कडेन दिवन तीं वेळार घे म्हूण सांगलें तरी ती तशें करतलीच म्हूण खात्री नाशिल्ली. तिणें पियेदादीक सांगलें,

'वखदांचो उगडास धरपाचो ताण तूं घेवं नाका. वैजान सांगिल्ल्या वेळार

तीं हांव तुका दितां.'

तेरेजान नेमान वखदां दिलीं आनी पियेदादीन तीं घेतलीं. मात् नातालांची परब लागीं पावतकूच तेरेज हेर कामांनी घुस्पली आनी सदां भाशेन पियेदादी बगले येवन बसपाक पावली ना. पियेदाद मदीं-मदीं एकली उरपाक लागली. आनी.....आयचो दीस उदेलो.

देवूळवाड्यार पावतकच दियोग नीट त्या मोडून घाल्ल्या देवळा कडेन गेलो. ताचे तकलेंत भोंवर मारतालें तें उगडासांचें भिरें उडून गेलें. ताची नदर पियेदादीक सोदपाक लागली. फाटले खेपे ती मेळिल्ली ती सुवात ताणें पयलीं पळयली. थंय पियेदाद नाशिल्ली. त्यो मोडून पडिल्ल्यो वण्टी, चिरे, फातर आनी मातयेच्यो राशी हांचे मदल्यान वाट काडीत ताणें चारूय दिशांनी सोद घेतलो. जाप मेळची ना हें जाणा जावनूय ताणें 'बाऽऽय' म्हूण उलो मारलो. परत हे वटेन ते वटेन पळयलें. पियेदाद थंय नाशिल्लीच.

दियोग परतलो. येतना उगडासांचें भिरें भोंवर मारतालें ते सुवातेर आतां निर्शेणी, हुस्को, भिरांत हांचीं कुपां गर्दी करूंक लागिल्लीं. वाटेर कांय जाण मेळ्ळे. तांकां ताणें विचारलें. पूण कोणेंच पियेदादीक पळोवंक नाशिल्ली.

घरा येवन दियोग कपलार हात धरून सोप्यार बसलो. तेरेजान पियेवपाक उदक हाडून दिलें आनी म्हळें,

'हांगा खंयच मेळूंक ना. कोणेंच तिका पळोवंकूय ना.'

'राय सावन कितेंय खबर आसा?'

'ना. गेल्ले तेवूय अजून परतूंक नात.'

दनपारां मतेस आयलो. घराचीं सोपणां चडचे आदीं खर्शेत खर्शेत ताणें सांगलें,

'भाटकान्न मेळ्ळी.'

ताका धांप लागिल्ली. थंयच जमनीर तो बसलो. तेरेजान बेगिबेगीन वचून पियेवंक उदक हाडून दिलें. धांप उणी जातकूच दियोगान ताका उठयलो आनी हाडून सोप्यार बसयलो. तेरेजान विचारलें,

'खंय मेळ्ळी बाय?'

'घरा फाटल्या पोर्सांत. बांयचे बगलेक.'

दियोगान ताका सांगलें,

'तूं हांगाच विसव घे. आमी वचून येतात.'

तो आनी तेरेज न्हेसणां बदलून राय वचपाक भायर सरलीं. ताचे आदीं कायतानाच्या घराची चावी ताणें बोल्सांत घाली.

तीं दोगांय कायतानाल्या घरा कडेन पावलीं तेन्ना सगलीं घरा फाटल्या पोर्सांत आशिल्लीं. पियेदाद जमनीर बशिल्ली आनी गोपू शेटी, ताचे दोन मानांय, ज्याकीन आनी हेर कांय जाणां भोंवतणी उबीं आशिल्लीं. तेरेज 'बाऽऽय' म्हूण आड्डत पियेदादी सरीं वचून तिका वेंगेंत घेवन बसली. दियोगान गोपू शेटीक विचारलें,

'सकाळच्यान हांगाच आशिल्ली?'

गोपू शेटीन दियोगाक मात्सो कुशीक व्हेलो आनी फकत ताकाच आयकूंक येवचें अशा आवाजांत सांगलें,

'ना. मतेस आनी ज्याकीन रकाद पावतकूच बांदाचें काम तशेंच उडोवन आमगेर आयलीं. येतना तांणी हांगा नदर मारिल्ली. पूण ती नासली.'

'खंय आसली तर?'

'हांवें मानांयांक सगल्या वाटांनी धाडिल्ले. तातुंतल्या एकल्याक एका रेंदरान सांगलें, सकाळीं एक बायल कामाक्षेच्या मोडून घाल्ल्या देवळा कडेन भोंवताली. आपणें पैशिल्ल्या माडा वयल्यान तिका पळयल्ली देखून तिची वळख मेळ्ळी ना. तें आयकून आमी सगलीं धांवन थंय गेलीं. सगलो वाठार सोदलो. पूण खंयच ती मेळ्ळी ना.'

'मागीर हांगा आसा म्हूण कशें कळ्ळें?'

'सोदूंक गेल्लीं सगलीं परतलीं. कोणाकूच ती दिसूंक नाशिल्ली. हांवें मतेसाक आनी ज्याकीनाक घरा वचात म्हूण सांगलें. भोंवन-भोंवन घामेल्लीं आनी निर्शेणेन खंती जाल्लीं.'

'मागीर?'

'तीं वचून थोडो वेळ जाल्लो. इतल्यांत मतेस धांवतूच आमगेर आयलो. पियेदाद घरा फाटल्यान पोर्सांत आसा अशें ताणें धांपेत सांगलें. तसोच वचून तुमकां कळय अशें ताका सांगलें आनी हांव हांगा आयलों. म्हजे वांगडा

मानांयूय आयले.'

दियोगान आनीक कांय विचारलें ना. पूण ती पोर्सांत कितें करताली असो प्रस्न ताच्या मनांत उप्रासला हें गोपू शेटी वळखलो. ताणें म्हळें,

'ती कितेंय तरी सोदताली अशें दिसता.'

'पोर्सांत कितें सोदताली?'

जिबेर आयिल्ली जाप गोपू शेटीन आडायली.

'आसूं. तें म्हत्वाचें न्हय. ती मेळ्ळी म्हणटकूच सू ऽऽ जालें.'

दियोग आपणाकूच समजायल्ले भाशेन उलयलो.

दोगूय पियेदादी सरीं आयले. दियोगान म्हळें,

'बाऽऽय, चल, या आतां घरा.'

पियेदादीन ना अशें तकली हालोवनूच सांगलें.

थंय आशिल्ल्या दर एकल्यान तिका समजावपाचो यत्न केलो. पूण कांय उपेग जालो ना. गोपू शेटीन म्हळें,

'व्हनये, अशें करुंनाका. तुकाच त्रास जातलो.'

तें आयकून पियेदादीन तोंड उगडलें,

'म्हाका मेळ्ळो ना.....' आनी तितल्यारूच थांबली.

हेर कोणाकूच त्या उतरांचो अर्थ कळ्ळो ना. कळ्ळो तो फकत गोपू शेटीक. ताणें फुडें सरून म्हळें,

'व्हनये, हांव सोदून काडटां आनी तुका पावयतां.'

पियेदादीन खिणभर ताचे नदरेक नदर दिली आनी ती उठली.

दियोगान कुलप काडून कायतानाल्या घराचें दार उगडलें. मानांयांक सांगून माच्यूल भायर हाडून घेतलें. तें पुसून निवळ करूंक लायलें. एके वटेन पियेदादीक बसयली. दुसरे वटेन तेरेजाक बस म्हूण सांगलें. आनी गोपू शेटील्या मानांयांनी माच्यूल उखल्लें.

दुसऱ्याच दिसा दियोग दत्तू वैजागेर गेलो. पियेदादी विशीं घडिल्ली सगली खबर सांगली आनी विचारलें,

'अशें परत घडचें न्हय म्हूण कसलोय उपाय आसा?'

'दियोग, ह्या रोगाचें हेंच भंय. तें सदांच उरतलें. तरी एक करचें. वखद

तेंच चालू दवरचें. पूण तिसऱ्या वांट्यान वाडोवचें.'

'तें आयच्यानूच करतात आमी.'

'आनी एक.' वैजान शिटकावणेच्या सुरांत सांगलें,

'तिका जाता तितली एकली दवरची न्हय.'

ही शिटकावणी वैजान दुसऱ्या उतरांनी आदींय दिल्ली. पूण सगली जतनाय घेवनूय तें कठीण जातालें. हाचे फुडें अदीक शिटूक रावचें पडटलें हें मनांत घोळयतूच दियोग घरा परतलो. वंये कडल्यान शंबरेक पावलांचेर आसतना गोपू शेटी घरांतल्यान भायर सरून ताकतिकेन पावलां मारता तो ताका दिसलो. तिनसांज जावचे आदीं ताका राय पावंक जाय हें दियोगान वळखिलें. तरी तो लागीं पावतकूच रावं नज जावन ताणें विचारलें,

'हेरशींच आयिल्लो मूं?'

'हेरशींच. व्हनी काल सोदताली तो हाडून दिला.'

'कितें सोदताली ती?'

'तुळशीचो रोंपो.'





## 17 जानेवारी 1584

तरेकतरांचे आवाज...लोखंडी सरपळ्यांचे....व्हडाव्हडान उलयल्ल्याचे... कोण कळवळ्यान रडटा...कोण दूख सोंसूंक नज जावन आड्डता...कोण किळच्यो मारता....

कायतान आंग काडून जागो जालो. ताणें चिंतलें, कसलेंय वायट सपन पडलें? काय हो भास आशिल्लो? उदारो पडिल्ले कडेन तो कान दिवन आयकूंक लागलो. न्हिदांत आयकल्ले ताचे परस आवाज आतां इल्ले स्पश्ट आयकूंक येताले...कोणाचें कळवळ्यान रडप...कोणाचें दुखीक लागून आड्डप...कोणाचें हुयेली मारप....तरेकतरांचे आवाज....व्हडाव्हडान उलयल्ल्याचे.... लोखंडी सरपळ्यांचे....बरोच वेळ तो आयकत रावलो. ताची खात्री जाली, तें सपन नाशिल्लें. तो भास नाशिल्लो. हे आवाज खरे. पूण ते कसले? खंयसून येतात ते? ताका कांयच कळ्ळें ना. ताची न्हीद मात् गेली ती गेलीच. तो काळखांतूच पाख्या कडेन पळयत रावलो.

कायतानाली कूड आशिल्ली त्या घराचे दावे वटेन आशिल्ल्या घराच्या तळमजल्यार इंक्विझिशनाचें यातनाघर आशिल्लें. जे कैदी आरोप मान्य करिनात आनी जांचे आड गवाय मेळिल्ली नासता तांकां तांणी करूंक नाशिल्ले गुन्यांव कबूल करूंक लावपाचो छळ ह्या यातनाघरांत जातालो. यातना भोगोवपाच्यो मुखेलपणान तीन तरा आसताल्यो. एक तरा लोखंडाच्यो सरपळ्यो आनी गाडयो वापरून हाडां खिळखिळीं करपाची.

सांदे निखळावपाची. कैद्याक सरपळ्यांनी बांदून गाडयांच्या आदारान हुमकळावप. बरोच वेळ तसोच दवरून ताका अकस्मात सकयल हाडप, पूण पांय जमनीक लागूंक दिवप ना. परत वयर काडप, परत घस्स करून सकयल हाडप. हे तरेन तो आपणें गुन्यांव केला अशें सांगीसर ताचे सांदे आनी हाडां खिळखिळीं करप.

दुसरी तरा – कैद्याच्या आंगांत स्क्रू रोमपाची, ताका खिळे आशिल्ल्या चक्रां वयल्यान ओडपाची, ताच्या पांयार सळसळटें तेल ओतपाची आनी खांके वयर करूंक लावन थंय पेटयल्ल्यो मेणवाती धरपाची.

तिसरी एक तरा अशी की कैद्याक तोंकांचे खिळे आशिल्ल्या सरयांनी एके लोखंडी निसणीक बांदप. ते निसणीक धारेचे पावंडे. तकले सकयल पावंडो ना. तोंडाक गुड्डो मारप आनी कैद्याक ते आडवे घाल्ले निसणी वयल्यान ओडप.

असो छळ चलतना इंक्विझिटरान आड्डप : ‘सत्य सांग’, ‘खरें तें सांग’. कैद्यान आरोप मानून घेतलो ना वा गुन्यांव कबूल केलो ना जाल्यार ताका दुसरे खेपे हाडून ताचो अश्याच तरांनी छळ करप. यातनाघरांतलो हो छळ सप्तकांत दोन फावटी जातालो.

कायतानाक हाची कांयच खबर नाशिल्ली. कशी आसतली? व्हडल्या घरांत गेले बगर ही गजाल कोणाक आनी कशी कळटली? ताणें आतां असल्या गजालीं विशीं चिंतपाचें थांबयल्लें. फाल्यां कितें घडपाचें आसा तें खबर ना; इतलेंच न्हय तर अदमास पसून करपाक जायना अशे परिस्थितींत कसलो हुस्को करपाचो? जें सामकार येता ताका फुडो करपाक तयार रावपाचें. आतांय, पाख्या कडेन नदर लायिल्ल्या वेळार तोच विचार ताचे मतींत घोळटालो. वयल्या बुराकांतल्यान उजवाडाची पसय दिसूंक लागली तेन्ना ताका फांतोड जाल्या म्हणपाची जाणविकाय जाली.

स वरांचेर पेज आयली. तो थोडीशी जेवलो.

धा वरांचेर शीत-कडी आयली. ती जेवन कायतान थोडो वेळ बसलो आनी मागीर आड पडलो. रातीं न्हीद अर्दकुटी उरिल्ल्यान आज ताका सुस्त

न्हीद लागली. दोन वा तीन वरां गेलीं आसतलीं. कुडीचीं दारां उगडपाच्या आवाजान ताका जाग आयली. आल्काईद आनी शिपाय भितर सरले. कायतान उठून बसलो. फाटले खेपे सांगिल्लें तेच तरेन शिपायान सांगलें,

'बेगीन काल्सांव-खोमीस घाल. भायर सरूंक जाय.'

काल्सांव-खोमीस घालतना कायतानान चिंतलें, आज तपासणेचो दीस आसतलो.

आल्काइदा फाटल्यान चलतना कायतानान आपणाकूच उगडास केलो, आज नमळिकायेन जापो दिवपाच्यो. इंक्विझिशनाच्या न्याय मंडळांत दयेचो दुकळ आसलो तरी तांकां राग येत अशें कांय करूंक फावना.

इंक्विझिटरांच्या सालांत भितर सरतकूच ताणें आदले भाशेन खुरसा मुखार दिमी मारली. खुरसाची कुरू केली आनी मनांतल्या मनांत म्हळें,

'हांवें हो गुन्यांव करूंक ना. हांवें कसलोच गुन्यांव करूंक ना. स्वामी जेजू, म्हाका वाटाय.'

तो उठलो आनी मेजाच्या तोंकाक आशिल्ल्या बांकार वचून बसलो. आदले भाशेन ताणें मुखेल इंक्विझिटरा मुखार दिमी मारली ना. थंय काळ्या भेसांत बसला तो मनीस अशें ताका दिसलेंच ना. ताका तें काळ्या भेसांतलें गोरे कातीचें संकश्ट अशेंच दिसूंक लागिल्लें.

कायतान बांकार बसतकूच दुभाश्या वरवीं तपासणी सुरू जाली.

'तुजेर कसलो आरोप आसा तो तुका कळ्ळा. तो खर गुन्यांव. तूं तो कबूल करता?'

'हांवें खरें तेंच सांगपाचो सोपूत घेतला. हांवें गुन्यांव करूंक ना.'

'आमी कागाळ करतल्याचीय तपासणी केल्या. तो सांगता, तुवेंच तो गुन्यांव केला.'

'कोण तो कागाळ करपी?'

'तें सांगपाचें नासता.'

'ताका कितेंय विचारपाक मेळत?'

'ना. तशी हांगा रीत ना.'

'पूण ताणें तुमकां सांगलां तें सामकें फट.'

'तें न्याय मंडळ थारायतलें. ताणें पांच गवायांचीं नांवांय दिल्यांत.'

'पांच जाण! कोण ते?'

'तें सांगपाचें नासता.'

'तांची तपासणी जातली तेन्ना म्हाका प्रस्न विचारूंक मेळटले?'

'ना. तूं गुन्यांव कबूल करता?'

'पूण – '

कायतान फुडें उलोवंक पावलो ना. ताका खांक येवंक लागली. खांकेर खांक. कशीच थांबना. मुखेल इंक्विझिटरान ताका उदक हाडून दिवपाक लायलें. शिपायान उदक हाडून दिलें तें कायतान पियेलो. पूण खांक थांबली ना. हड्ड्यांतल्यान खांक येवन तो खासावीस जालो. हड्ड्यार हात धरून खांकत रावलो. तकली मेजार तेंकोवन खांकतूच रावलो.

मुखेल इंक्विझिटरान तपासणी थांबयली. मेजा वयली रुप्याची घांट वाजोवन ताणें आल्काइदाक आपयलो. आल्काईद आनी शिपाय हांणी कायतानाक कुडींत पावयलो.

आल्काइदान शिपाया कडल्यान दोतोराक रकाद धाडलो.

थोड्या वेळान आल्काईद एका फिंर्गी दोतोराक घेवन आयलो. दोतोरान कायतानाक बारीकसाणेन तपासलो आनी शिपायाच्या पालवान कांय प्रस्न विचारले :

'हाचे आदीं अशी खांक आयल्या?'

'हय. एक-दोन फावटी आयल्या.'

'तेन्ना आंगांत जोर आशिल्लो?'

'सारको उगडास जायना. घडये आंग तापिल्लें. पूण चड न्हय.'

'खांकून थूक गेल्ली?'

'हय. खांकतकच थूक गेल्ली.'

'थुकेंत रगत दिशिल्लें?'

'ना.'

‘कसलेंय वखद घेतिल्लें?’

‘ना. हळद घालून दूद दिल्लें, तें मात् घेतिल्लें.’

‘हांव वखद धाडून दितां. परत अशी खांक आयल्यार आल्काइदाक सांग.’

दोतोर, आल्काईद आनी शिपाय कुडींतल्यान भायर सरले. तांचे फाटल्यान दारां बंद जालीं.

वारांदांतल्यान वतना दोतोरान आल्काइदाक म्हळें,

‘म्हाका बारीक जोराचो दुबाव येता. पूण पळोवया. हांव वखद दितां. शिपायाक धाड.’

थोड्या वेळान शिपाय आयलो. कुडीचें भायलें दार उगडलें. भितल्ल्या दाराच्या जनेलांतल्यान शिपायान कायताना कडेन वखद दिलें आनी तें कशें घेवचें तें सांगलें. जनेल बंद जालें. भायलें दारूय बंद जालें.





**4 मार्च 1584**

वैजाचें सांगणें मतींत धरून तेरेज आनी दियोग हांणी पियेदादीचे राखणे खातीर एक वेवस्था केल्ली. तांच्या भाटांतलो एक तोल्ल कामील हाची धूव मारी हाका घरांत हाडून दवरिल्लें. पिरायेन तें सतरा वर्सांचें पूण हाडा-पेरान घट आनी शिटूक. पियेदाद घरांत आसतना ताका व्हडलेंशें काम नासतालें. पूण बेकार बसनासतना तेरेजालीं कामां आपूण जावन फुडें सरून करतालें. पियेदादीचे राखणेचें ताका दिल्लें काम म्हणचे ती घरांतल्यान भायर सरून भोंवपाक वचूंक सोदता तेन्ना मारीन तिचे वांगडा वचप. ती पोर्सांत, भाटांत वा आनीय खंयूय लागींचे सुवातेर वचूंक सोदता जाल्यार वचूंक दिवप; पूण तिचे लागीं रावप. पैस वचप ना. मार लागत वा दुखापत जायत अशें कितेंय करूंक दिवप ना. आनी तिनसांज जावचे आदीं तिका घेवन घरा येवप. मारी हें काम बेस बरें करी. मायेमोगान करी. पियेदादीकूय मारी विशीं आपलेपण दिसतालें, ताचो धीर दिसतालो.

एक दीस पियेदाद मारीक घेवन घरा फाटल्या भाटांत भोंवंक गेल्ली. पडिल्लो सुको नाल्ल दिसलो जाल्यार तो काडून माडा मुळांत वडयताली. सुकें चुडीत पडिल्लें दिसलें जाल्यार तें काडून मेरेर दवरताली. आतां तिणें करपाचीं कामां न्हय तीं. पूण त्या कामांकूच आपूण भायर सरल्यां असो आव हाडून ती नाल्लाक वा चुडटाक हात घाली. एक-दोन फावटी मारीन म्हळें,

'भाटकान्नी. तूं कित्याक करता तें? तोल्ल करतलो. ना जाल्यार म्हाका

सांग, हांव करतां.'

पयले खेपे पियेदादीन ताका जाप दिवंक नाशिल्ली. दुसरे खेपे मात् म्हणिल्लें,

'बाय गो, तूं भुरगें. तुका कळचें ना तें.'

मारीक हाचो कितें अर्थ लावचो हें कळूंक नाशिल्लें. विचारल्यार पियेदाद सांगतली हाची खात्री नाशिल्ली. ताणें आपले परीन चिंतलें, कोण जाणा! तरणे पिरायेर हिणें असलीं कामां आवडीन केल्लीं आसतलीं. आज तसलीं कामां करतना तिका तेन्नाची ती याद येता आसतली. ती गोडी मेळटा आसतली.

मागीर केन्नाच मारीन 'तूं कित्याक करता तें?' असो प्रस्न विचारलो ना.

आज भाटांत भोंवतां-भोंवतां तीं सांकवार पावलीं. हो सांकव दोन भाटां जोडटालो. दोनूय दियोगाचींच. सांकवार मदीं पावतकूच पियेदाद थांबली. बरोच वेळ ती सकयल्या व्हाळाच्या उदकांत पळयत रावली. मारी बगलेक आशिल्लेंच. ती अशी नदर लावन पळयता म्हण्टकूच उदकांत कितें आसा काय म्हूण ताणेंय पळयलें. फकत उदक. तेंवूय व्हांवता अशें दिसनाशिल्लें. इतल्यांत पियेदादीन मारीच्या खांदार हात दवरलो आनी विचारलें,

'मारी, आमी न्हंयेचे देगेर या? खूब तेंप जालो थंय पावल्यार.'

अकस्मात विचारिल्ल्या ह्या प्रस्नान मारी खिणभर गोंदळ्ळें. पूण शिट्रूक तें. ताणें म्हळें,

'भाटकान्नी, न्हंय पैस आसा. आतां थंय गेल्यार परत येतासर रात जातली. आनीक केन्नाय या.'

पियेदादीन हट्ट धरलो ना.

मारीक बेस बरें खबर आशिल्लें, पियेदादीन हट्ट धरलो ना तो ताणें सांगलें तें पटलें म्हूण न्हय. हट्ट धरप ना, मस्ती करप ना हो तिचो सबाव आशिल्लो. वखदांनी तो अदीक मंद आनी मोव जाल्लो. मारीन उगडास करपाक ती रावली ना. सांकवा वयल्यान परतली आनी घराचे दिशेन तिचीं पावलां पडपाक लागलीं.

पियेदाद आनी मारी घराच्या दारांत पावलीं तेन्ना दियोग आनी गोपू शेटी

सोप्यार बसून उलयताले. पियेदाद भितर सरतना गोपू शेटीन तिची खबर घेतली. ती कांय उलयली ना; मात् जीव नाशिल्ले नदरेन तिणें गोपू शेटी कडेन पळयलें आनी आपले कुडीचे वटेन गेली. मारीय तिचे वांगडा गेलें. थोड्या वेळान भायर येवन मारीन दियोगाक सांगलें,

'भाटांत भोंवन आयलीं. सांकवा मेरेन गेलीं. भाटकान्न न्हंये कडेन या म्हूण सांगता.'

दियोगान आनी गोपू शेटीन हुस्क्यान भरिल्ले नदरेन एकामेका कडेन पळयलें. कांय उलयले मात् नात. मारी तेरेजा बगले गेलें.

पियेदाद आनी मारी भोंवपाक भायर सरतकूच थोड्याच वेळान गोपू शेटी आयिल्लो. तो अकस्मात आयिल्लो पळोवन दियोगान म्हळें,

'यो. हेरशींच आयिल्लो मूं?'

'ना. दोन गजाली आयकल्यो आनी बेगिनूच त्यो तुज्या कानार घालच्यो म्हूण आयलों.'

'कसल्यो त्यो?' दियोगान उमळशिकेन विचारलें.

'सांगतां. पूण आदीं एक सांग, कायताना विशीं कितेंय कळ्ळां?'

'कांयच कळुंना. मानवेलाक खबर काडपाक सांगिल्लें. ताका कळ्ळें तें इतलेंच की व्हडल्या घरांत जें चलता तें सामकें गुप्त रितीन चलता. तातुंतलें कांयच भायर कळना. भितर कैदी आसात. तांकां भायर कितें घडटा तें कळना. इतलेंच न्हय, एका कैद्याची खबर दुसऱ्याक कळूंक पावना.'

'म्हाकाय कळ्ळें तें तशेंच.'

'कोणा कडल्यान कळ्ळें?'

'आमचो एक सोयरो गणा शेटी धावजे रावता. तो फिदाल्गांल्या बायलांक आमच्या वस्तींचे नमुने दाखयता आनी तांकां मानवतात तसल्यो वस्ती करून दिता. तांची भाशाय ताका इल्ली इल्ली येता.'

'ताणें कसली खबर हाडली?'

'मानवेलान हाडल्या तशीच. आनीक एक फिदाल्गांनी सांगलें तें म्हळ्यार, इंक्विझिटरांक सगले थर्त भियेतात. तांचे पसून जाता तितले पैस रावतात.

अजाप म्हणल्यार वायसरॉयाचेर पसून तांचो शेक चलता खंय.'

'कितें?'

'हय. राजान तसो हक्क दिला खंय तांकां.'

'कर्मभोग जाला हो!'

'तें खरें. पूण हांव तुका सांगपाक आयिल्लों तें वेगळें.'

'कितें तें?'

'दोन तरांचे दुश्ट मनीस सध्या ह्या वाठारांत भोंवंक लागल्यात.'

'आसतात तसले मनीस. कोणा खाडाक उजो पेटला, कोण म्हणटा विडी पेटयतां!'

'ना-ना. हें भयंकर. एक तरा आसा ती भेश्टावन दुडू काडपाची.'

'म्हणचे?'

'असलो मनीस एखाद्र्या गिरेस्त मनशाक सोदून काडटा. ताका मेळून सांगता, अमूक असुर्प्यो दी; ना जाल्यार इंकिजिसांवा कडेन कागाळ करतां. चडशे जाण भियेतात आनी तो मागता तितलो दुडू दिवन मेकळे जातात. जो दिना म्हणटा वा दितां म्हूण सांगता पूण दिना तो त्रासांत पडटा.'

'कांय वर्सां आदीं करमळे असली एक गजाल घडिल्ली म्हूण आयकल्लें.'

'तेन्ना तिसवाडींत तशें घडटालें. आतां तें संकश्ट साश्टींत पावलां.'

'आनी तूं म्हणटा ती दुसरी तरा कसली?'

'हे दुसरे तरेचो मनीस तुगेर पावपाचें भंय चड आसा...'

'कसले तरेचो?'

'सांगतां – '

'म्हाका सोदूंक कित्याक येतलो? अधर्म तर तांणीच केला भावोजीचेर बगलांट घालून.'

'त्याच कारणा खातीर.'

'कसलें कारण?'

'आयक. ज्या कुटंबांतल्या मनशाक इंकिजिसांवान धरून व्हेला त्या कुटंबांतल्या मनशांक हो दुसरे तरेचो मनीस मेळटा. तो सांगता, अमूक असुर्प्यो दी, आपूण धरून व्हेला त्या मनशाक सोडोवन हाडटां.'

'खरोच हाडटा तो?'

'सोडोवन हाडटालो जाल्यार तो दुश्ट कसो! तो भावार्ती, विस्वास दवरपी लोकांक फटयता. दुडू घेवन वता आनी मागीर तोंड दाखयना.'

'हें सांगून बरें केलें तुवें.'

'असल्या दुश्ट मनशां फाटल्यान कोण आसता तें जाणा तूं?'

'कोण?'

'खासा इंक्विझिटरूच असल्या मनशांक धाडटात.'

'कितें सांगता रे तूं!'

'हय. तेच धाडटात. दुडू घेवपी मनीस ते व्हरून इंक्विझिटरांक दितात. ते मागीर तांच्या हाताक कितेंय लायतात. तांचो धंदोच जाला हो.'

'पूण दुडू दिल्ल्याचो कितेंय उपेग जाता?'

'कुस्कुटाचोय उपेग जायना. ते दुडू घेतात आनी अधर्म चालूच दवरतात. तेच खातीर हें सांगूंक आयलां. तूं सादूर राव.'

'पूण मानवेल म्हाका सांगतालो, धरून व्हेल्ल्या मनशाक ख्यास्त फर्मायली जाल्यार ताची अर्दी आस्पत कागाळ करतल्याक दितात आनी अर्दी इंकिजिसांवाक वता. इतली गिरेस्तकाय मेळटा जाल्यार अशे तरेन दुडू कित्याक काडटात ते?'

'हो प्रस्न म्हाकाय पडलो. म्हाका तसल्या दुश्ट मनशां विशीं जाणें सांगलें ताका हांवें विचारलेंय –'

'कितें सांगलें ताणें?'

'अर्दी आस्पत वता ती इंकिजिसांव हे संस्थेक. पूण अशे तरेन जे दुडू जमयतात ते वतात इंक्विझिटरांच्या बोल्सांत. तांचो हिशोब तांकां दिवचो पडना. पाड पडूं तांचें!'

'पापया, ल्हवू उलय.'

गोपू शेटीन तोंडांतल्या तोंडांत पाखल्यांक आनी इंक्विझिशनाक गाळी घाल्यो. दियोग ताचो किंवाटो समजतालो. गोपू शेटी तोंडांतल्या तोंडांत ज्यो गाळी घालतालो त्यो दियागाचेय मतींत उसळून येताल्यो. जिबेर येवपा पसून तो तांकां आडायतालो इतलेंच.

दियोग कांय खीण चिंतनांनी बुडलो. ताचे चर्येर चिंता पळोवन गोपू शेटी उठलो. दियोगाच्या खांदार हात दवरून ताणें म्हळें,

'भिये नाका. पूण सादूर राव. वायट दीस हे ....हांव येतां. कितेंय आसल्यार कळय.'

गोपू शेटीक वंये मेरेन पावोवन दियोग परतलो. ते राती ताका न्हीद पडली ना.



राय सावन हाडिल्ली पेट पियेदादीचे कुडींत तिचे खाटे म्हऱ्यांत वण्टीक तेंकून दवरिल्ली. रातची न्हिदूंक येतकूच ती कुडीच्या दाराक खिळी घालताली. कापड न्हेसून, मंगळसूत्र घालून, पेट उगडून, देवतेची मूर्त काडटाली. पेट धांपून ती पेटेर दवरून तिका फुलां घालताली. एकूय रात तिणें खळूंक दिली ना.

आयची रात वेगळी कशी जातली! मुर्तीक फुलां घालून, न्हेसण बदलून ती न्हिदूंक गेली. न्हीद! ...ती पियेदादीक सोडून गेल्ली....





## 21 मे 1584

सकाळीं स वरांचेर चाकरान पेज हाडून दितकूच शिपायान सदचे भाशेन कायतानाले कुडीचें भायलें दार उक्तें करून दवरिल्लें. तें तशें उक्तें दवरलें म्हूण कुडींत व्हडलोसो वारो पावनासलो. पूण भायले आवाज इल्ले चड आयकूंक येताले. आज कायतानाक कुडी भायल्या वारांदांत सदचे परस चड मनशां येता-वतात, उलयतात अशें दिसलें. पूण स्पश्ट कांयच कळनासलें. सदचे परस वेगळें अशें कितेंय तरी घडलां असो अदमास ताणें केलो. कितें घडलां आसत हाचो अदमास मात् तो करूंक पावलो ना. तोच कित्याक, बंदखणींतलो खंयचोच कैदी तर्क करूंक पावचो नाशिल्लो. अदमास लेगीत करूंक पावचो नाशिल्लो.

पेज दिवपाक शिपायान खिळी काडून भितल्ल्या दाराचें जनेल उगडलें. पेज घेवपाक मार्गारीद आयली ना. ताणें 'पेज घेऽऽ' म्हळें. तरी तिणें येवन घेतली ना. अशें आदीं केन्नाच घडूंक नाशिल्लें. ताणें हातांतलें आयदन सकयल दवरलें आनी खोंटी वयर काडून कुडींत पळयलें. भितर उजवाड इतलो उणो की ताका स्पश्ट कांय दिसनाशिल्लें. दिसली ती कश्याकशीय पडिल्ले मार्गारीदाची आकृती आनी ती आकृती पडल्या थंय आशिल्लें काळ्या रंगाचें व्हडलें खत. तो तसोच गेलो आनी आल्काइदाक आपणें कितें पळयलें तें सांगलें. आल्काईद ताकतिकेन आयलो. ताणें भितल्लें दार उगडूंक लायलें आनी पळयलें, मार्गारीद रगताच्या कोंडांत पडल्या. ताणें

शिपायाक धाडून दोतोराक आपोवन हाडलो. दोतोरान येवन मार्गारीदाक जीव आसा काय म्हूण आदीं पळयलें. जीव गेल्लो. मागीर ताणें तिचो गळो पळयलो, छाती पळयली, पोट पळयलें, हात पळयले. बारीकसाणेन तिच्या दोनूय हातांचीं मनगटां पळयलीं आनी तो उठलो. आल्काइदाक ताणें बारीक आवाजांत सांगलें,

'मनगटां कडेन शिरो कापून रगत व्हांवपाक दिलां. तिणें आपलो जीव घेतला.'

'पूण.....कसो ?'

'तें सोदून काडचें पडटलें.'

दोतोरा वांगडाच आल्काईद कुडींतल्यान भायर सरलो. दोतोर आपले वाटेन गेलो आनी आल्काईद मुखेल इंक्विझिटराक सांगूंक गेलो. मुखेल इंक्विझिटरान निर्विकार चर्येन आयकून घेतलें आनी फुडें कितें करपाचें तें आल्काइदाक सांगलें. आल्काइदान व्हडल्या घरांतल्या पाद्रीक आपोवन संस्कार करून घेतले. मागीर मार्गारीदाचें मडें बंदखणीच्या निमण्या घरा फाटल्यान मडीं पुरपाक आंखून दवरिल्ले सुवातेंत पुरूंक लायलें. फोंड पुरयला थंय एक चिरो उबो दवरून ताचेर 'मार्गारीद सौझ' अशें नांव बरोवपाचो आदेश दिलो. उप्रांत ताणें मार्गारीद आसली ती कूड धुवन निवळ करूंक लायली आनी तशें करतना एक शिटकावणी दिली,

'कुडींत धारेची कसलीय तरी वस्त आसुंकूच जाय. ल्हान आसूं येता. ती आदीं वा कूड धुतना सोदून काडात. 'मेळ्ळी ना' हीं उतरां हांव आयकून घेवचों ना. '

थोड्या वेळान एक शिपाय एक वस्त घेवन आल्काइदा सरीं गेलो. ताणें सांगलें,

'एक वस्त मेळ्ळ्या.'

'खंय ती ?'

शिपायान ती आल्काइदाच्या हातांत दिली. तो पातळ पत्र्याचो तिकोनी कुडको आशिल्लो.

आल्काईद कांय खीण त्या पत्र्याच्या कुडक्या कडेन पळयत रावलो. ताची चर्या मातूय बदल्ली ना. मनांतूय कसलोच खवदळ जालो ना. प्रस्न उप्रासलो जाल्यार इतलोच - हो तिका खंय मेळ्ळो? पुर्तुगालच्यान आयले उप्रांत आल्काईद म्हणून नेमणूक जातकूच तो व्हडल्या घरांत रावंक आयलो तेन्ना कांय कैद्यांची ताका काकुळट दिसताली. यातनाघरांतलो छळ पळोवन ताचें मन दुखावतालें. धर्माच्या नांवान अशें घडूंक फावना अशेंय दिसतालें. पूण उलोवपाची माणसुकी नाशिल्ली. ताणें पयलें आव्तु द फॅ पळयलें तें 1579 वर्सांतलें. त्या अणभवान तो अस्वस्थ जाल्लो. उप्रांत 1582 मेरेन तीन आव्तु द फॅ जालीं आनी ताचें मन पुरायेन भेरेवन गेलें. नेमून दिल्लें काम आनी हुकमांक पाळो. ताका कोणाची काकुळट दिसना जाली ; ताच्या मनांत कसलोच प्रस्न उप्रासना जालो ; तो अस्वस्थ जायना जालो. तो इंक्विझिशन-यंत्रांतलें एक चक्र जालो. चक्र कसोच वावरूंक लागलो. ताचे नदरेन तो पत्र्याचो कुडको हो एका प्रस्नाची फकत जाप आशिल्लो.



मार्गारीदाक हे बंदखणींत हाडून घाली ते घडणुकेक पावणे तीन वर्सां जाल्लीं. आपल्याक केन्नाय तरी बंदखणींतल्यान सुटका मेळटली; ख्यास्त दितलेच; ती भोगूंक जायत; पूण बंदखणींतल्यान भायर सरूंक मेळटलें अशी आस्त पयल्या दोन वर्सांच्या काळांत मार्गारीदाच्या मनांत घोळटाली. पूण कांयच घडलें ना. तिणें गुन्यांव केल्लो जाल्यार केश चलपाची. पूण तिका कोणें कांय सांगलें ना; तपासणीय जाली ना.

'फुडार कितें म्हजो?' ती आपल्याच मनाक विचारताली. आनी मन जाप दिना जातकूच निर्शेताली.

तिचें कुटंब बांयगिणी रावपाक येतकूच चार आव्तु द फॅ जाल्लीं. एक 17 आगश्ट 1579 दिसा, दुसरें 6 सप्टेंबर 1580 दिसा, तिसरें 4 डिसेंबर 1581 दिसा आनी चवथें 2 नोव्हेंबर 1582 दिसा. आव्तु द फॅ म्हळ्यार

भावार्ताचें कर्तूब. सुवाळ्याच्या रुपान ख्यास्ती जाहीर करपाचो आनी त्यो घडोवपाचो दीस. त्यो ख्यास्ती तरेकतरांच्यो आसतात आनी तातूंत लोकां मुखार लासून मारपाची ख्यास्त आसता हें तिणें आयकल्लें. आपणाक ख्यास्त दितलेच आनी ती लासून मारपाची आसतली हे विशीं तिच्या मनाची खात्री जाल्ली. ही खात्री फकत निर्शेणेच्या आनी दुख्खाच्या उमाळ्याक लागून जावंक नासली. तिणें विचार करून पारखिल्लें, आपणाक जिती दवरली जाल्यार केन्नाय तरी, कोणाक तरी इंकिजिसांवाचे बंदखणींत आपणाक कितें भोगलें तें कळटलें. तें कळ्ळें जाल्यार इंकिजिसांव लजेक पडटलें आनी इंक्विझिटर गुन्यांवकार थारतले. अशे परिस्थितींत तिका लासून मारली जाल्यार तांकां सगलें पचतलें. हे विशीं तिणें जितलो विचार केलो तितलो तिका तो पुरायेन पटलो.

मागीर मनांत दुसरो विचार आयलो .....मरण येवपाचेंच आसा जाल्यार ताची वाट पळयत कित्याक रावचें? मन मेलांच; कूड कित्याक जिती दवरची? मरण आपणेंच कित्याक लागीं हाडचें न्हय? पूण कशें? ....... कशें?? हे कुडींत कसलेंच धारेचें साधन ना. गोळ घेवपाक मेळना आनी उजो लावन घेतलीं म्हळ्यार उजोय ना. मरण जाय. मरणा वरवीं सुटका जाय. पूण कशी? .......कशी??

आनी आठ दिसां फाटीं मार्गारीदाक जाय आशिल्लें तें मेळ्ळें. काळोख जातकूच आल्काईद आयलो आनी तिका घेवन मुखेल इंक्विझिटर रावता थंय गेलो. थंय वतना दोन कुडींतल्यान वचून माळी चडची पडटाली. ती चडून तीं गेलीं.

सुमार दोन वरांनी आल्काईद परत आयलो. मार्गारीद मुखेल इंक्विझिटराचे कुडींतल्यान भायर सरली. आल्काईद बरोच मुखार आनी ती फाटल्यान अशीं तीं माळयेचीं सोपणां देंवंक लागलीं. एका सोपणार तिच्या पांयाक कितें तरी लागलें आनी कुच्च जालें. तिणें ओणव घेवन सोपण सांसपिलें. हाताक लागलें तें तिणें थंयच्या मंद उजवाडांत पळयलें. पातळ पत्र्याचो हाताच्या तळटा येदो तिकोनी कुडको. तो तसोच मुठींत धरून ती कुडींत घेवन आयली.

दुसऱ्या दिसाच्यान सद्दां मार्गारीद तो पत्र्याचो कुडको बोटांनी घट्ट धरून जमनीर झरोवंक लागली. शिपाय लागीं ना आनी आवाज येवचो ना हाची जतनाय ती घेताली. पांच दिसांनी पत्र्याच्या कुडक्याक जाय तशी धार आयली.

रातीं मध्यान रात मेरेन ती जागी रावली. सरभोंवतणी किण्ण पडलें. भायर-भितर काळोख जितलो बिण्ण आशिल्लो तितलोच तिचो निश्चेव घट आशिल्लो. मनाचें लोखंड जाल्लेंच. तिणें उजव्या हाताच्या बोटांनी पत्र्याचो कुडको घट्ट धरलो आनी धार आशिल्ले वटेन दाव्या मनगटार परत परत ओडून शिरो कातरल्यो. रगत फळफळीत व्हांवंक लागलें. तें व्हांवता आसतनाच तिणें दाव्या हाताच्या बोटांनी पत्र्याचो कुडको घट्ट धरून उजव्या मनगटाचेर दामून ओडलो. एक फावट.....दोन फावटी....तीन फावटी..... जणूं काय तिणें आपणाक मरणाचे सुवादीन केल्ली आनी मरणूच तिका सुटका दिवंक त्यो शिरो कातरतालें.....

ल्हवुल्हवु मार्गारीदाची शुद्ध गेली....रगत व्हांवत रावलें...कांय वेळान मार्गारीद इंक्विझिशनाच्या चपक्यांतल्यान सुटली. तिणें मरणाक वेंगायलें.



वण्टीक तेंकून बशिल्ले कडेन कायतान येवजितालो.....

*हांवें गुन्यांव केला म्हूण कागाळ केल्या खंय! पूण कोणें केल्या तें सांगपाक तयार नात. ताका म्हजे मुखार हाडपाक कित्याक भियेतात? कागाळ खरी काय फट हें दाखोवन दिवपाची संद म्हाका कित्याक मेळची न्हय? कागाळ करतल्याची तपासणी म्हजे मुखार कित्याक जावची न्हय? हांवूय विचारीन ताका प्रस्न. येवं दी सत्य उजवाडाक. म्हाका सत्याची भिरांत ना. हे कित्याक भियेतात? गवाय आनी आसात खंय! कोण हे गवाय तेंवूय सांगूंक तयार नात. कोणेंय*

*येवचें, कितेंय सांगचें आनी हांणी तें खरें अशेंच धरून चलचें? हो न्याय काय हीं न्यायाचीं फकाणां? आनी हें सगलें नाटक धर्माच्या नांवान! हांव धर्म मानतां. धर्माच्या सगल्या नेमांक पाळो दीत आयलां. पूण हे धर्मान चलतात व्हय? ते करतात तो अधर्म न्हय?*

प्रस्न वजेंभर आशिल्ले. विचारपा सारकेच आशिल्ले. पूण तांच्यो जापो दिवपाक कोण आशिल्लो? जापो मेळच्यो नात हें कायतानाकूय खबर आशिल्लें. पूण विचारांचें चक्र थांबयत अशें कसलेंच साधन ताचे कडेन नाशिल्लें. ताका आनीक एक प्रस्न पडलो, असलें साधन खंयच्याय मनशा कडेन आसता काय? बुद्‌दीची खिळी आनी मनाची चावी कोणाकूय मेळ्ळ्या काय? कायतानान नकळटां तकली हे वटेन ते वटेन हालयली. जणूं काय तकलेंत येतात ते सगले विचार आनी प्रस्नांचीं मालीं तो फाफडून उडोवंक सोदतालो. ताणें तकली वण्टीक तेंकयली. चिंतिनासतना रावपाचो यत्न केलो. पूण ताका जाय आशिल्लें तशें घडलें ना. विशय बदल्लो; पूण विचारांचें आनी प्रस्नांचें तें चक्र परत सुरू जालें .....

*इंक्विझिटरां मुखार दोन खेपो व्हेलो म्हाका. दोनूय खेपो विचारलें, गुन्यांव कबूल करता काय म्हूण. तशें कित्याक विचारलें तांणी? हांवें हय वा ना म्हळें ना, पूण जाप दिली तिचो अर्थ ना असोच जातालो....चुकलें काय म्हजें? गुन्यांव कबूल केल्लो जाल्यार ते सामकेच सोडचे नाशिल्ले; पूण घडये ल्हानशी ख्यास्त दिवन सोडटले आशिल्ले. फुडले खेपे तो प्रस्न विचारलो जाल्यार हय म्हूण मेकळो जावचें? ख्यास्त फर्मायतलेच पूण हो काळोख, हें घुस्मटप, तपासणेचें तेंच तें नाटक हो सगलो भोग तरी थांबतलो .....*

रानांत शेणिल्ल्याक अकस्मात पैस दिवो दिसचो आनी वाट मेळिल्ल्याचो भास जावचो तशें कायतानाचें जालें. मना वयलो भार उणो जावन तें ल्हव जालां अशें ताका दिसलें....पूण खिणभर....फकत खिणभर....कुडींतले

हवेनूच अकस्मात संकश्टाचें रूप घेतलां आनी तें मोट्या-मोट्यान हांसत ताचे मुखार उबें रावलां अशें ताच्या धांपिल्ल्या दोळ्यांक दिसलें. परत चक्र सुरू....

*गुन्यांव कबूल करप म्हळ्यार वागाच्या तोंडांत तकली दिवप. तें शाणेपण कशें जातलें? तांचें फावतलें. गुन्यांव कबूल केला म्हणटले, तपासणी गुठलायतले आनी ख्यास्त फर्मावन मेकळे जातले. आनी ख्यास्त कसली आसतली हें कोण जाणा! ती मर्णाची आसली जाल्यार? करूंक ना तो गुन्यांव कबूल करून कसलें पुण्य मेळपाचें आसा? तोवूय एके तरेचो अधर्म जावचो ना? हांव धर्मान चलत आयलां जाल्यार असलो अधर्म कित्याक करचो?*

परत प्रस्न....प्रस्नाचेर प्रस्न.....परत मनाचेर भार. कायतानान सुस्कारो सोडलो. ताचें हड्डें भरून आयलें. खांकेची उबळ येता शी दिसली....ना, ती आयली. मदीं तो थुकलो. ते थुकेंत रगत गेलां आसुंये अशें ताका त्या अंधूक उजवाडांत दिसलें.





**7 जुलय 1584**

अंदू मीर्ग लागपाक पावस सुरू जाल्लो. वर्सावळी भाशेन लोक उमेदीन वावराक लागिल्लो. मीर्ग लागचे पयलीं करपाची तयारी लोकांनी आदींच केल्ली. घरां शिंविल्लीं. खोंपी नव्या चुडटांनी धांपिल्ल्यो. पुरुमेंत केल्लो. शेतां कसून दवरिल्लीं. पावस सुरू जावन बांयो उदकान भरतकूच परत जोतां घालून, आळय मारून रोवणी सुरू जाली. कांबळीच्यो खोळी घाल्ले जोतकार दर एका शेतांत दिसूंक लागले.

जून सोंपून जुलय मात् लागला, पावसान वेगळेंच रूप धरलें. दीस-रात हरंधारींनी पडपाक लागलो. व्हाळ भरून व्हांवंक लागले. न्हंयेक हुंवार आयलो. शेतां जालीं तळीं. माडांच्या मुळांनी उदक भरून ते उदकांतूच रोयल्यात कशे दिसूंक लागले. शेतांनी सुरू जाल्ल्या वावरांत आडखळी येवंक लागल्यो. एखाद्र्या वर्सा अशें घडटा; सैमाचें चित्र काडूंक जायना अशें जाण्टेले अणभवाच्या आदारान सांगूंक लागले. तेच बराबर फाल्यां कितें जाता तें पळोवया अशें म्हणून हेरांची आस्त जागोवंक लागले. वचत थंय उदक. राय सावन रासय, लोटले वा रायतूरा वचपूय कठीण जालें. कांय जाण घरा रावन तर कांय जाण शेतांच्या बांदांचेर बसून वाट पळोवंक लागले.

रातीं आकांत जालो. उटंगारांचो पावस! तो आदल्या दिसा परस चड कोसळ्ळोच पूण वांगडा मोड घेवन आयलो. भिरांकूळ मोड. वादळी वारें. वाऱ्याचे भोंवरे. जोगलांचेर जोगलां. गडगड. वीज पडिल्ल्याचो कडकडकट्ट हो भिरांकूळ आवाज. ह्या खिणाक हे दिशेक, तर दुसऱ्या खिणाक दुसरे

दिशेक. रातचो वेळ आशिल्ल्यान कोण घरांनी तर कोण खोंपींनी आशिल्लीं. पूण माड हुमटून पडिल्ल्याचे, झाडां मोडून पडिल्ल्याचे आवाज येताले. भितर रावल्यार भंय, भायर गेल्यारूय भंय.

कांय खोंपींनी भुरगीं भियेवन रडटालीं. आवयो तांकां थातारताल्यो. तांच्याय मनांत भंय रिगिल्लें. कोण विचारतालो,

'कसलें पातक आमी केलें म्हूण हें अरिश्ट येयलां काय?'

तर कोण खुरसाची कुरू करून स्वामी जेजूक पराथताली, 'हें संकश्ट बेगीन ना कर सायबा!'

ते राती गांवांत कोणूच न्हिदूंक पावलीं नात. हुस्क्यान कुडकुडलीं. भिरांतीन मिडमिडलीं.

फांतोड जायत आयली तशें मोड उणें जावंक लागलें. वारें आशिल्लें पूण वादळ निवळूंक लागलें. भोंवरे ना जाले. जोगलांचो नाच थारलो. विजांनी विसव घेतलो. पावस मात् चालूच उरलो. दियोग लुईसाक घेवन भायर सरलो. दोगांनीय सांतल्यो घेतल्यो. भाटांनी कितें घडलां आनी केदें लुकसाण जालां तें तांकां पळोवपाचें आसलें. कसलोय उपाय ताकतिकेन करूंक जाय काय कितें हाचो अदमास घेवचो आसलो. कांबळीच्यो खोळी घालून भायर सरिल्ले तांचे मुंडकार आनी तोल्ल तांकां वाटेर मेळ्ळे. कितलेशेच माड हुमटून पडिल्ले. कांय जाण्टे माड मोडून पडिल्ले. कांय कडेन रुखांचे खांदे मोडून पडिल्ले तर कांय कडेन झाडां पडून कवाथ्यांची वाट लागिल्ली. लुईसाक जिणेंतलो असलो हो पयलोच अणभव. तो कांचवेल्लो. दियोग ताका थातारतालो. 'बाब, तूं भियेनाका. सगलें जाग्यार घालुया' अशें सांगत मुंडकारूय ताका धीर दिताले.

मारी कितलेंय जाल्यार भुरगेंच. मनांतल्यान भियेल्लें. पूण भायर दाखयनाशिल्लें. 'भाटकान्नी', 'भाटकान्नी' करीत तेरेजाचे फाटले फुडल्यान आसतालें. तिका आदार करतालें. इतल्यांत मारीची धाकटी भयण कत्रीन धांवत धांवत आयली. खर्शेत-खर्शेतूच कत्रीनान सांगलें,

'मारी, रातीं खोंपीचेर माड पडलो.'

हीं उतरां तेरेजाच्या कानार पडलीं. तिणें हुस्केवन विचारलें,

'सगलीं बरीं आसात मु गो?'

'हय. पूण खोंप मोडल्या. बुडकुले, मडकीं फुटून गेल्यांत....' सांगतां-सांगतां तें पोर रडकुरें परतलें.

'भाटकान्नी, हांव वचून चोवन येवं? रोखडें येतां.' मारीन विचारलें.

'चल, बाय चल. दोगांय सांबाळून वचात.' तेरेजान म्हळें. मारी आनी कत्रीन पावसांत भिजतूच खोंपीचे दिशेन धांवत सुटलीं.

दियोग आनी लुईस परतले तेन्ना दनपार जाल्लो. मोडान केल्ल्या लुकसाणाचें पडबिंब तेरेजान दियोगाचे चर्येंत पळयलें. लुईसान तिका खंय कितें जालां तें सांगलें. तेरेजान तें आयकून घेतलें; पूण तिचे तकलेंत एक वेगळें मोड आशिल्लें. हांकां पियेदादीची खबर आतां सांगची काय पयलीं जेवंक वाडून मागीर सांगची? तसो हो प्रस्न बरोच वेळ तिच्या मनांत खवदळ घालीत आशिल्लो. आदीं सांगलें जाल्यार ते जेवंक रावतले? जेविनासतनाच गेले जाल्यार परत केन्ना येतले आनी केन्ना जेवतले? पूण ही खबर सांगूंक कळाव केलो जाल्यार दियोगाक वायट दिसचें ना? कितें करचें? तिणें आपले परीन मनांत थारायल्लें, ते जेवतकूच तांकां सांगचें. पूण दियोगाक पळयतकूच तितलो धीर तिका उरलो ना. लुईस सांगतालो तें सोंपचे आदींच तिणें म्हळें,

'तुमकां येतना बाय बी दिसलां?'

'बाय दिसलां म्हणचे? बाय घरांत ना?' दियोगान सट् करून विचारलें.

'ना. तुमी भायर सरून गेले. हांव उरलीं रांदचे कुडींत. बाय केन्ना कुडींतल्यान भायर सरलें तें कळ्ळेंच ना...'

'आनी मारी?'

'तांचे खोंपीचेर माड पडून सगलें मोडून, फुटून गेलां म्हूण भयण ताका सांगूंक आयली. तें बाबडें थंय धांवलें...'

'येता हांव.' म्हणत दियोगान परत जोतें घालें.

'राव. हांव पोर्सांत, भाटांत वचून पळोवन आयलां....'

'ना. हांव वचून येतां.'

'हांवूय येतां.' म्हणत लुईसूय भायर सरलो.

दोगांनीय घराच्या चारूय वाटांनी पियेदादीचो सोद घेतलो. तिका उले

मारले. आवाज फकत पावसाचो. व्हांवत्या उदकाचो. मर्दीच सुटिल्ल्या वाऱ्याचो. मोडून पडटाले त्या खांद्यांचो. पावलभर उदकांतल्यान धोंपराक उदक तेंकता थंय मेरेन ते सोदीत रावले. तांकां पळोवन सांतान हो मुंडकार लागीं आयलो -

'भाटकारा, कितें जालां? थंयसर फोंडारो आसा. तूं मुखार वचोंनाका.'

'सांतान, पियेदादबाय घरांत ना. घरा भोंवतणी सोदली पूण मेळूंक ना. तूं नदर दवर. हेरांकूय सांग. खंयूय दिसली जाल्यार कोणाकूय तिचे बगले दवरात आनी म्हाका रोखडेंच कळयात.'

'बरें भाटकारा.'

घरा फाटल्या भाटांत पैस सांकवा मेरेन वचून येवपाची संवय पियेदादीक आसा हें दियोगाक येवजलें. ताणें म्हळें,

'लुईस, घरभाटांत सांकवा कडेन पळोवन येवया.'

'सांकवा कडेन? कित्याक?'

'बाय केन्ना-केन्नाय थंय वतालें.'

मेरां वयल्यान सडसडीत वतले म्हळ्यार उदकांत मेरोच दिसनाशिल्ल्यो. वळखीचो वाठार आशिल्ल्यान ते फुडें सरत रावले. उदक धोंपरांक तेंकलें तेन्ना थंयच रावन तांणी सांकवाचे दिशेन पळयलें. व्हाळ भरून उदक सांकवा वयर पाविल्लें. सांकवार उजव्यान आनी दाव्यान हात धरपाक बांदिल्ले कोंडेय दिसनाशिल्ले. कशे दिसतले! ज्या मोडान माडांक आडवे घाले तें मोड कोंड्यांची काकुळट कित्याक करतलें! दियोग आनी लुईस हांणी पळयलें तें फकत मातये रंगाचें उदक...आनी त्या उदकांत उबे आशिल्ले माड.

सांजवेळा मारी आयलें. माड पडून मोडिल्ले खोंपीचे दशेची ताणें केल्ली वर्णना आयकून तेरेजाचें काळीज कळवळ्ळें. तिणें ताच्या आवय-बापायची आनी हेरांची खबर घेतली. बुडकुले, लुगट, खाणा-जेवणाचे जिनस बी जाय काय म्हूण विचारलें. मारीन जाप दिली,

'फाल्यां सकाळीं आवय येतली. ती सांगतली.'

'हांगाय एक अरिश्ट आयलां.' तेरेजान ल्हवूच म्हळें.

'कितें जालां भाटकान्नी?' मारीच्या प्रस्नाक भिरांतीची देग आशिल्ली.

'बाय सकाळ सावन नाऽऽच जालां...'

'कितें ऽऽ? ' मारीन लागीं-लागीं किळांच मारली.

'सगल्याक सोदली. लुईस आनी बापूय तिकाच सोदूंक गेल्यात.'

'सांकवार चोयली?'

पियेदादीची ती आवडीची सुवात म्हूण मारी जाणा आशिल्लें.

'सांकव खंय आसा! तोच बुडला! बगलेक वचपाक लेगीत मेळना.'

'घडये....' मारी थांबलें.

'घडये कितें?' तेरेजान उमळशिकेन विचारलें.

'ना. कांय ना.' फुडलीं उतरां उच्चारपाचो धीर ताका जायनाशिल्लो.

'सांग तूं मारी. भिये नाका. थंय सोद करूंक मेळटलो.' तेरेजान ताका समजायलें.

'भाटकान्नी...' मारी परत थांबलें. हें सांगचें?

'मारी, सांग. बायक सोदपाक तूं आदार करचें ना?'

मारीक आतां दिसलें, सांगूंक जाय. ना तर चूक जातली. तें उलयलें,

'भाटकान्नी, एक दीस आमी सांकवार गेल्लीं. बायेन म्हाका विचारलें, 'न्हंयेचे देगेर या?'

'मागीर कितें केलें तुवें?'

'हांवें सांगलें, न्हंय पैस आसा. परत येवपाक रात जातली. उप्रांतूय एक-दोन फावटी तिणें तशें विचारलें. पूण हांवें व्हरूंक ना. कसलेंय नीब सांगून तिका घेवन घरा येयलें.'

'बरें केलें तुवें.'

तिनसांजे दियोग आनी लुईस परतले. तांची निर्शेणी सांगले बगर कळटाली.

तेरेजान दोगांकूय जेवण वाडलें. जेवण कोणाक जाय आशिल्लें! पूण पोटाभुकेर ते इल्लें जेवले. दोगांकूय पुरो जाल्लें. ते सोप्यार बशिल्ले थंय तेरेजान सकयल्या आवाजांत, मारीन सांगिल्ली गजाल सांगली. दियोगाक सट्ट जालें. भुरगेपणांत ती न्हंयेचे देगेर वचपाचो आग्रो धरताली. थंय खेळटाली. लग्न जातकूच कुळारा आयिल्ल्या वेळारूय चुकनासतना थंय

वचून येताली. ते उगडास तिका एका वेगळ्याच संवसारांत घेवन वताले. तिका सुखायताले....

दियोगान वेळ केलो ना. लुईसाक धाडून दोन मानांयांक आपोवन हाडले. तेरेजाक सांगलें बागेलांतल्यो दोन चुडी घेवन यो म्हूण.

तेरेज बेस बरें जाणा आशिल्लें, सोद जाता तितले बेगीन जावपाक जाय. तरी घोवाक पुरो जाल्लें आसा, सकाळच्यान तो उदकांतल्यान रेबो माडयत भोंवता हें मतींत धरून तिणें म्हळें,

'आतां काळोख जाला. ह्या काळखांत तुमी खंय म्हूण सोदतले?'

'पळोवया.' तेरेजाल्या प्रस्नाक दुसरी जाप नाशिल्ली.

मानांय रोखडेच आयले. रातचे कित्याक वतात हें तांकां खबर आशिल्लें. एकल्यान एक चूड पेटयली. दुसऱ्यान दुसरी चूड खांक्यांत धरली. दडको थांबिल्ल्यो पूण पावस झडत आशिल्लो. सकाळीं भरिल्लें तें उदक देंवपाक लागिल्लें. तरी उदकांतल्यानूच चलचें पडटालें. दियोग, लुईस आनी दोनूय मानांय न्हंयेचे दिशेन वचपाक लागले. नव्या मनशाक पावसभर उदकांत पडिल्लो चुडीचो उजवाडूच दिसतलो आसलो. पूण ह्या चौगांकूय सगलो वाठार संवकळीचो. सगले रूख वळखीचे. तेच खातीर तांचीं पावलां गोंदळनासतना फुडें पडटालीं.

कितेंय विचारतलो जाल्यार कोणूच मनीस दिसनाशिल्लो. घरां बंद आशिल्लीं. खोंपींनी काळोख आशिल्लो. मोडाचो आनी पावसाचो नेम नाशिल्ल्यान राखणे गोठ्यांनी तण दवरपाक माळे केल्ले थंय वचून न्हिदिल्ले – ना, न्हीद कोणाक पडटली! ते बाबडे तणाचेंच उशें करून आड पडिल्ले. चुट्टांच्या पाख्या कडेन पळयत मागताले, रात बरी गेल्यार पुरो...हें संकश्ट बेगीं थांबल्यार पुरो....एका वाड्यार मनशांचे आवाज आयकूंक आयले. पूण नदरेक कोणूच पडलो ना. घडये, भितर रावनूच मोट्या ताळ्यान उलोवन एके खोंपींतलीं मनशां आनी दुसरे खोंपींतलीं मनशां एकामेकाची खबर घेतालीं.....

वाटेर एका मानांयान विचारलें,

'भाटकारा, रायतूरचे वाटेन चोवपाचें काय लोटलेचे वाटेन?'

'तेंच चिंततालों.' दियोगान जाप दिली.

इतल्यांत लुईसान सुचयलें,

‘म्हाका दिसता, न्हंयेचे देगेर वचपाच्यो वाटो आमी आदीं पळोवया.’

‘हें सारकें.’ दियोगान सुचोवणी मानून घेतली.

आदीं तांणी आंब्या कडले वाटेर कोणूय दिसता काय म्हूण पळयलें. मागीर देवूळवाड्या वयल्यान वता ते वाटेर सोद घेतलो. तिसरी वाट वडा कडल्यान. ते वाटेचो अदमास घेत ते थोडें अंतर चलून आयले. किडी रडटाल्यो. ते सगल्याक पळयताले, पूण तांकां मनशा भाशेन कांय दिसलें ना आनी मोनजातूय दिसली ना. आनी तिनूय वाटांचेर एक आडमेळें आयलें. न्हंयेक हुंवार आयिल्ल्यान उदक देगेर आशिल्ल्या भाटांनी आनी शेतांनी पाविल्लें. देग खंय सोंपता आनी न्हंय खंय सुरू जाता तेंच कळनाशिल्लें. तरी ते धोंपराक उदक तेंकलें थंय मेरेन वचून आयले. कांयच नदरेक पडलें ना.

हातांतली चूड पालवचे आदीं मानांयान ते चुडीचेर दुसरी चूड पेटयली. चौगूय जाण मोन्यानी घरा परतले.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच दियोगान ही खबर कळोवपाक तीन मानांयांक चार कडेन धाडून दिले. एका मानांयाक राय वचून गोपू शेटीक आनी मतेसाक कळोवपाक सांगलें. मागीर लोटले वचून कायतानाले शणैगेर दिल्ले भयणीक कळीत कर म्हळें. हेर दोगांनी तारीन पलतडीं वच्चें; उप्रांत एकल्यान शिरोड्या वचून कायतानालो धाकटो भाव सांतू पै हाका सांगचें आनी दुसऱ्यान सावयवेऱ्यां वचून कायताना फाटलो भाव विठ्ठल पै हाच्या कानार ही खबर घालून तसोच मडकय वचून भोगण कामतीगेर कायतानाल्या भाच्याक कळोवचें अशी वेवस्था ताणें केली.

दियोग तितलेंच करून रावलो ना. सगल्या मुंडकारांक, तोल्लांक, कुळाचाऱ्यांक आनी खुंटकारांक नदर दवरात म्हूण सांगलें. हेर गांवकारांच्या कानार ही खबर घालून खंयूय पियेदाद दिसली जाल्यार रोखडेंच कळयात म्हूण विनवणी केली.

गोपू शेटी ताकतिकेन आयलो. येवचे आदीं ताणें कायतानाल्या घरा भोंवतणच्या वाठारांत सोद घेतलो. मागीर देवूळभाटांत वचून तळय पळयली. ती भरून ओत्ताली. मोडिल्ल्या वण्टीं मदीं आनी फातरांच्या राशीं मदीं

भोंवन पळयलें. बेबे रडटाले. कानांत भरतालो तो आवाज तितलोच. पावस झडत आशिल्लो. उदक देंविल्लें; पूण बांदयांनी भरून आशिल्लें. मात् मेरो दिसताल्यो. तांचेर धेंपां मारीत आयिल्ल्यान तो बेगीन पावलो - खर्शेल्लो. हुस्क्यान भरिल्लो.

कालच्या दिसा आनी रातीं घडिल्ल्या सगल्या घडणुकांची खबर दियोगान गोपू शेटीक सांगली. आपणें कोणा-कोणाक कळोवपाक मनीस धाडल्यात तेंवूय सांगलें.

'गोपू, हांव घाळ रावलों काय दिसता....' आपली चूक जाली अशी भावना दियोगाच्या त्या उतरांनी उपाट भरिल्ली.

'ना-ना, तशें न्हय तें. कोणाचीच चूक ना. मोडाच्या रुपान अकस्मात येदें संकश्ट येत अशें कोणें येवजिल्लें? त्या सांवाराक लागून घडलें हें.' गोपू शेटीन दियोगाक थाकाय दिवपाचो यत्न केलो. कांय वेळ दोगांकूय कितें उलोवचें तें कळ्ळें ना. दोगूय चिंतीत रावले. इतल्यांत सकाळीं भायर सरिल्ल्या मानांयां मदले दोग जाण परत आयले. ते पलतडीं वचपाक रायतूरा गेल्ले. आपलीच चूक जाल्ले भाशेन तांणी निर्शेणेच्या सुरांत सांगलें,

'भाटकारा, काम जालें ना.'

'कितें जालें?'

'हुंवाराच्या उदकाक झोत आसा ती सुमाराची न्हूं. तारयान दोन-तीन खेपो यत्न केलो; पूण तार व्हांवन वचोंक लागली. तेणें म्हणलें, हें जमपाचें न्हूं. मागीर आमी परत येयले.'

'तारयान सांगलें म्हण्टकूच आनीक उपाय ना.' गोपू शेटी.

'आतां वचात तुमी घरा. मागीर पळोवया.' दियोगान मानांयांक धाडले. थोड्या वेळान गोपू शेटी भायर सरलो. वतना दियोगाच्या खांदार हात दवरून ताणें म्हळें,

'कितेंय करपाचें आसत जाल्यार कळय आंऽऽ.'

सांजवेळा पावस थांबलो. चड कुपां नाशिल्ल्यान मळब मात्शें उक्तें जालें. उदक इल्लें इल्लें देंवपाक लागलें. शेतांनी, भाटांनी भरिल्लें तें आनी

हुंवाराचेंय.

मोडलां, पडलां तें काडून उडोवपाच्या वावराक लोक लागलो. जांच्यो खोंपी मोडिल्ल्यो तांणी म्हेडी, चुडटां, कोंडे बी हाडून त्यो सारक्यो करपाचो वावर सुरू केलो. दियोगालीं मनशां पियेदादीचो सोद घेतालीं. तांच्या वांट्याक मात् येस आयलें ना.

पियेदाद ना जाल्ली त्या दिसाच्यान आज तिसरो दीस. आयजूय पावस नाशिल्लो. उदक देंविल्लें. हुंवाराचोय नेट उणो जावन न्हंयेच्या उदकाची झोत उणी जाल्ली. दियोगाल्या घरांतलें वातावरण सुतकी दिसचें इतलें गंभीर आशिल्लें. पियेदाद आतां जिती मेळप कठीण. तिका हुंवारान ओडून व्हेली; ना जाल्यार तिणें उदकांत घालून घेतलें अशें जण एकल्याक मनांत दिसतालें. पूण ती मेळटली अशाच अर्थाची भास जण एकल्याच्या तोंडांत आसली – स्वताक फटयत आनी हेरांची आस्त जागी दवरीत.

तेरेजान वाडिल्ली पेज दियोग जेवलो. तेरेजान कांय म्हळें ना आनी तोवूय कांय उलयलो ना. भाटांत वचपाचो भेस केलो आनी भायर सरलो. तो वंयेचें कवड उगडून भायर सरता म्हळ्यार मुंडकार बेर्नाद दुसऱ्या एका मनशाक वांगडा घेवन धांवत आयलो. ताणें खर्शेतूच सांगलें,

‘भाटकारा, हो कामुर्लेचो जुवांव. तेणें खंय न्हंयेचे देगेर झाडां मदीं शिरकल्लें कितें चोयलां. तें मनीस काय गोरू तें तेच्यान सांगूंक जायना. देगे वयल्या शेतांत उदक भरलां. तेणें पैशिल्यानूच चोयलां.’

‘जुवांव, तुजें बरें जावं. रोखडें सांगलें तें बरें केलें.’ इतलें म्हणून दियोग घरांत गेलो आनी तेरेजाक, लुईसाक ही खबर सांगली. सगळीं कामुर्लेंचे वाटेन धांवलीं; दियोग, तेरेज, लुईस, बेर्नाद आनी जुवांव.

जुवांवान जे सुवातेर रावन तीं उदकांतलीं झाडां आदीं पळयल्लीं तेच सुवाते वयल्यान हेरांनीय तीं पळयलीं. जुवांवान सांगिल्लें तें खरें आसलें. कितें तरी शिरकलां; पूण कितें तें कळनासलें. दियोगान बेर्नादाक धाडून कामुर्लेच्या गांवकारा कडल्यान पनेळ मागून हाडलो. पनेळान तो, बेर्नाद आनी जुवांव न्हंयेचे देगेर गेले. तांणी थंय पळयलें तें मनशाचेंच मडें आसलें.

मोट्या कश्टांनी तें थंयच्यान तांणी काडलें आनी उदक नाशिल्ले जमनीर घेवन आयले. तें मडें पळोवन तेरेजान रडून आकांत केलो. मडें बायलमनशेचें म्हूण कळटालें. पूण न्हेसण पिंजून गेल्लें. तोंडाचे, हातांचे, पांयांचे कुडके नुस्त्यान खाल्ले. कूड फुगिल्ली. दियोगान तेरेजाक थातारली. तिका ल्हवूच सांगलें,

'कूड बायचीच म्हूण खात्री करूंक जाय.'

तेरेजाक तें समजलें. रडत-रडतूच तिणें कुडी म्हऱ्यांत वचून पळयलें. कशी खात्री करची हे विशीं तिचोय कांय खीण गोंदळ जालो. कूड बारीकसाणेन पळयतना तिची नदर कुडीच्या गळ्या कडेन गेली. थंय भांगराची सरपळी आशिल्ली. सरपळेक भांगराचोच खुरीस आशिल्लो. ती सरपळी पियेदादीचीच म्हूण वळखुपाक तेरेजाक वेळ लागलो ना. आनी दुसऱ्याच खिणाक ती आकांतान रडूंक लागली. मडें पियेदादीचें म्हणपाचें सगल्यांक कळ्ळें. दियोगान कूड रासय आपणाल्या घरा व्हरपाची वेवस्था केली.

रासय येतकूच आदलेच भाशेन ताणें एका मानांयाक राय आनी लोटले धाडलो, दुसऱ्याक शिरोड्या आनी तिसऱ्याक मडकय आनी सावयवेऱ्यां धाडलो. कायतानाले भाव, भयण, भाचो हांकां आनी गोपू शेटीक कळोवपाची गरज आशिल्ली.

गोपू शेटी रोखडोच आयलो. ताची वाच्याच गेली. मड्याचेर नदर घालपाचें काळीज ताका जालें ना. पियेदाद ताच्या इश्टाची बायल आशिल्ली; पूण तिका तो आपली भयण म्हूण चड मानतालो. दियोगान ताका समजायलो,

'गोपू, तूं असो गळसणलो जाल्यार म्हाका आदार कोणाचो?'

'पूण ....हें..अशें कित्याक जावचें?' गोपू शेटी आडखळत पुटपुटलो.

'ताचेर आतां चिंतून कितें करतले? आतां फुडलें चिंतूंक जाय.'

'फुडलें म्हणचे?'

'इंतेराचें.'

'इंतेर करुंकूच जाय.'

'हय रे. पूण खंय? केन्ना?'

'कायतानालीं इतलीं भाटां आसात. खंयच्याय एका -'

'आयक. तीं सगलीं भाटां, शेतां, घर इंकजिसांवान जप्त केल्लीं आसतलीं. तीं तांच्या ताब्यांत आसतलीं. थंय ते पुरूंक दितले?'

'दियोग, हें हांवें येवजिलेंच ना...ना, आज म्हजी तकली चलना.'

'हांव म्हणटां, मानवेलाक आपोवन ताची बुद्द घेवया.'

'हय व्हय, हें तुका बरें येवजलें.'

दियोगान लुईसाक मानवेलागेर धाडलो.

पियेदादीचें मडें मेळिल्ल्याची खबर राय पावतकूच थंयसून एकेकलो येवंक लागलो. गांवकार आयले. मुंडकार आयले. कुळाचारी आयले. खुंटकार आयले. पाळणीकार आयलो. पार्पती आयलो. सगलेच चुरचुरले. ह्या कुटंबाक सगलेच मानताले. कायतान अडचल्ल्याक पावतालो, पियेदाद मायेन वासपूस करताली. दुडू जोडिल्लोच; पूण दुडवां परस चड तांणी लोकांचें बरेपण जोडिल्लें.

लुईसाक मानवेल अर्दे वाटेरूच मेळ्ळो. पियेदादीची खबर कळटकूच तो दियोगागेरूच येतालो.

दियोगा मुखार दोन प्रस्न आशिल्लेः पयलो, धर्मीक विधी करपाक रायतूर कोटांतलो फिंर्गी पाद्री तयार जातलो काय कितें? आनी दुसरो, कूड खंय मातयेक लावपाची, कायतानाले जमनींत, काय रासय दियोगाल्या भाटांत? ताणें दोनूय प्रस्न मानवेला मुखार मांडले. हे प्रस्न उप्रासतले हाची जाणविकाय मानवेलाक आशिल्ली. तरी चिंतपाक ताणें कांय खीण घेतले आनी म्हळें,

'पाद्रीक सांगपाचें काम हांव करीन.'

'पूण ती कायतानाली बायल हें ताका सांगूक फावना.'

'ना. तें सांगपाचें ना.'

'हांव एक सुचोवं? ती आपले बायलेच्या नात्यांतली अशें तुज्यान सांगूंक जाता.' गोपू शेटीन म्हळें.

'तें ताणें विचारलें जाल्यारूच सांगपाचें. तें हांव पळयतां.'

'आनी सुवात खंयची थारावया?' दियोगान दुसऱ्या प्रस्नाक हात घालो.

'दियोग,' मानवेलान सांगलें, 'व्हडल्या घरांत बसल्यात राखेस. तांकां

निमित्य दिवचें न्हय. कायदे तेच करतात आनी कायदो मोडला काय ना हेंवूय तेच थारायतात. तांची आनी कटकट नाका. कूड हांगाच मातयेक लावची.'

'म्हाकाय तशेंच दिसता.' गोपू शेटीन तेंको दिलो.

'तशेंच करुया तर.'

'पूण केन्ना इंतेर करचो तें थारावंक नाका?' गोपू शेटीन विचारलें.

'कूड दोन दीस उदकांत उरल्या अशें दिसता. तिची गत पळयल्यार इंतेर जाता तितले बेगीन करपाक जाय अशें म्हाका दिसता.'

'फाल्यां दनपरां?' दियोगान विचारलें.

'हय. पाद्रीकूय सांगपाक जाय.'

'सांग तर तूं.' म्हणत दियोग उठलो आनी फुडली तयारी करपाक गेलो.

मानवेलान फिंर्गी पाद्रीक गरजे पुरतेंच सांगलें. कायतानाचें नांव वा नातें चुकून पसून सांगलें ना. थारिल्ले प्रमाण मरण जालें. गांवकार, मुंडकार, कुळाचारी, भाताचे व्यापारी, नाल्लाचे व्यापारी अशे कितलेशेच जाण आयले. शिरोडेंच्यान सांतू पै आयलो. लोटलेच्यान कायतानाले भयणीचो देर आयलो. सावयवेंरेंच्यान विठ्ठल पै आनी मडकयच्यान कायतानालो भाचो हे मात् पावले नात.

रातीं दियोग आड पडलो तेन्ना ताच्या खंती मनाक दिसलें, पियेदादीची खबर सगल्यांक कळ्ळी; कायतानाक मात् कळ्ळी ना. कळपाची वाट जशी बंद आशिल्ली तशी कळोवपाचीय वाट बंद आशिल्ली. कशी कळटली? कांय वेळान त्याच मनाक दिसलें, कळ्ळें ना तें एके परीन बरेंच जालें. तो कितें भोगता कोण जाणा! तातूंत हें दुख्ख म्हळ्यार दुश्काळांत तेरावो म्हयनो जातलो आसलो....कुशीक न्हिदिल्ली तेरेज रडटाली...दियोगाचेंय मन रडलें...तें आयकूंक मात आयलें ना.





## 18 ऑक्टोबर 1584

आज फांतोडेर उठलो तेन्ना कायतानाच्या जिवाक मात्शें बरें दिसलें. अशक्तताय वाडिल्ली; पूण कालचे भाशेन खांक नाशिल्ली. ते खांकेन तो खासावीस जातालो. पेज जेवतकूच ताका आनीक इल्लें बरें दिसलें. ते आठ हातांचे चौखणे कुडींत ताका फकत पांच-स पावलां मारपाक मेळटालीं. हात-पांय घोळचे म्हूण तो तीं मारतालो. तशीं पावलां मारतना ताका रातीं पडिल्ल्या सपनाचो आज परत परत उगडास जातालो. सपनांत अमूक अशी एक घडणूक नाशिल्ली. आशिल्ले फकत देखाव. घरांतलीं भुरगीं आपालिपा खेळटात; ताबलांनी खेळटात, घरा फाटल्या भाटांत वाऱ्याक लागून वा माकडांनी उडयो मारिल्ल्यान पडिल्लीं घोंटां पुंजायतात; कोलव्यां वेळेर गेल्ल्या वेळार रेंवेचीं घरां बांदतात; पडवेर बसून बा सांगता त्यो राम, कृष्ण, शींव, कोलो हांच्यो काणयो आयकतात - अशे भुरग्यां विशींचे देखाव. पूण आनिकूय देखाव आशिल्ले. एका देखाव्यांत दर्यांतल्यान वतात तीं कितलींशींच व्हडीं दिसलीं. मागीर एक देखाव दिसलो तातूंत पनेळांत बशिल्ली पियेदाद आशिल्ली - एकलीच. पनेळ धक्याक तेंकून आशिल्लो.

तो वचूंक लागलो तेन्ना कायतान 'राव-राव' म्हूण आड्डत धक्या वटेन धांवलो....आनी तेन्नाच ताका जाग आयली.

हाचे आदींय कायतानाक सपनां पडल्यांत. पूण मनांत आसता तें सपनांत दिसता अशें तो आपणाक समजायतालो आनी कांय दिसांनी विसरून वतालो. आजूय ताणें तसोच यत्न केलो; पूण सपनाक लागून जाग्यो जाल्ल्यो यादी ताची फाट सोडिनाशिल्ल्यो. ताका भुरग्यांची याद येताली. खंय आसात काय तीं? कशीं आसात काय? रायची याद येतकूच कितें करतात काय? पियेदादीची याद येतकूच मात् ताच्या काळजांत खप्प जातालें. खंय आसा काय ती? भोव करून भाव तिका रासय आपल्यागेर व्हरतलो. कशी आसा काय? आदींच तिची मनस्थिती नाजूक जाल्ली. आपल्याक धरून व्हेला हो धपको तिणें कसो सोंसलो काय? फकत प्रस्न, प्रस्न आनी प्रस्न.....जापो मेळपाची वाटूच नाशिल्ली. मागीर ताणें चिंतलें, तीं पैस आसात. तांची खबर मेळना. पूण लागींचें तरी खंय कळटा? व्हडलें घर गोंय शाराच्या मदेकात आसा. सरभोंवतणी जायतें घडटा आसतलें. तें आपणाक खंय कळटा? तें कित्याक, हे बंदखणींत कितलेशेच कैदी आसतले आनी कितलीशीच पिडा ते भोगतात आसतले. ती आपणाक खंय कळटा?

ह्या चिंतनांचे परिणामीं ताणें गोंय शार नदरे मुखार हाडपाचो यत्न केलो. एक-दोन फावटी तो ह्या शारांतल्या बाजारांत येवन गेल्लो. पूण ताका खूब वर्सां जावन गेल्लीं. तें कांय तशेंच उरचें ना. आज कशें आसा काय हें शार? कितें चल्लां काय हांगा? हे बाजारपेठेची पत वाडल्या काय? काय धर्मकोल्लाक लागून देंवल्या? प्रस्न...प्रस्न....



व्हडल्या घराचे फुडल्यान, फाटल्यान, उजव्यान आनी दाव्यान पातळिल्लें हें शार 25-30 वर्सां आदीं तरतरतालें तितलें आज तरतरना. 1565 वर्सा विजयनगर राजवट ना-नपश्चात जाली. घोड्यांच्या व्यापारांत ती राजवट ही मोटें गिरायक आसली. सरकारी येणावळीचो एक मोटो वांटो गेलो. सांबाराच्या

जिनसांच्या व्यापाराची मक्तेदारी पुर्तुगालच्या राजा कडेन आसली. पूण गोंयांतले वरिष्ठ फिंर्गी अधिकारी आनी फिंर्गी जेजुईत पाद्री चोरयां तो व्यापार करूंक लागले. ताका लागून सरकारी येणावळ अदिकूच उणी जाली. शाराक आतां देंवती कळा लागल्या. पूण क्रिस्तांव धर्माचें पूर्वे कडलें केंद्र आनी संवसारीक बाजारपेठ म्हूण शाराचें म्हत्व उणें जावंक ना. 'रूअ दिरैत' अशें नांव दिल्लो म्हालमार्ग आनी ताका जोडून आशिल्ल्यो आळी हें बाजारपेठेचें मुखेल ठिकाण. म्हालमार्ग कोटांतले वायसरॉयाचे पालासी कडल्यान नीट मिजेरिकॉर्दीचे इगर्जे मेरेन वता. रूंद मार्ग. दोनूय कुशींनी पेढयो आनी पसरे. दुडू बदलून दिवपी सराफांच्यो नाबी. भांगर, वज्रां, रस्मी लुगटां, चीनी मातयेचीं आयदनां आनी सोबेच्यो वस्ती. शिंविल्ली मुस्तायकी बी धरून भुसारी म्हाल, शाक-भाजी, फळां, नुस्तें, मास हें सगलें थंय मेळटा. एके तरेचो म्हाल विकपी दुकानांची एक आळ अश्यो कितल्योश्योच आळी. ते भायर, मेस्त, दर्जी, कासार, जोतीं, मोचे करपी आनी हेर कारागिरांच्योय आळी. जंय ज्यू लोकांचीं घरां आसात आनी ते व्यापार करतात त्या मार्गाक 'ज्युदेवांचो मार्ग' म्हणटात. हांगा चोर बाजारूय आसा जंय चोरयेचो म्हाल फुकेसवाय मेळटा. सगले कडेन गिरायकाची खेट.

ह्या शारांत लोकांची ही ऽऽ गर्दी! थळावो लोक आसा; पूण नदरेंत भरतात ते फिंर्गी फिदाल्ग, सरकारी अधिकारी आनी सोल्दाद; काळे लोब घालून शाराच्या दर एका वाठारांत बोवाळटात ते फिंर्गी पाद्री; पुर्तुगेज बापूय आनी थळावी आवय हांची संतत आशिल्ले मिस्तीस; आफ्रिकी आवय आनी पुर्तुगेज बापूय हांची संतत आशिल्ले मुलातु, ज्यू, कांय मुसलमान व्यापारी, आफ्रिका, पर्शिया, आसाम, बंगाल हांगा सावन हाडून विकिल्ले गुलाम दादले, गुलाम चलयो आनी अरेबिया, आर्मेनिया, पर्शिया, मलाक्का, चीन हांगाचे तशेंच बंगालचे व्यापारी आनी खंबायतचे बनिया.

शारांत फिदाल्गांचीं घरां आसात. ते पालखेंत वा घोड्यार बसून भोंवतात. वांगडा धा-बारा गुलाम आसतात. एकलो फिदाल्गाक सांतली धरता; हेर गुलाम ताची राखण करतात. हे फिदाल्ग बेकार थवय. बायलांक पातयेनात.

तांकां घरांतल्यान भायर सरूंक दिनात. फकत मिसाक वचूंक दितात. तेन्ना तीं पालखेंत बसून वतात. व्यापाऱ्यांचींय घरां आसात. कांय घरां एके माळयेचीं, एकामेकाक तेंकून बांदिल्लीं. तांचीं पाखीं नळ्यांचीं.

फिदाल्गांक एकामेकाचो मत्सर. आत्रे-पैऱ्यान झगडीं-झुजां. पैर दाँ मानुएलान पावणी चडोवन पर्शियाची सोबीत गुलाम चली विकती घेतली म्हूण दाँ लुईश हाका राग आयलो. ताणें ते राती दाँ मानुएलाच्या पोरसांत कितें मेळटा तें लुटूंक गुलाम धाडले. तांकां दाँ मानुएलाच्या गुलामांनी धरले. दोनूय गटां मदीं मारामारी जाली. कोणाचो हात मोडलो, कोणाची तकली फुटली तर कोणाचे दांत पडले.

ह्या शारांत दोन हातकातरे खांबे आसात. मनसुबदारान ख्यास्त फर्मायतकूच ती लोकां मुखार घडोवपाक हे भौशीक जागे. काल एका हातकातऱ्या खांब्याक बांदून एका मिस्तिसाक शंबर चाबकां मारलीं. ताणें एका फिदाल्गाचे चलयेचीं फकाणां केल्लीं. दुसऱ्या हातकातऱ्या खांब्या कडेन एका आफ्रिकी गुलामाचो हात कातरलो. ताणें एका व्यापाऱ्यान विकूंक दवरिल्लें खोमीस चोरिल्लें.

ह्या शारांत शिंदळकेघरांची खातड जाल्या. हांगा फिंर्ग्यां मदीं पोटाचे भुके परस लिंगीक भूक चड. ह्या घरांनी फिदाल्गांची आनी आंकवार सोल्दादांची दीस-रात गर्दी. आफ्रिकेच्यान आनी पर्शियेच्यान हाडिल्ल्यो गुलाम चलयो म्हळ्यार ह्या घरांतलीं जोडीचीं साधनां. ह्या शारांत जुगडीघरांय भरल्यांत. चार-पांच तरांनी जुगार खेळपाची मांडणी केल्ली आसा. कोणूय त्याच घरांत एक-दोन दीस रावतलो जाल्यार जेवणा-खाणाची वेवस्था केल्ली आसा. असल्या जुगडीघरांनी गुन्यांवकारीचीय पोसवण जाता.

ह्या शारांत, एके वटेन देवा-धर्माच्या नांवान वाजतात घांटी आनी दुसरे वटेन अनितीच्या कोंडांत चलतात फिंर्ग्यांच्यो राटी!



वर्सावळीची व्यापारी तारवावळ बंदरांत पावल्यार चार दीस जाल्यात.

ही तारवावळ भोव करून एप्रील म्हयन्यांत पुर्तुगालच्यान भायर सरता. गोंय बंदरांत पावपाक तिका पांच ते स म्हयने लागतात. हे तारवावळींत बतेले, कोठवे, पातमाऱ्यो अशीं बारा-तेरा तारवां आसतात. कांय वेळा ल्हान-व्हड अशीं वीस मेरेन तारवां आसतात. हे खेपे चवदा तारवां आयल्यांत. तीन तारवां घोड्यांचीं - अरबी आनी पर्शियेचे. दोन तारवां गुलामांचीं. एका तारवांत गुलाम दादले तर दुसऱ्या तारवांत गुलाम चलयो. हे गुलाम दादले आफ्रिकेंतल्या आंगोला, मोसांबीक ह्या वाठारांतले तर गुलाम चलयो आफ्रिकी आनी पर्शियेंतल्यो. हेर णव तारवांनी तरेकतरांचो म्हाल आयला. तातूंत पर्शियेंतले गालिचे, मोसांबिकेंतलें भांगर, हस्तिदंती वस्ती आनी फळां, पेगूचीं वज्रां, दक्षिण आफ्रिकेंतलो तंबाखू, तांदूळ आसा. ते भायर येवरोपांतलीं ताफेताचीं, विलोदाचीं वस्त्रां आनी हेर जायतो म्हाल आयला. घोडे आनी गुलाम सोडून हेर म्हाल भंगसाळींत भरून दवरला. ही तारवावळ परत वतली तेन्ना दुसरे भंगसाळींत दवरिल्ले सांबाराचे जिनस, नाल्ल, सुपारी, मीठ, सुती लुगटां आनी हेर म्हाल घेवन वतलीं.

चडशे घोडे दक्षिणेंतले सुलतान आनी राजा विकते घेतात. तसो विलो करून जातकूच हेर घोडे थळाव्या व्यापाऱ्यांक विकतात. त्या घोड्यांची पावणी जाता. म्हालमार्गार पावणेचो चौक आसा थंय ती जाता. हे पावणेक लागून म्हालमार्गाक पावणे-मार्ग अशेंय नांव पडलां. व्यापाऱ्यान नेमिल्लो मानांय घोड्याची लगाम धरून ताचे गूण आड्डून सांगता. गिरायक घोड्याक आपले परीन तपासता आनी घेवचो काय ना तें थारायता. तो पावणेर घेवचो पडटा. चडशें गिरायक फिदाल्गांचें, सरकारी अधिकाऱ्यांचें आनी गिरेस्त व्यापाऱ्यांचें आसता.

आज एका अरबी घोड्या खातीर दोन फिदाल्गां मदीं सर्त लागली. दोगूय पावणेंत लांस वाडयत गेले. दिवपाक दोगांय कडेन दुडू नाशिल्ले, मत्सर उपाट आशिल्लो. अखेरेक पावणी थंयच उरली; दोगूय एकामेकांक गाळी मारपाक लागले. दोगांनीय आपापल्या गुलामांक खुबळायले. ते एकामेका कडेन झुजूंक लागतकूच दोगूय फिदाल्ग ल्हवूच कडसरले. गुलामांनी मात्

एकामेकाच्यो तकल्यो फोडून तिवळां व्हांवयलीं.

ह्याच चौकांत गुलामांची पावणी जाता. गुलाम दादल्यांचें बळ तपासचे खातीर तांकां धांवपाक लायतात, कसरती करपाक लायतात आनी तांची बलायकीय तपासून घेतात. गुलाम चलयांचीय हांगाच पावणी जाता. आज कांय गुलाम चलयो चौकांत उब्यो आसात. तांच्या आंगार मुस्तायकी ना. लुगटाचो फकत एक कुडको पांगरून त्यो उब्यो आसात. पावणेंत लांस घालतल्यां मदीं फिदाल्ग तर आसातूच; पूण व्यापारी, सरकारी अधिकारी, फिंर्गी पाद्री अशे सगल्या थरांतले गिरेस्त आसात. थोड्यांक धा गुलाम पसून उणे पडटात. जांकां घरांतल्या कामांक गुलाम चलयो जाय आसतात ते गुलाम चलयेक कसलें काम करूंक येता तें समजून घेतात आनी पावणेंत तिका विकती घेतात.

दाँ आन्तांव हो फिदाल्ग गुलाम चलयांच्या कश्टां वरवीं दुडू जोडटा. दर वर्सा एक तरी गुलाम चली तो पावणेर विकती घेताच. तेंच करपाक आज तो आयला. गुलाम चलयांची पावणी करपी मनशाक वांगडा घेवन तो चार-पांच जाणीं म्हच्यांत गेलो. आंगांत कसलो गूण वा कसली कला आसा काय म्हूण ताणें दर एकलेक विचारलें. पयलेन सांगलें, आपूण बरीं-बरीं लोणचीं करूंक जाणां. दुसरेन म्हळें, आपूण रुचीक रांदपाक आनी खाणां करपाक जाणां. तिसरेन जाप दिली, आपूण मुस्तायकी शिंवपाक आनी चादरी, तुवाले, उश्या चिरयो बी भरूंक जाणां. चवथेन सांगलें, आपूण बरें गावपाक जाणां. आनी पांचवेन म्हळें, आपल्याक पोरसांतलें काम करपाची आवड. दाँ आन्तांवान चिंतलें, गावपी, पोरसांतलें काम करपी हांचो आपल्याक उपेग ना. लोणचीं आनी खाणां करपी गुलाम चलयो आसात. मुस्तायकी शिंवपी आनी चादरी, तुवाले भरपी ना. तसलो म्हाल हेर गुलामां कडल्यान बाजारांत व्हरून विकल्यार दुडू बरो मेळटलो. ताणें तिसरी गुलाम चली पावणेर विकती घेतली. ती आर्मेनियाची.

मस्तो फिदाल्ग म्हूण जाका शारांतलो लोक वळखता तो दाँ बाल्ताजार शिंदळकेघर चलयता. दर वर्सा तो पावणेक येवन एक वा दोन चलयो

विकत्यो घेता. आज तो एके जाण्टे बायलेक वांगडा घेवन आयला. ताणें चौकांत आशिल्ल्या सगल्या गुलाम चलयांक बारीकसाणेन पळोवन दिसूंक सोबीत अश्यो चार चलयो वेंचून काडल्यो आनी तांकां हेरां पसून वेगळ्यो उब्यो केल्यो. मागीर ताणें ते जाण्टे बायलेक लागीं आपयली आनी त्या चारूय चलयांक तपासून पळय म्हूण सांगलें. ते बायलेन दर एकले सरीं वचून गुठलायिल्लें लुगट उक्तें करून आंगलोट पळयलो आनी कूड सांसपून कसलोय दोश आसा काय कितें हाची खात्री केली. तिणें दोन चलयो वेंचून काडल्यो आनी त्यो खंयच्यो तें दाँ बाल्ताजाराक सांगलें. एकली आफ्रिकी आशिल्ली तर दुसरी पर्शियेची. फिदाल्गान दोनूय चलयांक पावणेर विकतीं घेतलीं.



आज आयतार. दॉना आंजेला मिसाक वचूंक भायर सरता. दाँ सान्तुश दे आल्मैद ह्या फिदाल्गाची ती बायल. हेर फिदाल्गांच्या बायलां भाशेनूच तिकाय हेर दिसांनी घरांतल्यान भायर सरपाक मनाय. ती खावचें पान चाबडायत जनेलांत उबी रावन भायर कितें चलता तें पळयता आनी गुलामां कडेन गजाली करून वेळ सारता. देखुनूच ती आयताराची वाट पळयत आसता. तो तिका फेस्ताचो दीस! तिणें रस्माची उंची मुस्तायकी घाल्या. आंगार भांगर-शिंगर घालां. तोंड रंगयलां. खावच्या पानाच्या वेसनाक लागून ओंठ रंगोवचे पडूंक नात. दारांत पालखी आसा. पालखेंत गालिचो आसा. विलोदाचीं उशीं आसात. भोय, चार गुलाम दादले आनी स गुलाम चलयो पालखे म्हऱ्यांत तयार रावल्यात. दॉना आंजेला पालखेंत लोडेता. एक गुलाम चली तिचें न्हेसण जमनीर लोळचें न्हय म्हूण उखलून धरता. भोय पालखी उखलतात. एक गुलाम दादलो लांब दांड्याची सांत्तली दॉना आंजेलाच्या माथ्यार धरता. पुरसांव इगर्जेचे दिशेन वचूंक लागता. एके गुलाम चलयेच्या हातांत आयणो आसा. दुसरेच्या हातांत प्रार्थनेची पटी. तिसरेन लेंस हातांत धरला. तीन गुलाम दादले फाटल्यान चलतात. ते राखणदार.

इगर्जेच्या दारांत हें पुरसांव थांबता. पालखी सकयल दवरतकूच दॉना आंजेला देंवता. दोन गुलाम चलयो तिका पालखेंतल्यान देंवपाक पालव दितात. हेर दोगी तिची मुस्तायकी सारकी आसा म्हणपाची खात्री करतात. दॉना आंजेला पालखेंतल्यान देंवतकूच सरभोंवतणी नदर मारता. तिचेच भाशेन आनिकूय कांय फिदाल्गांच्यो बायलो निकत्योच पावल्यात. दॉना आंजेला तांकां बारकायेन पळयता. मात् तिची नदर ओडून घेता तो एक लांब-रूंद, गोरे कातीचो आनी सुंदर मुखामळाचो तरणाटो. पयलेच खेपे तो आज इगर्जेंत दिसला. हो हालींच गोंय शारांत आयला काय? कोण काय, सरकारी अधिकारी काय फौजेंतलो सोल्दाद? ती आपणाल्या एका गुलाम दादल्याक आपयता, दोळ्यांनीच तो लांब-रूंद मनीस ताका दाखयता आनी तो कोण, खंय रावता, तो केन्ना आयला ही सगली खबर आपल्याक आयचे आज जाय म्हूण सांगता.

दॉना आंजेला इगर्जेंत भितर सरता. गुलाम चलयांनी आदींच वचून तिचे बसपाचे सुवातेर विलोदाचीं उशीं दवरिल्लीं आसतात. ती बसता. कांय मिण्टांनी मीस सुरू जाता. पूण दॉना आंजेला शेर्मांव आयकच ना. तिची नदर आल्ताराचेर नासता आनी खुरसाचेरूय नासता.

परत-परत नदरे मुखार तो लांब-रूंद तरणाटो येता. ताका सोदीत तिची नदर भिरभिरता.

मीस सोंपता. ती भायर सरचे आदींच तो तरणाटो गेल्लो आसता. दॉना आंजेला मात्शी निर्शेता. तिची पालखी परत घरा येता.

सांजवेळा गुलाम दॉना आंजेलाक जाय आशिल्ली खबर घेवन येता. त्या तरणाट्याचें नांव दुमींग आफोंस. हालींच आयिल्ल्या झुजारी तारवान हेर सोल्दादां वांगडा तो पुर्तुगालच्यान आयला. ताचो सध्याचो हुद्दो सार्जेंत; पूण ताका भाणस्तारच्या कोटाचो कापितांव करतले अशें म्हणटात.

दॉना आंजेला त्याच गुलामा कडल्यान सार्जेंत दुमींग हाका कळयता, आपणाक तुजे कडेन इश्टागत करपाची आसा, मेळपाक यो. दीस आनी वेळूय ती कळयता. सार्जेंत दुमींग आमंत्रण मानून घेता. गोंय शारांतले फिदाल्गा

कशे वागतात, तांच्या बायलांची चलणूक कशी आसता हे विशीं सार्जेंत दुमींगान कांय गजाली आयकल्ल्यो. दॉना आंजेलाचे कळोवणे वयल्यान तिका कसली इश्टागत जाय हाचो ताका अदमास येता.

फिदाल्ग दाँ सान्तुश दे आल्मैदाचें घर सोदून काडपाक ताका अडचण येना. तो वेळार पावता. दारांत दोन गुलाम चलयो ताका येवकार दिवपाक तयार राविल्ल्यो आसतात. तो घरांत पावल दवरता आनी रोखडेंच फाटीं घेता. मुखार सालांत दाँ सान्तुश बशिल्लो आसा. शुन्यांत पळोवन हांसता. सार्जेंत दुमींग चिंतता, घोव घरांत आसतना दॉना आंजेला आपोवची नाशिल्ली. तो आनीक एक पावल फाटीं घेता. तें पळोवन एक गुलाम चली म्हणटा,

'यो तूं.'

'हे वटेन नाका. दॉना आंजेलाचे कुडींत वचपाक जनेल ना?'

'ताची गरज ना. सिंयोर, असोच यो तूं.'

'पूण, तोऽऽ?'

'ताका कांय कळना. तुका कसलीच भिरांत ना.' दुसरी गुलाम चली सांगता.

सार्जेंत दुमींग मात्सो गोंदळटा. पूण तांचे वांगडा वता. सालांतूच एके कुडीचें दार दिसता. थंय पावतकूच गुलाम चलयो तें धुकळून उगडटात. सार्जेंत दुमींग भितर वतकूच तीं तें ओडून घेतात आनी दोगीय दाराच्या दोन कुशींक रावतात. तांचे मुखार दाँ सान्तुश शुन्यांत पळोवन हांसता. तो सालांत आसुनूय ह्या संवसारांत नासता.

कुडींत दॉना आंजेला वाट पळयतूच आसता. तिणें आंगार झिरझिरीत पानो घाला आनी कमराक रस्मी वस्त्र गुठलायलां. तिका थार ना. कांय खिणांतूच ती आंगा वयली मुस्तायकी काडटा आनी सार्जेंत दुमींगाच्या खोमसाचीं बटणां काडपाक लागता. तिची ताकतीक पळोवन सार्जेंत दुमींग काल्सांव काडटा. न्हेसणाची आडखळ ना जातकूच दॉना आंजेला सार्जेंत दुमींगाक घट्ट वेंग मारता. दोगांच्याय शिरंतरांनी एके तरेची वीज भिरभिरता. दॉना आंजेला वेंग

सोडिनासतना सार्जेंत दुमींगाक ओडून पलंगा म्हऱ्यांत व्हरता. पयलीं आपूण पलंगार उदारी पडटा आनी सार्जेंतीक ओडून आपल्या आंगार घेता.

दॉना आंजेलाचे कुडीची भूक भागयतासर सार्जेंत दुमींग खर्शेता. कांय वेळ तो पलंगार पडून रावता. मागीर उठून ताकतिकेन काल्सांव-खोमीस घालता आनी जनेला कडेन वचूंक लागता. दॉना आंजेला ताका राव म्हणटा; पूण दाँ सान्तुश जागो जायत हे भिरांतीन ताका घरांतल्यान भायर सरपाची उमळशीक लागता. ताची ती गत पळोवन दॉना आंजेला सांगता,

'जनेलांतल्यान वचपाची गरज ना. दारांतल्यानूच वच.' ती दार उगडटा आनी ताका 'ओब्रिगाद' म्हणटा. सालांत पांय दवरल्यार थंय दाँ सान्तुश बशिल्लोच आसा. शुन्यांत पळोवन हांसत. सार्जेंत दुमींग ताका आपणें पळोवंक नाशिल्ले भाशेन करता आनी घरांतल्यान भायर सरून बेगिबेगीन वता.

सार्जेंत दुमींग हाका दाँ सान्तुशाचें कुवाडेंच पडटा. ताचे दोळे सगलें पळयतात, पूण ताका कांयच दिसना. ताच्या कानार सगले आवाज पडटात, पूण ताका कांयच आयकूंक येना. हें कशें? मागीर सोल्दादां कडल्यान ताका कळटा की फिदाल्गांच्यो बायलो असल्या वेळार घोवांक कितेंय पियेवंक दितना धुत्रो नांवाचें थळावें घुंवळी वखद दितात आनी ताका लागून तांची दाँ सान्तुशा भाशेन अवस्था जाता. इतलेंच न्हय, तर अशें कितेंय घडलें हाची सुलूस पसून तांकां लागना.



दाँ जेरोम कुतीन्य हेर कांय फिदाल्गां भाशेन दीसभर शिंदळकेघरांत वा जुगडीघरांत पडून आसता. तिनसांजे ताचो आफ्रिकी गुलाम आग्नेल ताका तसल्या घरांनी भोंवन सोदून काडटा आनी तर्र जाल्ले अवस्थेंत घरा हाडटा. दाँ जेरोमाची बायल दॉना इझाबेल गुलामांच्या पालवान घर सांबाळटा. दाँ फेर्दिनांद दे मिनेझिस तिचो इश्ट जाला. तीं दोगांय पुर्तुगालांत एका गांवचीं. दोगांय गोंयां पावतकूच आदले वळखीचें इश्टागतींत रुपांतर जालें. तातूंत

दाँ फेर्दिनांदाची बायल मरतकूच ताका एकसुरेपण अस्वस्थ करूंक लागलें आनी तो पैऱ्यान दॉना इझाबेला सरीं येवन गजाली करपाक बसूंक लागलो.

दॉना इझाबेलागेर तेरा गुलाम आशिल्लीं. पांच दादले आनी आठ चलयो. गुलाम दादल्यां मदीं आग्नेल मस्तो. तो आत्रे-पैऱ्यान गुलाम चलयां कडेन लगट करूंक सोदतालो आनी त्यो चलयो ताचे विशीं दॉना इझाबेला कडेन कागाळ करताल्यो. ताका शिटकावण्यो दिवन दॉना इझाबेला वाजेल्ली. चार दिसां फाटीं आग्नेलान अती केलें. गुलाम चलयां मदीं सोबीत दिसपी आसामी चलयेचेर आगळीक केली. ती रडटा तें पळोवन दॉना इझाबेलाची सोंशिकसाण सोंपली. तिणें हेर गुलाम दादल्यांक सांगून आग्नेलाक घट्ट धरूंक लायलो आनी दोनूय हातांचेर दागलो.

सदां भाशेन तिनसांजे आग्नेल दाँ जेरोमाक घरा हाडपाक गेलो. एका जुगडीघरांत तर्र जावन बशिल्ले दशेंत ताका तो मेळ्ळो. सूड घेवपाची खुमखुमी ताच्या मनांत खतखतताली. ताणें दाँ जेरोमाक दॉना इझाबेल आनी दाँ फेर्दिनांद कारस्थान रचतात आनी एक दीस तीं दाँ जेरोमाचो घात करतलीं अशें सांगलें. तीं दार धांपून कुडींत वरांचीं वरां बसतात अशेंय मीठ-मिर्सांग लावन सांगलें.

दाँ जेरोम घरांत भितर सरलो तोच तापिल्ले तकलेन. कोप म्हारू जावन ताचे गोमटेर बशिल्लो. ताणें आर्म काडलें, कुडींत गेलो आनी दॉना इझाबेलाक गुळी घालून मारली.

दुसऱ्या दिसा ही खबर दाँ फेर्दिनांदाक कळ्ळी. रागान ताचें रगत सळसळ्ळें. ताणें आर्म घेतलें, घोड्यार बसलो आनी भायर सरलो. कांय शिंदळकेघरांनी आनी कांय जुगडीघरांनी सोद घेतकूच ताका एका शिंदळकेघरांत दाँ जेरोम आसा म्हणपाचें कळ्ळें. तो घोड्या वयल्यान देंवन घरांत भितर सरूंक वतालो ; पूण दारार एका आफ्रिकी गुलामान ताका आडायलो. दाँ फेर्दिनांद अदीक तिडकलो. ताणें आर्माचो दस्तो गुलामाचे तकलेर मारलो. गुलाम थंयच पडून बेशुद्ध जालो. उक्त्या दारांत उबो रावन भितर पळय जाल्यार दाँ जेरोम दाव्या हातांत सोऱ्याचो ग्लास आनी उजवो

हात एके सोबीत आफ्रिकी चलयेच्या कमरा भोंवतणी अशे अवस्थेंत दाँ फेर्दिनांदाक दिसलो. दोगांच्याय आंगार मुस्तायकी नाशिल्ली. दाँ फेर्दिनांद दारांत उबो रावला त्याच खिणाक दाँ जेरोमान ताका पळयलो. हातांतलो ग्लास थंयच उडोवन तो भितल्ले कुडींत धांवलो आनी हेर गुलाम चलयो बशिल्ल्यो तांचे फाटल्यान लिपलो. दाँ फेर्दिनांदान ते कुडींत भितर सरून आर्म जोखतकूच त्यो गुलाम चलयो किळच्यो मारीत दुसरे कुडींत धांवल्यो. दाँ फेर्दिनांदान गाळींचो शिंवर करीत दाँ जेरोमाक गुळी घालून मारलो. त्या शिंदळकेघरांतल्यान तो भायर सरलो आनी घोड्यार बसून परतलो.



सेंट पॉल इगर्जेक तेंकून आशिल्ल्या घरांतले एके कुडींत स पाद्री जमल्यात. सगले जेजुईत आनी सगले फिंगी. जेजुईत संघाच्या गोंय प्रांताचो मुखेली प्रोव्हिन्सियाल जेरोनिमु मास्कारेन्यस हाणें हेर पांच जाणांक आपोवन हाडल्यात. तांचे मदीं आसात भाटां-बेंसांचो कारभार पळोवन येणावळीचो हिशोब दवरप्यां मदलो पाद्री ज्युलियांव पेरैर, सांबाराच्या जिनसांचो व्यापार करतल्यां मदलो पाद्री निकोलाव पिमेन्त, पाद्री दोमिंगुश आल्वारीस हो वज्रांचो व्यापार करपी पाद्रीं मदलो, पाद्रीं फिलीप नोरोन्य हो रीण दिवपाची सावकारी करपी पाद्रीं मदलो आनी जेजुईत पंथाक जें दान मेळटा, देणग्यो मेळटात तांचे विशींचो वेव्हार पळोवपी पाद्रीं जाळवणदारां मदलो इश्तेव्हांव फिगैरेद. सगले गिरेस्त. दुडवांच्या राशींचेर लोळपी भांडवलकार!

पाद्री प्रोव्हिन्सियालान भायर राखणदार म्हूण दोन गुलाम आसात आनी कुडीचें दार बंद आसा म्हणपाची खात्री केली आनी उलोवप सुरू केलें :

'वायसरॉयान फाल्यां म्हाका मेळूंक आपयला. तुमकांय आपयल्यात अशें म्हाका कळ्ळां. त्याच संबंदान आज आमी हांगा जमचें आनी उलोवणें करचें हे खातीर तुमकां आपयल्यात-'

'वायसरॉय कसल्या विशयाचेर उलोवंक सोदता?' पाद्री पिमेन्तान मदींच विचारलें.

'तें म्हाका खबर ना. पूण विशय कसलोय आसलो तरी आमी सगलेच जेजुईत संघाचे आशिल्ल्यान एकूच भुमिका घेवची अशें म्हाका दिसता. ते खातीर आदींच उलोवन थारायल्लें बरें म्हूण ही बसका.'

'तें खरें.' पाद्री नोरोन्यान म्हळें, 'पूण कसलो विशय आसूं येता?'

'म्हाका दिसता, दोन विशय आसूं येतात वा दोनां मदलो खंयचोय एक,' प्रोव्हिन्सियाल सांगूंक लागलो -

'दोन? खंयचे ते?' पाद्री पेरैरान उत्सुकतायेन विचारलें.

'सांगतां. तुमकां उगडास आसतलो. दोन वर्सां फाटीं आमचे कडेन आशिल्ल्या भाटां-बेंसांची वळेरी वायसरॉयान मागिल्ली. आमी ती दिली ना. ताणें तेन्ना राजाक चीट बरोवन कागाळ केल्ली अशें हांवें आयकल्लें.'

'पूण तो विशय आतां कित्याक?' - पाद्री फिगैरेद.

'कोण जाणा! आतां राजान ते विशीं कसलोय आदेश धाडला आसूं येता. पूण हो म्हजो तर्क.'

'आनी दुसरो विशय कसलो?' - पाद्री आल्वारीस.

'हांव जाणां ते भाशेन, सरकाराची येणावळ देंवत गेल्या. दुडवांची अडचण वायसरॉयाक चांटे पावलाक बादता. असले परिस्थितींत ताचे कडल्यान दुडवांची मागणी जावं येता.'

'म्हाकाय तशेंच दिसता,' पाद्री नोरोन्यान म्हळें, 'भाटां-बेंसांची वळेरी घेवन ताका कितें करपाचें आसा? आयज ताका दुडवांची गरज आसा. सरकारी येणावळी परस आमची वट्ट येणावळ चड आसा हाचोय अदमास ताका आसुंये.'

आनीक दोन पाद्रींनी तशेंच मत उक्तायलें.

'तशें जाल्यार ते मागणेचेर आमची जाप कशी आसची हें आमी थारावचें पडटलें.' प्रोव्हिन्सियालान भासाभाशेंत फुडल्या मुद्द्याक हात घालो.

'ना म्हणलें जाल्यार बरें जावचें ना. सरकाराक दुखोवप म्हणचे उदकांत रावन नुस्त्या कडेन वायटपण करप.' पाद्री फिगैरेदीन आपलें मत स्पश्टपणान मांडलें.

'तें बरें आसा.' पाद्री आल्वारीसान तोंड घालें, 'पूण दुडू दितलो कोण?'

'कोण दितलो?! पाद्री ज्युलियांव आनी सांगाती. भाटां-बेंसांची येणावळ तेच घेतात. आनी ती थोडी ना.' पाद्री फिगैरेदीन म्हळें.

पाद्री ज्युलियांव उसळ्ळो, 'तो दुडू हाका ताका दिवपाचो न्हय. तो आमी धर्म पातळावपाक वापरतात. त्या दुडवांचो उपेग करून आमी क्रिस्तांवांचो आंकडो वाडयतात. आमी फोल्गां मारिनात. म्हज्या मतान, पाद्री निकोलाव आनी सांगात्यांनी दुडू दिवचो. तांचो सांबाराच्या जिनसांचो व्यापार तरतरता. तांकां तारवां भाड्यान घेवन पुर्तुगालाक म्हाल धाडपाची तांक आसा. तांचे कडेन दुडू कुसता.'

पाद्री निकोलाव पिमेन्त खुबळ्ळो. पाद्री ज्युलियांवाक मदींच आडावन ताणें म्हळें, 'बेश्टोच तसलो आरोप करुंनाका. तो वेव्हार व्यापाऱ्यांचो. ते जेजुईत पंथाक दुडू दितात म्हूण आमचें तांचे कडेन बरेपण आसा, इतलेंच.'

'पुरो-पुरो,' पाद्री ज्युलियांवान तितल्याच नेटान म्हळें, 'ते व्यापारी कोणाचे मनीस तें आमकां खबर आसा. तुमचे सांगाती व्यापाऱ्यांचीं सवंगां घेवन कशे बोवाळटात तें लिपून उरूंक ना.'

वाडिल्ले आवाज आनी तापिल्लें वातावरण पळोवन प्रोव्हिन्सियाल मदीं पडलो, 'तें आसूं. थंड तकलेन चिंतुंया. पाद्री दोमिंगुश, तुमचो वज्रांचो व्यापार. म्हण्टकूच दुडवांच्यो राशी! तुमकां जमतलें.'

'वज्रां चकचकतात; पूण आमचेर येतात तीं संकश्टां कोणाक दिसतात? हालींच दर्यांत दोन तारवां चोरलीं. एक वादळांत सांपडून बुडलें. कितलें लुकसाण जालें ताचो अदमास पसून करपाक तुमच्यांनी जावचो ना. दुडू दिवपाक आमकां जमचें ना.'

हो स्पश्ट न्हयकार आयकून प्रोव्हेन्सियालान आग्रो केलो ना. इतल्यांत पाद्री ज्युलियांवान सुचयलें,

'म्हाका दिसता. पाद्री फिलीप आनी सांगाती तो भार सोपेपणीं उखलतले. तांची सावकारी सध्या बरी चलता.'

'आमी झेतान वावुरतात म्हूण तशें दिसता. पूण कितलीं रिणां बुडटात

तें तुमकां कळूंक पावना. पाद्री प्रोव्हिन्सियाल, म्हज्यान एक सांगूंक जाता, सरकाराक दुडू दिवचे अशें थारलें जाल्यार थोडो भार आमच्यानी उखलूंक जायत. थोडो भार आंऽऽ.' पाद्री फिलीप नोरोन्यान आपणाली भुमिका स्पश्ट केली.

पाद्री इश्तेव्हांव फिगैरेद हाणेंय तशीच भुमिका घेतली. ताणें सांगलें, 'लोक दानां, देणग्यो दितात. तो वेव्हार आमी पळयतात आनी दुडू वापरतात. तो सरकाराक दान कसो करतले? तरी पूण थोडें कितेंय आसत जाल्यार पाद्री फिलीप म्हणटा तशें करुंयेता.'

'म्हण्टकूच वायसरॉयान दुडवांची मागणी केली जाल्यार आमी ना म्हणचें न्हय.' प्रोव्हिन्सियालान भासाभाशेचो आपरोस सांगपाचे नदरेन म्हळें. तो आनीक सांगूंक वतालो; इतल्यांत पाद्री पिमेन्तान तोंड घालें,

'पूण दुडू कोणें दिवचो तें थारूंक ना.'

'हय. आमी केला तो तर्क. मागणी केली जाल्यारूच तें थारावचें पडटलें.'

'आनीक एक. दुडू दिवचोच पडलो जाल्यार दान वा देणगी म्हूण दिवप ना. रीण म्हूण दिवपाचो.' पाद्री ज्युलियांवान शिटुकसाणेन सुचयलें.

'हय तर! आदीं एक फावट कळंतर शेंकड्याक आठ अशें घेतिल्लें. हे खेपे उण्यांत उणें कळंतर शेंकड्याक धा थारावंक जाय.' पाद्री ज्युलियांवान आपलीय सुचोवणी जोडली.

'तर आमी एका ताळ्यान उलोवपाचें,' समारोप करपाचे नदरेन प्रोव्हिन्सियाल उलयलो, 'भाटां-बेंसांचे वळेरे विशीं राजाचो कसलोय आदेश आसत जाल्यार तो समजून घेवन कितें करपाचें तें मागीर थारावपाचें. वायसरॉयान दुडवांची मागणी केली जाल्यार फकत रीण म्हूण मेळटलें आनी शेंकड्याक धा ह्या दरान कळंतर दिवचें पडटलें अशें सांगपाचें. ताका कितलो दुडू जाय तें पळोवन कोणें कितलो दिवचो हें आमी परत मेळून थारावपाचें.' ताणें पांचूय जाणांच्यो चर्या पळयल्यो. तीग जाणांनी तकल्यो हालयल्यो. दोग जाण ओगी रावले. आपणें सांगलां ताचेर कोणाचेंच आडमत ना तें पळोवन ताणें बसका सोंपयली.



सेंट पॉल कॉलेजीचे सेमिनारींत शंबरां वयर तरणाटे पाद्रीपणाचें शिक्षण घेतात. तांचे मदीं चडशे थळावे, थोडे पुर्तुगेज कुटंबांतले आनी उरिल्ले मलाक्काचे आनी पूर्वे कडल्या हेर कांय वाठारांतले आसात. आल्बेर्ताचें हें निमणें वर्स. तो गांवान चोडणचो. फाल्यां चोडणा ताचे भयणीचें काजार. फाटले चार दीस तो रॅक्टराची परवानगी घेवन घरच्यांक आदार करपाक चोडणाच आशिल्लो. ताणें लागींच्या अश्या सात इश्टांक काजाराक येवपाचें आमंत्रण दिल्लें. आनिकूय एक हेतू ताच्या मनांत आशिल्लो; पूण ताणें तो मनांतूच दवरिल्लो. त्या इश्टांक घेवन तो फाल्यां सकाळीं चोडणा वचपाचो आशिल्लो आनी देखून आज सेमिनारींत आयिल्लो.

आल्बेर्तान तार सांगून दवरिल्ली. दुसऱ्या दिसा सकाळीं बेगिनूच सगले तयार जाले. बंदरांत वचून धाकट्या धक्याक तेंकून आशिल्ले तारींत बसले. तार चोडणाचे दिशेन वचूंक लागली. आल्बेर्ता वांगडा सात इश्ट आशिल्ले. तांचे मदले वितोरीन, शावियेर आनी सेराफीन हांचें शिक्षण पूर्ण जालां; पूण तांकां अजून पाद्री म्हूण दिक्षा दिवंक ना. विसेंत, आलेशांद्र, फ्रांसिश्क आनी ज्योकीं हे आल्बेर्ता वांगडा निमण्या वर्साचे विद्यार्थी. पांच जाण तिसवाडींतले. दोग जाण साश्टींतले आनी एकलो बार्देसांतलो.

काजार दबाज्यान जालें. दुसऱ्या दिसा सकाळीं आल्बेर्तान सगल्यांक घराचे माळयेर व्हरून बसयले. मेकळेपणान आनी आडखळ नासतना उलोवपाक ही सुवात बरी आशिल्ली. माळयेर कोणेंच येवचें न्हय अशें ताणें धाकट्या भावाक सांगून दवरिल्लें. सुरवात आल्बेर्तानूच केली :

'हांवें तुमकां भयणीच्या काजाराक आपयले. तुमी सगले आयले. देव बरें करूं! पूण ही संद घेवन एका म्हत्वाच्या विशयाचेर उलोवचें अशें म्हाका दिसतालें. हें सेमिनारींत वा गोंय शारांत हेर कडेन जमचें नाशिल्लें. हांगा आमकां मेकळीक आसा, कसलीच भिरांत ना. वितोरीन, तुजें, शावियेराचें आनी सेराफिनाचें शिक्षण पूर्ण जालां. आज तुमी पाद्री आसपाचे. पूण अजून तुमकां दिक्षा दिवंक ना. हें कितें? तुमचो फुडार कसो?'

'आल्बेर्त, तुवें हांगा आसात त्या तिगांचीं नांवां घेतलीं. पूण फाटल्या

वर्सांनी शिक्षण पूर्ण केल्ले आनीक कितलेशेच जाण आसात. तांकांय दिक्षा दिवंक ना.' ज्योकीं मात्सो तिडकीन उलयलो.

'ज्योकीं, तूं म्हणटा तें खरें. पूण जाणा जा, आज मेरेन एकाय थळाव्या मनशाक दिक्षा दिवंक ना. जांकां दिवंक जाय आशिल्ली तांचो फकत दुभाशी म्हूण वा हेर साद्या कामां खातीर उपेग करतात. सेमिनारी चलयतात कित्याक?' आलेशांद्रीचे चर्येर निर्शेणे वांगडा राग स्पश्ट उफेलो.

'सांगतां.' शावियेरान म्हळें, 'दिक्षा दितात ते फिंगीं. ते आमकां थळाव्यांक उणाक लेखतात – '

ज्योकीं तिडकलो. शावियेर उलयतना मदींच तोंड घालून ताणें विचारलें,

'आमी उणाक? आनी ते बुदवंत? कित्याक, तांची कात गोरी म्हणून?'

'हें खरें.' फ्रांसिश्कान ज्योकींक तेंको दिवन म्हळें, 'खरेपणीं तांकां धर्माचो सारको अभ्यास ना. ते धर्माच्या तत्वां प्रमाण वागनात. आमचो धर्म जात मानिना. हांणी जात कशी दवरली? आमच्या धर्मांत पाद्रीन वेपार-उद्देग-धंदो करपाचो नासता; हे कशे करतात?'

'फ्रांसिश्कान जातीचो विशय काडटकूच एक उगडास जालो,' आलेशांद्रीन म्हळें, 'आमगेर एक मानांय येतालो. जाण्टो. तो एक खंत परत परत उलोवन दाखयतालो – '

'कसली ती?' ज्योकींन मदींच विचारलें.

'तो म्हणटालो,' आलेशांद्रीन फुडें सांगलें, 'बाटोवणे वेळार आपूण तरणाटो आसलों. जातीक लागून उणाक लेखतात म्हूण वायट दिसतालें. तिडकूय मारताली. फिंगीं पाद्रींनी सांगलें, क्रिस्तांव धर्म जात मानिना. आपणाक खोस जाली आनी आपूण क्रिस्तांव जालों. पूण फटवलो ! हिंदू आसतना सुदीर आसलों ; क्रिस्तांव जालों तरी सुदिरूच उरलों. फटींग खंयचे!'

'तितलेंच न्हय; तांकां धर्मसभेचीय पर्वा ना,' आल्बेर्त त्याच सुरांत उलयलो, 'सगल्या फिंगीं पाद्रींनी कोंकणी भास शिकून घेवची आनी शेर्मांव कोंकणींतल्यान सांगचे अशी थारावणी 1567 वर्सा जाल्ले पयले प्रांतीक

धर्मसभेन केल्ली. पूण तांणी पर्वाच केली ना. मागीर 1575 वर्सा दुसरे प्रांतीक धर्मसभेन ती थारावणी अदीक कडक केली. जाका कोंकणी भाशेंत शेर्मांव सांगूंक येना ताची पाद्री म्हूण इगर्जेंत नेमणूक जावची ना अशी शिटकावणी ते थारावणेक जोडली. पूण उमथ्या कळशार उदक!'

'आयकात,' शावियेरान समजावपाचे भाशेंत सांगलें, 'तूं, फ्रांसिश्क आनी आल्बेर्त म्हणटात तें सामकें खरें. तांचे नदरेन आमकां पाद्रीपणाचें काम जमचें ना आनी धर्माची शिकवण लोकांक सारकी कळची ना.'

'म्हण्टकूच आमी उपेगाचे न्हय! आमची भास गरजेची न्हय! तर आमी सेमिनारींतलें शिक्षण कित्याक घेवचें? फकत तांचे शेर्मांव कोंकणींत अणकारून लोकांक सांगपाक? आनी तांचीं बारीक-सारीक कामां करपाक?' ज्योकीं परत तिडकून उलयलो.

'हांव तुमकां सांगतां तें तांचें चिंतप,' शावियेरान म्हळें, 'ती क्रिस्तांव धर्माची शिकवण न्हय आनी चलणुकूय न्हय, पूण सत्ता तांची. ते सत्ते कडेन झुजपाक आमकां तांक आसा?'

'तर हो अन्याय असोच सोंशीत रावप?' आलेशांद्रीन विचारलें.

'हो एकूच अन्याय न्हय,' वितोरीन राग दामून धरीत उलयलो, 'खंयच्याच पंथांत ते थळाव्यांक घेनात. जेजुईत, फ्रांसिश्कान, डॉमिनिकी, ऑगस्टीनी आनी हेर पंथ आसात. हांव जाणां ते भाशेन पाद्रीपणाचें शिक्षण घेतिल्ले जायते जाण ह्या पंथांनी वांगडी जावंक सोदताले; पूण थळाव्यांक तांणी दारां बंद दवरल्यांत.'

'वाः!' सेराफीन हांसलो, 'अशे रितीन हे फिंर्गी पाद्री धर्म पातळायतले? राजान सांबाराच्या जिनसांचो व्यापार ही आपली मक्तेदारी केल्या. तशे तरेची ही ह्या फिंर्गी पाद्रींची मक्तेदारी!'

'म्हाका दिसता,' वितोरिनान आपलें सांगणें फुडें व्हेलें, 'हाचीं दोन कारणां आसात - '

'कसलीं तीं?' आलेशांद्रीन रावं नज जावन विचारलें.

'सांगतां,' वितोरिनान म्हळें, 'पयलें, ते खरेच समजतात की ते बुदवंत

आनी आमी उणाक. काती वयल्यान. तांची कात गोरी म्हण्टकूच ते सदांच शाणे, बुदवंत आनी बळिश्ट! हेर कातींचे लोक उणाक. आफ्रिकी मनशांक ते मोनजाती परस पाश्ट लेखिनात?'

'आनी दुसरें कारण कसलें?' ज्योकींक थार नाशिल्लो.

'तांकां दिसता ती भिरांत.' वितोरिनान जाप दिली, 'थळाव्यांक पाद्री केले, पंथांचे वांगडी केले जाल्यार ल्हवुल्हवु थळाव्या पाद्रींचो आंकडो वाडत वतलो आनी फिंर्गी पाद्रींचें म्हत्व उणें जातलें. तशें घडिल्लें तांकां नाका.'

'हाचेर कसलोच उपाय ना? हें आमी सोंशीत रावचें?' आलेशांद्र तिडकलो.

'आसा,' बरोच वेळ ओगी रावन आयकत आशिल्लो शावियेर उलयलो, 'बंड! आसा आमकां बळ बंड करपाचें?'

कोणेंच जाप दिली ना.

'म्हाका दिसता,' वितोरिनान मत उक्तायलें, 'सध्या तरी आमी हे परिस्थितींत बदल घडपाची वाट पळयत रावचें पडटलें.'

दर एकल्यान दुसऱ्याच्या तोंडा कडेन पळयलें. कोणूच उलयलो ना.

इतल्यांत आल्बेर्ताचो धाकटो भाव येवन जेवण तयार आसा म्हूण सांगून गेलो.

'या. जेवया.' म्हणत आल्बेर्त उठलो.

बाकीचेय उठले. माळी देंवतना सगल्यांच्या मनांत फिंर्गी पाद्रींनी चलयल्लो भेद आनी अन्याय हांचे विशीं राग खतखत्तालो.





**5 नोव्हेंबर 1584**

सकाळीं पेज दिवपाक दाराचें धाकटें जनेल उगडलें तेन्ना ती घेवपाक कायतान उठलो ना. पेज घेवन आयिल्ल्या मनशान दारार टक्-टक् केलें. तरी तो उठलो ना - ताच्यान उठूंक नज जालें. पेजेचें आयदन सकयल दवरून त्या चाकरान जनेलांतल्यान कुडींत पळयलें. कायतान धोंपरां पोटा कडेन घेवन न्हिदिल्लो. त्या चाकरान शिपायाक सांगलें. शिपायान आल्काइदाक आपोवन हाडलो. तो कुडीचें दार उगडून भितर गेलो. कायतान अर्दो न्हिदेंत आशिल्लो. परवंतालो. आल्काइदान शिपायाक धाडून दोतोराक आपोवन हाडलो. दोतोरान कायतानाक तपासून सांगलें,

‘ताका जोर आसा. वखद धाडून दितां.’

दोतोरान धाडून दिल्लें वखद घेवन कायतान परत न्हिदलो. थोड्या वेळान ताच्या जिवाक मात्शें बरें दिसलें. धा वरांचेर शीत-कडी दिली ती ताणें घेतली. पूण जेवतना ताका ती नाका जाली. ती ताणें तशीच सांडली. तो न्हिदून रावलो...चार वरांचेर शीत-कडी आयली तेन्ना ताका भूक लागिल्ली. तोंडाक रूच नाशिल्ली तरी तो जेवलो.

आदीं फुडारा विशींचेच विचार ताचे तकलेंत येताले. फाल्यां कितें जावपाचें आसा काय ही चिंता ताका पिडटाली. केन्ना कितेंय बरें घडत, स्वामी जेजू आपल्याक पावत अशें दिसतालें तर केन्ना तो निर्शेणेंत बुडटालो. खर ख्यास्तीची भिरांत ताच्या काळजार वजें जावन बसताली. पूण हालींसरा

एक बदल घडिल्लो. ताणें फुडारा विशीं चिंतपाचें टाळटां-टाळटां तें सोडून दिल्लें. फुडारांत फकत काळोख आशिल्लो आनी काळखांत कांयच दिसनाशिल्लें. पूण विचारांचें चक्र थांबनाशिल्लें. मन परत परत फाटीं वतालें. फाटल्या घडणुकांचीं चित्रां कायतानाच्या धांपिल्ल्या दोळ्यां सामकार उबीं रावतालीं.

आयजूय तशेंच घडलें. शीत-कडी कशी तरी पोटांत धुकळटकूच तो वण्टीक तेंकून बसलो. तकलीय वण्टीक तेंकयली. दोळे धांपले.....



वर्स : 1566

म्हयनो : एप्रील

तारीख : 18

पार्पतीन सकाळींच सगल्या गांवकारांगेर वचून आज सांजवेळा देवूळभाटांत गांवपण आसतलें म्हूण कळीत केल्लें. देवळा लागसार आशिल्ल्या वडाचे सावळेंत गांवकारीच्या पंदराय वांगडांचे गांवकार गांवपणाक बशिल्ले. ताकतिकेन गांवपण जाता म्हण्टकूच विशय म्हत्वाचो वा गंभीर आसूंक जाय असो अदमास चडश्या जाणांनी केल्लो. मुखेल गांवकार आनी मुळी नरसू पै. वेळ काडिनासतना ताणें बसकेचें काम सुरू केलें. ताणें सांगलें,

'पंचवीस वर्सां फाटीं तिसवाडीचेर जें संकश्ट आयिल्लें तें आतां साश्टीचेर येता अशें दिसता. कुठ्ठाळच्या देसायान खबर हाडल्या ते प्रमाण हो म्हयनो सोंपतकूच केन्नाय ते आलतडीं येवन धर्म पातळावपाचें काम सुरू करतीत.'

'कोण ते?' कुश्ट महालेन विचारलें.

'देसाय सांगता ते प्रमाण, हें काम फिर्गी जेजुईत पाद्री करपाचे आसात. तिसवाडींत सगल्याच तरांचे पाद्री खवदळ घालताले. तांचे मदीं किजिलां जावचीं न्हय म्हूण साश्टींतलो वावर खंय जेजुईतांचेर सोंपयला.'

'पाद्रीं मदींय वेगवेगळ्यो तरा आसात व्हय?' मर्तू कामतीन विचारलें.

ताका जाप फटील नायकान दिली,

'ते सगले क्रिस्तांव. पूण तांचे पंथ आसात खंय. जेजुईत, फ्रांसिस्कान, डॉमिनिकी बी.'

'हय,' नरसू पैन आपलें सांगणें फुडें चालू केलें, 'बार्देसांतलो वावर खंय फ्रांसिस्कानांचेर सोंपयला.'

'आतां आमचेर अरिश्ट येतलें म्हणटात तें कशें?' कुश्ट महालेचो प्रस्न.

'तेंच सांगतां. तांचो धर्म पातळावपाचो वावर म्हळ्यार देवळां, मशिदी मोडप; मुर्ती, लिंगां फोडून उडोवप; ताडपत्रांच्यो कवळ्यो लासून उडोवप आनी लोकांक बाटोवप. हें सगलें तांणी तिसवाडींत केलां. आनी देसाय सांगता ते प्रमाण जेजुईत हे तांचे मदीं चड कट्टे.'

'मागीर आतां?'

'कुठ्ठाळच्या गांवकारांनी खंय फाटले पंद्रशेंत मंगेशाचें लिंग थंयचें हालोवन अंत्रुजेंत व्हेलां. केळशीच्या गांवकारांनीय शांतादुर्गेची मूर्त अंत्रुजेंत व्हेल्या.'

'आनी देवळांचें कितें?'

'देवळां कांय उखलून व्हरूंक मेळनात. तीं रितीं सोडल्यांत.'

'तांचें कितें जावपाचें?'

'ते फिंर्गी तीं मोडून उडयतलेच. घडये थंय इगर्जो बांदतीत. दिवाडे, चोडणा तांणी तशेंच केलां म्हूण आयकलां.'

'म्हण्टकूच आमी कितें करपाचें?'

'म्हाका दिसता, कुठ्ठाळकारांनी, केळशीकारांनी केलां तशेंच आमकांय करचें पडटलें.'

'अंत्रुजेंत वचपाचें? पूण खंय?'

'अंत्रुजेंतूच वचपाक जाय अशें ना. न्हंयेचे पलतडीं आदिलशाचें राज्य. शिरोडें लागीं आसा. देव-देवतांचेर फिंर्ग्यांचो हात पडचे आदींच तांकां घेवन आमी शिरोड्या वच्चें अशें म्हाका दिसता. फुडलें मागीर थारावं येता. तुमकां कशें दिसता पळयात. पूण हें बेगीन जावंक जाय हें मात् विसरुंनाकात.'

‘तें जालेंच. पूण रायतूरच्या कोटांतल्या फिर्गी पाद्रीक आनी कापितांवाक कसलीच सुलूस लागूंक फावना हेंवूय मतींत धरात.’

‘आनीक एक,’ नरसू पैन फुडें सांगलें, ‘देव-देवतां बराबर कोणेंय तरी वच्चेंच पडटलें. हांवें वचपाचें थारायलां. जंय कामाक्षी रावता थंयच म्हजें घर. तुमचे मदले कोण-कोण येतले तें थारायात.’

गांवकार आपले मर्दीं उलयले. घर-गांव सोडून वचप म्हळ्यार आकांतूच. आनी नव्या गांवांत वचून करप कितें? व्यापार, धंदो, शेतकामत करूंक मेळत? पूण जमीन कोण दितलो? तांचे मुखार प्रस्नांचो दोंगर उबो आसलो. कांय वेळान मर्तू कामतीन आपूण येतलों म्हणपाचें खणखणीत आवाजांत सांगलें. हेरांनी सांगलें, घरच्यां कडेन उलोवन थारायतात.

नरसू पैन रोखडोच फुडलो प्रस्न मांडलो, ‘केन्ना वचपाचें?’

‘ते राखेस केन्ना घुरी घालतीत तें सांगूंक जायना. कुठ्ठाळकारांनी, केळशीकारांनी देवळां रितीं केल्यांत. म्हाका दिसता, आमी दोन-तीन दिसां भितरूच सगल्यो मुर्ती पलतडीं पावोवंक जाय.’ फटील नायकान म्हळें.

‘इतले बेगीन कशें जातलें? सात-आठ दीस तरी नाकात?’ विठे पैन दुबाव उक्तायलो.

‘सात-आठ दीस? ना-ना. कुठ्ठाळकारांक आनी केळशीकारांक खात्रीची खबर कळ्ळ्या आसूंक जाय. ना जाल्यार देवांक म्हूण अशे तरेन दुसऱ्या गांवांत घेवन वतात? म्हाका दिसता, आमी ताकतीक करूंक जाय. एका दिसाचो पसून कळाव लागलो जाल्यार सगलें व्यर्थ.’ फटील नायक पोटतिडकीन उलयलो.

‘म्हाकाय तशेंच दिसता,’ नरसू पैन फटील नायकाचें मत उखलून धरलें, ‘आज शुक्रार. आमी आयताराक वचपाचें करुंया.’

‘आयताराक केन्ना?’

‘मध्यान राती. व्हड्याची वेवस्था हांव करतां. ह्यो राती चान्न्याच्यो. चूड बीड पेटोवपाची ना. कसलोच बोवाळ करपाचो ना.’

‘कोटा कडल्या धक्या वयल्यान मात् वचूंक फावना.’ विठे पैन

शिटकावणी दिली.

'कित्याक?'

'कोटाचो कापितांव आनी थंयच्या कपेलाचो पाद्री हे दोगूय फिंर्गी. तांकां कळ्ळें जाल्यार घात जातलो.'

'खरें तुजें. आमी आयल्यान खंयूय व्हडें दवरून फळीं घालून या.' नरसू पैन आंखणी पूर्ण केली आनी म्हळें,

'हांव घरा वच्चे पयलीं भटाक मेळटां आनी तयारेन राव म्हणपाचें सांगतां.'

'असल्या वेळार कसलेंय देवस्पण बी करपाचें आसता काय?' मर्तू कामतीन दुबावानूच प्रस्न विचारलो.

'कसलें तें?' विठे पैन विचारलें.

'हांव नेणां. आमकां असलो अणभव खंय आसा? पूण ख़ात्री केल्ली बरी. देवतेचें रागणें नाका.'

'हांव भटाक मेळटलोंच न्हय? ताका विचारतां,' नरसू पैन उपाय सुचयलो आनी ताका जोडलें, 'आमी अशें केल्यार कशें?'

'कितें तें?' – फटील नायक.

'आमी सगले फाल्यां सकाळीं देवळांत मेळुंया. दयेचो प्रसाद घेवया आनी सांगणें करुया. आनीक कितेंय करपाचें आसत जाल्यार भटाक उण्यांत उणो देड दीस मेळटलो.'

हें सगल्यांक मानवलें. हुस्क्याचें वजें मनार घेवन सगले उठले. गांवपण सोंपलें.

नरसू पै नीट देवूळवाड्यार गेलो. देवळांत भितर सरून ताणें देवतेक, रायेश्वराक आनी बाकीच्या देवांक साश्टांग नमस्कार घाले. भटान ताच्या हातार तीर्थ घालून फुलाचो प्रसाद दिलो. फूल कानाक लावन नरसू पैन म्हळें,

'भटमाम. मात्सो सरवळींत यो. म्हत्वाचें सांगूंक जाय.'

दोगूय सरवळींत उबे रावन उलयले. नरसू पैन भटाक गांवकारीचो निर्णय सांगलो. ताचे फाटलें कारणूय सांगलें. तें आयकतना भटाच्या कपलाक

चिंतेच्यो मिरयो पडल्यो. नरसू पैन फुडें म्हळे,

'आमी फाल्यां सकाळीं हांगा जमतले. दयेचो प्रसाद घेवया आनी सांगणें करुया. भटमाम, असल्या वेळार आनीक कसलेंय देवस्पण करचें आसता व्हय?'

'हय तर,' भटान सांगलें, 'देवतेची मूर्त आनी हेर मुर्ती पुजेक लायिल्ल्यो आसात म्हण्टकूच कलासंकोच बी करचो पडटलो.'

'तो कित्याक?'

'एका जाग्यार स्थापन केल्ली मूर्त दुसऱ्या जाग्यार व्हरून स्थापन करतात तेन्ना तो विधी करचो पडटा. पूण नरसूमाम, तूं हुस्को करुंनाका. ताची तयारी हांव करतां. मात् एक सांग, परां राती वतना कितें-कितें व्हरपाचें?'

'देवतेची आसनावेली मूर्त, उत्सवमूर्त, प्रसादमूर्त, बाकीच्यो मुर्ती आनी पुजेचें सामान....आनी कितें जाय पडटलें....?'

'पाशाणाचें लिंग, नंदी, प्राकारांत आसा ती पाशाणाची मूर्त हांचें कितें करपाचें?'

'तें जड. सध्या व्हरपाक कठीण जातलें. भटमाम, तांचें कितें करचें तें मागीर थारावया. सध्या सोपें जातलें तितलेंच करुया. तुजीय वचपाची तयारी कर. सध्या गरजे पुरतेंच सामान घेवचें. उरिल्ल्याचें कशें करचें तें मागीर पळोवया. हांव वांगडा आसतलोंच न्हय?'

'तूं आसतकूच हुस्को ना गा.'

'आनीक कितेंय करपाचें आसलें जाल्यार फाल्यां सांग.'

'हय. येवजून पळयतां.'

नरसू पै परत एक फावट देवतेक, देवांक पांयां पडलो आनी घराचे दिशेन चमकलो.



वासरेंत पुतां वांगडा पंगतींत बसून जेवतना गजाली सांगपाची नरसू

पैक संवय आसली. मात् ते राती तो कांय उलयलो ना. गंभीर चर्येन ताणें इतलेंच म्हळें,

'जेवन जातकूच पडवेर येयात. म्हत्वाची खबर सांगूंक जाय.'

चौगूय पुतांक कुवाडें पडलें. वाडटाल्यो त्या बायलांनीय 'कितें घडलां काय' अशा अर्थान एकेमेके कडेन पळयलें. जेवन नरसू पैन आनी व्हडल्या तिनूय पुतांनी पानां तोंडांत घालीं. सांतून कातली तोंडांत उडयली.

भुरगीं न्हिदिल्लीं.

नरसू पै आनी चौगूय पूत पडवेर येवन बसले. व्हडलो वासू, दुसरो अनंत, तिसरो विठ्ठल आनी मागीर भयणी फाटल्यान जाल्लो धाकटो सांतू. नरसू पैली बायल भागरत आनी व्हडल्या तिनूय पुतांच्यो बायलो जेवंक बसनासतना दारा फाटल्यान रावन आयकूंक लागल्यो.

'आज गांवपण जालें,' नरसू पैन सुरवात केली, 'देवतेची मूर्त आनी हेर देवांच्यो मुर्ती देवूळभाटांतल्या देवळांतल्यो हालोवच्यो आनी सध्या शिरोड्या व्हरच्यो अशें गांवकारांनी थारायलां.'

'कितें?!' अनंताक अजापाचो धपको बसलो.

'पूण कित्याक?' - विठ्ठल.

'सांगतां. 20-25 वर्सां आदीं तिसवाडींत बाटोवणी जाल्ली. देवळां मोडिल्लीं, मुर्ती फोडिल्ल्यो आनी ताडपत्रांच्या रुपान आशिल्ली बरपावळ लासून उडयल्ली -'

'कोणें केल्लें हें बाप्पा?' - सांतू.

'पाखल्यांनी आनी फिंर्गी पाद्रींनी. 1540 वर्सा सुरू जाल्लो हो सांवार. तूं जावचो आशिल्लो तेन्ना.'

'पूण बाप्पा, हें तांणी तिसवाडींतूच कित्याक केलें?' - अनंत.

'तेन्ना तितलोच वाठार पुर्तुगेजां कडेन आशिल्लो. साश्ट आनी बार्देस तांच्या ताब्यांत आयले ते त्या अच्छेवा उप्रांत कांय वर्सांनी. म्हाका दिसता, 1543 वर्साच्या अदमासाक.'

'आतां ते हांगाय तशें करूंक सोदतात म्हणून देवांक हालोवपाचे?' -

वासू.

‘हय. तो एकूच मार्ग आसा.’ नरसू पैन तांकां देसाया कडल्यान कळिल्ले खबरे विशीं सांगलें आनी कुठ्ठाळकार, केळशीकारांनी देव-देवतांक अंत्रुजेंत व्हेल्यांत म्हणपाचेंय सांगलें.

‘तशें जाल्यार साश्टींतल्या सगल्याच देवांचेर संकश्ट येतलें तर ...’ विठ्ठलान म्हळें.

‘येतलें न्हय; तें दारांत पावलां. तेच खातीर आमी ताकतीक करतात. फिंर्ग्यांनी धर्म पातळावपाक मे म्हयन्यांत जुवारीचे आलतडीं येवपाचो बेत केला अशी देसायाली खबर; पूण ताचे आदींय तें घडुंयेता. अमूक दिसाच ते येतले अशें कोणाच्यान सांगूं येता?’

‘म्हण्टकूच आतां कितें करपाचें?’ - अनंत.

‘परां आयताराचे मध्यान राती सगल्यो मुर्ती घेवन शिरोड्या वच्चें अशी थारावणी गांवकारांनी केल्या.’

‘पूण शिरोड्या देवळा खातीर जागो बी पळोवंक नाका?’ - विठ्ठल.

‘तें थंय पावतकूच पळोवपाचें. ते खातीर हांव मुर्ती वांगडा वतलों. आमगेली ही वांगडा आसतली आनी सांतूकूय बरोबर व्हरतां. आनीक एका गांवकारान आपूण येतां म्हूण सांगलां. हेर कितें थारायतात तें पळोवया.’

‘पूण बाप्पा, तुवेंच वचूंक जाय अशें आसा?’ - वासू.

‘वासू, मुखेल गांवकार ह्या नात्यान हांव मुळी. देखून ती म्हजी लागणूक जाता. हें काम मुर्ती शिरोड्या पावोवन सोंपना. फुडलीं कामां आसात. फावो तशी सुवात थंय मेळटा जाल्यार पळोवंक जाय. मेळना जाल्यार दुसरे कडेन सोदूंक जाय. आनी मुर्तींची परत स्थापना करूंक जाय.’

‘पूण बाप्पा, शिरोडें आदिलशाच्या राज्यांत आसा न्हय?’ - सांतू.

‘हय, आसा. मागीर?’

‘ते मुसलमान म्हण्टकूच पिडापीड करचे नात?’

‘ना. ते पिडापीड करतात दुडवां खातीर. पटी चड मागतात. पूण धर्मा कडेन खेळनात. तिसवाडी, साश्ट आनी बार्देस हे म्हाल तांच्याच राज्यांत

आशिल्ले. पूण तांणी देवळांक हात लायलो ना आनी धर्माच्या नांवान पिडापीड केली ना. हे दर्या पलतडच्यान आयिल्ले फिंर्गी मात् धर्मा विशीं कुड्डे. ते सगल्यांचेर आपलो धर्म थापूंक सोदतात.'

'बाप्पा, शिरोड्या तूं वतलो, बा वतली आनी सांतू वतलो – '

'हय. आमी हो गांव सोडून वतात अशेंच धर. हाचे फुडें देवता ज्या गांवांत आसतली थंयच आमी रावतलीं.' विठ्ठलाचें उलोवणें सोंपचे आदींच नरसू पैन जाप दिली.

'आमी कितें करचें?' – विठ्ठलान विचारलें.

'हो प्रस्न बरो विचारलो तुवें. आयकात, हांव तुमचेर कसलीच बळजबरी करूंक सोदिना. तुमचीं मतां वेगवेगळींय आसतीत. जण एकल्यान विचार करचो आनी आपल्याक जाय तशें करचें. पूण कितेंय थारायतना कांय गजाली मतींत धरच्यो – '

'कसल्यो त्यो?' अनंतान  उत्सुकतायेन विचारलें.

'हे फिंर्गी पयलीं देवांचेर हात घालतात; मागीर मनशांचेर हात घालतात.'

'म्हणचे कितें बाप्पा?' समजूंक ना देखून विठ्ठलान विचारलें.

'हांवें हेदोळ सांगलां तशें. ते पयलीं देवळां मोडून घालतात, मुर्ती फोडटात, ताडपत्रांच्यो कवळ्यो लासून उडयतात आनी रोखडेच बाटोवणेक सुरवात करतात.'

'आनी कोणूय बाटूंक तयार नासलो जाल्यार?'

'गांव सोडूंक लायतात. ताच्यो जमनी, घरां जप्त करतात. तिसवाडींत तांणी तेंच केलें. तशें करपाक तांणी कायदे केल्यात आनी रासभर हुकूम काडल्यात.' हें आयकतना वासू, अनंत आनी विठ्ठल ह्या तिगांनीय एकामेका कडेन पळयलें. तिगांच्याय कपलांक मिरयो पडल्यो.

नरसू पैन पुतांच्या कपलां वयल्यो मिरयो वाचल्यो. तांकां ताणें समजायलें,

'भियेवन ताकतीक करपाची गरज ना. संकश्ट आसा; पूण तें फाल्यांच तुमचे मुखार उबें रावतलें अशें न्हय. विचार करून थारावपाक तुमकां वेळ मेळटलो. कसलो विचार करूंक जाय तें तुमकां कळचें म्हूण सांगतां. फिंर्ग्यांक

जाय सगल्या लोकांक क्रिस्तांव करूंक. ते तरेकतरांचे मार्ग वापरतात. अशे परिस्थितींत आमचे सारक्यां मुखार दोनूच वाटो उरतात. गांवांत रावतले, भाटकार, शेतकार म्हूण वावुरतले जाल्यार धर्म बदलूंक जाय. धर्म बदलपाचो नासत जाल्यार गांव सोडून वचूंक जाय. जाका जें योग्य दिसता तें ताणें करचें.'

संकश्ट खर आसा हाची जाणविकाय सगल्यांक जाली. पूण कितें करचें तें थारावपाक वेळ मेळटलो हें आयकून तांच्या मनांक थाकाय मेळ्ळी. उलोवणें चालू दवरपाचो यत्न कोणेंच केलो ना.

ते राती बायलो जेवंक म्हूण बसल्यो. एकलेच्याय ताळ्या सकयल उंडी गेली ना.

न्हिदूंक वतना गोमती सालांतल्या कुर्कुटा मुखार कांय खीण उबी रावली. देवतेचे मुर्तीचेर दोळे थिरावन तिणें पोले फोडून घेतले. मनांतल्या मनांत म्हळें, 'देवते, तुजेरूय असलो प्रसंग येवचो? कसलें पातक घडलें आमचे कडल्यान? तुवें गांव सोडलो जाल्यार कोणाच्या धिरार रावचें आमी? तूं खंयूय आसली तरी आमचेर कृपा आसूं दी गे ऽऽ बाये!' आनी तिणें दोळ्यांक पदर लायलो.....



आयताराची मध्यान रात. वासू, अनंत, विठ्ठल आनी तांच्यो बायलो नरसू पै आनी भागरत हांकां पांयां पडलीं. नरसू पै देवूळभाटांत गेलो. भागरत, सांतू आनी ट्रंक माथ्यार घेतिल्लो मानांय व्हड्या कडेन वचूंक गेलीं. भावजांनी खाण घालून दिल्ली पोटली सांतून हातांत धरिल्ली.

राय सावन येवपाक सोपें जावचें आनी लागीं जावचें हे चत्रायेन व्हडेकारान जागो सोदून काडिल्लो. व्हडें देगे लागीं व्हरूंक मेळटालें. तें देगेक तेंकनाशिल्लें म्हूण ताणें देगे वयल्यान व्हड्यांत वचपाक दोन फळीं घाल्लीं. भागरत आनी सांतू थंय पावतकच थोड्याच वेळान नरसू पै, भट,

ताचें कुटंब आनी मुर्ती, पुजेचें सामान बी घाल्लीं वजीं माथ्यार घेतिल्ले मानांय पावले. तांचे फाटोफाट तीन गांवकार, तांच्यो बायलो आनी भुरगीं पावलीं. सगलीं व्हड्यांत बसलीं. वचपाचीं सगलीं मनशां पावलीं म्हणपाची नरसू पैन खात्री केली आनी व्हडेकाराक म्हळें,

'या.'

व्हडेकारान फळीं काडून व्हड्यांत दवरलीं आनी सांगात्यांक सांगलें,

'शिरोड्या.'

ते चान्याचे राती व्हडें शिरोडेंच्या धक्याचे दिशेन वतना सरभोंवतणी सगलें शांत...शांत..

आवाज येतालो तो फकत व्हलीं फाटल्यान ओडटालीं त्या उदकाचो.



1566 वर्सा साश्टींतले चडशे देव आनी देवता गांव सोडून गेलीं. तांकां घेवन कितलेशेच गांवकार आनी तांचीं कुटंबां गांव सोडून पुर्तुगेजांच्या वाठारा भायल्या गांवांनी गेलीं आनी थंय राबितो करून रावलीं.

त्याच वर्सा फिंर्गी जेजुईत पाद्री आनी पाखले साश्टींत क्रिस्तांव धर्म पातळावपाची खर वान्सा धरून जुवारीचे आलतडीं पावले. कुठ्ठाळे तांणी मंगेशाचें देवूळ पळयलें. देवूळ रितें. लिंग नाशिल्लें. रागान तांणी देवूळ मोडून घालूंक लायलें आनी त्या जाग्यार इगर्ज बांदपाची तयारी करपाचो हुकूम दिलो. थंयच्यान ते केळशी गेले. शांतादुर्गेचें देवूळ तांणी पळयलें. तेंवूय रितें. मूर्त नाशिल्ली. पुजेचें सामानूय नाशिल्लें. फिंर्गी पाद्रींनी देवूळ मोडून उडोवंक लायलें. कुठ्ठाळे इगर्ज उबी जातली आनी ती लागींच आसतली म्हूण आनीक एक इगर्ज नाका अशें थारायलें.

दोन मुखेल अशीं देवळां मोडून फिंर्गी जेजुइतांनी आनी पाखल्यांनी साश्टींतल्या आपल्या कार्याचो पवित्र आरंभ केलो !



1567 वर्सा आयली देवळांचेर हावळ

रायतूरच्या कोटांतलो फिंर्गी कापितांव दियोग रोद्रीगिश हाणें लोटलेच्या कांय मनशांक आपणा मुखार हाजीर जावपाचो हुकूम दिल्लो. ते मनीस हाजीर जाले नात. कापितांव रोद्रीगिश चाळवलो. रागान तांबडो जालो. त्या मनशाक ख्यास्त घडोवपाक तांचीं घरां लासून उडोवचीं अशी बुद्द ताका ताच्या सोल्दादांनी दिली. कापितांव रोद्रीगिशाक ती ख्यास्त सामकीच उणी दिसली. लोटलेंतलें रामनाथाचें देवूळ मोडून घालून लासलें जाल्यार त्या मनशांक आनी अख्ख्या गांवाक फावो ती ख्यास्त आनी देख मेळटली अशें ताणें चिंतलें. ते प्रमाण कांय सोल्दादांक घेवन तो लोटले गेलो. ताणें देवूळ मोडलें. इतलेंच न्हय; तें लासून उडयलें.

लोटलेचे गांवकार खुबळ्ळे. पुर्तुगालच्या राजान गोंयांत स्थापन केल्ल्या न्यायालयांत अर्ज करून तांणी न्याय मागलो. न्यायालयान कापितांव रोद्रीगिश हाका गुन्यांवकार थारायलो आनी ताणें आपल्या खर्चान देवूळ बांदून दिवचें असो निकाल दिलो.

कापितांव रोद्रीगिश हाणें त्या निकालाचे आड वायसरॉय दाँ आंतांव दे नोरोन्य हाका अपील केलें. आर्चबिशप आनी जेजुईत संघाचो गोंयांतलो मुखेली हांणी कापितांवाक तेंको दिलो. ताणें केलां तें योग्य; न्यायालयाचो निकाल सामको चुकला अशें वायसरॉयाक सांगलें. वायसरॉयान न्यायालयाचो निकाल भायर मारलो आनी कापितांवाक सांगलें,

'साश्टींतलीं तुज्यान जाता तितलीं देवळां मोडून आनी लासून उडय. हांव आसां तुजे फाटल्यान.'

हरवें सोदतल्याक पिकिल्लें मेळ्ळें!

कापितांव रोद्रीगिश फुल्लो. रायतूरा आयलो आनी सोल्दाद तशेच फिंर्गी पाद्री हांकां घेवन भायर सरलो. तांच्या पालवान ताणें देवळां लासपाक आरंभ केलो. दीस-रात हें काम चालू दवरलें आनी 280 देवळां मोडून तांचो गोबोर केलो. मुर्ती वा लिंगां मेळ्ळीं जाल्यार तीं फोडून उडयलीं. वेणेचें म्हाळशेचें, रायचें कामाक्षेचें, मडगांवचें दामोदराचें, कुंकळ्ळेचें शांतादुर्गेचें हीं देवळां त्या 280 देवळां मदीं आशिल्लीं.



हें सगलें चित्र वण्टीर चितारिल्ले भाशेन कायतानान दुखाविल्ल्या मनाच्या दोळ्यांनी पळयलें. ताणें दोळे उगडून वेळाचो अदमास घेवपाचो यत्न केलो. त्या वयल्या बुराकांतल्यान देंवताली ती तिनसांज काय तें चान्नें हें कळनाशिल्लें. दोळे जड जाल्ले. तो मांदरेर लवंडलो - न्हीद पांगरून.....





## 13 जानेवारी 1585

दनपारचीं दोन वरां बी जाल्लीं आसत. आल्काईद आनी शिपाय येवन कायतानाक इंक्विझिटरां मुखार घेवन गेले. कायतान वचून बांकार बसलो. बांकाचे दुसरे वटेन मुखेल इंक्विझिटर निर्विकार चर्येन बशिल्लो. ताचे फाटल्यान वण्टीक तेंकून आशिल्ल्या खुरसाचेर आशिल्ले स्वामी जेजूचे प्रतिमे कडेन कायतानान पळयलें. ते प्रतिमेचे दोळे दयेन भरिल्ले. कायतानाक जेजू क्रिस्ताची शिकवण येवजली. मोगाचो आनी शांतीचो संदेश येवजलो. ताणें भोगलें तें येवजलें. दुसऱ्याच खिणाक ताका जाणवलें, स्वामी जेजून भोगलें ताचे मुखार आपूण भोगतां तें कांयच न्हय. ते जाणविकायेन तो निर्विकार जालो. मुखार बशिल्ल्या मुखेल इंक्विझिटरां इतलोच. सुर्वेक दोन फावटी ह्या बांकार बसतना ताचें काळीज धडधडटालें. मनांत भावनांचो खवदळ जातालो. तो अस्वस्थ जातालो. मात् आतां तशें कांय घडनासलें. ताचीं उतरां भावने विणें सुकीं जाल्लीं. आवाज एकसुरी जाल्लो.

पालवी इंक्विझिटरान पुर्तुगेज भाशेंत दुभाश्याक कांय सुचोवण्यो केल्यो. सेक्रेटरी प्रस्न आनी जापो बरोवन घेवपाचे तयारेन बसलो. दुभाश्यान सुरवात केली,

'आज परत विचारतां, तूं गुन्यांव कबूल करता?'

'आपणें करूंक नाशिल्लो गुन्यांव कबूल करचो अशी स्वामी जेजू क्रिस्ताची शिकवण ना.'

‘तूं धर्माचे आड वावुरला हें तूं मानून घेना?’

‘हांवें धर्माचो खंयचोच नेम मोडूंक ना.’

‘मागीर हो नेम कसो मोडलो?’

‘कसलोच नेम मोडूंक ना. हांव धर्मा कडेन एकनिष्ठ रावलां.’

‘दोन गवायांची तपासणी जाल्या.’

‘कोण ते?’

‘तुका आदीं सांगलां, तांचीं नांवां सांगपाचीं नासतात. तांणी सांगलां, तुजे विशीं कागाळ आसा ती खरी.’

‘तांणी सांगलां आसत; पूण तें खरें न्हय.’

‘खरें कितें तर?’

‘हांवें कायद्याचो, धर्माचो खंयचोच नेम मोडूंक ना. क्रिस्तांव जायत पसून सदांच धर्माचे शिकवणे प्रमाण चल्लां.‘

‘तुवें गुन्यांव कबूल केल्लो बरो.’

‘गुन्यांव केल्लो जाल्यार कबूल करीन आसलों.’

मुखेल इंक्विझिटराक भास कळ्ळी ना. पूण कायतान गुन्यांव कबूल करिना इतलें कळ्ळें. ताणें मेजा वयली रुप्याची घांट उखलून वाजयली. आल्काईद आयलो आनी कायतानाक घेवन गेलो.

कुडी कडेन वतना कायतान चिंततालो, ही आतां फकत भोगावळ जाल्या. प्रस्न, प्रस्न, प्रस्न. परत परत तेंच. करूंक नाशिल्लो गुन्यांव कबूल करचो म्हूण दबाव. कसलो न्याय हो! हांकां धर्म कळ्ळा?

कुडींत येतकूच काल्सांव-खोमीस काडून ताणें काबाय घाली. गुलगुलेतांतलें उदक पिलो. वण्टीक तेंकून बसलो आनी दोनूय पांय सोडले. दोळे उक्ते दवरले. पूण ते कांयच पळयनाशिल्ले. मनाचे दोळे मात् भूतकाळांतलीं चित्रां पळयताले.



कापितांव रोद्रीगिशान साश्टींतलीं देवळां मोडलीं त्याच वर्साचे अखेरेक सांतूचें लग्न जालें. नरसू पै राय आसतनाच दुर्भाटच्या सावळो देसायान सांतूक सोयरीक हाडिल्ली. सांतू तेन्ना पंदरा वर्सांचो. चली सावळो देसायाली तिसरी धूव. ती णव वर्सांची. नरसू पै शिरोड्या वचून रावतकूच देसाय फावटी मारूंक लागलो. हेरशीं, नरसू पैन आनी ताचे वांगडा आयिल्ल्या गांवकारांनी देवळा खातीर सुवात सोदून काडिल्ली आनी ते फुडले तयारेक लागिल्ले. पूण 'चली वाडून उरल्या अशें लोक म्हणूंक लागतले अशें चलयेची आवय दीस-रात म्हणटा' अशें देसायान सांगतकूच नरसू पैन कांय कामां सांगात्यांचेर सोंपयलीं. प्रसाद घेतलो. आनी लग्नाचो म्हूर्त थारायलो.

लग्न दुर्भाटा देसायागेर जालें. घरा मुखार मल्लांचो व्हडलो माटोव घाल्लो. नरसू पैलीं आनी सावळो देसायालीं सगलीं सोयरीं आयिल्लीं. रायच्यान वासू, अनंत आनी विठ्ठल, तांच्यो बायलो, वासू आनी विठ्ठल हांचीं भुरगीं व्हडें करून गेल्लीं. तांचे वांगडा गोपू शेटीलेंय कुटंब गेल्लें.

माळ पडून जेवण बी जातकूच माटवांत जमखानांचेर बसून दादले खबरी करूंक लागले. एका कोनशाक कांय हटमटवाळ विडे खायत बशिल्ले. तांकां भिकारभासो येवजल्यो. अंतरपाट कुशीन काडटकूच न्हवऱ्याचे तिरशे दोळे पळोवन व्हंकलेक घुंवळ कशी आयली ती खबर एकल्यान रंगोवन सांगली. दुसऱ्याक बायलांचेर विनोद करपाचें येवजलें.

'आयकात-आयकात. लग्नांत बायलांच्या कानांत वारें कशें वता तें आयकात.' अशी सुरवात करून तो सांगूंक लागलो, 'एक खंय उमेदी बायल आशिल्ली. लग्न म्हळें की बोवाळपाक ती फुडें. घरांतूच लग्न आशिल्लें. हाण्डीर भुरग्याक घेवन ही सगले कडेन बोवाळटाली. न्हवरो माटवांत भितर सरता तें पळोवंक ती हुटहुट्यांनी राविल्ली. इतल्यांत मांयन उलो मारून सांगलें, 'कोठये कुडींतलें दुदफेण्यांचें फोलीण घेवन यो.' ती तशीच बेगिबेगीन कोठये कुडींत गेली. भुरग्याक सकयल बसोवन फोलीण सोदूंक लागली. तें सोदून काडटासर भायर 'न्हवरो आयलो-न्हवरो आयलो' असो बोवाळ जालो. हिका तर न्हवरो भितर सरतना पळोवंकूच जाय! हिणें वेळ केलो

ना. फोलीण काडलें, हाण्डीर धरलें आनी धांवली भायर! लोक न्हवऱ्याक पळोवपाचो सोडून हिचोच अवतार पळयत उरले!'

सगले हटमटवाळ हांसले. कोणें एकल्यान हांसतूच विचारलें,

'अशें खरेंच घडलें काय घडोवन सांगलां गा?'

परत सगले हांसले.

हो एक आडवाद सोडलो जाल्यार माटवांत बशिल्ल्यांचें चडशें उलोवणें पुर्तुगेजांचें धर्मकोल्ल, फिंर्गी पाद्रींनी मांडिल्लो अच्छेव, साश्टींत मोडून घाल्लीं आनी लासून उडयिल्लीं देवळां असल्याच विशयांचेर आसलें. कोण तिसवाडींत 20-25 वर्सां आदीं जाल्ल्या सांवाराच्यो यादी सांगताले तर कोण वेगवेगळ्या तरांनी बाटोवणी कशी जाली तें सांगताले. कोणें लोकांनी गांव कशे सोडले हाचीं वर्णनां केलीं; तर कोणें व्हडल्या घरा विशीं आयकल्ल्यो गजाली सांगल्यो. एक-दोग जाणांनी म्हळें,

'आतां साश्टींत रावन धर्म सांबाळप कठिणूच. फिंर्ग्यांनी तिसवाडींत केलें तेंच ते साश्टींत आनी बार्देसांत करतले.'

विठ्ठलालो सावयवेरेंच्यान आयिल्लो मेवणो रामू कामती विठ्ठला सरीं येवन बसलो. सकयल्या आवाजांत उलयलो,

'भावोजी, तुमी कितें थारायलां?'

'कित्या संबंदान विचारता तूं?'

'बाप्पा, बा शिरोड्या वचून रावल्यांत. फिंर्गी पाद्री साश्टींत पावल्यात आनी देवळां मोडपाचो उद्देग तांणी सुरू केला. आतां ते बाटोवणेक सुरवात करतले अशें आयकूंक येता. ह्या असल्या संकश्टाच्या काळांत तुमी गांवांतूच रावतलीं?'

'संकश्ट साश्टींत रिगलां हें खरें. पूण गांव, घर सोडून वतले खंय?'

'साश्ट, बार्देस आनी तिसवाडी ह्या वाठारां भायर खंयूय.'

'आनी करतले कितें? घर, भाटां, शेतां घेवन वतले?'

'भावोजी, हांव एक सुचयतां म्हूण रागार जावं नाका आं ऽऽ. म्हाका दिसता, तुवें आनी रुक्मिणीन भुरग्यांक घेवन सावयवेऱ्यां येवचें. घरांत जाय

तितलो जागो आसा. तुमकां जाय जाल्यार मागीर दुसरी वेवस्था करुंयेता.'

'रावपाचें बरें आसा. पूण घरा बसून दीस काडपाचे?'

'ना भावोजी. तुज्यान नाल्लाचो व्यापार करूंक जाता. बाप्पा कांय वर्सां तसो व्यापार करतालो तेन्ना तूं ताका पालव दितालोच. तो अणभव तुका आसा. ल्हवुल्हवु तेलाचोय व्यापार सुरू करुंयेता.'

'तें खरें. पूण – '

'पूण कितें?'

'वासदाद, अनंत हांचे कडेन उलोवचें पडटलें. बाप्पान योग्य दिसता तें करात अशें सांगिल्लें आसाच. तरी पूण शिरोड्या वचून ताका, बाक सांगचें पडटलें.'

'तें करुंकूच जाय. पूण कितें करचें तें थारावपाक वेळ काडून उपकरचें ना. आयच्यानूच विचार करूंक लाग.'

हेरां मदीं उलोवणें चालू आशिल्लेंच. कोण घडणुको रंगोवन सांगपांत गोडी घेतालो तर कोण मनांत भियेलो तरी भंय चर्येचेर दिसचें न्हय म्हूण उश्णो आव हाडटालो.

लग्न बरे भाशेन जालें. नरसू पै, भागरत आनी सांतू शिरोड्या गेलीं. व्हंकल पिरायेन ल्हान. तिका सध्या कुळाराच दवरून बायल जातकूच शिरोड्या धाडपाची आशिल्ली. नरसू पैल्या कुटंबांतलीं हेर सगलीं राय परतलीं. दुर्भाटच्यान भायर सरतना विठ्ठलाचे तकलेंत मेवण्यान केल्ली सुचोवणी घोळटाली. राय पाव मेरेन तिणें ताची फाट सोडली ना.



दुर्भाटच्यान राय येतकूच दुसरेच राती न्हिदूंक कुडींत वतकूच विठ्ठलान रुक्मिणी कडेन रामून सांगिल्लो विशय काडलो. रामूची सुचोवणी तिका सांगली. तिणें सट् करून म्हळें,

'बाप्पा, बा आनी सांतू शिरोड्या गेलीं तेन्नाच म्हाका दिशिल्लें, आतां

साश्टींत रावपाक भंय. सगल्यांनीच गांव सोडून दुसरे कडेन वचूंक जाय.'

'मागीर तुवें म्हाका म्हळें ना कित्याक तर?'

'म्हाका धीर जालो ना. तुमी दादले ते विशीं कांय उलयनाशिल्ले. हांव कशी उलयतलीं?'

'आसूं. आमी थारायल्लें जाल्यारूय खंय वच्चें हो प्रस्न उप्रासतलो आसलो. आतां रामून सावयवेऱ्यां येवपाचें सुचयलां म्हण्टकूच बरें जालें.'

'आतां वेळ काडुंनाकात तर.'

'हय गे. म्हाका कळटा तें. पूण वासदाद, अनंत हांचे कडेन उलोवंक नाका?'

'उलोवंक जाय तर! मात् बेगिनूच उलयात.'

दुसरे राती जेवण जातकूच तिगूय भाव पडवेर बशिल्ल्या वेळार सांतूल्या लग्नांतल्या गजालींचेर उलोवणें जालें. लग्नाच्या सुवाळ्यांत जाल्ले विनोद आनी घुस्पागोंदळ हांचे विशीं उलोवन ते पोटभर हांसले. इतल्यांत अनंतान विशय बदल्लो,

'सगलेच म्हणटाले, आतां साश्टींत रावपाक भंय म्हणून.'

'कित्याक काय? 'वासून उत्सुकताय दाखयली.

'देवळां मोडून जालीं. आतां फिंर्गी पाद्री बाटोवणेच्या वावराक लागतले अशें केसू नायक म्हणटालो. तिसवाडींत तशेंच केल्लें खंय तांणी. '

'तें खरें. पूण सगलींच हिंदू कुटंबां बाटलीं नाशिल्लीं.'

'तीं कशीं सुटलीं कोण जाणा!'

हीच संद बरी अशें येवजून विठ्ठलान आपलो विशय मांडलो,

'म्हाका रामू सांगतालो, आतां साश्टींत रावन विखाची परिक्षा घेवची न्हय म्हूण.'

'तें बरें आसा; पूण करचें कितें?'

'रामून सुचयलां, हांवें बायल-भुरग्यांक घेवन सावयवेऱ्यां येवन रावचें म्हूण.'

'रावपाक जागे खूब आसात. पूण थंय रावन करतलो कितें?' अनंतान

विचारलें.

‘रामू म्हणटालो, थंय नाल्लाचो, तेलाचो व्यापार करुंयेता.’

‘तुवें कितें सांगलें?’ वासूचो प्रस्न.

‘हांवें म्हळें, म्हाका तुजें म्हण्णें पट्टा; पूण भावां कडेन उलोवंक जाय. बाप्पाक सांगूंक जाय.’

‘हें पळय विठ्ठल, बाप्पान शिरोड्या वच्चे पयलींच सांगलां, गांव सोडपा विशीं आमकां योग्य दिसता तें आमी करचें. तुका सावयवेऱ्यां वच्चें शें दिसता जाल्यार बाप्पा नाका कित्याक म्हणटलो?’

‘आनी तुमी?’

‘आमचें कांय म्हण्णें ना. तूं थारायता तें आमकां मान्य. कितें म्हणटा अनंत?’

‘हय तर!’

‘विठ्ठल, एक मात कर,’ वासून सकयल्या आवाजांत म्हळें, ‘रुक्मीणव्हनीक विचार. जांवय मावोड्या येवन रावला अशें कोणेंय म्हणिल्लें तिका मानवचें ना.’

‘विचारलें हांवें. तिका तशेंच करचें शें दिसता.’

‘जालें तर! तुका दुडू लागतलो ताचें कितें?’

‘सध्या नाका. बाप्पा दर वर्सा असुर्फ्यो दितालो त्यो आसात. व्यापारा खातीर आनीक दुडू जाय पडलो जाल्यार सांगतां. तुमी कितें करतले?’

‘हांवें अजून कांय येवजूंक ना,’ अनंतान मेकळेपणान सांगलें आनी फुडें जोडलें, ‘वासदाद कशें चिंतता तें हांव सांगतां. ताची नाळ ह्या गांवा कडेन जोडिल्ली आसा. आमचें खाजन, भाटां, शेत हीं ताचे जिणेचेच वांटे जाल्यांत. भौसा वांगडा बांदाक माती मारपाक ताका आवडटा. कवाथे रोवन, तांकां वयर काडून भाट वाडयतकच ताका धन्य धन्य जाता.’

वासू कांय उलयलो ना. ताचे चर्ये वयलें मंद हांशेंच जाप दितालें.

‘हांव जाणां तें. वासदादान आमचे परस चड कश्ट केल्यात, घाम वारयला. पूण सध्या दीस वायट आयल्यात. परिस्थितीचो अदमास घेवन

तुमीय फुडलो विचार केल्लो बरो.' विठ्ठलान म्हळें.

कुटंब फाफसल्लें कोणाकूच नाका आशिल्लें. पूण धर्माचेर आनी संस्कृतायेचेर घाव घालपी अधर्माची तरसाद तकलेर हुमकळटा हें सगले बेस बरें जाणा आशिल्ले.

दोन दिसांनी विठ्ठलान शिरोड्या वचून बाप्पाक आनी बाक आपणें सावयवेऱ्यां वचपाचें थारायलां तें सांगलें. थंय कितें करतलो काय म्हूण बाप्पान विचारलें तेन्ना वासदादाक सांगिल्लें तेंच सांगलें. बाप्पान दुडवां विशीं विचारलें तेन्नाय ताणें म्हळें,

'सध्या नाका. तुवें दिल्ले आसात. गरज पडल्यार सांगतां.'

बाप्पान आनी बान सगल्यांची खबर घेतली. मदीं जमता ते प्रमाण येवन वचात अशेंय सांगलें. तांकां पांयां पडून विठ्ठल परतलो. सांतू देवळाच्या कामांत घुस्पल्लो. ताका विठ्ठल मेळूंक पावलो ना.

रुक्मिणीन मुस्तायकेच्यो आनी हेर सामानाच्यो पोटल्यो बांदल्यो. मामागेर वतात म्हूण भुरगीं खोशी आशिल्लीं. विठ्ठलान आंगार घेतिल्लीं कामां चार-पांच दिसां भितर सोंपयलीं. मागीर चार दिसांनी विठ्ठल, रुक्मीण आनी भुरगीं सावयवेऱ्यां रामू कामतीगेर पावलीं.



1569 वर्सा एप्रील सोंपून मे म्हयनो लागता म्हळ्यार अनंतालो मांव म्हाळ्‌ प्रभू जांवयागेर आयलो. दोन दीस रावलो. भाटकार जाल्ल्यान ह्या वाठारांत कितें चल्लां तें जाणा जावन घेवपाची ताका उमळशीक. एक दीस वासू बरोबर तर एक दीस अनंता बरोबर भोंवन ताणें खाजन, भाटां पळयलीं. कवाथे बरे वयर सरल्यात. भाटां बरीं सांबाळ्ळ्यांत अश्या उतरांनी तोखणाय केली. म्हाळ्‌ प्रभू अणभवी आनी चार गांव भोंविल्लो मनीस. ताच्या मताक नरसू पैले पूत मान दीत आयिल्ले.

रातच्यो खबरी जाल्यो.

‘कुंकळ्ळेच्या वाठारांत कितें चल्लां म्हाळूमाम?’ ह्या वासूल्या प्रस्नाक जाप दितना म्हाळू प्रभून मडगांवच्यान कुंकळ्ळे मेरेन कापितांव रोद्रीगिश हाणें देवळां कशीं मोडलीं, कशे तरेन मस्ती केली ताच्यो जायत्यो गजाली सांगल्यो. कुंकळ्ळेचे लोक खुबळ्ळयात. ते देवूळ परत बांदून काडटले म्हणटात अशीय खबर सांगली. कुठ्ठाळच्यान राय मेरेन देवळां मोडचे आदीं देवांक, देवतांक कशीं हालयलीं आनी आदिलशाच्या वाठारांत व्हेलीं ती खबर म्हाळू प्रभूक वासून सांगली. कामाक्षेचें देवूळ आतां शिरोड्या खंय बांदतले तें अनंतान सांगलें.

दुसऱ्या दिसा जेवतना म्हाळू प्रभून म्हळें,

‘हांव फाल्यां वचपी – ’

‘फाल्यां? कित्याक? तूं पावला दोन काय तीन वर्सांनी. आनीक दोन दीस राव.’ वासून आग्रो केलो.

‘ना बाबा, ना. कितलींशींच कामां उरल्यांत. पावसाळो लागीं पावला. म्हाका हांगा रावपाक आग्रो जाय? सोड तें. हांव सांगूंक वतालों, अनंत आनी लक्षिमें हांकांय थोड्या दिसां खातीर व्हरतां. आनी हां, आमगेले हिणें परत परत सांगलां, वासूल्या भुरग्यांकूय हाड म्हणून.’

‘पूण – ’ वासून फुडें उलोवचे पयलीं गोमतीचे नदरेक नदर दिली. ती नदरेनूच सुचयताली, वचूं दी भुरग्यांक चार दीस. हांगा वाजेतात.

‘पूण बीण कांय ना. लक्षिम्या, भुरग्यांची मुस्तायकी बी घाल तुज्या सामानांत.’ आनी वासूक ताणें म्हळें,

‘हें पळय वासू, भुरगीं तीं. तांकां दुसऱ्या भुरग्यांचो सांगात जाय. विठ्ठलालीं भुरगीं पावलीं सावयवेऱ्यां. असोळण्यां आमगेल्या घरांत तांकां कितलींशींच भुरगीं मेळटलीं.’

अनंत आनी लक्षिमें हांगेर भुरगें नाशिल्लें. वासूल्या भुरग्यांची अपुर्बाय तांचे आवय परस लक्षिमें चड करी. ताका लागून गोमतीच्या मनांत हुस्को नाशिल्लो.

‘तुमी कसलीच चिंता करुंनाकात. हांगा पावसाळ्याची तयारी सुरू जावचे

पयलींच सगलीं पावतलीं.'

नरसू पैल्या घरांत म्हाळू प्रभूल्या उतराक भारी मान. म्हण्टकूच हे विशीं आनीक उलोवणें जालें ना.

थारिल्ले प्रमाण म्हाळू प्रभू अनंत, लक्षिमें आनी वासूलीं दोन भुरगीं हांकां घेवन असोळण्यां वचूंक गेलो.



म्हाळू प्रभू घरा पावन हात-पांय धुतासर दामे कामतीलो रकाद घेवन मानांय आयलो. 'गरजेचें काम आसा, बेगोबेग येवचें' अशें दामे कामतीन कळयल्लें. कितेंय तरी गंभीर गजाल आसा हें म्हाळू प्रभूक होलमलें. तो रोखडोच भायर सरलो.

दामे कामतीगेर धा-बारा जाण जमिल्ले. कोण कुंकळ्ळेच्यान, कोण वेळ्ळेच्यान तर एक-दोग जाण मडगांवच्यान आयिल्ले. सगल्यांची चर्या गंभीर. दर एकलो आपल्याक सांगिल्ल्या कामा विशीं कितें जालां तें सांगतालो. मडगांवचो सुबू शणै आंकडे मेजून कसलें तरी गणित मांडटालो. दामे कामतीन म्हाळू प्रभूक पळोवन म्हळें,

'बस. फाटले स-सात दीस तूं हांगा ना. तूं वेर्ण्यां गेला म्हूण कळटकूच थंय मानांय धाडलो. पूण तूं राय गेला म्हणपाचें ताका कळ्ळें. तो राय पावचे आदीं तूं भायर सरलो आसतलो.'

आपूण गांवांतलो एक मुखेली आसतना हेरांनी कितेंय थारावन तयारी सुरू केल्या हें आपणाक वायट दिसत म्हूण दामे कामतीन ही प्रस्तावना केल्या हें म्हाळू प्रभूक कळ्ळें. ताका ताणें म्हत्व दिलें ना. दामे कामतीक विचारलें,

'जालां कितें? कसलेंय संकश्ट आसा?'

'संकश्ट आसा तर! देखुनूच हो बोवाळ. तूं वेळार पावलो तें बरें जालें.'

दामे कामतीन फाटल्या चार दिसांनी कितें कितें घडलें तें सांगलें. तें सांगतना तो मदींच कोणाक कसलें काम सांगतालो; तर कोणाक फुडल्या कामा विशीं सुचोवण्यो करतालो. कोण ताका कितेंय विचारूंक येतालो

तर सुबू शणै आंकडे सांगतालो. असल्या आडखळीं मदीं दामे कामतीन जें सांगलें तातुंतल्यान म्हाळू प्रभूक समजलें कीं तो वेर्ण्यां धुवेगेर वचपाक गेला ताचे दुसऱ्या दिसा एक खबर मडगांवां पावली आनी ती रोखडीच कुंकळ्ळे मेरेन पातळ्ळी. खबर अशी कीं जायते फिंर्गी पाद्री रायतूरच्या कोटांत येवन रावल्यात. चडशीं देवळां कापितांव रोद्रीगिशान मोडून उडयल्यांतूच; आतां केन्नाय ते फिंर्गी पाद्री बाटोवणेचो वावर सुरू करपाचे आसात. कशेच परिस्थितींत आमकां धर्म बदलपाचो ना; पूण फिंर्गी पाद्री आनी सोल्दादां आड झुजपाचेंय बळ ना. देखून जाता तितले बेगीन साश्ट सोडून वचप. फुडलें फुडें! जीव आसल्यार भीक मागून खायन; पूण बाटपाचें ना अशें जायत्या जाणांक दिसता. ह्या सगल्यांनी घर-दार सोडून कुटंबां सयत दक्षिणेक वचपाची तयारी केल्या. स व्हडलीं व्हडीं थारायल्यांत. तीं फाल्यां रातचीं भायर सरपाचीं आसात. दामे कामतीन आनी ताच्या सांगात्यांनी फावो ती तयारी चलयल्या.

'तूं कितें करता?' दामे कामतीन विचारलें.

'तुमी आसात थंय हांव. खरें म्हळ्यार, होच विचार म्हजेय तकलेंत घोळटालो; पूण हांव उलयलों ना. हें संकश्ट इतले बेगीत येत शें दिसना हो म्हजो अदमास चुकलो.'

'तशें जाल्यार तयारेक लाग. परां भायर सरपाचें. चड वेळ ना.'

'म्हाका कसलेंय काम दवरलां?'

'ना. तीं वांटून दिल्यांत. तूं तुज्या भाटांचें, वेव्हाराचें आनी कुटंबाचें कशें जाग्यार घालपाचें तें पळय.'

'तें करतां हांव. एक सांग, खंय वचपाचें तें थारलां?'

'ना. तें हांगा थारावप इल्लें कठीण. खंय राबितो करपाचो तें वतना ते ते सुवाते वयली परिस्थिती पळोवन थारावया.'

'येतां तर हांव. ताकतिकेन करपाचें कितेंय आसल्यार कळय.'

म्हाळू प्रभू घरा परततना चिंततालो...घर, गांव, भाट-बेंस सोडून वचपाची मनाची तयारी ताणें देवळां मोडलीं तेन्नाच केल्ली. ताच्या बायल-भुरग्यांचीय तशें करपाक आडखळ नाशिल्ली. फुडाराचो हुस्को करचे परस धर्म आनी संस्कृताय सांबाळप हें सगल्यांकूच चड म्हत्वाचें दिसतालें. ताच्या मनाचेर

व्हडलोसो ताण आयलो ना. पूण फुडल्याच खिणाक ताका उगडास जालो. आपूण रायच्यान जांवयाक आनी धुवेक घेवन आयलां. तातूंत भर म्हूण वासूल्या भुरग्यांक वांगडा हाडल्यांत. मनाचेर नाशिल्लो तो ताण आतां आयलो. तो सुटके वाट सोदूंक लागलो....

जें कुटंब गांवांत रावतलें तांगेर तांकां दवरून मागीर अनंताक सगल्यांक घेवन राय वच म्हूण सांगचें?

पूण राय वचचे आदींच फिंर्गी पाद्री पावले जाल्यार?

लक्षिमें आनी अनंत गोंयांत उरलीं जाल्यार बाटोवणेंतल्यान सुट्टलीं?

तांकां पटोवंक जाता. वांगडा व्हेलीं जाल्यारूय कोऽऽण शिणचो ना...पूण

वासू पैलीं भुरगीं....तांकां भायले भायर इतले पैस घेवन वचप समा जातलें?

व्हेलीं नात जाल्यार तांचें कितें करपाचें? तांचो सांबाळ ही म्हजी जबाबदारी न्हय?

चिंतनांचें हें भिरें तकलेंत भोंवर मारता आसतनाच म्हाळू प्रभू घराचीं सोपणां चडलो.

रातचें जेवण बी जातकूच ताणें दोगूय पूत आनी अनंत हांकां भायर आपयले आनी शेणान सारयल्ल्या नितळ आंगणांत बसून ते उलयले. म्हाळू प्रभून तांकां विस्वासांत घेवन दामे कामतीगेर कळिल्ली सगली खबर सांगली. फाल्यां व्हड्यान वचपाचें; ते खातीर तयारेक लागात अशेंय सांगलें. भाटांचें बी कितें करपाचें हें कोणेंय विचारचे आदींच ती जबाबदारी ताणें आपणाचेर घेतली.

बापायच्या उतरा भायर एकूय पूत नाशिल्लो. ताका लागून चड उलोवणें जालें ना. व्हडल्या पुतान एकूच प्रस्न विचारलो,

'बाप्पा, सामान बांदतना गरजेचें तेंच घेवपाचें मूं?'

'हय. आमी दुसरे कडेन बिराडाक वतात अशें धरून जें जाय पडटलें तेंच घेवपाचें.'

पूत उठूंक लागले तेन्ना म्हाळू प्रभून अनंताचे चर्ये वयलो प्रस्न वाचलो. विचारपाक अनंत फाटीं-फुडें जाता अशें ताका दिसलें. देखून तोच उलयलो,

'अनंत, तूं आनी लक्षिमें अडचण जाली तरी सोंसतलीं. पूण हांवें

वासूल्या भुरग्यांक हांगा हाडल्यांत. तांचे विशीं हांवें साबार तरांनी चिंतलें. म्हाका दिसता, तांकां सांबाळप हें म्हत्वाचें. म्हूण तांकांय आमचे बरोबर व्हरप. तुका कितें दिसता?'

'दुसरो उपाय म्हाकाय येवजना.'

'तूं हुस्को करुंनाका. फाल्यां मनीस धाडून हांव वासूक कळीत करपाची वेवस्था करतां.'



साश्टींतल्या ज्या कुटंबांनी गोंय सोडपाचो निश्चेव केल्लो तीं कुटंबां दीस उजवाडटनाच तयारेक लागिल्लीं. कांय कुटंबां सांतली-पोटली बांदतालीं तर हेर कांय कुटंबां गरजेचें अशें कांय विसरून उरूंक ना हाची खात्री करतालीं. चडशीं कुटंबां साश्टींतल्या दर्यादेगां वयल्या गांवांतलीं आशिल्लीं. पूण मडगांव, नावेली, असोळणें, वेळ्ळी, कुंकळ्ळी, चांदर, कुडटरी ह्या गांवांतलींय कुटंबां आशिल्लीं. भाटकारांचीं तशींच मुंडकारांचीं कुटंबां आशिल्लीं. शेतकारांचीं तशींच पागी, कुळमी हांचींय कुटंबां आशिल्लीं. सगल्या जातींचीं कुटंबां आशिल्लीं पूण कुळम्यांचीं चड आशिल्लीं.

म्हाळू प्रभूक कालच हो बेत कळिल्ल्यान ताची मात्शी धांदळ जाली. भाटांचें, हिसबाचें जाग्यार घालता सर सांजवेळ जाली. ह्या बोवाळांत वासू पैक रकाद दिवचे खातीर मानांयाक राय धाडपाचें उरलें. सांजवेळा ताची याद जाले बरोबर आपल्या एका विस्वासाच्या मानांयाक ताणें सांगून दवरलें.

'फाल्यां फांतोडेर भायर सर आनी राय वचून वासू पै गेर रकाद दिवन यो.'

वासू पैक कितें सांगपाचें तेंवूय म्हाळू प्रभून मानांयाक समजायलें आनी ह्या रकादाचें म्हत्व कळचें म्हूण ताका म्हळें,

'भूंय थरथरली आनी मळब कोसळ्ळें तरी हें काम सकाळीं पयलीं करपाचें.'

काळोख जावंक लागलो तशीं वेगवेगळ्या गांवांतलीं कुटंबां मडगांवांत साळ न्हंयेचे देगेर आशिल्ल्या धक्या शेजरा बांदार येवन रावलीं. व्यापारा खातीर म्हाल घेवन येतालीं तीं व्हडीं ह्याच धक्याक लागतालीं. दामे कामतीलो

मनीस कुटंबां येतात तांचो आंकडो मतींत धरतालो. सगलीं पावतकूच ताणें दामे कामतीक तशें सांगलें. सगलीं मेळून 103 कुटंबां आशिल्लीं.

दामे कामतीन, म्हाळू प्रभून आनी हेर कांय गांवकारांनी सगल्या कुटंबांची स व्हड्यांनी बसपाची वेवस्था केली. एक व्हडें भरतकूच फुडें वचून रावतालें, मागीर दुसरें व्हडें धक्याक लागतालें. अशे तरेन सगलीं व्हडीं भरतकूच तीं एका फाटल्यान एक अशीं दक्षिणेक वचपाक लागलीं. साळ न्हंयेंतल्यान दर्यांत पावतकूच व्हडीं दर्यांत पैस व्हरनासतना देगेक लागीं रावन व्हरचीं हें आदींच थारिल्लें.

मंगळूरच्या धक्या कडेन व्हडीं एक दीस रावलीं. मुखेल्यां मदले कांय जाण धक्यार आनी मागीर गांवांत वचून आयले. हांगा राबितो करूंक जायत काय कितें हाचो अदमास तांणी घेतलो. परत येवन तांणी सांगलें,

‘ही व्यापाराची पेठ. खूब तारवां येतात. तरेकतरांचो म्हाल हाडटात. व्यापार, उद्‌देग करपाक, दिसवाड्याचो वावर करपाक संद बरी आसा.’

‘तर आनीक फुडें कित्याक वचपाचें? हांगाच देंवया.’

अशें एकलो म्हणटा थंय आसा, सुमार सत्तर वर्सांचो येसो नायक आड्‌डलो,

‘नाका बाबा, नाका. पुर्तुगेज हांगा सोपेपणीं पावतात. उल्लाळची राणी बुक्कदेवी हिचे कडेन तांचीं झुजां चालूच आसतात.’

‘अशें ऽऽ?!’ कांय जाणांनी अजापान म्हळें.

‘तितलेंच न्हय; पुर्तुगेजांचीं झुजारी तारवां हांगा येत आसतात. हांगा भंय आसा. आमी आनीक खंयूय या.’

येसो नायकाक साश्टींत लोक मानतालो. तो बुदवंत आनी जाणकार हें लोकांक खबर आशिल्लें. ताचे कडेन कोणेंच वाद घालो ना. जांकां त्या शारांत राबितो करचो अशें दिसतालें तांचे मदल्या कांय जाणांनी तो विचार सोडून दिलो. पूण हेर कांय जाणांक दिसलें गोंया पसून चड पैस वच्चें न्हय. 43 कुटंबां मंगळूरांत रावचे खातीर देंवलीं.

व्हडीं फुडें सरलीं. वाटेर उदका खातीर आनी खाणा-जेवणाच्या जिनसां खातीर तीं कालेकूत बंदरांत रावलीं. हे बाजारपेठेंत भोव बऱ्यो संदी आसात अशें थंय देंवन शार आनी बाजारपेठ पळोवन आयिल्ल्या कांय व्यापाऱ्यांक

दिसलें. असल्या व्यापाऱ्यांचीं 21 कुटंबां थंय देंवलीं.

उरिल्ल्या कुटंबांक घेवन व्हडीं फुडें गेलीं. कोची बंदरा लागीं थारलीं. आदल्या दोन बंदरांनी देंविल्ले तशे कांय जाण देंवले. शारांत भोंवले आनी खबर घेवन आयले. हें मोटें बंदर, मोटी बाजारपेठ हें तांणी पळयलें. कांय व्यापाऱ्यां कडेन उलयतकूच तांकां कळ्ळें, कोचीचो राजा हिंदू. तो हिंदूंक आलाशिरो दिता. पुर्तुगेजांचें एक व्यापारी केंद्र आसा; पूण तें फकत व्यापारा पुरतेंच अशेंय तांकां कळ्ळें. परत येतकूच तांणी ही खबर सगल्यांक सांगली. तांणी चिंतलें, राजाचो आलाशिरो आसा म्हण्टकूच भंय ना. गोंया पसून पैसूय आसा. व्हड्यांतलीं कुटंबां आपापलें सामान घेवन देंवलीं.

आलाशिरो मेळपाक आडमेळें येवचें न्हय म्हूण म्हाळू प्रभू, दामे कामती, रघू शेटी, बालू शेट बी कांय मुखेली राजाच्या कारभाऱ्यांक मेळ्ळे. राजाक पुराय निष्ठा ओंपतले अशें उतर दिलें. कारभाऱ्यांनी साश्टीच्यान गेल्ल्या ह्या लोकांचे गूण समजून घेतले आनी राजाक सगली खबर कळयली.

कोचीच्या राजान त्या कुटंबांक आलाशिरो दिलो. तीं थंय रावलीं.





## 19 मार्च 1585

परत एक फावट आज कायतानाक इंक्विझिटरां मुखार व्हरून हाडलो. ही चवथी खेप. वेगळें कांय घडलें ना. आदीं विचारिल्ले तेच प्रस्न वेगळ्या उतरांनी विचारले. कायतानान आदीं दिल्ल्यो त्योच जापो परत दिल्यो. गुन्यांव कबूल करचो असो हेतू मनांत धरून विचारताले तोवूय प्रस्न परत-परत विचारलो. आदीं दिल्ली तशेच तरेची जाप कायतानान परत दिली. यंत्रा भाशेन. आतां ताचें अंतर्मन भेरेल्लें. ताका हांगा घडटा ताचे विशीं अजाप दिसनाशिल्लें. हे तपासणेंतल्यान न्याय जातलो अशें तर निखालस दिसनाशिल्लें. सेक्रेटरी प्रस्न आनी जापो बरोवन घेतालो त्या वेळार मात् विचारांचें भिरें ताचे तकलेंत भोंवर मारतालें......

*......म्हाका ख्यास्त घडयतलेच अशें हांणी थारायलां जाल्यार तपासणेचें हें नाटक कित्याक? फर्मायात ख्यास्त आनी जायात मेकळे! .....आनीक दोन गवायांनी सांगलां खंय हांवें गुन्यांव केलाच म्हूण! कोण हे गवाय? कसलीं हीं फटिंगपणां? आनी हें सगलें चलता धर्माच्या नांवान! स्वामी जेजूचे प्रतिमे मुखार बसून तुमी हो चलयतात तो धर्म? हाका म्हणटात न्याय? आनी ह्या तुमच्या अधर्मा खातीर स्वामी जेजू दितलो तुमकां भगसणें? ताचो खरो भक्त हांव. तुमी करतात ताचो उपेग आपल्या सुवार्था खातीर. ताणें असले वागणुकेची शिकवण दिल्या? कित्याक हें पातक आदारतात तुमी? .....*

ह्या प्रस्नांच्यो जापो केन्नाच मेळच्यो नात हें कायतानाक खबर आशिल्लें.

तरी कुडींत येतकूच पसून कांय प्रस्नांनी ताची फाट सोडली ना. हें अरिश्ट आपणाचेर कित्याक येवचें? फिंग्यांचो धर्म बरो दिसलो आनी ते खातीर आपणें मूळचो धर्म सोडून तांचो धर्म घेतलो अशें घडूंक ना हें खरें. कितेंय मेळटलें वा कसलोय लाब जातलो असल्या सुवार्थानूय आपूण बाटूंक ना. घर, जमीन हांचें धनीपण उरचें आनी गांव सोडून वच्चो प्रसंग येवचो न्हय हे खातीर आपणें क्रिस्तांव धर्म आपणायलो. पूण एक फावट क्रिस्तांव जातकूच आपूण त्या धर्मा कडेन एकनिष्ठ रावलां. त्या धर्माच्यो चाली-रिती प्रामाणिकपणान पाळ्ळ्यात. कसलोच नेम मोडूंक ना. स्वामी जेजूचे शिकवणीचे आड वचूंक ना. निष्ठावंत क्रिस्तांव म्हूण फाटलीं आठ-णव वर्सां जियेलां...पियेदाद? तिची गजाल वेगळी....

पियेदादीचो उगडास आयला मात् ती कायतानाच्या मनाच्या दोळ्यां मुखार उबी रावली. ती रडटा आनी तें रडप आयकूंक येता असो खिणभर ताका भास जालो. ताच्या सुकून गेल्ल्या दोळ्यांकूय ओलसाण आयली. पियेदाद खंय आसा काय? कशी आसा काय? तिची कसली चूक म्हूण हे भोग तिणें भोगचे? ....पियेदादी विशीं येवजितां-येवजितां कायतानाचें मन पावलें राय....चवदा वर्सां फाटीं.....



पाडो करून आयिल्ल्या मुकादमान नाल्लांची रास, देंठ, पाडेकारांचो आंकडो, फाल्यां खंय पाडपाचें थारायलां हे विशींची सगली खबर वासू पैक सांगली आनी वचूंक तो पडवेंतल्यान भायर सरलो. इतल्यांत म्हाळू प्रभून धाडिल्लो मानांय पुरो जावन आनी घामान चिप्प भिजून पावलो. वासून ताका पडवेर आपोवन बस म्हळें आनी शेंवतूक उलो मारून सांगलें ताका उदक, गोडाचो कुडको आनी खावंकूय दी म्हूण. घरांत भितर आशिल्ले गोमतीन तें आयकलें आनी बेगिबेगीन येवन ती हुमऱ्यार रावली. म्हाळू प्रभून सांग म्हणिल्लें तें मानांयान वासू पैक सांगलें. तें आयकून गोमतीक चिर्र जालें. उदकाचो तांबयो आनी गोड दवरून भितर वताली त्या शेंवतूक गोमती लकता

अशी दिसली. बेगिबेगीन वचून ताणें 'भाटकान्नी, भाटकान्नी, कितें जालें?' म्हणत तिका धरली आनी वण्टीक तेंकोवन बसयली. वासूय सट् करून उठून आयलो. गोमतीक चिर्र जालां, पूण घुंवळ येवंक ना म्हणपाचें ताका कळ्ळें. शेंवतून वचून उदक हाडलें. तातुंतलें इल्लेंशें ती पियेली. मागीर ती सावचीत आसा आनी चलूंक जातलें अशें पळोवन वासून शेंवतूच्या पालवान तिका कुडींत व्हरून न्हिदयली.

'चिंता करुंनाका. थोडो वेळ आड पडून राव, हांव रोखडो येतां,' वासून म्हळें आनी 'तूं हांगाच राव' अशें शेंवतूक सांगून तो भायर पडवेर गेलो.

वासून मानांयाक कितलेशेच प्रस्न विचारले. मानांयान आपणाक खबर आशिल्लें तितलेंय सांगलें. ताचे वयल्यान वासून असोळण्यां आनी सरभोंवतणच्या गांवांनी कितें घडलां आसूंक जाय हाचे विशीं तर्क केलो. गेल्यांत तीं शंबरां वयर कुटंबां आसात हें आयकून ताचो हुस्को इल्लो उणो जालो.

वासू कुडींत गोमती सरीं येवन बसलो. गोमती उठून बसली. दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी वण्टी कडेन पळयत तिणें विचारलें,

'खंय व्हेल्यांत भुरग्यांक? खंय आसात तीं?'

'हें पळय,' वासून आपणाल्या मनांतलो हुस्को दामून धरीत म्हळें, 'तूं हुस्को करुंनाका. म्हाळूमाम तांचे बरोबर आसा. ते भायर, अनंत आनी लक्षिमें आसातूच. तीं भुरग्यांक बरे तरेन सांबाळटलीं.'

'पूण खंय आसात तीं?'

'तें इतले बेगीन कशें कळटलें?'

'कित्याक कळचें ना?'

'आगे, तीं अमकेच कडेन म्हूण वचूंक नात. आनी फकत म्हाळूमामालें कुटंब न्हय; शंबरां वयर कुटंबां आसात खंय. बरो सो गांव पळोवन रावतलीं तीं.'

'तीं थंयच रावपाक गेल्यांत तर?'

'ना-ना. हांगा घर आसतना थंय कित्याक रावतलीं? हांगा फिंग्र्यांनी

धर्माचेर संकश्ट हाडलां म्हूण धर्माची राखण करपाक गेल्यांत तीं. संकश्ट सोंपतकूच परत येतलीं.'

धर्माची राखण हीं उतरां आयकून गोमतीची चर्या मात्शी बदल्ली अशें वासूक दिसलें. तिच्या आवाजांतूय ताका मात्सो बदल दिसलो. प्रस्न मात् सोंपले नात.

'धर्माचेर आयिल्लें हें संकश्ट केन्ना सोंपतलें? देवतेक, देवांक हालोवचे पडले. देवूळ मोडून घालें, लासुनूय उडयलें. आनीक कितें करपाचें आसा तांकां?'

'तें कोण सांगतलो! पूण भुरग्यांक ह्या संकश्टांतल्यान वाटावंक जाय. म्हाळूमामान आनी ताच्या सांगात्यांनी होच विचार केला आसूंक जाय.'

गोमतीक हें मात्शें पटलें अशें वासूक दिसलें. तरी तिचे प्रस्न आशिल्लेच,

'केन्ना कळटली तर भुरग्यांची खबर?'

'आयक. पयलीं तीं कुटंबां बरोसो गांव पळोवन थंय रावतलीं. मागीर तीं खंय आसात. कशीं आसात हें जमता ते प्रमाण कळयतलोच. म्हाळूमाम तो!'

वासू उश्णी धिटाय हाडून उलयलो. चिंतेंत गोमती बुडिल्ली तितलोच तो बुडिल्लो. पूण दाखयनाशिल्लो. गोमती कांय खीण उलयली ना. ती संद घेवन वासून म्हळें,

'तूं ओगीच चिंता करून त्रास करून घेवंनाका. हांगाच विसव घे. हांव म्हाळूमामाल्या मानांयाची वेवस्था करून येतां.'

तो कुडींतल्यान भायर सरलो. गोमतीची मनस्थिती अदीक नाजूक जायत वता हाची ताका जाणविकाय आशिल्ली. देवतेक आनी देवांक हालयले हो तिका पयलो धपको आशिल्लो. दुसरो धपको बसलो देवूळ मोडून घालें आनी लासलें तेन्ना. आनी आतां हो तिसरो धपको! आतां तिका चड जतनायेन सांबाळची पडटली, ताणें मनांत म्हळें.



साश्टींत बाटोवणी सुरू जाली. फिंगीं जेजुईत पाद्रींचे आक्रमकतेक उपाट मेकळीक मेळ्ळी. हांयस दाखोवप, दबाव हाडप, कायद्यांचो आपणाक जाय तसो अर्थ लावप, भेश्टावप हे सगले उपाय सुरू जाले. बाटोवणी राय गांवांतूय पावली.

पयलें बाटलें तें कुटंब काळू पैलें. तो वासू पैलो दायजी. गांवांत ताचे विशीं लोक बरें उलयनाशिल्लो. आतां तो जाण्टोय जाल्लो. एकलोच पूत, नागण पै. वाळेस आनी नागवणो. तोच घर चलयतालो. बाटल्यार जायतें मेळटा अशें ताणें आयकलें. सारकी खबर काडटकूच ताका कळ्ळें, बाटल्यार सरकाराक देणें आसा तें माफ जाता. पाखले न्हेसतात तसलें न्हेसण मेळटा. जमनीचो कुडको मेळटा. पैशे मेळटात. सरकारी चाकरी मेळटा. ताका हें उडून शेवाळें कशें दिसलें. रिणां काडून घर चलोवपाचे कटकटींतल्यान मेकळो जातलों अशेंय दिसलें. बाटून क्रिस्तांव जावपाची इत्सा ताणें रायतूर कोटांतल्या फिंगीं पाद्रीक कळयली. ताणें ती प्रोव्हिन्सियालाक कळयली. हरवें सोदतल्याक पिकें मेळ्ळें!

ह्या गांवांतलें तांचें पयलेंच पवित्र कार्य! फिंगीं पाद्रींनी नागण पैक आपोवन हाडून देणीं रोखडींच माफ जातलीं आनी जमीनूय रोखडीच मेळटली अशें सांगलें. पैशे आनी चाकरी मागीर मेळटलीं अशें उतर दिलें. दोन म्हयने काळू पैल्या कुटंबांतल्या सगल्या वांगड्यांक कातेकुमेन करून घेवन फिंगीं पाद्रींनी क्रिस्तांव धर्माची शिकवण दिली आनी क्रिस्तांव म्हूण कशें जियेवचें तें समजायलें. मागीर तांकां बाउतीज्म दिलो. नागण पैचो सेबास्त्यांव कुलास जालो. बाउतीज्म दिवपी पाद्रीचें आडनांव कुलास आसलें.

राय गांवांतलो पयलोच बाउतीज्म. तातूंत, क्रिस्तांव जातालें तें बामण जातींतलें कुटंब. बाटोवणेच्या धोरणाक फावो तशी ही गजाल आसली. फिंगीं पाद्री उमेदीन वावुरले. लोक जमतले म्हूण माटोव घालो. पूण गांवांतलो लोक पैस रावलो. कोटांत रावतालो तो पाद्री, कापितांव आनी सगले सोल्दाद मात् आयले. सरकारान दिल्ली खाशेली उंची मुस्तायकी घालून काळू पैल्या कुटबांतल्या सगल्या वांगड्यांनी बाउतीज्म घेतिल्लो पळोवन ते खोशी जाले.

काळू पैलें कुटंब बाटिल्ल्याची खबर राय आनी सरभोंवतणच्या गांवांनी पातळ्ळी. धर्म कसोच सोडपाचो ना अशी ज्या कुटंबांची भावना आशिल्ली तांणी घरांचेर आनी भाट, शेत आसत जाल्यार ताचेर उदक सोडून गांव सोडले. फुडें कितें करतले हाचो विचार करपाकूय त्या कुटंबांच्या मुखेल्यांनी वेळ काडलो ना. हीं कुटंबां न्हंये पलतडीं आदिलशाच्या राज्यांत वचून सुगूर जालीं.

दोन गांवकार तांच्या कुटंबांतल्या सगल्या मनशां सयत बाटले.

रवळू नायक 21 वर्सांचे पिरायेचो. 10 वर्सांचे चलये कडेन लग्न जालो. ते चलयेक बापूय ना हे खातीर ती अनाथ जाल्ली आसा असो अर्थ लावन फिंर्गी पाद्रींनी ते व्हंकलेक बळजबरेन घरांतल्यान व्हेली आनी बाउतीज्म दिवन क्रिस्तांव केली. रवळू नायकान वाद घालो. ताणें वरिष्ठां कडेन कागाळूय केली. पूण कांय उपेग जालो ना. तांणी एकूच सांगलें, तूं क्रिस्तांव जा, तुका बायल मेळटली. रवळू नायकान बाउतीज्म घेतलो. कुटंबांतलीं हेर मनशांय क्रिस्तांव जालीं.

काटू महालेलें कुटंब व्हड. कितलेशेच भाव. कांय भुरगीं लग्नाचीं जाल्लीं. शेताची एक शीर आनी भाटाचो कुडको आशिल्लो. पूण येणावळ कुटंबाक पावनाशिल्ली. एका भावान पसरो घाल्लो. तो वेसनी. पसरो सारको चलयनाशिल्लो. काटू महालेक खबर मेळ्ळी की बाटल्यार सरकारी नोकरी मेळटा. तो बाटलो. वांगडा अख्खें कुटंब बाटलें. सगल्यांक न्हेसणां मेळ्ळीं. थोडो दुडूय मेळ्ळो. काटू महालेक चाकरी मेळ्ळी.

दुर्बळ लोकां मदल्या कांय कुटंबांचीय बाटोवणी जाली. पाखले न्हेसतात तसलें न्हेसण मेळटा म्हूण धाकू बाटलो. पळपटो बाटलो पायलीभर तांदळा खातीर. त्या दोगां वांगडा तांच्या घरांतलीं सगलीं मनशां बाटलीं. ही खबर हेर लोकां मदीं पातळ्ळी तेन्ना आनिकूय कांय जाण बाऊतीज्म घेवंक फुडें सरले आनी क्रिस्तांव जाले. बाटोवणी चालू उरली.



बाटोवणेची एक एक खबर कानार येतकूच गोपू शेटी अस्वस्थ जातालो. बाटोवणी आडावंक जावची ना हें ताका कळटालें, पूण राग येतालो – फिंर्गी पाद्रींचो आनी तांच्या हांयसांक बळी पडटल्या गांवभावांचो. आज ताची अस्वस्थताय वाडली. कोणाय कडेन तरी ओघ काडचो अशें दिसलें. तो उठलो आनी तडक वासू पैगेर गेलो.

वासू पै मानशे वयल्यान नुस्तें घेवन निकतोच घरा आयिल्लो.

'वासू, हें कितें चल्लां? म्हज्यान हें सोंसूंक जायना.'

वासू आनी अनंत हांचे मदीं चार वर्सांचें अंतर आशिल्लें. देखून अनंत व्हडल्या भावाक वासदाद म्हणटालो. विठ्ठल आनी सांतू ह्या फाटल्या भावांकूय तो वासदाद जालो. पूण वासू आनी गोपू एकेच पिरायेचे आनी भुरगेपणा पसूनचे इश्ट. सुख–दुख्खाच्यो गजाली एकामेका कडेन मेकळेपणान उलोवपी. तांचें नातें 'दाद' वा 'माम' म्हणपाचें नाशिल्लें.

'गोपू, बस.' वासून सांगलें आनी गोमतीक आयकूंक येत अशा आवाजांत म्हळें, 'आयकलांऽऽ, गोपू आयला.'

गोमती पदराक हात पुशीत भायर आयली. गोपूल्या घरच्यांची खबर घेतली आनी रोखडीच परत भितर वचून उदक आनी गोड घेवन आयली.

'बलायकी बी बरी आसा मूं व्हनये?' गोपून विचारलें.

'आसा.' इतलेंच ल्हव आवाजांत म्हळें आनी गोमती भितर गेली.

'घे', वासून उदकाक आनी गोडाक बोट दाखयलें आनी म्हळें, 'आतां सांग. कितें म्हणटालो तूं?'

'म्हणटलो कितें! तुकाय खबर आसूंक जाय तें. गांवांतलो चवथ्या वांट्यान लोक गांव सोडून गेला. चवथ्या वांट्यान बाटला. वासू, अर्द्या गांवाची अशी दशा जाल्या.'

'हांव जाणां,' वासून म्हळें. ताणें गोपूचो हात धरलो आनी ताका घेवन घरा भायर आयलो. ह्या विशया वयलें उलोवणें ताका गोमतीच्या कानार पडिल्लें नाका आशिल्लें.

'आमी थंयं सावळेंत आंब्या रुखाच्या पेडार बसून उलोवया.' अशें

म्हणून तो गोपूक थंय घेवन गेलो. दोगूय पेडार बसले.

'वासू, व्हनी बरी आसा मूं? म्हाका तिची चर्या आज बरी ऽऽ दिसली ना.' वासून हुस्क्यान म्हळें.

'हय. आदींच तिचें मन दुखाविल्लें, आतां तिका आनीक एक धपको बसला.'

'कसलो? बाटोवणेचो?'

'न्हय.' वासून म्हळें आनी साश्टींतलीं शंबरां वयर कुटंबां व्हड्यांनी दक्षिणेक गेल्यांत, तांचे मदीं म्हाळूमामालें कुटंब आसा, त्या कुटंबा वांगडा अनंत, लक्षिमें आनी आपणालीं भुरगीं आसात; तीं कुटंबां खंय पावल्यांत, कशीं आसात तें कांय कळूंक ना ही सगली खबर सांगली. ती आयकून गोपू अदीक अस्वस्थ जालो.

'कसलें अरिश्ट आयलें हें आमचेर! हो अच्छेव असोच चलतलो?'

'कोण आडायतलो? तिसवाडींत तांणी तो 27-28 वर्सां आदीं केल्लो. आडावपाचें बळ कोणाकूच नासलें. आतां तांणी तोच अच्छेव साश्टींत आनी बार्देसांत सुरू केला. धर्मकोल्ल तें! तें खुबळटकूच अशेंच घडटा.'

'वासू, म्हाका एक सांग, बाप्पा शिरोड्या गेलो. विठ्ठल सावयवेच्यां गेलो. अनंतानूय सध्या तरी गोंय सोडिल्ल्यांत जमा. तूं कित्याक रावलो? हो गांव सोडून हेर कडेन वचून रावपाचें तुवें केन्ना चिंतलें ना. तूं गेल्लो जाल्यार हांवूय तुजे वांगडा येवपाचों.'

'चिंतलें. खूब चिंतलें. तिसवाडींतल्यो खबरो आयकून तर दीस-रात चिंतलें....'

'पूण कांयच केलें ना. कितें चिंतलें तर तुवें?'

'वासू, आयक. गांव सोडून वचपाचो विचार हांवें केन्नाच केलो ना. हे मातयेंतल्यान वयर सरलां, हेच मातयेंत भरसून वचपाचें.'

'म्हाका समजलें ना. मात्शें स्पश्ट करून सांग.'

'पाखले आयल्यात. धर्मपिशें तांचे गोमटेर बसलां. पूण ते सदांकाळ हांगा उरतले? कोण तसो उरला?'

'म्हणचे कितें?'

'कदंबाची राजवट हांगा आशिल्ली. गेली! विजयनगरच्या रायांनी हें राज्य चलयलें, पूण ते गेले आनी बहामनी सुल्तान आयलो. ताचे फाटल्यान विजापूरचो आदिलशा आयलो. ताका धांवडायलो आनी हे पाखले आयले. कोणूय तरी येतलो आनी हांकांय धांवडायतलो.'

'कोणूय तरी? म्हणचे कोण?'

'एका वेळार म्हाका दिसतालें, पाखल्यांनी धर्माचेर हावळ हाडटकूच विजयनगरची राजवट झूज मांडटली. ती दक्षिणेंतली बळिश्ट हिंदू राजवट. पूण तशें घडलें ना. ते राजवटीचो सुवार्थ आड आयलो.'

'विजयनगरचो सुवार्थ? कसलो तो?'

'पुर्तुगेज राजवटीच्या पालवान जायते व्यापारी अरबस्तानांतले आनी पर्शियांतले घोडे तारवांनी गोंय बंदरांत हाडटात. विजयनगर राजवट तांतुंतले बरे ते घोडे घेवन आपले फौजेचें बळ वाडयताली. पुर्तुगेज त्या व्यापाराचेर उपाट जोडटाले. ते घोडे मेळत रावचे म्हूण विजयनगरच्या रायांनी पाखल्यांच्या धर्मकोल्ला कडेन आडनदर केली. तरी – '

'तरी कितें?'

'तरी, म्हाका दिसतालें, पुर्तुगेजांक एक दीस ते आळाबंदा हाडटलेच. पूण तें सपन भंगलें. देवतेक आनी देवांक शिरोड्या व्हेले ताचे आदल्या वर्सा विजयनगर राजवट मातयेभरवण जाली.'

'कितें?! कशी जाली?'

'विजयनगराचीं दर एका सुल्ताना कडेन झुजां जातालींच. पूण त्या वर्सा पांच सुल्तान एकवटले आनी तालिकोटच्या झुजांत विजयनगर कोसळ्ळें.'

'विजयनगरा विशींच आस्त धरून राविल्लो तूं?'

'ना. आदिलशा सुस्त रावचो ना ; ताका गोंय हातांतल्यान गेल्ल्याचें दुख्ख भोगलां ; तो पुर्तुगेजांक धांवडावपाक येतलोच अशें म्हाका दिसतालें. प्रयत्न केलेय ताणें. पूण अजून कांय ताच्या हाताक येस लागूंक ना.'

'म्हण्टकूच आतां तुज्यान अंत्रुजेंत वा हेर खंयूय वचून रावंक जायना?'

‘गोपू, म्हाका वा तुका कोणेंच आडावंक ना. जाय तेन्ना सगले आस्पतीचेर उदक सोडून वचुंयेता. साश्टींतलीं तीं शंबरां वयर कुटंबां गेलीं नात?’

‘मागीर अडटा खंय?’

‘ताची जाप दिवचे आदीं हांव तुका विचारतां, वच्चें कित्याक? आरे, ज्या शेतांनी हांव वावुरलों, जीं भाटां बाप्पा वांगडा वयर काडलीं, ज्या खाजनांतल्यान उपाट पीक काडलें, नुस्तें मारलें, तें सगलें सोडून वच्चें? आनी कितें करचें?’

‘वासू, तुजे सारक्या बुदवंत आनी अणभवी मनशाक आडमेळें कसलें?’

‘आयक. शेणज्याच्या आनी पणज्याच्या काळा पसून आमच्या कुटंबान व्यापार केलो ना. तो गूण म्हज्यांतूय ना. आमी कोणेंच केन्ना चाकरी केली ना. इतली जमीन, इतली आस्पत हेर कडेन मेळत म्हूण आसा? हां, गांठीक आसा थोडो दुडू आनी भांगर. तें खावन सोंपतकूच कितें?’

‘तें सगलें खरें. पूण धर्मकोल्लाचें हें संकश्ट वाडत वता ताचें कितें? आमचो धर्म सोडून दिवन तांच्या पांयांर घालून घेवचें?’

‘ना. धर्म सोडून दिवन तांकां शरण वचपाचो विचार अजून तरी हांवें करूंक ना.’

‘कितेंय तरी करचें पडटलें. वासू, गांवार येता तें घराक चुकना. म्हाका दिसता, आतां साश्टींत रावप म्हळ्यार भंयाचेंच.’

‘तूं म्हणटा तें फट न्हय. पूण तिसवाडींत कांय हिंदू कुटंबां बाटनासतना उरिल्लीं. तें कशें घडलें तें मात् हांव नकळो.’

‘वासू, म्हाका वाट सुचना. पूण तूं चिंतून बेगिनूच कितें तें थाराय. आनी एक, भुरग्यांची खबर मेळटकूच म्हाका कळय आं ऽऽ.’

इतलें उलोवन गोपू शेटी वचूंक उठलो. वेळ बरोच जाल्लो. वासून ताका आनीक बसपाचो आग्रो केलो ना. एक सुस्कारो सोडून इतलेंच म्हळें,

‘हय, रोखडेंच कळयतां.’



1570 वर्साचो जानेवारी म्हयनो. रासय वतना वासू पै गोपू शेटीगेर गेलो. आंगणांतल्यानूच ताणें उलो मारलो,

'गोपू ऽऽ'

'आयलों.' म्हणत गोपू शेटी भायर आयलो.

'गोपू, बरी खबर आसा – '

'भुरगीं खंय आसात तें कळ्ळें? कशीं आसात?'

'भुरग्यांची खबर अजून कळूंक ना. ही खबर आदिलशाची.'

'आदिलशाची? म्हणचे?'

'आदिलशाची फौज फोंड्यां जमा जावंक लागल्या. खूब मोटी फौज आसा अशी खबर सांतून कळयल्या.'

'पूण आदिलशा मेलो म्हूण आयकल्लें – '

'तो सवाई युसूफ आदिलशा. आतां घुरी घालूंक आयला तो ताचो नातू अली आदिलशा. हे खेपे फिंर्ग्यांक धांवडावपाचोच निश्चेव दिसता. तुका याद आसा? हांवें सांगिल्लें पळय, कोणूय तरी येतलो, आदिलशा ना जाल्यार आनीक कोणूय आनी ह्या फिंर्ग्यांक धांवडायतलो. तेंच आतां घडटा.'

वासू उलयतना ताच्या आवाजांत आनी उतरांनी एके तरेची खर आस्त गोपूक दिसली. उंवाळून घाल्ल्या धर्मकोल्ली फिंर्ग्यांक धांवडावंक जाय ही ताची खर इत्साय ताचे चर्येर ताका दिसली.

'बरें, येता हांव.' म्हणून वासू चलूंक लागलो. गोपून म्हळें,

'वता? बस मात्सो. '

'मागीर येतां उलोवंक. तुका ही खबर कळोवची इतलेच खातीर आयिल्लों.' वासू ताकतिकेन गेलो.

वासू पैक कळिल्ली खबर खरी आशिल्ली. गोंय बंदराचें म्हत्व आदिलशा राजवटीक भोव बरें कळटालें. गोंय जिखून घेवपाक ते राजवटीन हाचे आदीं‌य प्रयत्न केल्ले. पूण ते निर्फळ जाल्ले. हे खेपे अली आदिलशा मोटें दळ घेवन आयिल्लो. ताणें कालेकूताचो झामोरी आनी निजामुल मुल्क हांचोय पालव घेतिल्लो. ते दोगूय हेर वाठारांनी घुरी घालपाचे आसले. 1569 वर्साच्या डिसेंबरांतूच आदिलशाची फौज फोंडेंचे दिशेन येवंक लागिल्ली. जानेवारींत

तिणें फोंड्यां तंबू ताणले. फौज अशी-तशी न्हय; 1 लाख सैनिक, 35,000 घोडे, 2140 हती, 350 नाळी आनी गाढवांचेर बांदून हाडिल्ले कांय पनेळ. न्हंय हुपून तिसवाडींत भितर सरपाक तांची गरज आशिल्ली.

आदिलशान फौजेचे तीन वांटे केले आनी तांचे तीन मुखेली नेमलेः नोरी खान, कोजेर खान आनी रुमेर खान. पुर्तुगेज फौज फाफसून वच्ची म्हूण तांकां तीन जागे थारावन दिले. हे फौजेन जानेवारींत गोंय शाराचे पूर्वेक आशिल्ले न्हंयेचे पलतडी तळ उबारले आनी नाळी मांडल्यो.

आदिलशाची फौज फोंड्यां येवंक लागली तेन्नाच ही खबर वायसरॉय दाँ लुईश दे आताईद हाका कळ्ळी. ताणें बेगोबेग कोट आनी चौक्यो हांचें बळ वाडयलें आनी तांकां सादूर रावपाचो हुकूम दिलो. आदिलशाचे फौजे कडेन तुळा केल्यार पुर्तुगेज फौज ल्हान आशिल्ली. तांचे कडेन आशिल्ल्यो नाळीय उण्यो आशिल्ल्यो. पूण तांचीं कांय झुजारी तारवां जुवारींत आशिल्लीं आनी तीं आदिलशाचे फौजेक तेळून राविल्लीं. तीं आगशी सावन जुवें मेरेन भोंवतालीं आनी आदिलशाच्यो नाळी जंय पेट्टात थंय आपल्या नाळींनी तांकां थंडायतालीं. तांणी आदिलशाचे फौजेक तिसवाडींत पावल दवरूंक दिलें ना. जानेवारी सावन मार्च मेरेन आदिलशाची फौज रेवाडो घालून रावली आनी ती फुडें सरली जाल्यार आडावपाक पुर्तुगेज फौज तयार रावली. दोनूय फौजांनी फकत नाळींचो उपेग केलो. नाळींच्या ह्या झुजांत पुर्तुगेज फौजेचें जालें ताचे परस कितलेंशेंच चड लुकसाण आदिलशाचे फौजेचें जालें.

एप्रील म्हयन्यांत, आदिलशा कडेन पुर्तुगेजांनी कबलात करून झूज सोंपोवचें असो यत्न झामोरीन केलो. पूण तो निर्फळ जालो. रेवाडो चालू उरलो. नाळी उजो ओंकीत रावल्यो. जून म्हयन्यांत पावस सुरू जालो. जुलय म्हयन्यांत तो वाडलो. आदिलशाच्या तंबूंनी रावपी सैनिकांच्यो अडचणी वाडल्यो. बलायकी इबाडून कितलेशेच सैनिक मेले. तातूंत, पुर्तुगालच्यान आनीक झुजारी तारवां पावलीं आनी पुर्तुगेज फौजेचें बळ वाडलें.

आगशटांत खासा आदिलशान कबलात करुया अशी कळोवणी वायसरॉयाक धाडली. पूण पुर्तुगेजांनी गोंय सोडून वचूंक जाय अशी ताची अट आसली. ती वायसरॉयान मानून घेतली ना आनी कबलात जावंक पावली

ना. सप्टेंबरांत आदिलशाच्या तळां वयले तंबू उणे जायत गेले. सैनिकूय थोडेच दिसूंक लागले. अखेरेक, नाळी मांडिल्ल्यो त्योय काडून व्हेल्यो. आदिलशाची उरिल्ली फौज विजापूराक परतली.



आदिलशाची फौज परत गेली ही खबर कांय दिसांनी वासू पैक कळ्ळी. तो निर्शेलो. आदिलशाची तयारी पळोवन ताका दिशिल्लें, हे खेपे पुर्तुगेजांक गोंय सोडचेंच पडटलें आनी एक अरिश्ट ना जावन वतलें. पूण ताका जाय आशिल्लें तशें घडलें ना. ताणें चिंतलें, घडये, सवाई युसूफ आदिलशाची धिटाय अली आदिलशा कडेन ना. तो न्हंय हुपून तिसवाडींत पावल दवरूंक वा गोंय शाराचेर घुरी घालूंक पावलोच ना. ताच्या नाळींनी गोंय शारांतल्या कांय घरांचें लुकसाण केलें तितलेंच! वासू पैन आपल्याच मनाक पटयलें, आदिलशाची फौज फाटीं सरल्या; पुर्तुगेजांनी तिका हारयल्या अशें म्हणूंक जावचें ना. अली आदिलशाक गोंय जाय जाल्यार अदीक नेटान घुरी घालची पडटली. हेर सुल्तानांचोय आदार घेवचो पडटलो. पुर्तुगेजांनी आपलें बळ आनीक वाडोवचे आदीं हें करचें पडटलें. वासू पै आपणाकूच पटयतालो, आदिलशा तशें करतलो आनी जिखतलो.

पूण....

वासू पैन येवजिल्लें तशें घडलें ना. फुडल्याच, म्हळ्यार 1571 वर्सा डिसेंबराचे अखेरेक खबर पातळ्ळी की 17 डिसेंबर दिसा वायसरॉय लुईश दे आताईद आनी अली आदिलशा हांचे मदीं इश्टागतीची कबलात जाली. एक दीस पुर्तुगेजांक तोंड घेवन वच्चें पडटलें अशी जी खर आस्त वासू पैन मनांत बाळगिल्ली ते आशेची पण्टी अशे तरेन पालवली. धर्मकोल्लाच्या अच्छेवांतल्यान सुटका मेळोवपाच्यो ज्यो दोन वाटो ताणें नदरे मुखार दवरिल्ल्यो तातुंतली एक बंद जाल्ल्यांत जमा जाल्ली.



पंदरा गांवकारां मदलो एक सांतेमळा वयलो भुतो कामती. ताणें पुताचें लग्न केलें. व्हंकल लोटलेच्या गणे नायकाली धूव. लग्न तागेरूच जालें. मागीर कटकटी जावंक नाकात म्हूण ताणें नेम पाळून लग्न-सुवाळो केलो. दारां बंद करून घरांत लग्न केलें. भटाक आपयलो ना. लग्न घरांत म्हण्टकूच फकत लागींच्याच सोयऱ्यांक आपयले. आडवाद केलो सुब्राव पै हाचे विशीं. तो भुतो कामतीलो लागींचो इश्ट आनी रायचे गांवकारींतलो ताचो वांगडी. लग्न बरे भाशेन जालें. पंगतींत बसून सगले जेवले. सुवाळो सोंपतकूच आपापल्या घरा गेले. दुसऱ्या दिसा गणे नायकालो आगशीच्यान आयिल्लो सोयरो, कुश्ट नायक बाटून क्रिस्तांव जाल्लो आसा आनी आतां तो लॉरेंस फेर्रांव जाला हें उक्तें जालें. हें लग्नाक आयिल्ल्या कोणाकूच खबर नाशिल्लें. ताणेंय कांय सांगलें ना. पूण परिणाम विपरीत जालो. त्या क्रिस्तांवा वांगडा पंगतींत बसून जेविल्ले ते सगले, हिंदू लोकांचे समजणे प्रमाण, बाटले. भुतो कामत, गणे नायक आनी सुब्राव पै हांचे सयत. ते बाटले म्हूण तांचीं बायल-भुरगींय बाटलीं. उप्रांत दोन म्हयन्यांनी सगल्यांचो बाउतीज्म जालो.

रायचे आनीक दोन गांवकार क्रिस्तांव जाले.



आज गांवपण आसा म्हणपाचें पार्पतीन कळीत केल्लें. वासू पैले एके जमनींत बांदयो करचे खातीर मेरो घालपाचें काम चलतालें. आदीं थंय वतलों आनी थंयसून गांवपणाक वतलों अशें ताणें येवजिल्लें. आपले परीन ताणें वेळार पावपाचो यत्न केलो. तरी ताका कळाव जालोच. तो देवूळवाड्यार वडा कडेन पावलो तेन्ना गांवपण लागीं लागीं सोंपिल्लें आनी गांवकारांनी जें थारायल्लें तें कुळकर्णी थारावणेच्या रुपान बरोवन काडटालो. वासू पैन आडखळ हाडली ना. विचित्र अशें कितें घडटा अशें ताका दिसलें. खिणभर, पयल्या वांगडाचो गांवकार ह्या नात्यान ताचो अहंकार दुखावलो. पूण आपणाक येवपाक कळाव जाला हें मतींत धरून तो कांय उलयलो ना.

ताणें भोंवतणी नदर मारली. तो सोडून आठ गांवकार आशिल्ले. तांचे मदीं बाटून क्रिस्तांव जाल्ले सात जाण तर एकलो हिंदू आशिल्लो. कुळकर्ण्यान थारावणी बरोवन काडटकूच वाचून दाखयली :

*तेरीक 3 फेब्रेर 1574 वरसु ।*
*राय ग्रामे वडातळा बयसिके ।*
*तथा राय ग्रामीचे मेळ्ळे ग्रामपुरीसु ।*
*विठू पैसुत घस्पार दे क्रास्तु ।*
*म्हाळप नायकासुत पास्कुवाल रिबेरु ।*
*गणा पैसुत तोमे वालादारि ।*
*भाने कामतीसुत दुमींग फर्नांदु ।*
*रवळू पैसुत फ्रासीक वाज ।*
*विठल बाळगीसुत मिगेल पेरीस ।*
*अनंत महालेसुत पेद्रु करवालु ।*
*रामू केणीसुत रायसू केणी ।*
*नरसू पैसुत वासू पै ।*
*येवं वांगडी णवुची मंडळी ।*
*बरह भास ऐसी तरि ।*
*आमचे गांवीची लावणी ।*
*तिसालाचे भासे केली ।*
*तावळि आमचे गांवीचे ।*
*कुळाचारी कोंकणे वस्तीकार ।*
*ग्रामांति नाति म्हणोवनु ।*
*वस्ती कडेक केली ।*
*तथा ते आमचे ग्रामींच्या ।*
*पाद्रि रयितोरा लागीं येवनु ।*
*आमी क्रिस्ताउं जाताउं ।*
*आमची वस्ती आमकां दिवची म्हणोवनु ।*

*तथा रयितोरा लागीं ।*
*क्रिस्ताउं जावूसि कबूल जाले ।*
*तावळि पाद्रि रयितोरान ।*
*आमकां ग्रामासि आपोवन हाडनु सांगिलें ।*
*तथा हे तुमचे गांवीचे गांवकार ।*
*वो कुळाचारी वस्तीकार ।*
*क्रिस्ताउं जावनु परमेस्वुराचे घर रिगताती ।*
*आनी आपणें जुवीज फेता लागीं वचूनु ।*
*तेया मनासि हाडनु ।*
*तेयाची रजा आपणें घेतल्या ।*
*ते प्रमाणी आमी ग्रामान ।*
*जण 16 कतकूम कर्नु ।*
*तथा तेयांचे कुटंब सहित ।*
*ग्रामांतु रावनु आपली वस्ती भोगुंची ।*
*हे बरवलिये भासे ग्रामाचो नेमु ।*
*तथा हे भासेसि निसाणियां ।*

थारावणी वाचून जातकूच कुळकर्ण्यान गांवकारांक निशाण घालपाक सांगलें. पयलीं क्रिस्तांव गांवकारांनी घालचें आनी मागीर कोंकणे गांवकार आसात तांणी घालचें अशें ताणें सुचयलें. सात क्रिस्तांव गांवकार आशिल्ले. तांणी आदीं निशाण घालें. दोन हिंदू गांवकार आशिल्ले. तांणी तांचे फाटल्यान घालें. तातूंत निमणो निशाण घालपी वासू पै. निशाण घालून जातकूच ताणें कुळकर्ण्याक विचारलें,

‘आज गांवपणाची ही वेगळीच रीत कित्याक?’

‘नेम बदल्ल्यात.’ कुळकर्ण्यान जाप दिली.

‘नेम कोणें बदल्ले, केन्ना बदल्ले?’

‘आगा, सांगतां. 11 डिसेंबर 1573 दिसा गोवेर्नादोर आंतोनियु मुनीज बार्रेत हाणें नवो हुकूम काडला. त्या हुकमान गांवकारीचे आनी गांवपणाचे

नेम बदल्ल्यात. आयचें गांवपण जालां तें नव्या नेमां प्रमाण.'

'हे नवे नेम म्हणचे कसले?'

'एक नेम असो - गांवकारींत क्रिस्तांव गांवकार आसत जाल्यार ते हाजीर आसल्यारूच गांवपण जातलें. दुसरो - गांवपणांत उण्यांत उणे अशे जितले वांगडी जाय तितले क्रिस्तांव गांवकार जमले जाल्यार गांवपण सुरू करून थारावणी घेवंक जाता - '

'हेर वांगड्यांची गरज ना?'

'ना. तिसरो - थारावणी बरोवन काडटकूच निशाण घालतना आदीं क्रिस्तांव गांवकारांनी घालपाची आनी मागीर कोंकणे गांवकार आसत जाल्यार तांणी.'

'समजलें.' हें एकूच उतर उलोवन वासू पै उठलो. हिंदू गांवकारांचे हक्क काडून घेवन तांचें म्हत्व उणें करप वा हे रितीन तांचेर क्रिस्तांव जावपाचें चेपण हाडप असो ह्या हुकमा फाटलो हेतू हें तो वळखलो. आनीक कसले बदल केल्यात हें विचारपाचीय गरज ताका दिसली ना. गोवेर्नादोराचो हुकूम हिंदूंच्या गांवकारपणाचो असो अपमान बळयां करता हें तो आयकून जाणा आशिल्लो. आज ताचो अणभव ताणें घेतलो.



गांवांत रावतले जाल्यार हिंदूंनी क्रिस्तांव जावचें; ना जाल्यार गांव सोडून वच्चें ; बामण, भट, गुरव आनी जोगी हांणी गांव सोडून वच्चें; ना जाल्यार तांची आस्पत जप्त जातली ; अशे कायदे तिसवाडींतले बाटोवणे वेळार केल्ले. ते आतां साश्टीकूय लागू करून पिडापीड सुरू जाली.

राय गांवांतलीं 30-35 कुटंबां सोडून हेर सगलीं कुटंबां क्रिस्तांव जाल्लीं. जीं 30-35 हिंदू धर्म पाळून राविल्लीं तांचे मदीं वासू पै धरून चार गांवकार, गोपू शेटी, व्यापारी म्हादू शेट तिळवी, दोन-तीन मुकादम, कांय मुंडकार, कांय कुळाचारी, कांय कुळमी आनी तांचीं कुटंबां आशिल्लीं. पंदरा गांवकारां

मदले इकरा गांवकार क्रिस्तांव जाल्ले. कामाक्षेच्या देवळाचे सुवातेर खुरीस बांदून काडिल्लो.



1575 वर्साचो मार्च म्हयनो. सांतून मनीस धाडून कळयलें, बाप्पा गेलो. वासू पै आनी गोमती शिरोड्या वचून मरण करून आयलीं. गोपू शेटीय तांचे वांगडा गेल्लो. स म्हयन्यांनी बा गेली. वासू पै, गोमती, गोपू शेटी, ताची घरकान्न, गोमतीचो भाव भासू कामती हीं सगलीं शिरोड्या गेलीं. मरण बी जावन परततना तारी मेरेन आयिल्ल्या सांतून सकयल्या आवाजांत विचारलें,

'वासदाद, तुवें कितें थारायलां? व्हनयेची बलायकी आसूंक जाय तशी ना अशें आज दिसलें म्हाका. आमगेली ही तशेंच म्हणटाली.'

'खरें तें. वैजालें वखद चालू आसा.'

'आनी फुडें कितें करपाचें केलां?'

'पळोवया. कितेंय तरी थारावपाचो वेळ आयला.'

सगलीं तारींत चडलीं. तार रायतूरच्या धक्याचे दिशेन फुडें सरली. सांतू वासदादाच्या फुडारा विशीं चिंतीत घरा परतलो.





## 28 मे 1585

आज सकाळीं उठत सावन कायतानाक जीव तंग दिसतालो. ह्या दिसांनी ताची अशक्तताय वाडिल्ली. खांक आयली जाल्यार बरोच वेळ थांबनाशिल्ली आनी हड्ड्यांत दुखूंक लागतालें. मदीं-मदीं आंग तापतालें. एकेक फावट रातभर जोर उरतालो. वैजान दिल्लें वखद घेवन कायतान आड पडून रावतालो. आजूय पेज जेवतकूच ताणें वखद घेतलें. ताच्या जिवाक मात्शें बरें दिसलें. धा वरांचेर शीत-कडी आयली. थोड्योच उंडयो ताणें पोटांत धुकळ्ळ्यो आनी परत आड पडून रावलो.

दनपारां - कितलीं वरां जाल्लीं हाचो अदमास कायतानाक नाशिल्लो - आल्काईद आनी शिपाय येवन ताका इंक्विझिटरांच्या सालांत घेवन गेले.

सालांत भितर सरतकूच कायतानान जेजू क्रिस्ताचे खुरसार मारिल्ले प्रतिमे सरीं दिमी मारली, खुरसाची कुरू केली आनी प्रार्थन केलें. मागीर येवन तो बांकार बसलो.

सदांचोच फार्स सुरू जालो. गुन्यांव कबूल करता काय म्हूण परत परत प्रस्न. खरेपणीं 'गुन्यांव कबूल कर' असो तो आग्रो. कायतानाच्यो आदले भाशेनूच जापो. मागीर दुभाश्यान म्हळें,

'आनीक एका गवायान सांगलां, तुजेर ज्या गुन्यांवाचो आरोप आसा तो तुवेंच केला म्हूण. तुका कितेंय सांगपाचें आसा?'

तो गवाय कोण, ताचे तपासणे वेळार आपणाक कित्याक आपयलो

ना, असले प्रस्न विचारले तरी जापो मेळनात हें आतां मेरेनच्या अणभवान कायतानाक कळिल्लें.

'कितेंय सांगपाचें आसा तुका?'

'कितें सांगतलों? खरें कितें तें परमेस्पर जाणा. हांव स्वामी जेजू कडेन इतलेंच मागतां, तो कोण गवाय आसा ताचें बरें कर - '

प्रस्न आनी जापो बरोवन घेतालो त्या सेक्रेटरीक दुभाश्यान कायतानाची जाप पुर्तुगेजींत अणकारून सांगली. ती आयकून पालवी इंक्विझिटर तापलो. ताणें आवाज वाडोवन दुभाश्याक सुचोवणी केली. ते प्रमाण दुभाश्यान कायतानाक सांगलें,

'जो प्रस्न विचारता ताचीच जाप दी. चड उलोवंक फावना.'

'हांव खंय चड उलयलां? स्वामी जेजू कडेन मागणें केलां तितलेंच. हांव ताका देवाचो पूत मानतां. तुमीय मानतात न्हय?'

दुभाश्यान ताचो अणकार केलो तेन्ना मुखेल इंक्विझिटर तिडकलो. मात् कांय उलयलो ना. मेजा वयली रुप्याची घांट उखलून वाजयली. आल्काईद आयलो. ताणें कायतानाक कुडींत व्हरून सोडलो.

कायतान आपूण अमूक उलयतलों अशें मनांत धरून वचूंक नाशिल्लो. सबावीक रितीन आनी प्रामाणिकपणान ताणें जापो दिल्ल्यो. त्यो इंक्विझिटरांच्या वर्मार कित्याक पडच्यो हें ताका होलमलें ना.

आंगा वयली मुस्तायकी काडून ताणें काबाय घाली. गुलगुलेतांतलें इल्लें उदक पिलो आनी बसलो. ताका अजाप दिसलें.....

*......हिंदू धर्मा परस क्रिस्तांव धर्म बरो अशें दिसून कांय हांवें धर्म बदल्लो ना. म्हाका आनीक कितेंय मेळचें, म्हजो फायदो जावचो असल्या सुवार्थानूय हांव बाटूंक ना. धर्म बदलपाची म्हाका केन्ना इत्सा जाली ना. बाटून क्रिस्तांव जावपाचें हांवें जाता तितलें टाळ्ळें. पूण अखेरेक निरुपाय जावन हांवें बाउतीज्म घेतलो. म्हाका गांवांत रावंक जाय आशिल्लें. धनीपणान गांवकारपणाचे हक्क राखून दवरपाचे आशिल्ले. जाण्टेल्यांनी कश्टांनी केल्ली आनी*

*हांवें वाडयल्ली आस्पत म्हाका कुटंबा खातीर, फुडल्या पिळग्यां खातीर सांबाळून दवरपाची आशिल्ली. ते खातीर दुसरी वाट ना म्हूण हांव क्रिस्तांव जालों. पूण एक, हांव नकली क्रिस्तांव जालों ना. बाउतीज्म घेतकूच हांवें पुराय निष्ठा क्रिस्तांव धर्माक दिली. स्वामी जेजूची शिकवण मनस्पुर्वेक पाळ्ळी, क्रिस्तांव धर्माच्या तत्वां कडेन एकनिष्ठ रावलों. धर्मीक कर्तव्याक खंयच चुकलों ना. तरी हो अन्याय म्हज्या वांट्याक कित्याक येवचो? धर्माच्याच नांवान म्हजे विशीं अधर्म घडचो? कित्याक? .......कित्याक .....??*

धर्म बदलपाच्या विशया वयल्यान कायतानाचें मन भूतकाळांत गेलें. तो दुखदिणो काळ, ती भेश्टावणी, तें चेपण, गोमतीचो खर विरोध, सगली आस्पत वगडावपाची ती भिरांत हें सगलें आपले तकले भोंवतणी घुंवता अशें ताका दिसूंक लागलें. त्या अणभवांचे कोडू उगडास ताका नाका आशिल्ले. पूण धांवडायले म्हूण वचपाक ते मूस नाशिल्ले. ताणें दोळे गच्च धांपले तरी त्या उगडासांनी ताची फाट सोडली ना.....



1575 वर्साच्या सप्टेंबर म्हयन्याचे निमणे दीस. चवथी वेळार पडिल्ल्या पावसा उप्रांत पावसाळो सोंपिल्लो. वासू पै पोरूं खाजनांतली मानस सारकी करूंक सोदी. पूण तें जमलें ना. देखून अंदू पावसाळो सोंपले बरोबर तें काम सुरू करचें अशें ताणें मुकादमाक सांगिल्लें. तें सुरू जावन दोन दीस जाल्ले. काम कशें चलता तें पळोवपाक आज सकाळीं वासू पै थंय गेल्लो. मुकादमाक कांय सुचोवण्यो करपाक तो बांदार उबो रावलो तेन्ना नारू कामतीक मानशे वटेन येतना ताणें पळयलो. नारू ताचेच भाशेन गांवकार. देड वर्सा फाटीं तो क्रिस्तांव जाल्लो आनी आतां ताचें नांव आसलें दुमींग फेर्नांद. ताचो बापूय बरींच वर्सां हातरूणार आशिल्लो. वैजांनी तरेकतरांचे उपाय केल्ले, पूण तांचें वखद पारूंक नासलें. नारूच्या मांवान ताका सुचयलें, गोंयां फिंगीं पाद्रींचें

हॉस्पिटल आसा, थंय फिंर्गी वैज आसात, तांचें वखद बऱ्याक पडुंये. फिंर्गी पाद्री म्हण्टकूच नारू कामती चिके भियेलो; पूण बापूय बरो जावचो म्हूण जें जें करूंक जायत तें तें करप ही आपणाली लागणूक अशें मानून ताणें बापायक त्या हॉस्पिटलांत व्हेलो. थंय बापायक क्रिस्तांवांचें जेवण जेवचें पडिल्ल्यान लोकरितीन तो बाटलो. मागीर नारू कामतीक कोणें सुचयलें, ताचें अख्खें कुटंब क्रिस्तांव जालें जाल्यार बापायक बरी सेवा मेळटली. आनी नारू कामतीलें सगलें कुटंब क्रिस्तांव जालें.

नारू पिरायेन अनंता बरोबरचो आनी अनंताचो इश्ट. तो वासू पैक मानतालो आनी अनंता भाशेनूच ताका वासदाद म्हणटालो. नारू कामतीक पळोवन वासू पैक हें सगलें येवजलें. तितले म्हणसर नारू लागीं पावलो. मानशे पसून थोड्या अंतराचेर आसतनाच ताणें उलो मारलो,

‘वासदाऽऽद – ’

‘नारू, आज हे वटेन खंय?’

‘आयिल्लों तुकाच मेळूंक.’

‘कित्याक रे बाबा?’ अशें विचारीत वासू पै बांदा वयल्यान देंवलो आनी नारू सरीं आयलो.

‘इल्लें उलोवपाचें आशिल्लें’ अशी जाप दीत ‘मात्शे कुशीक वचून उलोवया’ अशें नारून दोळ्यांनीच सुचयलें.

वासू पैन नारूचो हात धरलो आनी दोगूय मानशे कडल्यान पैस गेले.

‘आतां सांग, कितें उलोवपाचें आशिल्लें?’ वासू पैन म्हळें.

‘काल पाय दुश क्रिश्तांउश हाचो मनीस गोंया सावन आयिल्लो.’

‘कोण हो पाय दुश क्रिश्तांउश?’

‘पाय दुश क्रिश्तांउश म्हळ्यार खंय क्रिस्तांवांचो बाप. पुर्तुगेज राजवटकेन ताका नेमला. ताणें क्रिस्तांव धर्म पातळावपाच्या वावरांत फिंर्गी पाद्रींक पालव दिवप, क्रिस्तांवांचो आंकडो वाडोवपाच्यो वाटो सोदप, क्रिस्तांव जावंक सोदतात तांकां धर्माची शिकवण सारकी मेळटा काय ना तें पळोवप आनी जीं मनशां क्रिस्तांव जाल्यांत तांच्यो कसल्योय अडचणी, कागाळी

बी आसल्यार तांचेर उपाय करप.'

'पूण ताच्या ह्या कामांक आनी म्हाका कसलो संबंद आसा?'

'आयक. ताचो मनीस आयिल्लो तो राय गांवांत हिंदूचीं कितलीं कुटंबां उरल्यांत; तीं कोणाचीं; तीं कित्याक अजून क्रिस्तांव जावंक नात; बामणांचीं, भटांचीं आनी गुरवांचीं कितलीं कुटंबां आसात ही सगली खबर घेवपाक.'

'ते गांवांतल्या सगल्या लोकांक क्रिस्तांव करूंक सोदतात काय कितें?'

'हय तर! तीच तांची मोख आसा. तो मनीस तुजेय विशीं विचारी - '

'कितें विचारी?'

'कुटंबांत कोण कोण आसा; आस्पत कितली आसा; भावांक तुवेंच आदिलशाच्या राज्यांत धाडले काय कितें; भुरग्यांचें कितें जालें अशें जायतें. सांगल्यार भंय ना तितलीच खबर सांगली ताका हांवें. '

'मागीर?'

'ताणें म्हाका सुचयलें, हांवें गांवांतल्या मुखेल अशा कुटंबांच्या मुखेल्यां कडेन उलोवचें. तांकां शिटकावचें की कितें तें बेगिनूच थारायात; हुकूम काडिल्लेच आसात; ते प्रमाण कारवाय केली जाल्यार त्रासांत पडटले.'

'कसले हुकूम म्हणटा तो?'

'एक हुकूम सगल्या हिंदू विशीं आसा खंय. ते क्रिस्तांव जावचे नात जाल्यार तांणी गांव सोडून वच्चें. दुसरो आसा तो बामण, भट, गुरव हांचे विशीं. हांणी बेगोबेग गांव सोडून वच्चें. गेले नात जाल्यार तांकां धांवडावन घालतले आनी तांची आस्पत जप्त करतले. शेजारच्या राज्यांतल्यान येतात त्या जोगींनी साश्ट म्हालांत पांय दवरचो न्हय अशेंय ह्याच हुकमांत आसा खंय.'

'ही गर्भीत धमकी अशें दिसना तुका?'

'धमकीच ती. हांयसां दाखोवन जालीं. आतां भेश्टावणी सुरू.'

'आनीक?'

'आनीक कांय ना. परत-परत हेंच. बेगीन थारायात; ना जाल्यार कितें करपाचें तें आमी करतले.'

‘समजलें. तुवें येवन हें सगलें सांगलें तें बरें केलें.’

‘कितें करतलों? सांगलें ना जाल्यारूय भंय. वासदाद, तुका वायट दिसलें ना मूं?’

‘ना रे बाबा! वयल्यान तुवें म्हाका सादूर केलो. बरें जावं तुजें.’

‘येतां तर हांव.’

नारू कामती परत वतना वासू पै बरोच वेळ ताचे वटेन पळयत रावलो. चिंतूंक लागलो, हें इतले बेगीन घडत अशें धरुंनाशिल्लें.....आतां थारावचेंच पडटलें....तो वेळ आयला....



नारू कामती मेळून वतकूच कांय राती वासू पैक न्हीद पडली ना. ‘बेगिनूच थारायात’ ही शिटकावणी तरसाद कशी ताच्या माथ्यार हुमकळटाली. ताच्या मनाक पिडटाली. दोनूच वाटो खंय! एक वाट – क्रिस्तांव धर्म आपणायात आनी गांवांत रावात. आस्पतीचें धनीपण आनी गांवकार म्हूण दायजान चलत आयिल्ले हक्क भोगात. दुसरी वाट – धर्म बदलचे नात जाल्यार सगले आस्पतीचेर उदक सोडून गांवांतल्यान तोंड घेवन वचात. ताचें एक मन आड्डतालें...

*गांव सोडून वच्चें? हांवें? शेंकड्यांनी वर्सां आदीं जांणी हो गांव वसयलो तांच्या पंदरा वांगडां मदल्या पयल्या वांगडाचो गांवकार हो म्हजो मूळपुरीस. ताचेंच दायज हांव चलयत आयलां. ह्याच गांवांत हांव ल्हानाचो व्हड जालां. भाटांतल्या कवाथ्या वांगडा वाडलां. शेतांतले मेरे–मेरे कडेन म्हजें नातें आसा. जेन्ना जेन्ना खाजनाच्या बांदाक खांवटें पडलें आनी भौस कामाक लागलो तेन्ना तेन्ना उमेदीन तांचे वांगडा वावुरलों. गरज पडली तेन्ना बांद घट करपाक मानांयां बरोबर मातयेचे गुळे मारले. हांव हांगाचो गांवकार. हो म्हजो गांव.*

*तो सोडून वच्चें? कित्याक?*

दुसरें मन थंडसाणेन सांगतालें.....

*गांवांत रावपाचें आसा मूं? भाट-बेंसाचें धनीपण चालू दवरूंक जाय मूं? गांवकार म्हूण सगले हक्क भोगपाची इत्सा आसा मूं? तर तुका एकूच मार्ग - क्रिस्तांव जा.*

दोन मनांचो असो हो संघर्श चालू आसतनाच वासू पैक दिसतालें, तिसरी वाट आसूंक जाय. तिसवाडींत आकांत जावनूय, धर्मकोल्लान अच्छेव मांडुनूय गोंय शारांत कांय हिंदू कुटंबांनी धर्म बदल्लो ना. तें कशें घडलें? आनी थंय घडलें जाल्यार हांगाय तशें कित्याक घडचें न्हय? ताणें गांवांतल्या दोन-तीन जाणट्यांक हे विशीं विचारलें. तांचे कडल्यान ताका कळ्ळें की तीं कुटंबां व्यापाऱ्यांचीं. तांचींय बेंसां आशिल्लीं; पूण तीं पुर्तुगेजांच्या वाठारा भायर. बाटोवणी सुरू जाली तेन्ना हीं कुटंबां गोंय शार सोडून गेलीं. ताचे परिणामीं व्यापाराक मार बसलो. तांकां परत येयात म्हूण सांगपाचो प्रसंग पुर्तुगेज राजवटकेचेर आयलो. तीं कुटंबां आयलीं. धर्मपिशें तांचे वाटेक गेलें ना. तांचो धर्म सुगूर उरलो.

आपूण व्यापारी न्हय. आपूण भाटकार. ती तिसरी वाट आपणाक उक्ती ना हें कळपाक वासू पैक वेळ लागलो ना. आतां ताका एकूच दार उक्तें दिसतालें ....धर्म बदलून गांवकार म्हूण गांवांत रावपाचें. पूण त्या खिणाक तसो निर्णय घेवपाक तो धजलो ना. ताका कांय जाणां कडेन उलोवंक जाय आशिल्लें. भोव करून गोमती कडेन.



नरसृ पैल्या कुटंबांत सोयरीक, लग्न, सटी, बारसो असले कांय कुटुंबीक विशय सोडले जाल्यार हेर विशयां वयले ल्हान-व्हड निर्णय दादलेच घेत आयल्यात. बायलांनी ते दारा फाटल्यान रावन आयकल्यात वा सांगतकूच तांकां ते कळ्ळयात. पूण वासू पै मुखार आतां जें संकश्ट उबें आशिल्लें त्या

संकश्टा विशींचो निर्णय आपणें एकल्यान घेवचो अशें ताका दिसनाशिल्लें. आपणें एकल्यानूच निर्णय घेवपाचो धीर ताका जायनाशिल्लो अशेंय म्हळ्यार जाता. गोमती वाद घालची नाशिल्ली; पूण तिच्या मनाचेर कसो परिणाम जातलो हाचो अदमास वासू पैक आशिल्लो. आदींच दोन धपके तिणें सोंशिल्ले. तांचे परिणामीं तिची मनस्थिती नाजूक जाल्ली. आतां हो तिसरो धपको घडये तिच्यान सोंसूंक जावचो नाशिल्लो. तेच खातीर वासू पैक दिसलें, तिका जाता ते भाशेन पटोवन ना जाल्यार विस्वासांत तरी घेवन निर्णय घेवंक जाय. पूण तें करपाकूय ताचें मन फाटीं-फुडें जातालें.

काळ कोणाक रावता! धीर करुंकूच जाय आशिल्लो आनी वासू पैन तो केलो. रातचें जेवण जातकूच ताणें गोमतीक नारू कामती कडल्यान फिर्ग्यांनी पावयल्ली शिटकावणी, ते विशीं तांचे मदीं जाल्लें उलोवणें, गांवांत बाटिल्ल्या कुटंबांचो आंकडो कसो वाडला, गांवकारींतलें तांचें म्हत्व कशें ना जालां हे विशीं सगली खबर समजावणेच्या सुरांत सांगली. गोमतीन तोंडांतल्यान उतर काडिनासतना निर्विकार चर्येन ती आयकली. तिणें कितेंय तरी उलोवचें म्हूण वासू पैन म्हळें,

'आतां आमचे मुखार दोनूच मार्ग उरतात. एक, क्रिस्तांव जावन गांवांत रावपाचो. तशें केल्यार हें घर, भाटां, शेत, खाजन हें सगलें आमचेंच उरतलें. गांवकार म्हूण म्हजे सगले हक्क म्हजे सुवादीन उरतले. आयचे घटकेक इकरा गांवकारांनी तशें केलां. दुसरो मार्ग - धर्म बदलचीं नात म्हूण हो गांवच न्हय तर पुर्तुगेजां कडेन आशिल्ल्या तीन म्हालांचे भायर वचप -'

'आमी या. गांव सोडून या.'

'खंय वतलीं?'

'आमचीं भुरगीं आसात थंय या.'

'पूण तीं खंय आसात तें आमकां अजून कळूंक ना.'

'तर आनीक खंयूय या.'

'हांव म्हणटां, हांगा रावलीं म्हूण - '

'क्रिस्तांव जावन? हांव रावचीं ना.'

‘आयक तरी – ’

‘हांव क्रिस्तांव जावचीं ना. कोणूय म्हाका बाटोवंक सोदता अशें दिसलें जाल्यार हांव बांयंत घालून घेतलीं.’

वासू पै सट् करून कांय उलयलो ना. कांय वेळान ताणें मायेन थपथपिल्ल्या उतरांनी गोमतीक समजावपाचो यत्न केलो. तरेकतरांनी केलो. तिची एकूच प्रतिक्रिया –

‘हांव बांयंत घालून घेतलीं.’

तिच्या मनाचेर अदीक ताण पडचो न्हय म्हूण वासू पैन तो विशय थंयच थांबयलो. ताणें म्हळें,

‘आसूं. न्हीद तूं.’

दोगांय न्हिदलीं पूण न्हीद बायलेक पडली ना आनी घोवाकूय पडली ना.

वासू पैचें मन गोंदळिल्लें. गोमतीचीं ‘बांयंत घालून घेतलीं’ हीं उतरां ताका सगल्या वाटांनी आडायतालीं. येवजितां–येवजितां ताचें शेणिल्लें मन मेवण्यागेर पावलें. जें आपणाक जमना तें घडये ताका जमत अशें ताणें चिंतलें. दुसऱ्याच दिसा वासू पै रासय मेवण्यागेर गेलो. ताणें सांगिल्ली सगली खबर भासू कामतीन आयकून घेतली. ताच्याय मनांत अस्वस्थताय आशिल्ली. पूण ताणें ती चर्येर येवची न्हय म्हूण दामून दवरली. भावोजीक ताणें म्हळें,

‘म्हाकाय दुसऱ्या एका मनशा कडल्यान त्या क्रिस्तांवांच्या बापाची शिटकावणी पावल्या. हिंदू उरल्यात तांचे मदीं भाटकार आसात तांची वळेरी तांणी केल्या अशें दिसता.’

‘ती केल्या आसतलीच. बाटले जाल्यार क्रिस्तांवांचो आंकडो वाडलो आनी गांव सोडून गेले जाल्यार भाटां ताब्यांत आयलीं अशें धोरण तें. तशीं तीं गेल्लीं म्हाका नाका. आमचे भुंयेंतलें धनीपण वगडायल्लें म्हाका नाका. तुका कितें दिसता?’

‘म्हाकाय तशेंच दिसता.’

‘तर मात्सो येवन तुजे भयणीक पटय. तिणें ‘बांयंत घालून घेतलीं’ अशें म्हणटकूच म्हजें उतर अडटा. खूब सोंसलां तिणें....तिच्या मनाक त्रास

दिवपाक म्हजें काळीज धजना.'

वासू पै रासय आयिल्लो तो भासू कामतीक हेंच सांगपाक. ताका कारणूय आशिल्लें. भासूचो बापूय पोटखाण्याक लागून बरोच काळ हातरुणार उरलो. तेन्ना बापायचीं कर्तव्यां भासूनूच केलीं. धाकटी भयण ह्या नात्यान गोमतीक तो बापायचे सुवातेर. ताचें सांगणें ती आयकतली अशी आस्त वासू पैक आशिल्ली.

भासू कामतीन 'भावोजी बरोबर राय वचून येतां' अशें घरकान्नीक सांगलें आनी ते दोगूय भायर सरले.

घरा पावतकूच वासू पैन 'तूंच भितर वचून उलय' अशें मेवण्याक सांगलें आनी तो पडवेर बसलो. गोमती आनी भासू बरोच वेळ उलयलीं. भासू तिका पटोवपाचो यत्न तरेकतरांनी करता; पूण गोमती कशीच आयकना असो अदमास त्या उलोवण्या वयल्यान वासू पैन केलो. गोमती मदीं-मदीं रडटा, वित्रागांनी उलयता. आनी भासू तिका मायेन समजायता अशेंय ताका दिसलें. उप्रांत भितर शांतताय आसा, उलोवणें ना असोय कांय वेळ गेलो. वासू पैचे तकलेंत तर्कांनी गोंदळ घालो. मागीर ताणें आपणाकूच समजायलो, तर्क करून कांय उपेग ना; जें बरें-वायट मुखार उबें रावता ताका फुडो करूंक जाय....परत भासूचो आवाज ताच्या कानार आयलो; पूण तो कितें उलयतालो तें कळ्ळें ना. तो एक-एक खीण ताका एक-एक वर्स कसो दिसलो. तो दोळे धांपून बसलो.

भासू केन्ना भायर आयलो तें वासू पैक कळ्ळें ना. 'भावोजी' म्हूण उलो करतकूच ताणें दोळे उगडले. 'कितें म्हणटा?' अशें ताणें नदरेनूच मेवण्याक विचारलें. भासू सकयल्या आवाजांत उलयलो,

'बायक सगली परिस्थिती समजायली. तें क्रिस्तांव जावपाक तयार जालां; पूण - '

'पूण कितें?'

'तें म्हणटा, जगलोकाक दाखोवपाक आपूण बाउतीज्म घेन; पूण घरांतल्यो देवस्पणाच्यो रिती सोडचें ना.'

‘म्हणचे कितें?’

‘वयलेचाराक तें आपूण क्रिस्तांव म्हूण दाखयतलें; पूण भितल्ल्यान हिंदूच रावतलें.’

‘अशें केलें जाल्यार भंय ना? कोणेंय चाडी केली जाल्यार?’

‘तशें भंय सामकेंच ना अशें न्हय. पूण घरांतली खबर भायर पावली ना जाल्यार व्हडलेंशें संकश्ट न्हय तें. इत्शे आड बाटिल्ल्या कांय कुटंबांनी तशें चलता म्हूण आयकलां. भावोजी, बाय तो हट्ट सोडीत शें दिसना. आतां तें मानून घेवचें. फुडें कशें जाता तें पळोवया.’

मेवण्याचें म्हण्णें वासू पैक पुरायेन पटलें अशें न्हय, पूण ताणें केलें ताचे परस कितेंय चड वा वेगळें करपाची वाट ना हाचीय ताका जाणविकाय आशिल्ली. ताणें फकत तकली हालोवन तें म्हण्णें मानून घेतिल्ल्याचें सुचयलें.

‘हांव भायर सरतां. तूं फुडें कसो वचूंक सोदता तें कळय म्हाका.’ भासू कामतीन पांयांत जोतीं घालतना म्हळें.

‘तिनसांज जायत आयल्या. बरो ऽऽ करून वच.’ वासू पैन म्हळें आनी वंयेच्या कवाडा मेरेन ताका पावोवंक गेलो.

ते राती न्हिदूंक वतकच वासू पैन गोमतीक मायेच्या कळवळ्यान वेंगेंत घेतली. दोगांचेय दोळे भरिल्ले. उतरां मोनीं जाल्लीं. दिवलेंतली वात मंद पेट्टाली. तेल सोंपलें तेन्ना ती पालवली.



सकाळींच वासू पै आयिल्लो पळोवन गोपू शेटीक मात्शें अजाप दिसलें. हुस्कोय जालो. हो ताचो शेतांत वा भाटांत वचपाचो वेळ. कितें जालां काय? तो बेगिबेगीन भायर गेलो आनी वासू पैक घरांत घेवन आयलो. दोगूय सोप्यार बसले.

‘हांव अकस्मात आनी सकाळींच कित्याक आयलां असो प्रस्न तुका पडटलो, ‘गोपू शेटीन विचारचे आदींच वासू पैन ताची उत्सुकताय थाऱ्यार

घाली, 'विशय म्हत्वाचो आसा आनी हेर कोणाच्याय कानार वच्चे आदींच तो तुका कळोवंक जाय अशें म्हाका दिसलें. '

'कसलो विशय म्हणटा तूं?'

'हो, फिंर्ग्यांनी चलयल्ल्या अच्छेवाचो.'

'पाडा पडूं तांचें! एकेक आयकूंक येता तें सोंसूंक जायना.'

'आयक. ही खबर म्हजे आनी म्हज्या कुटंबा विशींची.' असो आरंभ करून, नारू कामतीन शिटकावणी कळयत सावन काल मेरेन जें जें घडलें तें तें वासू पैन गोपू शेटीक सवकासायेन सांगलें. गोपू शेटीन विचारलें,

'म्हण्टकूच तुवें क्रिस्तांव जावपाचें थारायलें?'

'तुका विचारपाचें उरिल्लें. सांग, कितें करचें?'

'म्हाका विचारता! तूं थारायतलो तें सगलो विचार करून थारायतलो. शाणेपणाचें तें थारायतलो.'

'ना. गोपू, हांगा शाणेपण ना आनी पिशेपण ना. दोनूच वाटो आसात. गांव सोडून वच्चें?'

'ना-ना तशें कशें जातलें? तुमच्या कुटंबाची येदी आस्पत! तूं पयल्या वांगडाचो गांवकार. जाण्ट्यांलें दायज खरें, पूण तूं कश्टलो, वावुरलो आनी तें वाडयलें. आतां तें सोडून कसो वतलो? धनी तूं. त्या पाखल्यांक धनीपण दितलो?'

'गांवांत रावतलो जाल्यार धर्म सोडचो पडटलो – '

'शीः! कसलें संकश्ट गा हें!'

'म्हाका गांव सोडपाची इत्सा ना. पूण – '

'पूण-बीण कांय ना. तूं खंयच वचुंनाका. हो गांव तांच्या बापायचो न्हय. धर्माचें मागीर पळोवया. तुका क्रिस्तांव जावचेंच पडलें जाल्यार तुजे बरोबर हांवूंय जातलों – '

'नाका-नाका. गोपू, आयक, म्हजेर संकश्ट आयलां म्हूण हें करचें पडटा – '

'तुजेर आज आयलां; म्हजेर फाल्यां येतलें. ताची वाट कित्याक

पळोवया?'

'तशें न्हय तें. तांची नदर भाटकारांचेर, शेतांच्या, खाजनांच्या धनयांचेर आसा. बाटले जाल्यार क्रिस्तांवांचो आंकडो वाडलो. गांव सोडून गेले जाल्यार सगली आस्पत तांकां मेळ्ळी. असोय लाब आनी तसोय फायदो. तुजी गजाल वेगळी. तूं वेवसाय करता. तो तुज्यान ह्या गांवांत करुंयेता, दुसऱ्याय गांवांत करुंयेता. तुवें कितेंय थारायल्यार तांकां लाब ना.'

'ते म्हजेर चेपण हाडचे नात अशें दिसता तुका?'

'तें खात्रीन सांगूंक जायना. सध्या हे फिंर्गी पाद्री भाटां-बेंसां सोदतात. थोडीं विकून तांकां दुडू मेळटा आनी उरिल्लीं बाटोवपाक लांच म्हूण दिवंक मेळटात. तूं ताकतीक निखालस करुंनाका. चेपण येतलें तेन्ना थाराय.'

'तूं म्हणटा तें आनीक एका कारणा खातीर खरें आसुंये.'

'कसलें कारण?'

'फाटल्या म्हयन्यांत चोडणचो भोगण शेटी मेळिल्लो. तो सांगतालो, फिंर्ग्यांची नदर बामणांचेर आसता तितली हेर लोकांचेर नासता म्हूण.'

'खरें तें. पूण फकत बामणांचेर न्हय; भट, गुरव आनी जोगी हांचेरूय. ह्या सगल्यांक साश्टींतल्यान धांवडावन घालपाचो हुकूम काडिल्लोच आसा.'

'तसो हुकूम कित्याक?'

'तांचे नदरेन बामण, भट, गुरव आनी जोगी तांच्या बाटोवणेच्या वावरांत आडमेळीं हाडटात. ते आपलो धर्म सोडिनात आनी दुसऱ्यांकूय धर्माची राखण करपाची बुद्द दितात. ताचेर तांचो हो उपाय. तांकांच क्रिस्तांव केले वा धांवडावन घाले म्हण्टकूच आडमेळीं ना जालीं.'

'कसले दुश्ट लोक पळय! भायल्यान गोरे; पूण भितल्ल्यान काळेकिट्ट!' गोपू शेटीन मनांतल्या मनांत गाळीय घाल्यो.

इतल्यांत गोपू शेटीली चली पितुळचे ताटलेंत मुगां-पिठाच्यो गुळयो आनी तांब्या पेल्यांत उदक घेवन आयली. वासू पै म्हऱ्यांत सोप्यार दवरून परत भितर गेली. गोपू शेटीन म्हळें,

'घे.'

वासू पैन एक गुळी काडली आनी खायत म्हळें,

‘आनीक एक आसा. ह्या फिंर्गी पाद्रींक दिसता की ह्या वाठारांत दुर्बळ लोक खूब आसा. तांकां ल्हान–व्हड हांयस दाखोवन बाटोवप सोपें. तशे कितले जाण बाटल्यात तें तूं जाणा. तितलेंच न्हय; भाटकार म्हळो की ताका मुकादम, मुंडकार, मानांय आनी हेर वावराडे लागतात. भाटकार क्रिस्तांव जालो की सगले क्रिस्तांव जावंक फुडें सरतात हेंवूय फिंर्गी पाद्रींनी वळखिलां.’

‘हें मात् खरें.’

वासू पै पेल्यांतलें उदक पियेलो आनी उठलो. गोपू शेटीन म्हळें,

‘आनीक मात्सो बस.’

‘ना. नारू कामतीक मेळूंक जाय. येतां हांव.’

गोपू शेटी वासू पैक दवरण्या मेरेन पावोवंक आयलो आनी परतलो.



वासू पै नीट नारू कामतीगेर गेलो. आपणें कितें करपाचें तें थारायलें अशें ताणें सांगलें. नारू कामतीन विचारलें,

‘कितें थारायलें?’

‘बाउतीज्म घेवपाचें. हांव आनी आमगेली ही. तांकां मात्शें कळय आनी दीस खंयचो थारायतात तें म्हाका कळय. इतलो उपकार कर.’

‘वासदाद, उपकार कसलो तातूंत? एकूच अरिश्ट तें. आमचें दुख्खय एकूच. हांव गेलां तातुंतल्यान; तूं वचपाचो आसा इतलेंच.’

‘म्हाका खंयचोय दीस जाता. तांकांच थाराय म्हणचें.’

‘तशें न्हय तें वासदाद. आदीं रोखडोच बाउतीज्म दिताले पूण आतां ताका इल्लो वेळ लागता.’

‘कित्याक?’

‘पयलीं ते तुका कातेकुमेन करतात. म्हणचे, क्रिस्तांव धर्माची आनी चाली–रितींची शिकवण दितात. हें सुमार दोन म्हयने चलता. मागीर ते

बाउतीज्म दितात.'

'हें अशें कित्याक?'

'तूं दुसऱ्या धर्मांतलो. त्या धर्माची शिकवण, चाली-रिती सोडून तूं क्रिस्तांव जाता; तेन्ना तूं बरो क्रिस्तांव जावचो हे खातीर खंय ही रीत थारायल्या.'

'तर म्हजे खातीर आनीक एक कर -'

'अशें कित्याक म्हणटा वासदाद? तूं अनंताक अशें म्हणटलो आशिल्लो? ना. ताचे सुवातेर हांव अशें धर आनी कितें काम आसा तें सांग.'

'आतां ह्या विशयांत कितें-कात करपाचें तें तुवें म्हाका सांगपाचें. हो अणभव तुवें देड-दोन वर्सां आदीं घेतला. तूं सांगता ते प्रमाण आमी करतात.'

'इतलेंच मूं? तें म्हजेर पावलें. त्या त्या वेळार तें हांव समजायतां.'

घरा परततना वासू पैच्या मना वयलो भार उणो जाल्लो. ताणें निर्णय घेतिल्लो आनी तो क्रिस्तांवांच्या बापाक कळीत करपाची वेवस्थाय केल्ली.

तो घरा पावलो तेन्ना गोमती कपलार हात धरून बशिल्ली.

'कितें जालां? जिवाक बरें दिसना?' वासू पैन विचारलें.

'कांय ना. आनी जिवाकूय कांय जावंक ना.'

'अशी कित्याक बसल्या तर तूं?'

'म्हाका हें घर खावंक येता.'

'हांव जाणां. पूण कामां वाडलीं आनी म्हाका येवंक कळाव जालो.'

'ते खातीर म्हणना हांव. भुरगीं नासतना कशें रावपाचें ह्या घरांत? घर म्हणप हाका?'

गोमतीच्या ह्या प्रस्नांनी तिच्या मनांतली व्यथा वासू पैक समजली. ताच्याय मनांत ती व्यथा आशिल्ली; पूण ती विसरायेर घालून तो वावुरतालो. गोमतीक समजावपाचो प्रयत्न करीत ताणें म्हळें,

'भुरगीं खंयूय आसलीं तरी म्हाळूमामा वांगडा आसात. अनंत आसा, लक्षिमें आसा. सांबाळटलीं तांकां. मेळटली एक दीस खबर - '

'स वर्सां जायत आयलीं, हेंच आयकतां. खबर अजून कित्याक मेळना?'

'मेळटली एक दीस. मागीर येतलीं तीं -'

'केन्ना येतलीं?'

ह्या प्रस्नाची जाप वासू पै कडेन नाशिल्ली. 'येतलीं' हें एकूच उतर तो अडेच्या विस्वासान उलयलो.



व्हड्यांनी दक्षिणेक गेल्ल्या कुटंबां मदलीं जीं कोची बंदरांत देंवलीं तीं सगलींच आदीं कोची शारांत रावलीं. कांय कुटंबांनी थंयच राबितो करपाचें थारायलें. उरिल्लीं कुटंबां ल्हवुल्हवु हेर गांवांनी वचून राबितो करून रावलीं.

म्हाळू प्रभून पुतांच्या आनी अनंताच्या आदारान ल्हानसो धंदो सुरू केलो. तो भाटकार. ताणें स्वता व्यापार केन्नाच केलो ना. पूण ताचें मावोडें व्यापाऱ्यांचें. तो आजोळचो गूण दोनूय पुतांक आयिल्लो. तांणी बंदरार वचून थंय कसल्यो संदी आसात त्यो पळयल्यो. बंदरांत येतालीं त्या तारवांचे धनी वा कारभारी बाजारांत येवन खाणा-जेवणाचे जिनस व्हरताले. तांकां ते तारवांचेर आनी सवाय भितर पावयल्यार कशे? म्हाळू प्रभून म्हळें, सरात फुडें. ताच्या पुतांनी आनी अनंतान तारवट्यांक कसले-कसले जिनस लागतात ताची खबर घेतली. तसले बरे जिनस फैदासून ते तारवांचेर घेवन वचूंक लागले. बाजारांतले दरे परस सवाय दरेन विकूंक लागले. सुर्वेक जोड व्हडलीशी जाली ना. पूण तारवार हाडून दितात आनी सवाय मेळटा म्हण्टकूच गिरायक वाडत गेलें. दोन-तीन वर्सां भितर धंदो बरो चलतलो म्हणपाचो विस्वास म्हाळू प्रभूच्या कुटंबाक आयलो. ल्हवुल्हवू धंदो वाडत गेलो.

वासू पैल्या पुताक म्हाळू प्रभून लवंगां, मिरयां, वेलदोडे, तिखी हांचो व्यापार करपी एका गिरेस्त व्यापाऱ्यागेर चाकरेक दंवरपाची वेवस्था केली. पूण सुर्वेकूच ताका सांगलें,

'हें पळय, तुवें चाकरी करीत रावपाचें ना. हो व्यापार कसो चलता तें शिकून घे. अणभव घे. एक दीस तूं हो व्यापार करतलो हें घट मतींत धर.'

म्हाळू प्रभून वासू पैले धुवेक सून करून घेतली. व्हार्डीक सादेपणान

केली पूण साश्टीचीं जितलीं कुटंबां कोचींत राबितो करतालीं तितल्याय कुटंबांक आपयल्लीं. थंय फकत गोंयच्योच यादी. गोंयांत कितें घडटा काय हो हुस्को. गोंयांत परत वचूंक पावतले काय हो प्रस्न......

वासू पैले धुवेगेर बाय जालां. ताका निकतेंच वर्स जालां. चांट मारपाचो यत्न करता. आज आवयच्या न्हेसणाक धरून उबें रावंक सोदतालें तें पडलें. दुखपा इतलें पडलें ना. पूण पडलें म्हूण रडूंक लागलें. आवयन उखल्लें आनी भायर आंगणांत आयली. बाय, पळय, झाडाचे ताळयेर काको बसला. पळय. बायेन कावळ्याक पळयलो. कांय खीण ओगी रावलें. मागीर परत रडूंक लागलें. आवयन ताका धरून पासयो मारीत गीत गायलें :

*काक्या तूं गोंयां गेल्लो व्हय रे ऽऽ*
*बायेले आज्येक देखिल्ली व्हय रे ऽऽ*
*नातील्या आज्याक देखिल्लो व्हय रे ऽऽ*
*आमगेली खबर घेतालीं व्हय रे ऽऽ*

आवयन बायेची फाट थापटीत हें गीत दोन-तीन फावटी गायलें. तिच्या खांदार तकली दवरून बाय आयकत रावलें. आयकतां आयकतां-

*बाय न्हिदलें*
*गीत थांबलें*
*बायेल्या पांयार*
*एक दूक गळ्ळें.....*





## 11 आगश्ट 1585

आल्काईद कुडींत भितर सरलो तेन्नाच कायतानाक समजलें, तो इंक्विझिटरां मुखार व्हरपाक आयला. तो उठलो आनी मुस्तायकी घाली. अशक्तपणाक लागून ताका इल्लो चड वेळ लागतालो. पूण आल्काइदान कांय म्हळें ना. ह्या दिसांनी खांक वाडिल्ली. इंक्विझिटरां मुखार ती तशी येवची न्हय म्हूण कुडींतल्यान भायर सरचे आदीं ताणें वखदूय घेतलें.

इंक्विझिटरांच्या सालांत भितर सरतकूच खुरसा मुखार दिमी मारून प्रार्थन केलें आनी कायतान वचून बांकार बसलो. पालवी इंक्विझिटरान कुरू करतकूच दुभाश्यान प्रस्न विचारपाक आरंभ केलो :

'आतां तरी गुन्यांव कबूल करता तूं?'

'करुंकूच नाशिल्लो गुन्यांव कबूल करचो अशी शिकवण आमच्या क्रिस्तांव धर्मांत म्हाका खंयच मेळूंक ना.'

'सगल्या गवायांनी सांगलां, तूं गुन्यांवकार म्हूण.'

'घातमारे ज्युडास आसतात अशें बायबलांतूय सांगलां.'

'हे ज्युडास न्हय; खरे गवाय.'

'म्हज्या गवायांचीं नांवां दिलीं जाल्यार तांकां आपोवंक जातले?'

'ना. तशी रीत हांगा ना.'

'गवायांनी सांगलां ताचे वयल्यान तूं बरो क्रिस्तांव कसो वागूंक ना. तुका बरो क्रिस्तांव जावपाची इत्सा ना?'

'बाउतीज्म घेत पसून हांव क्रिस्तांव धर्माच्या तत्वां प्रमाण वागत आयलां. सगल्यो चाली-रिती पाळ्ळयात. सगल्या नेमांक पाळो दिला.'

'तें आसूं. तूं गुन्यांव कबूल करता?'

'गुन्यांव केल्यारूच तो कबूल करपाचो प्रस्न येता न्हय?'

मुखार आशिल्ल्या खुरसा वयले स्वामी जेजूचे प्रतिमेचे चर्येर नदर थिरावन कायतान पुटपुटलो.

मुखेल इंक्विझिटरान मेजा वयली रुप्याची घांट उखलून वाजयली. आल्काईद येवन कायतानाक घेवन गेलो.

तपासणेची ही निमणी खेप म्हणपाचें कायतानाक कळ्ळें. हेरशीं, आयजूच तांच्यानी ख्यास्त फर्मावंयेताली. पूण ती फर्मावपाचो वेगळो दीस आसता काय? केन्ना फर्मायतले ती? न्यायमंडळ म्हणटात; पूण हांगाच्यो सगल्योच रिती वेगळ्यो काय? ह्या प्रस्नांक जापो आशिल्ल्यो. पूण प्रस्न आयकून घेवपाक आनी तांच्यो जापो दिवपाक थंय कोणूच नाशिल्लो.

कुडींत येवन मुस्तायकी काडटना कायतानाचे मतींत घोळूंक लागलीं तीं मात् दुभाश्याचीं दोन उतरां : 'बरो क्रिस्तांव'. दर एक क्रिस्तांव बरो क्रिस्तांव जावचो अशें कायतानाकूय दिसतालें. तो खासा आपूण बरो क्रिस्तांव म्हूण जियेत आयला. ताका प्रस्न पडलो, आपूण बरो क्रिस्तांव न्हय जाल्यार बरो क्रिस्तांव कोण? आपणाचेर आळ घालून कागाळ केल्या तो फटींग? गवाय म्हूण येवन आनी मिसालाचेर हात दवरून धडधडीत फट उलयला तो मनीस? धर्माचें नांव घेवन अधर्म आनी अन्याय करतात ते इंक्विझिटर?

आनी मागीर, णव वर्सां फाटीं केद्या दबाज्यान आपणाक बाउतीज्म दिलो; धर्मीक कार्यावळींनी आपणाक कितलो मान दिलो; क्रिस्तांवां मदीं आपणाक व्हडविकेची सुवात कशी मेळ्ळी; आपणें एकनिष्ठेन क्रिस्तांव धर्माक पाळो कसो दिलो; दर एक नेम, दर एक चाल, दर एक रीत कशी पाळ्ळी हाचीं चित्रां एका फाटल्यान एक अशीं ताचे नदरे मुखार घुंवत रावलीं......



वासू पै क्रिस्तांव जावपाक तयार जाला हें कळटकूच रायतूरच्या कोटांतल्या फिंर्गी पाद्रीन राय सावन नेमान मिसाक येवपी अश्या कांय जाणांच्या कानार ती खबर घाली. ती गांवभर पातळपाक चड वेळ लागलो ना. गांवांतलो चडसो लोक बाटला; उरिल्लीं कुटंबांय ल्हवुल्हवु बाट्टलीं अशें जांकां दिसतालें तांकां इल्लेंय अजाप दिसलें ना. पूण जे नरसू पैल्या कुटंबाक लागींच्यान वळखताले आनी वासू पै बाटत अशें दिसना अशें समजून राविल्ले तांकां अजाप जालें. पूण काळच असो आशिल्लो की कोण केन्ना कितें करीत आनी कोणाचें केन्ना कितें जायत हें सांगपाक जायनाशिल्लें.

एक दीस सकाळफुडेंच वासू पैल्या आंगणांत मुकादम आनी कितलेशेच पाडेकार उबे.

'भाटकारा, तूं बाव्टीम घेता म्हूण आयकलां. तें खरें?' मुकादमान विचारलें.

'तसो विचार केला.' वासू पैची जाप.

'तर भाटकारा, आमीय बाव्टीम घेतात.' – एक पाडेकार.

'तूं कितेंय करता तें चिंतून करता. आमी तुजेच वांगडा रावपाक सोदतात.' – दुसरो पाडेकार.

'केन्ना घेवपाचो, कितें करपाचें तें सांग आमकां.' – तिसरो पाडेकार.

'भाटकारा, आमकां कडेक काडूं नाका. तूं थंय आमी. ' – चवथो पाडेकार.

हें अशेंच चालू उरचें न्हय म्हूण वासू पैन म्हळें,

'तुमकां सोडून हांव खंयच वचना. पूण ताकतीक करुंनाकात. सारकेंऽऽ-बरें चिंतून पळयात. तुमी थारायतकूच –'

'आमी थारायलां भाटकारा.' मुकादमान तोंड घालें.

'तरी अदीक विचार करात. तुमच्या खंयच्याय सोयऱ्यान बाउतीज्म घेतला जाल्यार ताका कसो अणभव आयला तें समजून घेयात.'

'सोयरे कित्याक भाटकारा? आमकां भरवंसो तुजेर.' – पांचवो पाडेकार.

'तशें जाल्यार मात्शे रावात. केन्ना आनी कितें करपाचें तें हांव आदीं

समजून घेतां आनी मागीर तुमकां सांगतां.'

वासू पैलीं हीं उतरां आयकून तांकां बरें दिसलें. 'बरें भाटकारा' म्हळें आनी ते सगले गेले.

वासू पैन सुस्कारो सोडलो. पूण तो सुटकेचो सुस्कारो जावंक पावलो ना. भाटांत गेलो तेन्ना मुंडकार, तोल्ल ताका रेवाडो घालून तेंच सांगूंक लागले. शेतांत पांय दवरतनाच, काम करताले ते दादले, बायलो धांवत आयलीं आनी तसोच आग्रो करूंक लागलीं.

मुकादम आनी पाडेकार हांकां दिल्ली तशीच जाप दिवन वासू पैन तांकां थाऱ्यार घालीं. ताका मनीस-सबावाचें हें एक कुवाडेंच जालें. तो धर्म सोडूंक तयार जाल्लो आस्पतीचें धनीपण, गांवकारपणाचे हक्क वगडावपाचे नात म्हूण. भूंयपूत म्हूण हेच भुंयेंत पांय रोमून रावपाक. पूण ह्या लोकांक तें लागू जायनाशिल्लें. तांकां अशी इत्सा कित्याक जावची? आपल्या धर्माचो वीट आयला म्हणून? काय दुसऱ्या धर्माची शिकवण चड बरी दिसल्या म्हणून? पोटा खातीर? भाटकाराक खोशी करचे खातीर? काय भाटकारा कडेन आशिल्ले बरेपणाचे संबंद तिगोवन दवरचे खातीर?

जाप मेळ्ळी ना. तें कुवाडेंच उरलें.

दोन दिसांनी नारू कामती आयलो. आतां ताचें नांव दुमींग फेर्नांद जाल्लें तरी वासू पैक तो नारू कामतीच आशिल्लो. ताणें सांगलें,

'तो क्रिस्तांवांचो पाय म्हणटात तो खोशी जालो खंय. फुडली वेवस्था करपाक ताणें रायतूरच्या कोटांतल्या फिर्गी पाद्रीक कळयलां.'

'केन्ना जातलो खंय बाउतीज्म?'

'दोन म्हयन्यां उप्रांत केन्नाय.'

'दोन म्हयन्यां उप्रांत? हय, याद जाली. तुवें ताचें कारण सांगिल्लें.'

'आदीं, क्रिस्तांव जातालीं तीं मनशां आदल्योच चाली-रिती पाळटालीं. खरे आनी बरे क्रिस्तांव जायनाशिल्लीं. ते खातीर तांणी कातेकुमेन करपाची वेवस्था केल्या.'

'कितें म्हळें तुवें?'

‘कातेकुमेन. जो क्रिस्तांव जावंक सोदता आनी जाणें बाउतीज्म घेवचो आसा ताका दोन म्हयने क्रिस्तांव धर्माची शिकवण घेवची पडटा हें सांगलां हांवें तुका. ह्या काळांत ताका कातेकुमेन म्हणटात. बाउतीज्म घेतकूच तो क्रिस्तांव जाता.’

‘अशें? खंय दितात ही शिकवण?’

‘कातेकुमेनां खातीर घरां आसात. गोंयां आसात. बार्देसांत आसात, एक मडगांवां आसा. पूण तीं तुका लागनात. तुजे खातीर ते वेगळी वेवस्था करतले खंय - तूं आनी गोमतीव्हनी.’

‘पूण आनिकूय खूब जाण आसात. भासू कामती आसा. आमचे मुकादम, पाडेकार, मुंडकार - ’

‘तांचे खातीर वेगळी वेवस्था जातली. वासदाद, ते तुका असो-तसो समजनात. तूं पयल्या वांगडाचो गांवकार, भाट-बेंसकार, गांवांतलो नांवादीक मानेस्त हें सगलें ते जाणात. तेच खातीर तुजो बाउतीज्म ते व्हडा दबाज्यान करपाक सोदतात. तुजे सारक्या हेर मानेस्तांनीय फुडें सरचें म्हूण हें धोरण तांणी आपणायलां अशें म्हाका दिसता.’

‘तशेंय आसत. आमी निमित्त्याक कारण!’

‘खूब जाणां क्रिस्तांव धर्मांत भितर सरल्यांत; तांचे मदीं तुमी दोगूय जाणां अशें लोकांक दिशिल्लें तांकां नाका. पळयात, हीं पसून क्रिस्तांव जावन धन्य जालीं. तुमी कळाव करुंनाकात अशें तांकां साश्टींतल्या सगल्या हिंदू लोकांक कळीत करपाचें आसा.’

‘करूं. तांकां जाय तशें करूं.’

‘येतां तर हांव.’ म्हणत नारू कामती वचूंक उठलो. भायर सरचे आदीं ताणें सांगलें, कातेकुमेन म्हूण तुमकां शिकवण दिवपाचें काम केन्ना सुरू जातलें तें कळयतां - ’

‘आनी खंय जातलें तें. ’

‘हय, खंय जातलें तेंय बी.’



1576 वर्सा पावसाळ्या उप्रांत लुंवणी, मळणी असलीं कामां सोंपलीं. शेतांत वावुरपी लोकांक विसव मेळ्ळो. डिसेंबर म्हयन्याच्या पयल्या आयतारा सावन वासू पै आनी गोमती पै हांची कातेकुमेन म्हूण धर्मीक शिकवण सुरू जाली. तीं सद्दां माच्युलांतल्यान रायतूरच्या कोटांत वतालीं. थंय तांकां शिकवण दिवपाची जबाबदारी कपेलांतलो फिंर्गी पाद्री साल्वादोर व्हाज हाचेर आशिल्ली. ताका पालव दिवंक दिवाडेचो एक तरणाटो कोटांत येवन राविल्लो. ताणें गोंय शारांतले सेंट पॉल कॉलेजींत पाद्रीपणाचें शिक्षण निकतेंच पूर्ण केल्लें. वितोरीन दे सा ताचें नांव.

डिसेंबरांतूच मडगांवच्या कातेकुमेनघरांत भासू कामती आनी ताच्या कुटंबांतलीं सगलीं मनशां थंयच्या फिंर्गी पाद्रीं कडल्यान धर्मीक शिकवण घेवंक लागलीं. तांकां मडगांवां वचून सोयऱ्यांगेर रावचें पडलें. फिंर्गी पाद्रींक पालव दिवपाक तिसवाडींतल्या थळाव्या कुटंबांतले कांय तरणाटे येवन राविल्ले. ते सेंट पॉल कॉलेजींतले विद्यार्थी आशिल्ले.

कांय दिसांनी कातेकुमेनघरांत रावपाक कितलींशींच मनशां आयलीं. तांचे मदीं वासू पैले मुकादम, मुंडकार, तोल्ल, पाडेकार, मानांय तशेच भासू कामतीले मुंडकार, चाकर आनी ताच्यो बायलो, भुरगीं आशिल्लीं.

वासू पै आनी गोमती पै हांकां शिकवण दिवपाक पाद्री व्हाजान आरंभ केलो. ज्या धर्मांतल्यान तीं आयल्यांत त्या धर्माची शिकवण, तत्वां, धर्मान सांगिल्ल्यो चाली, प्रथा हें सगलें तांणी तकलेंतल्यान सामकें काडून उडोवचें आनी नव्या धर्माचीं तत्वां समजून घेवन तीं आपणावचीं अशी सुरवात करून ताणें क्रिस्तांव धर्माचीं मुखेल तत्वां खंयचीं तें शेर्मांव दिल्ले भाशेन सांगलें. तो पुर्तुगेज भाशेंत उलयलो. वितोरिनान तें कोंकणी भाशेंत सांगलें. सुर्वेचे चार दीस पाद्री व्हाजान पुर्तुगेजींत सांगचें आनी वितोरिनान ताचो कोंकणींत अणकार करचो अशें चल्लें. चार दिसां उप्रांत पाद्री व्हाज वाजेलो. मदीं-मदीं येवन पळोवन वतालो. पूण फुडली शिकवण वितोरिनानूच दिली.

ताणें वासू पैक आनी बायलेक खुरसाची कुरू कशी करची तें शिकयलें. ते कुरवेचें म्हत्व स्पश्ट करतना ताणें हातांतली पटी वाचून सांगलें, 'जैसो

गुन्यांवकार मनसुबदाराची काठी देखतचि पळटा, तैसोचि सैतान ही कुरू केलली देखतचि थडथडेवन फाटाफूट जावनु वेता.' फकत सैतानूच न्हय तर दर एक संकश्ट आनी अरिश्ट हे कुरवेक भियेता अशेंय ताणें सांगलें. पवित्र खुरसाचे हे कुरवे संबंदान प्रार्थन कशें करचें तें समजायतना ताणें तें म्हणून दाखयलें :

*पवित्र क्रुसाचिये कुरवेन*
*सोडय आमकां परमेस्परा*
*आमच्या अद्रुस्टांतुले*
*बापाचे नांवीं, आनी पुत्राचे*
*आनी पवित्र आत्म्याचे*
*आमें जेजूस*

मागीर वितोरिनान 'आमच्या बापा' हें मागणें कशें मागचें तें शिकयलें आनी तें त्या कातेकुमेन जोडप्या कडल्यान म्हणून घेतलें. पियेदादीन फकत ओंठ हालयले. वासू पैन मना पसून म्हळें :

*आमच्या बापा, तूं स्वर्गीं आससि*
*तुजें नांव थोर जावं, तुजें राज आमकां येवं*
*तुजी खोशी जशी सर्गीं जाता*
*तैसीचि संवसारांतु जावं*
*आमचो दिसपट्टो ग्रासु*
*आजि आमकां दी*
*आनी आमचीं पातकां भगसि*
*जैसे आमी आमचेरि चुकलल्यांक भगासितांव*
*आनी आमकां टाळणिये पडूंक दिवं नाका,*
*पूण जें कांय आमचेरि वायट विघ्न येता*
*तें निवारि*
*आमें जेजूस*

वासू पैक मागणें आवडलें. पियेदादीच्या मनाचेर इल्लोय प्रभाव पडलो ना.

मागीर वितोरिनान 'नमो मारिये' ही प्रार्थना म्हणून दाखयली. ताचो ताळो गावपाक फावो तसो आशिल्लो आनी ही प्रार्थना ताच्या ओंठांर घोळिल्ली :

*नमो मारिये क्रुपा भरिती*
*स्वामी तुजे ठांय आस*
*स्त्रियां भितरि तूं सदैवी*
*आनी सदैव फळ तुजे कुशिचें जेजूस*
*सांता मारिये परमेस्पराचे माते*
*आमां पापियां खातीर मिनति करि*
*आतां आनी आमच्या मरण कालाडे*
*आमें जेजूस*

वासू पै आनी गोमती हांणी ही प्रार्थना वितोरिना वांगडा म्हळी.

वासू पै सगलें लक्ष दिवन आयकतालो आनी समजून घेतालो. कांय वेळा प्रस्न विचारून वितोरिना कडल्यान अदीक जाणा जावन घेतालो. गोमती आयकता अशें तिका पळयतल्याक दिसतालें. वितोरिनाकूय तशें दिसतालें. पूण खरेपणीं ती थंय नासतालीच. केन्ना तिचें मन भूतकाळांत बुडून वतालें तर केन्ना तें भुरग्यांक सोदूंक भोंवतालें. वितोरीन सांगतालो, पूण तिच्या कानांत तें वचनाशिल्लें. आनी गेलेंय जाल्यार तें मनांत रिगनाशिल्लें.

मदीं नातालांची परब आयली. त्या निमतान वितोरिनान जेजू क्रिस्ताचे जिणेची खबर सांगली. स्वामी जेजूक जें भोगचें पडलें आनी जे तरेन मरण आयलें तें वितोरिनान बरे ऽऽ तरेन आनी अंतस्कर्णांतल्या उमाळ्यान सांगलें. तें गोमतीन आयकून घेतलें. वितोरिनान केल्लीं वर्णनां सोंपलीं तेन्ना गोमतीच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळ्ळीं. तीं दुकां वितोरिनान सांगिल्ले खबरेक लागून गळ्ळीं काय ती स्वता भोगताली त्या त्रासांक लागून गळ्ळीं हें मात तिका कळ्ळें ना. कोणाकूच कळ्ळें ना.

परबेच्या काळांत एक दीस पाद्री व्हाज येवन गेलो. ताणें वासू पैक आनी बायलेक नातालांचीं परबीं दिलीं. दोगांकूय जेजू क्रिस्ताची मूर्त आशिल्ले ल्हान लाकडी खुरीस दिले.

नातालांचे परबे उप्रांत वितोरिनान शिकवणीचो फुडलो वांटो सुरू केलो. पटी हातांत घेवन आनी मर्दी-मर्दीं ती वाचून ताणें धा उपदेश, सात म्हापातकां आनी सात साक्रामेंत हें सगलें समजावन सांगलें. वासू पैल्या प्रस्नाक जाप दितना ताणें धा उपदेश खंयचे ते सांगले :

*‘पयलो : एकाचि सतेवंता परमेस्पराक मानु दिवंचो*
*दुसरो : परमेस्पराची आण अडादेडिये दिवं नये*
*तिसरो : आयतारा संताक, वावरु न करिता, पाळो दिवंचो*
*चवथो : माय-बापाक मानु दिवंचो*
*पांचवो : जिवेशीं मारूं नये*
*सटवो : परद्वार करूं नये*
*सातवो : चोरूं नये*
*आठवो : लटकी गवाय दिवं नये*
*णवो : पेल्याचे स्त्रियेची आशा करूं नये*
*धावो : पेल्याचे वस्तूची आशा करूं नये.’*

वासू पैन ‘अडादेडिये‘, ‘परद्वार’ असल्या कांय उतरांचो अर्थ विचारलो. वितोरिनान त्या उतरांचो अर्थ विस्कटावन सांगलो आनी म्हळें,

‘समेस्तांनी परमेस्पराची भक्ती करुंची आनी जैसें आपण्याक देखता तैसेंचि पेल्याक देखुचें ही मुखेल शिकवण.’

मागीर ताणें मुळावीं अशीं सात म्हापातकां खंयचीं तीं सांगलीं :

*‘पयलें - गर्व*
*दुसरें - आपसुवार्थ*
*तिसरें - कामु*
*चवथें - क्रोधु*
*पांचवें - पोटार्थु*
*सटवें - नेदुखाचारु*
*सातवें - आळसाय’*

‘नेदुखाचारु’ ह्या उतराचो अर्थ वासू पैन विचारलो तेन्ना वितोरिनान

सांगलें, ‘मत्सर’ वा ‘कुडणाटेपण‘. वासू पैन फुडें विचारलें,

‘संवसारांत फकत सातूच पातकां आसात? आनीक नात?’

‘आसात तर! हीं सात मुळावीं म्हापातकां. हेर समेस्तां पातकां ह्या म्हापातकां वरोवनु उप्रासताति.’

हाचे उप्रांत वितोरिनान म्हळें,

‘आतां साक्रामेंतां विशीं सांगतां – ’

‘साक्रामेंत म्हणचे कितें?’ वासू पैलो प्रस्न.

वितोरिनान पटी उगडून एक–दोन पानां वाचलीं आनी जाप दिली,

‘इगर्जेंतल्या वा हेर कडेन जाल्ल्या धर्मीक सुवाळ्यांत वांटो घेता ताचेर देवाची कुर्पा जाता तेन्ना ताका साक्रामेंत म्हणटात.’

‘देखी दिवन सांगशी?’

‘हय. बाउतीज्म हो पयलो साक्रामेंत. ख्रिस्म, कोमुन्यांव, कुमसार जावप, सांतेसांव, काजार, पाद्रीपण वो ऑर्द हे बाकीचे साक्रामेंत.’

‘आमी हांकां संस्कार म्हणटात.’ वासू पैन गोमतीक समजणी दिवपाक सांगलें.

‘आंऽऽऽ?’ इतलेंच गोमतीन म्हळें आनी निर्विकार चर्येन घोवा कडेन पळयलें. तिचें व्हितोरिनाले शिकवणे कडेन लक्ष नाशिल्लें. तो सांगतालो तें समजून घेवपाची इत्साय नाशिल्ली. तिचें मन फुडाराच्या काळखांत दिशाहीन जावन हेडटालें.

दुसरो म्हयनो सोंपत आयलो तेन्ना वितोरिनान वासू पै आनी गोमती हांकां दौत्रीन शिकयली. दर आयताराक मीस आयकुपाचो नेम सांगलो, आपणें केल्ल्या पातका विशीं पाद्री कडेन कुमसार जावप कशें गरजेचें तें समजायलें आनी फेस्तां, धर्मीक कार्यावळी हातूंत वांटो घेतना आपले लागणुकेक पाळो कसो दिवचो हाचेंय मार्गदर्शन केलें.

जानेवारी म्हयनो सोंपतां सोंपतां ही शिकवण सोंपली.

वासू आनी गोमती पै हांच्या बाउतिज्माचो सुवाळो व्हडा दबाज्यान करपाचें पाद्री व्हाजान चिंतिल्लें. साश्टींतल्या सगल्या हिंदू भाटकारांनी

आनी हेर कुटंबांनी ह्या पै कुटंबाची देख घेवची अशें तो ह्या सुवाळ्यांतल्यान सुचोवंक सोदतालो. फेब्रुवारी म्हयन्याचो दुसरो आयतार ताणें बाउतिज्मा खातीर थारायलो. आदल्या आयताराच्या मिसा वेळार राय, रासय, लोटली, रायतूर ह्या आनी शेजारच्या हेर गांवांतल्या सगल्या क्रिस्तांवांक ताणें सुवाळ्याक हाजीर रावपाचें आमंत्रण दिलें. मडगांवांत वावुरताले त्या फिंर्गी पाद्रींक मुजरत आपयले.

बाउतिज्माची आदली रात. गोमतीचो दोळो लागलो ना. तिचें मन रातभर तळमळ्ळें :

*धर्म बदलचे परस गांव बदल्ल्यार बरें जावचें नाशिल्लें?....गांव सोडून वचपाचें संकश्ट टाळपाक फाल्यां धर्म बदलतलीं. ताका लागून आनीक संकश्टां येवचीं नात म्हणपाची खात्री आसा? ....खंयचोय देव आसूं, देवता आसूं, असल्यो करण्यो करात म्हूण सांगलां? सगले धर्म मनशाचें बरें करपाकूच सांगतात न्हय? मागीर ही अशी बळजबरी कित्याक?.....फाल्यांच्यान वेगळे तरेचें जिणें. जातले म्हज्यान काडूंक दीस? .....आनीक सोंसूंक जातलें म्हज्यान? .....*

गोमतीन कामाक्षेची मूर्त दोळ्यां मुखार हाडपाचो यत्न केलो. आदीं कुर्कुटांतली....ना ; कुर्कुटांत आतां मूर्त ना...मागीर देवळांतली....ना ; थंय मूर्त खंयची? देवूळच ना.....! गोमतीचे उक्ते दोळे रातभर देवतेची मूर्त सोदीत रावले......

ते वटेन वासू पै कुशी परतितालो. पूण न्हीद लागनाशिल्ली. धर्म बदलून क्रिस्तांव जावपाचें थारायत सावन काल मेरेन ताणें त्या निर्णया विशीं परत चिंतूंक नाशिल्लें. ताचें मन फकत तयारेच्या वावरांत घुस्पल्लें. पूण फाल्यां तो बाउतीज्म घेतलो आनी दुसऱ्या धर्मांत वतलो. हिंदू म्हूण ताची ही निमणी रात. ही रात अस्वस्थताय घेवन आयिल्ली. घेतिल्ल्या निर्णयाची चिकित्सा ती ताच्या मनाक करूंक लायताली. निर्णय आतां बदलपाचो विचार नाशिल्लो. तरी तो शाणेपणाचो जातलो काय चुकीचो थारतलो हो

हुस्को पिडटालो :

*बेश्टीच ताकतीक केली ना मूं? बेश्टोच भियेलों ना मूं?.... ना. कितलेश्याच गांवकारांनी आदींच हो मार्ग आपणायिल्लो. बारीक-मोटो कितलोसोच लोक क्रिस्तांव जाल्लो. ते सगले पिशे?......ते सगले चुकल्यात?...ना मूं?.....मागीर हांवूय चुकूंक ना. साबार लोकांनी केलें तेंच हांव करतां....वायट जातलें अशी समजणी कित्याक करून घेवची?.....सगलें बरेंच जातलें असो विस्वास कित्याक धरचो न्हय?....खूब जाणांनी धरला....हांवूय धरतलों....*

ह्या विचारान वासू पैक इल्लो धीर मेळ्ळो. अंतर्मनांतलो कलकल मात्सो थांबलो. ताणें कूस परतिली....न्हीद मात् ताका आफुडली ना...

आयतार उजवाडलो. थारायिल्ले प्रमाण सुवाळो दबाज्यान जालो. रायतूरच्या कोटांत कपेला मुखार मल्लांचो माटोव घाल्लो तो उणो पडलो. बाउतिज्माच्या सुवाळ्या खातीर वासू पै आनी गोमती हांकां पुर्तुगेज घालतात तसली मुस्तायकी घालूंक दिल्ली. ती उंची रस्माची आशिल्ली. वासू पैचे मुस्तायकेंत काल्सांव, खोमीस, ज्युदी, मोचे, चेपें हांचो आस्पाव आशिल्लो. गोमतीक पानो-पालव न्हेसूंक दिल्लो. बाउतीज्म घेतल्यांक मुस्तायकी दिवपाक पुर्तुगालच्या राजान दुडवांची गांठ केल्ली. पूण सगल्यांक मुस्तायकी दिवपाक ती उणी पडटाली. देखून मानादीक अश्या मनशां खातिरूच तो दुडू वापरताले. हेरांक मुस्तायकी दिवपाक फिदाल्ग वा हेर गिरेस्त मनीस फुडें सरताले. मानादीक मनशांक उंची तर बारीक लोकांक सादी मुस्तायकी दिताले. कांय वेळार मुस्तायकी ना म्हूण बाउतिज्माचे भौशीक सुवाळे फुडें धुकळचे पडटाले.

पाद्री व्हाजान बाउतिज्मा वांगडा आपलें आडनांव वासू पै आनी गोमतीक दिलें. वासू पै जालो कायतान व्हाज आनी गोमती जाली पियेदाद व्हाज.

फुडल्या आयताराक असोच भौशीक सुवाळो जालो. तातूंत भासू कामतीक, बायलेक आनी तांच्या भुरग्यांक पाद्री व्हाजान बाउतीज्म दिलो.

कुटंबाक आडनांव दिलें कॉश्त. भासू कामत जालो दियोग कॉश्त. ह्या कुटंबाक दिल्ली मुस्तायकी रस्मी आशिल्ली पूण तितली उंची नाशिल्ली. ते मुस्तायकेचो खर्च एका फिदाल्गान उखलिल्लो.

ह्या सुवाळ्या फाटोफाट आनीक खूब जाणांक पाद्री व्हाजान आनी हेर फिंर्गी पाद्रींनी बाउतीज्म दिलो. तांचे मदीं वासू पैले मुकादम, मुंडकार, पाडेकार, तोल्ल, मानांय आनी तांचीं बायल-भुरगीं आशिल्लीं. शेंवतू आनी हेर वावराड्योय आशिल्ल्यो. तेच भाशेन भासू कामतीले मुंडकार, तोल्ल, चाकर, मानांय आनी तांचीं बायल-भुरगींय आशिल्लीं. ह्या सगल्यांक मुस्तायकी दिल्ली ती सुती; पूण कांय जाणांक तिचीच व्हडवीक दिसली. हे मुस्तायकेचो खर्च साश्टींतल्या क्रिस्तांव जाल्ल्या कांय भाटकारांनी आनी व्यापाऱ्यांनी केल्लो.



वासू पैल्या बाउतिज्माच्या सुवाळ्याक नारू कामती आयिल्लो. सुवाळो जातकूच वासू पैन ताका म्हळें,

'नारू, आतां फुडें कितें करपाचें तें तुवेंच म्हाका सांगचें पडटलें.'

'ते विशीं तूं हुस्को करुंनाका. हांव फाल्यां सकाळीं येतां. कांय बदल करूंक जाय. आतां रोखडे करूंक जाय ते फाल्यां करुंया. फुडें कसली जतनाय घेवपाची तेंवूय सांगतां.' नारू कामतीन सांगलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं नारू कामती आयलो. ताणें वासू पैक सांगलें,

'आदीं घरा भायलें जाग्यार घालुंया. मागीर घरांतलें पळोवया.' तुळशी-वृंदावनाक बोट दाखोवन ताणें म्हळें, 'हें काडून उडोवंक जाय. तुका जाय जाल्यार मागीर हांगा खुरीस बांद.'

वासू पैन मानांयाक उलो मारलो आनी येतना कुदळ घेवन यो म्हूण सांगलें. हें गोमतीन आयकलें. कुदळ कित्याक हाड म्हळ्या तें पळोवपाक ती आयली आनी पडवेच्या दारांत उबी रावन पळोवंक लागली.

नारू कामतीन मानांयाक सांगलें,

'हें तुळशी-वृंदावन काडून उडय.'

मानांयान वृंदावन फोडपाक कुदळ मारली ती पळोवन गोमतीच्या काळजांत चर्र जालें. हांगा रावल्यार आपल्याक रडूंक येतलें हें येवजून ती मागीलदारांत वचून कपलार हात धरून बसली.

'पोरसांतलो तुळशीचो एकान एक रोंपो हुमटावन उडय.' तुळशी-वृंदावन फोडून उडयतकूच नारू कामतीन मानांयाक सांगलें.

ते तिगूय पोरसांत भोंवन तुळशी रोंपे सोदूंक लागले आनी दिसता तो रोंपो हुमटावन उडोवंक लागले. नारू कामतीन वासू पैक सांगलें,

'असले रोंपे जायत रावतात. दिसलो कीं काडून उडोवपाचो हाचो उगडास धर. पोरसांत तुळशीचो रोंपो आसप हो गुन्यांव.'

'कित्याक?'

'हिंदू धर्मांत तुळशीक धर्मीक म्हत्व आसा. देखून क्रिस्तांवागेर ती आसप हो गुन्यांव अशें इंकिजिसांवान थारायलां.'

ते तिगूय तुळशीचे रोंपे हुमटायतात हें गोमतीन पळयलें. पोरसांतलें काम जातकूच ते घरांत येतले हें सट् करून तिच्या लक्षांत आयलें. ती उठली आनी सडसडीत कुडींत गेली. वण्टीक तेंकून आशिल्ली सायलाच्या लाकडाची पेट तिणें उगडली. भितर कापडां, जुनेरां, चोळयो आशिल्लीं. दोन कापडां आनी दोन चोळयो पेटेंत दवरून हेर सगळीं न्हेसणां काडून तिणें घडवणीचेर दवरलीं. शेंवतूक उलो मारून आपयलें आनी दोगांनीय उखलून पेट कोठये कुडींत एका कोनशाक व्हरून दवरली. शेंवतूक 'तूं वच' अशें सांगून गोमती सालांत आयली. एके वण्टीक आशिल्ल्या व्हडल्या कुर्कुटांत कामाक्षेची मूर्त आनी ते मुर्ती वांगडा हेर देवांच्यो मुर्ती आशिल्ल्यो. त्यो सगल्यो काडून तिणें पेटेंत व्हरून दवरल्यो. मागीर पिंजरेची डबी, पडगो, पळी, निरांजन, एकारत, कुरपणो बी एकठांय करून तें सगळें व्हरून पेटेंत दवरलें. जे डबयेंत मंगळसूत्र दवरिल्लें ती डबी आनी कांकणांचो करंडूय दवरलो. आनीक कितेंय उरलां काय म्हूण ती येवजिताली; इतल्यांत वासू पै

आनी नारू कामती घरांत भितर सरले. गोमती वचून रांदचे कुडींत बसली.

'कुर्कुटांतल्यो सगल्यो मुर्ती आनी देवस्पणाच्यो वस्ती काडून तांचें कितें करचें तें मागीर थाराय.' – नारू कामतीन वासू पैक सांगलें.

वासू पै कुर्कुटा सरीं गेलो. तें रितें. एकूय मूर्त ना आनी हेर कसली वस्तय ना. कितें घडलां तें तो समजलो. नारू कामतीक ताणें म्हळें,

'तें सगलें काडलां. हें पळय. हांगा कांय ना.'

'बरें केलें,' अशें म्हणून नारू कामतीन सांगलें, 'हेर तूं पळय. हिंदू देवाची मूर्त वा देवस्पणाचें कसलेंच साधन आसूंक जायना इतलें मतींत धरचें.' इतले म्हणसर वयर हुमकळायिल्ल्या दांडयांचेर सुकत घाल्लें पुडवें, चोळो, जुनेर बी न्हेसणां ताका दिसलीं. 'हीं काडचीं आनी तांचो विलो करचो. हाचे फुडें असलीं न्हेसणां न्हेसपाचीं नात. खुटयाळ्याक तोपी आसल्यार ती काडची. फिंर्गी दादले घालतात तशी मुस्तायकी आमी दादल्यांनी घालपाची आनी फिंर्गी बायलो न्हेसतात ते भाशेन आमच्या बायलांनी न्हेसपाचें.' ताणें सांगलें.

'आनीक कसल्यो रिती पाळपाच्यो?' वासू पैन विचारलें.

'खूब आसात. इंकिजिसांवान 35-36 नेम केल्यात. ते सगले मागीर केन्नाय सांगतां. पूण तांतुंतले थोडे आतांच तुमकां कळिल्ले बरे. गोमती व्हनयेऽऽ,' ताणें उलो मारून गोमतीक भायर आपयली आनी म्हळें, 'तुमी दोगांनीय हे नेम जाणा जावंक जाय.'

'असले कसले नेम तर ते?' वासू पैन विचारलें.

'सांगतां,' नारू कामतीन म्हळें आनी एक एक नेम बरे ऽऽ तरेन समजायलो :

– 'आंगणांत वा पोरसांत तुळशीचो रोंपो आसूंक जायना. तो दिसलो जाल्यार रोखडोच हुमटावन उडोवंक जाय.

– दादल्यांनी पुडवें न्हेसूंक जायना आनी बायलांनी चोळी घालूंक जायना.

– शीत करतना तातूंत मीठ घालुंकूच जाय.

– सटी मनोवंक जायना.

– शेतांत नवें पीक येता तेन्ना घरांत परब करूंक फावना.

– क्रिस्तांवान मुळी, म्हळ्यार मुखेल गांवकार, जावंक फावना.

– काजारा वेळार माटोव घालूंक वा दरवंट्या कडेन पानांची आरास करूंक फावना.

– भौशीक कार्यावळींनी वा घरांत होंवयो गावंक जायनात. काजाराच्या खंयच्याच सुवाळ्यांतूय त्यो गावंक जायनात.

– काजार जातकूच जोडपें न्हिदता ते खाटे पोंदा खावचीं पानां, सुपारी वा कसलेंच खाण दवरूंक फावना.

– काजाराक वा काजारा कडेन संबंद आशिल्ल्या खंयच्याच सुवाळ्याक दायजी आनी गोत्री हांकां आपोवंक फावना.

– काजाराच्या सुवाळ्यांनी पानांचे विडे वांटूंक जायना.

फिर्ग्यांचे नदरेन आमी आतां राजाचो धर्म घेतला. आमी सुदारल्यात. जांणी तो घेवंक ना ते गांवठी आनी कोंकणेच उरल्यात. ते खातीर तुमी कोंकण्यांच्यो चाली आनी रिती हांकां पाळो दिवंक फावना. कळ्ळें न्हय?'

'हय कळ्ळें.' वासू पैन जाप दिली.

गोमतीन कपलार हात मारलो. नारू कामतीक 'बस आंऽऽ' म्हणून ती भितर गेली आनी दोगांकूय पनें घेवन आयली. तें पियेवन नारू कामती भायर सरलो.



बाउतिज्मान वासू पै कायतान व्हाज जाल्लो. ताणें तुळशी-वृंदावनाचे सुवातेर रोखडोच खुरीस बांदून घेतलो. मेस्ताक हाडून सालांत मुर्ती दवरपाचें कुर्कूट आशिल्लें तें धांपून थंय आल्तार करून घेतलो. पाद्री व्हाजान दिल्ले खुरीस आल्ताराचेर दवरले. शीत करतना मीठ घालपाची पियेदादीक याद केली. घर कशेच रितीन हिंदू कुटंबाचें दिसचें न्हय हाची जतनाय घेतली. एक दीस नारू कामतीगेर वचून ताणें आनीक कसलेय बदल केल्यात जाल्यार पळोवन घेतले. ताका हाचे फुडें क्रिस्तांव धर्मा कडेन एकनिष्ठ रावन जियेवपाचें

आशिल्लें. भावार्तीं क्रिस्तांव ह्या नात्यान; अडेचो म्हूण न्हय.

गोपू शेटीले भाच्येचें लग्न आशिल्लें म्हूण गोपू शेटीलें अख्खें कुटंब दिवचले गेल्लें. वासू पैल्या बाउतिज्माचो सुवाळो जाल्लो तेन्ना तें कुटंब राय नाशिल्लें. दिवचलच्यान परतले बराबर गोपू शेटी इश्टागेर आयलो. दारांत खुरीस पळयनाफुडें ताका आपूण क्रिस्तांव घरांत आयलां हाची जाणविकाय जाली. तो पडवेचीं सोपणां चडटनाच कायतानान ताका पळयलो आनी म्हळें,

'यो. लग्न बरे भाशेन जालें न्हय? सगलीं आयलीं?'

'हय. लग्न दबाज्यान जालें. आमी दनपारां पावलीं. व्हनये, बरी आसा मूं?' ताणें आवाज मात्सो वाडोवन रांदचे कुडी वटेन पळोवन विचारलें.

पियेदाद भायर आयली. तिचें आनी कायतानाचें न्हेसण पळोवन गोपू शेटी खिणभर गडबडलो. तें कायतानाचे नदरेंत गेलें. ताणें म्हळें,

'गोपू, आतां हांव कायतान व्हाज आनी ही पियेदाद व्हाज. आमचो धर्म बदल्ला तशी मुस्तायकीय बदल्ल्या. हो पळय, हांगा आल्तार करून घेतला.'

'भायर खुरीस पळयला हांवें.'

'हय. पोरसांत तुळस आसूंक जायना खंय. देखून वृंदावन मोडून खुरीस बांदला. पूण एक लक्षांत धर गोपू, घरांत आनी आमच्या कुटंबांत कितलेय बदल जाले तरी आमची इश्टागत तशीच उरतली.'

'हय तर!'

'तुज्यान म्हाका वासू आनी हिका व्हनी म्हणूंक जाता आं ऽऽ.'

'आनीक कितें म्हणटलों? तोंडार तशेंच बसलां. आतां म्हज्यान तरी तें बदलूंक जावचें ना.'

दोगूय हांसले. पियेदाद भितर गेली. गोपू शेटीन म्हळें,

'वासू, हो बदल तुकाच जमपाचो; म्हज्यान हें जावचें नाशिल्लें. तुवें म्हाका शाणेपणान बुद्द दिली.'

'तुवेंय ती शाणेपणान मानून घेतली. गोपू, म्हाका धर्म बदलपाची इत्सा नाशिल्ली हें तूं जाणा. जमलें तितले मेरेन हांवें तें टाळ्ळें. पूण एक सांगतां, आतां हांवें क्रिस्तांव धर्म आपणायला म्हण्टकूच म्हजी पुराय निष्ठा त्या

धर्माक दितलों. तत्वां मानून घेतलों. चाली-रितींक पाळो दितलों. खंयचोच नेम हांव मोडचों ना.'

'सबावूच तो तुजो. बरें, येतां हांव.' गोपू शेटी वचूंक उठलो.

कायतानान वा पियेदादीन ताका खावंक वा पियेवंक कांयच दिलें ना. ते विशीं विचारलेंय ना. तांगेर ताणें कितेंय खाल्लें जाल्यार तो बाटलो अशेंच लोक मानतलो आसलो.



कायतान नेमान मिसाक वचूंक लागलो. परबांनी आनी धर्मीक कार्यावळींनी वांटो घेवंक लागलो. तसल्या कार्यांनी दुडवांची गरज पडली जाल्यार ती भागोवंक लागलो. बाउतीज्म घेवपी बारीक लोकांक मुस्तायकी दिवपाचो खर्च उखलूंक लागलो. आदीं हिंदू समाजांत नरसू पैक आनी ताच्या कुटंबाक जसो मान लोकां कडल्यान मेळटालो तसोच मान क्रिस्तांव जाल्ल्या लोकां मदीं कायतान व्हाजाक आनी ताच्या कुटंबाक मेळूंक लागलो. ल्हवुल्हवु तो राय-रासय-रायतूर ह्या वाठारांतल्या क्रिस्तांवांचो फुडारी जालो. फिंर्गी पाद्री आनी कापितांव पसून ताका बरो क्रिस्तांव म्हूण वळखूंक लागले.

पियेदाद मात् दोन जिणो जगताली. वयलेचाराक ती आपूण क्रिस्तांव म्हूण दाखयताली. मदीं-मदीं कायताना बराबर मिसाक वताली. केन्नाय परबे निमतान वा धर्मीक कार्या निमतान रायतूरच्या कपेलांत वताली. क्रिस्तांव लोकां मदीं वावुरतना आदीं तिका सांगिल्ल्यो त्यो सगल्यो चाली-रिती पाळटाली. घोवा भाशेन वावुरपी न्हय; पूण थंड सबावाची बरी बायलमनीस म्हूण लोक तिका वळखतालो.

खरेपणीं, पियेदादीचें हें रूप अडेचें आशिल्लें. लोकांक हें सत्य कळचें न्हय हाची पुराय जतनाय ती घेताली; पूण ती मनान क्रिस्तांव जावंकूच नाशिल्ली. बाउतिज्माचो सुवाळो हो एखाद्र्या खेळांतलो प्रसंग अशें ती मानताली. आतांची मुस्तायकी, पिंजर लावंक नाशिल्लें कपल, वेगळ्यो

चाली, वेगळ्यो रिती म्हळ्यार तिणें घेतिल्ल्या सवंगाच्यो गरजो अशें तिका दिसतालें. तिचो थंड सबाव आनी मंद चलणूक हांकां लागून तें तिका पचतालें. घरांत आल्तारा मुखार रावन प्रार्थना करतना कायतान एकलोच आसतालो. पियेदादीचें मन जाणा आशिल्ल्यान ताणेंय तिचे इत्शे आड कितेंय करपाचो आग्रो केन्नाच धरलो ना. तशें करप तिचे नाजूक मनस्थितीक मारेकार जातलें हें तो जाणा आशिल्लो.

पोरसांतले तुळशीचे रोंपे हुमटावन उडोवपाचें काम दोग-तीग जाणांनी केल्लें तरी एक रोंपो तांचे नदरेंतल्यान सुटिल्लो. तो मागीलदारांतले बांयचे बगलेक आशिल्ल्या झाडां मदीं आशिल्लो. पियेदादीन एक दीस सगलें पोरसूं भोंवन तो सोदून काडिल्लो; पूण कोणाकूच ताचे विशीं सांगूंक नाशिल्लें. दर दिसा दनपारां न्हावन जातकूच उदक हाडपाच्या निमतान ती कळसो घेवन बांयचेर वताली. वतना एक फूल तोडून हाडटाली. तें बांयचे धडेर दवरून कळशान उदक काडटाली. कोण पळयना हाची खात्री करून कळशांतलें इल्लें उदक तुळशी रोंप्याक घालताली, सकयल उकणयां बसून मुळा कडेन फूल दवरताली आनी पांयां पडटाली. कळसो हाण्डीर घेवन घरांत परत येताली.

दिसपट्टी तिनसांजची पियेदाद थोडीं फुलां हातांत घेवन कोठये कुडींत वताली. हेरशीं ती ल्हानशीच वासरी. पूण थंय कोठी केल्ल्यान ते वासरेकूच कोठयेकूड हें नांव पडिल्लें. भितर सरतकूच ती दाराक खिळी घालताली. मागीर पेट उगडटाली. पेटेंतल्यान कापड, पिंजरेची डबी, मंगळसूत्र, कांकणां, निरांजन काडटाली. आंगा वयली मुस्तायकी काडून कापड न्हेसताली. कपलाक पिंजर लायताली. गळ्यांत मंगळसूत्र आनी हातांत कांकणां घालताली. कोठये कुडींतली तेलाची गिणी घेवन चिमटीभर तेल निरंजनांत घालताली. मागीर पेटेंतल्यान कामाक्षेची मूर्त काडटाली. पेट धांपून ती मूर्त पेटेचेर दवरताली. पेटे मुखार बसताली. निरांजन पेटयताली. मुर्तीक फुलां ओंपताली. जमनीक कपल तेंकोवन पांयां पडटाली. भुरगीं जंय आसतीत थंय तीं बरीं उरचीं, कामाक्षेन तांचो सांबाळ करचो अशें मागणें करताली.

तें जातकूच गळ्यांतलें मंगळसूत्र आनी हातांतलीं कांकणां काडटाली. लुगटाच्या कुडक्यान कपलाची पिंजर पुसून वडयताली. कापड सोडोवन सद्ची मुस्तायकी घालताली. मूर्त आनी सगल्यो वस्ती आशिल्ल्यो तश्यो पेटेंत दवरून पेट धांपताली. दाराची खिळी काडटाली. ज्या रुपांत कोठये कुडींत भितर सरिल्ली त्याच रुपांत भायर सरताली.

पियेदाद अशें कितेंय करता जायत असो दुबाव कायतानाक आशिल्लो. पूण ताणें खात्री करपाचो यत्न केन्नाच केलो ना. घरांत काम करतल्यां मदल्या कोणेंय तिका कोठये कुडींत वतना वा कुडींतल्यान भायर सरतना पळयल्या आसत; पूण ती भितर कितें करता हें घरांत केन्नाच कोणाक कळूंक पावलें ना.

गोमती आनी पियेदाद हांचे मदीं कसलोच संघर्श नाशिल्लो. ताकाच लागून आपले भितर गोमतीक लिपोवन दवरपाचें काम पियेदादीक साध्य जाल्लें. पूण अशी ही कसरत करतना पियेदादीचे आदींच नाजूक जाल्ले मनस्थितीचेर अदीक ताण पडिल्लो. कांय वेळा ती आपलेच कडेन पुटपुटत बसताली. एक दीस कायतान जेवपाक येवपाचो आसा हें विसरून आपूण जेवन मेकळी जाली. एके राती शेंवतूक सांगलें,

'भुरग्यांचीं हातरुणां घालून दवर. आतां येतलीं तीं.'

कायतानाक ह्यो खबरो कळटाल्यो. त्यो वैजाक सांगून आनीक कसलेंय वखद आसा काय म्हूण तो विचारी, वैज कितें सांगतलो! तो म्हणटालो,

'वखद एकूच. परिस्थितीचें चक्र बदलूंक जाय. भुरग्यांक घरा हाडूंक जाय. पूण हें कशें करतले! दिलां तेंच वखद चालू दवरचें.'

वैजाकूय पियेदादीची काकुळट दिसताली. ही तिची गत आनिकूय इबाडत असो हुस्को ताच्या मनांत आशिल्लो. पूण तें उलोवन दाखयनासतना कायतानाक तो धीर दीत रावलो.

वर्सां गेलीं.....

साश्टींतल्या क्रिस्तांवां मदीं कायतान व्हाजाक मानाची सुवात मेळ्ळी.

पियेदाद ह्या संवसारांत आसुनूय एका वेगळ्या विश्वांत एकली-एकसुरी कशी वावुरताली. मनशां मदीं आसुनूय शेणिल्ले भाशेन जियेताली.



1580 वर्सा पुर्तुगाल आनी स्पेन हांचे मदीं झूज जालें. आल्काझारच्या त्या झुजांत स्पेन जिखलें. स्पेनाचो राजा दुसरो दाँ फिलीप होच पुर्तुगालचोय राजा जालो.

ही खबर गोंयांत पावली तेन्ना कांय जाणांक दिसलें, आतां सरकारी पावंड्या वयलीं कांय धोरणां बदलतलीं. स्पेनाची सारकी वळख नाशिल्ल्या कांय गोंयकारांक दिसलें, धर्मकोल्ल उणें जातलें; तर कांय जाणांक तें वाडत म्हणपाची भिरांत दिसली. सगले हुस्केवन रावले.

पूण येवरोपांतले ते घडणुकेचो गोंयचेर कांय परिणाम जालो ना. पुर्तुगेज अधिकारी आनी फिंर्गी पाद्री हांचो शेक चालू उरलो. तींच धोरणां फुडें गेलीं. कसलोच बदल जालो ना. वेगळें अशें कांयच घडलें ना.



1583 वर्स उजवाडलें. राय गांवांत आतां हिंदूंचीं फकत तीन कुटंबां उरिल्लीं. एक गोपू शेटीलें, दुसरें लखू नायकालें आनी तिसरें बेतू म्हाल्यालें.

जून म्हयन्यांत पावस वेळार सुरू जालो; पूण ताका नेट नाशिल्लो. जुलय म्हयन्यांतूय जाय तितलो पावस पडलो ना. शेतकामती चिंतेस्त आशिल्ले. तें थोडें म्हूण कुंकळ्ळेच्यान ही खबर आयली आनीं साश्टींतल्या हिंदू लोकां मदीं भंयाचें ल्हार पातळ्ळें. कुंकळ्ळे पांच फिंर्गी पाद्री आनी दोन गोंयकार हांकां जिवेशीं मारिल्ले. ताचो सूड घेवपाक पुर्तुगेजांनी हिंदूंच्या सोळा फुडाऱ्यांक असोळणेंच्या कोटांत आपोवन व्हरून चवदा जाणांक कपटान जिवेशीं मारिल्ले. वचत थंय हेच गजालीचेर लोक फुतफुतून उलयताले.

घडिल्लें अशें :

जमनीची पटी भरपा वयल्यान कुंकळ्ळेचो लोक आनी सरकार हांचे मदीं कांय वर्सां संघर्श चलतालो. पटी वाडयल्ल्यान लोक ती भरिनाशिल्लो. 1567 वर्सा रायतूरचो कापितांव दियोग रोद्रीगिश हाणें मोडिल्ल्या देवळां मदीं कुंकळ्ळेचेंय देवूळ आशिल्लें. लोकांनी तें परत बांदिल्लें. नवें देवूळ बांदूंक जायना आनी पोरणें सारकें करूंक जायना असो हुकूम पुर्तुगेजांनी काडिल्लो आशिल्ल्यान तो मोडला हे खातीरूय सरकार आनी फिंर्गी पाद्री हांचो कुंकळ्ळेच्या लोकांचेर राग आशिल्लो.

पाद्री रुदॉल्फ आक्वावीव हो फिंर्गी पाद्री अकबर बादशाच्या दरबारांत वावुरतालो. अकबरान क्रिस्तांव धर्म आपणावचो असो यत्न फिंर्गी जेजुईत पाद्री करताले. 1583 वर्सा रुदॉल्फ आक्वावीव हाका गोंयांत हाडून साश्टीच्या जेजुईतांचो मुखेली नेमलो. जुलय म्हयन्याचे 11 तारकेर वेण्यां फिंर्गी जेजुईत पाद्रींनी ताका येवकार दिवपाचो सुवाळो घडोवन हाडलो. ताणें कुंकळ्ळेच्यान आपणाल्या वावराक आरंभ करपाची आंखणी केली. पाद्री रुदॉल्फ आक्वावीव आनी ताचे फिंर्गी सांगाती आदीं ओडले गेले आनी 15 तारकेर कुंकळ्ळे गेले. देवळा कडल्यान लागींच आशिल्ले एके सुवातेर रावन ते करतात ती आंखणी देवूळ परत मोडून थंय इगर्ज बांदपाची हें गांवच्या लोकांक समजलें. लोक भाले, तरसादी, कोयत्यो बी शस्त्रां घेवन जमले आनी तांणी सात जाणांक जिवेशीं मारले. तांचे मदीं आक्वावीवा सयत पांच फिंर्गी पाद्री आनी गोंयचे दोग जाण आशिल्ले.

पुर्तुगेज चाळवले. सूड घेवचे खातीर तांणी कपट रचलें. फुडल्या म्हयन्याचे सुर्वेक, उलोवन इश्टागतीन प्रस्न सोडोवया अशें सांगून कुंकळ्ळेच्या आनी शेजारच्या गांवांतल्या हिंदूंच्या 16 फुडाऱ्यांक असोळणेंच्या कोटांत आपयले. थंय 14 जाणांक जिवेशीं मारले. एकल्याक कापितांवान कुशीक व्हरून वांचयलो. तर आनीक एकलो उदकांत उडी मारून पलतडी गेल्ल्यान वाटावलो.

कायतान व्हाज, दुमींग फेर्नांद आनी तांचे सारक्या जायत्या गोंयकार क्रिस्तांवांक खर दुख्ख जालें. क्रिस्तांव धर्म अशें करात म्हूण सांगना; धर्म

पातळावपाची ही रीत न्हय अशें तांचीं मनां खंतीन आड्डलीं. पूण सत्ते मुखार शाणेपण चलना हें जाणा जाल्ल्यान ते कांय करूंक पावले नात.

सप्टेंबर म्हयन्यांतलो पयलो आयतार. कायतान व्हाज रायतूरा कपेलांतल्या मिसाक वचून घरा परतलो. पियेदाद वचूंक नाशिल्ली. ती कुडींत आड पडिल्ली. मुस्तायकी बदलून पडवेर यो जाल्यार सेबास्त्यांव कुलास येता तो कायतानान पळयलो. तो दायजी. गांवांत जें पयलें कुटंब क्रिस्तांव जाल्लें त्या कुटंबांतलो दिवटो. वेसनी आनी नागवणो. कायतानाच्या कपलाक मिरयो पडल्यो.

'कायतान, तुजे कडेन इल्लें उलोवंक जाय आशिल्लें.' ताणें सोपणां चडटां-चडटां म्हळें.

'यो, बस.'

'मिसाक गेल्लो दिसता ....'

'हय. निकतोच आयलां. कितें उलोवंक जाय म्हणटालो?'

'कांय ना. सादीच गजाल.'

'कसली पूण ती?'

'हांव मात्सो अडचणींत सांपडलां.'

'कसली अडचण?'

'व्यापार वाडोवपाचें येवजिलां ...'

'व्यापार वाडोवंक जाय जाल्यार वाडोवचो. तातूंत अडचण कसली? कोणूय आडखळ हाडटा?'

'ना-ना. तसो म्हजो कोऽऽण दुस्मान ना. तूं लोकांक पावता. कपेला खातीर, धर्मीक कार्यावळीं खातीर इतलो खर्च करता. म्हणून आयलों.'

'तूं अडचण म्हणटालो ती कसली तर?'

'दुडवांची. आनीक कसली?'

'व्यापार वाडोवपा खातीर दुडू?'

'हय. चड न्हय - '

'कितलो?'

'एक हजार क्रुजाद.'

‘एक हजार?!’

‘तुका चड न्हय ते.’

कायतानान चिंतलें, हो कसलोच व्यापार करिना. वाळेसपणां करता, हाका-ताका नागयता. हाका फकत वेसनां करूंक आनी फोल्गां मारूंक दुडू जाय. पूण चर्येर कसलोच बदल येवंक दिनासतना ताणें सेबास्त्यांवाक म्हळें,

‘तुका ना म्हणचो नाशिल्लों; पूण सध्या इतलो दुडू दिवंक जावचो ना. कपेल वाडोवपाचें, आल्तार अदीक सोबीत करपाचें, फेस्त करपाचें बी थारलां. तो सगलो खर्च आंगार घेवपाचें उतर हांवें दिलां.’

‘तें काम कर तूं. म्हजी गरज केदीशी?’

‘एक हजार क्रुजाद म्हळ्यार थोडे न्हय.’

‘तुका चड न्हय ते कायतान.’

‘म्हाका सध्या तरी जमचें ना.’

‘पळय, सारकेंऽऽ चिंतून पळय. म्हाका कोणूच ना म्हणना.’

‘हांवूय म्हणचो नाशिल्लों. पूण इतलो दुडू दिवंक जावचो ना.’

‘फाटलो-फुडलो विचार करून सांगता तूं हें?’

हे भाशेंत एके तरेची धमकी लिपिल्ली आसा असो दुबाव कायतानाक आयलो. पूण तशें दाखयनासतना ताणें म्हळें,

‘फाटलो-फुडलो विचार सोड. मनशान हातरूण पळोवन पांय पातळावचे अशी म्हण्णी आसा न्हय?’

‘म्हण्टकूच तुज्यान म्हाका दुडू दिवंक जावचो ना?’

‘दिवपाक दुडू नासतना पोकें उतर दिवप हें बरें जावचें ना.’

‘समजलें. बरें कितें आनी वायट कितें तें हांव जाणां. निमणें विचारतां, दुडू दिता?’

‘जमचें ना.’

‘बरें तर!’ म्हणत सेबास्त्यांव उठलो. ‘दाखयतां तुका कितें तें’ असो भाव सोपणां देंवतना ताचे चर्येर आशिल्लो.

पियेदाद हेरशींच आड पडिल्ली. भायर कायतान कोणा कडेन तरी उलयता इतलें कळपा पुरतो आवाज तिच्या कानार पडटालो. उतरां आयकूंक

येनाशिल्लीं. तो आवाज थांबतकूच ती उठली आनी पडवेर आयली.

'कोण आयिल्लो?' तिणें विचारलें.

'होऽ तो, सेबास्त्यांव कुलास.'

'तो उंवाळून घाल्लो वाळेस? ताका दारांतल्यानूच धांवडावपाचो.'

'आगे, हांव बेस बरो वळखतां ताका. पूण दारांत आयिल्ल्याक - '

'कित्याक आयिल्लो?' पियेदादीन मदींच विचारलें.

'आनीक कित्याक? दुडू मागपाक. रीण जाय खंय! हाचे कडल्यान पानदुडू तरी परत मेळचो पडला? हांव बदलों ना.'

पियेदाद कांय उलयली ना. विचारांतशी पडून भायर पळयत रावली. कांय वेळान तिणें स्वता कडेन पुटपुटिल्ले भाशेन म्हळें,

'कितेंय कपलार घालपाचें...'

'कितेंय! आगे, तो एक हजार क्रुजाद मागतालो.'

'क्रुजाद म्हळ्यार - ?'

'क्रुजाद म्हळ्यार भांगराचें नाणें. थोडो दुडू तो?'

'तें खरें; पूण मनीस बरो न्हय तो -'

'तेच खातीर ना म्हळें.'

'तशें न्हय.....दुस्वाशी. कितें करीत म्हूण सांगूं नज.'

'करता तेन्ना पळोवया. तूं बेश्टीच चिंता करुंनाका.'

'बरो मनीस न्हय तो....' पियेदाद परत पुटपुटली.

पियेदादीचो तर्क गैर नाशिल्लो हें कायतानाक कळपाक चड कळाव लागलो ना.





## 14 डिसेंबर 1585

रातीं कायतान मांदरेर आड पडलो. पूण न्हीद लागली ना. मध्यानरातीच्या अदमासाक ताचो दोळो लागलो. पूण थोडोच वेळ. कुडीच्या दारांच्यो खिळयो काडिल्ल्याच्या आवाजान तो जागो जालो. इतल्यांत आल्काईद आनी शिपाय भितर सरले. आल्काइदाच्या हातांत काळशीं लुगटां आशिल्लीं आनी शिपायाच्या हातांत तेलाचो दिवो. कायतान उठून मांदरेर बसलो. बिण्ण काळखांत अकस्मात तो दिवो हाडिल्ल्यान ताच्या मंद उजवाडान पसून कायतानाचे दोळे बारीक जाले. आल्काइदान सांगलें,

'ही मुस्तायकी. ही घालून तयार राव. हांव परत येतलों तेन्ना म्हजे वांगडा भायर सरूंक जाय.'

शिपायान दिवो कुडींतूच दवरलो आनी ते दोगूय गेले.

कायतानाक हें सगलें विचित्र दिसलें. हें सपन न्हय मूं, अशेंय ताका खिणभर दिसलें. पूण ना. ती मुस्तायकी थंय आशिल्ली. तो दिवो थंय आशिल्लो. ताणें मुस्तायकी पळयली. गोबरा रंगाच्या लुगटाचें लांब हातांचें खोमीस आनी तसल्याच लुगटाचें लांब काल्सांव. त्या लुगटाचेर धवे पटे. कितें आसा काय? तो चिंतूंक लागलो. आज ख्यास्त फर्मावपाचो दीस काय? पूण इंक्विझिटरां मुखार दर खेपे दिसाचो व्हेला; ख्यास्त फर्मावपाक रात कित्याक जाय? आनी ती आयकुपाक असली मुस्तायकी कित्याक जाय? हांगा सगलेंच विचित्र! कितें आनी कित्याक तें समजना आनी कोण

सांगय ना. कितें घडटा तें पळोवपाचें. अशे भाशेन आपलें समाधान करून कायतान उठून उबो रावलो. खुरसाची कुरू केली. अशक्तपण वाडत गेल्लें. मुस्तायकी घेवन तो वण्टीक तेंकून रावलो आनी ताणें ती धवे पटे आशिल्ल्या गोबरा रंगाच्या लुगटाची मुस्तायकी घाली.

सुमार दोन वरांचेर आल्काईद परत आयलो. कायतान ताचे फाटोफाट चलूंक लागलो. शेजारच्या घरांतले माळयेर एक व्हडली कूड आशिल्ली. ते कुडींत आल्काइदान कायतानाक व्हेलो आनी बस म्हूण सांगलें. तेलाच्या दिव्याच्या मंद उजवाडांत कायतानान कुडींत नदर मारली. स दादले थंय बशिल्ले आशिल्ले. सगल्यांनी तीच धवे पटे आशिल्ल्या गोबरा रंगाच्या लुगटाची मुस्तायकी घाल्ली. एकलो फिंर्गी आसलो, कायतान धरून चार जाण गोंयचे आनी दोग जाण आफ्रिकी. फिंर्गी आसलो तो गाश्पार मार्तीरिस, मूळचो ज्यू. कोणूच कोणाक वळखनाशिल्लो.

शेजारचे कुडींत दोन अस्तुऱ्यो आशिल्ल्यो. एक गोंयची आनी एक आफ्रिकी. तांच्याय आंगार गोबरा रंगाच्या लुगटाची तशीच मुस्तायकी आशिल्ली.

थोड्या वेळान काळे लोब घाल्ले कांय पाद्री आयले. तांणी आदीं दादल्यांक कुमसार करून घेतले आनी मागीर शेजारचे कुडींत वचून त्या दोनूय अस्तुऱ्यांक कुमसार करून घेतल्यो. कायतान परत गोंदळ्ळो, हें अशें कित्याक? हेरांच्या मनांतलो असोच गोंदळ ताका तांच्या चर्यांचेर दिसलो. कुडीचें दार कायतानाचे मुखारूच आशिल्लें. शेजारच्या घराच्या वारांदार खूब मनशांच्यो आकृती वण्टीक तेंकून उब्यो आसात अशें ताका हयन्हयशें दिसलें.

कायतानाक दिशिल्लीं तीं जितीं-जिवीं मनशांच. आल्काइदान ताका उठयल्लो तेन्नाच ते बंदखणींतल्या आनीक 87 कैद्यांक शिपायांनी उठयिल्लीं. तांचे मदीं 59 दादले आशिल्ले आनी 28 अस्तुऱ्यो. तांकांय मुस्तायकी दिल्ली. णव जाणांक सोडून हेरांक मुस्तायकी दिल्ली ती धवे पटे आशिल्ल्या काळ्या रंगाच्या लुगटाची. दादल्यांक एका वारांदांत वण्टीक तेंकून उबे केल्ले तर अस्तुऱ्यांक दुसऱ्या वारांदांत. तेलाच्या दिव्यांच्या मंद उजवाडांत

काळ्या पाशाणाचे पुतळे उबे करून दवरल्यात अशें दिसतालें. फकत तांचे दोळे सांगताले, तीं जितीं-जिवीं मनशां म्हूण. त्या मनशां मदीं आसलो येसू तारी. थोड्या वेळान आल्काईद आयलो. ताणें बसात म्हूण सांगलें तेन्ना दोनूय वारांदांतलीं मनशां बसलीं.

सुमार अर्द्या वरान शिपाय आनी चाकर कांय लुगटां आनी लांब तोपयो घेवन कायतान आशिल्लो ते कुडींत आयले. लुगटां मदीं आशिल्ले सुमार आठ फूट लांब आनी दोन फूट रूंद अशे कुडके. दर एका कुडक्याक मदीं बुराक आशिल्लो. लुगटाचो कुडको गळ्यांत घालपाक. तो तसो घालतकूच त्या कुडक्याचें अर्द फुडल्यान पोटार पडटालें आनी दुसरें अर्द फाटीर. लुगट गोबरा रंगाचें. दर एकल्या खातीर वेगळो कुडको तयार केल्लो. ताचेर फुडल्यान आनी फाटल्यान कैद्याच्या तोंडाचें चित्र काडिल्लें आनी तोंडा खाला पेट्टीं लाकडां रंगयल्लीं. ह्या चित्रा खाला कैद्याचें नांव आनी ताचो गुन्यांव कसलो तें बरयल्लें. हेर कडेन सैतानाच्या वेगवेगळ्या रुपांचीं चित्रां काडिल्लीं. हाका ते सामार्रा म्हणटाले. चाकरांनी सामार्रा वयलें चित्र पळोवन त्या त्या कैद्याक तो तो सामार्रा दिलो. शिपायांनी तांकां तो आंगार घालूंक लायलो आनी तोपी तकलेक घालूंक लायली. तोपयेचेर सैतानाचीं चित्रां आनी उज्या केणां रंगयल्लीं. पुर्तुगेज हे तोपयेक कारोशा म्हणटाले. दर एकल्याच्या हातांत पेट्टी मेणवात दिली. हेच भाशेन त्या शिपायांनी आनी चाकरांनी शेजारचे कुडींत वचून थंयच्या दोनूय अस्तुऱ्यांक सामार्रा आनी तोपयो दिल्यो. सामार्रा आंगार आनी तोपी तकलेक घालतकूच जण एकलेच्या हातांत तांणी लांब पेट्टी मेणवात दिली.

कुडींनी आशिल्ल्या कैद्यां संबंदान हें घडटालें त्याच वेळार वारांदांनी बशिल्ल्या कैद्यांक दुसरे शिपाय आनी चाकर सांबेनीत वांट्टाले. सांबेनीत हो सामार्रा भाशेनूच. आंगार घालपाचो लुगटाचो कुडको. पूण लुगट हळडुव्या रंगाचें. ताचेर फुडल्यान आनी फाटल्यान फुली मारतात तसो सेंट अँड्र्यूचो खुरीस तांबड्या रंगान काडिल्लो. दर एका कैद्यान आंगार सांबेनीत घालतकूच शिपायान ताच्या हातांत एक लांब पेट्टी मेणवात दिली. दादल्यांच्या वारांदांत

53 जाण आशिल्ले जाल्यार अस्तुऱ्यांच्या वारांदांत 26 जाणी आशिल्ल्यो.

कायतानाक मदीं-मदीं भ्रम जातालो. हें खरेंच घडटा? काय हें सपन? हो कसलो भेस! कैद्यांक असलीं सवंगां करून कसलो जागोर खेळचो आसा? आनी कायतानाच्याच न्हय; तर हाचे आदीं जाल्लें भावार्ताचें कर्तूब पळोवंक नाशिल्ल्या दर एका कैद्याच्या - जावं अस्तुरी वा दादलो - मनांत असले प्रस्न उप्रासताले. उजवाडा परस काळोख चड आशिल्ल्या त्या वातावरणांत भिरांत पातळिल्ली. काळजांनी कलकलूंक लागिल्लें. उलोवणें ना. आसा ते सुवाते वयल्यान हालपाचें ना. भिरांकूळ शांतताय....मसुडेंतले शांतताये इतलीच खर...

चार वरांचेर शिपाय आनी चाकर उंडे घेवन आयले. तांणी दर एका कैद्याक उंडो दिलो. कायतानाक कितेंच खावपाची इत्सा नाशिल्ली. ताणें हातानूच नाका म्हूण सांगलें. चाकर कांय खीण उंडो हातांत घेवन रावलो. ताणें ल्हव आवाजांत म्हळें,

'नाका दिसता जाल्यार आतां खावं नाका. भूक लागतली तेन्ना खा. घेवन दवर.'

कायतानान उंडो घेतलो. बोल्सांत दवरलो.



पांच वरांच्या सुमाराक झिळमिळ्ळें आनी जघांट वाजूंक लागली. जिचो आवाज चडांत चड पैस पावतालो अशी ही सॅ कॅथॅड्रलाची व्हडली घांट. आज ही घांट अशी कित्याक वाजता असो प्रस्न कायतानाक पडलो. ताका कैदी म्हूण हांगा हाडीत पसून आज पयलेच फावट ही घांट वाजताली. कसलेंय फेस्त वा धर्मीक कार्यावळ आसा काय? हेच प्रस्न हेरांकूय पडिल्ले हें तांच्या चर्यां वयल्यान स्पश्ट दिसतालें. भावार्ताचें कर्तूब, जाका पुर्तुगेज 'आव्तु द फॅ' म्हणटाले, तें सुरू जाता हें सरभोंवतणच्या लोकांक कळीत करपाक जघांट वाजताली हें खंयच्याच कैद्याक खबर नाशिल्लें.

'तयार रावात. नांव काडटकूच व्हडल्या सालांत भितर सरपाचें. मेणवात हातांत तशीच धरात.' आल्काइदान दोनूय वारांदांनी आनी दोनूय कुडींनी आशिल्ल्या कैद्यांक थंय थंय वचून सांगलें.

व्हडल्या सालांत तेलाचे दिवे मंद पेट्टाले. दिवे थोडेच आशिल्ल्यान उजवाडूय मंदच आशिल्लो. मुखेल इंक्विझिटर दारा कडेन लागींच बशिल्लो. ताचे म्हऱ्यांत सेक्रेटरी उबो आशिल्लो. ताच्या हातांत आशिल्ल्या कागदांचेर कैद्यांच्यो आनी दुसऱ्यो वळेऱ्यो आशिल्ल्यो. सालांत खूबशीं मनशां उबीं आशिल्लीं. सगलीं फिंर्गी. चडशे दादले, थोड्यो बायलो. कैद्यांचीं नांवां घेवपाक सेक्रेटरीन आरंभ केलो. नांव घेतकूच पयलो कैदी सालांत भितर सरलो. सेक्रेटरीन आनीक एक नांव घेतलें तेन्ना सालांतल्या मनशां मदलो एक मनीस फुडें सरून त्या कैद्याचे कुशीक रावलो. तो कैद्याचो पदन. कैदी बायलमनीस आसली जाल्यार एक बायल फुडें सरून तशीच कैदी बायलेचे कुशीक रावताली. ती कैदी बायलेची मदन. आतां फुडें कैद्याचो ताबो पदना कडेन वा मदनी कडेन. तांकां हो आपलो भोवमान दिसतालो आनी हें काम करपाक तीं खोशेन फुडें सरतालीं. पयलो कैदी आनी ताचो पदन हांची जोडी व्हडल्या सालाच्या मुखेल दारांतल्यान सोपणां देंवली आनी व्हडल्या घरा मुखा वयल्या चौकांत येवन उबी रावली. दुसरी जोडी येवन पयले जोडये फाटल्यान उबी रावली. अशे तरेन जोडयो येत रावल्यो आनी जोडयांची रांग तयार जाली. व्हारांदांतले कैदी सोंपले उपरांत कुडींतले कैदी आनी पदन वा मदन ह्यो जोडयो आयल्यो आनी रांगेंत फाटल्यान रावल्यो.

पुरसांव सुरू जालें तेन्ना सगल्यांत फुडें आशिल्लो डॉमिनिकी पंथाचो बावटो. उंची सॅटिनाच्या त्या बावट्याचेर सेंट डॉमिनीक हाचें चित्र रस्मी धाग्यांनी भरिल्लें. ताच्या एका हातांत तरसाद आनी दुसऱ्या हातांत ओलीव झाडाची ताळी आशिल्ली. चित्रा वयर 'न्याय आनी दया' अशीं उतरां लॅटीन भाशेंत रस्मी धाग्यांनी भरिल्लीं. सेंट डॉमिनीक हो डॉमिनिकी पंथाचो संस्थापक तसोच इंक्विझिशनाचो संस्थापक. ताच्या बावट्या फाटल्यान डॉमिनिकी संघाचे काळे लोब घाल्ले फिंर्गी पाद्री चलताले. त्या पाद्रीं फाटल्यान कैदी

आनी तांचे कुशीक पदन वा मदन. किरकोळ गुन्यांवाचो आरोप आशिल्ले कैदी रांगेंत फुडें आसले; गंभीर गुन्यांवांचो आरोप आशिल्ले फाटल्यान - सगले मेणवाती हातांत धरून. सांबेनीत घाल्ल्या कैद्यांचे रांगे फाटल्यान एक मनीस जेजू क्रिस्ताची मूर्त लायिल्लो खुरीस घेवन चलतालो. ताचे फाटल्यान रांग आसली ती आंगार सामार्रा आनी तकलेक कारोशा घाल्ले कैदी आनी तांचे पदन वा मदन हांची. ह्या कैद्यां फाटल्यान चार मनीस लांब दांड्यांक बांदिल्लीं बावलीं घेवन आसले. दर एका बावल्याक सामार्रा घाल्लो आनी तकलेक कारोशा घाल्ली. सामार्राचेर बावल्याच्या तोंडाचें चित्र आशिल्लें. ताचे सकयल पेट्ट्या लाकडांचें चित्र. तें कोणाचें बावलें हें कळपाक सामार्राचेर नांव बरयल्लें आनी कसलो गुन्यांव केलो हेंवूय बरयल्लें. बावलें धरिल्ल्या दर एका मनशा वांगडा एक मानांय आसलो आनी ताच्या खांदार एक ल्हान पेट आसली. पेटेक काळोच रंग काडिल्लो आनी तांबड्या-हळडुव्या रंगान सैतानाचीं चित्रां काडिल्लीं. जे कैदी बंदखणींत आसतना मेले आनी जांकां मागीर लासून मारपाची ख्यास्त फर्मायली अश्या कैद्यांचीं तीन बावलीं आसलीं. वांगडा आशिल्ल्या पेटांनी तांचीं फोंडांतल्यान उस्तून काडिल्लीं हाडां आशिल्लीं. तीन बावल्यां मदलें एक आशिल्लें मार्गारीद सौझाचें.

चवथें बावलें आशिल्लें तें कैद्याचें न्हय. तें फोर्तुनात दीयश ह्या गिरेस्त मनशाचें. तो मूळचो अरब. ताच्या बापायन युसूफ आदिलशाच्या काळांत घोड्यांचो व्यापार सुरू केल्लो आनी तो खूब गिरेस्त जाल्लो. बाटोवणी सुरू जावचे दोन वर्सां आदीं तो मेलो. पुतान व्यापार फुडें चलयलो. पूण बाटोवणेच्या काळांत अरब म्हूण संकश्ट येतलें हें पारखून तो क्रिस्तांव जालो - फोर्तुनात दीयश. गिरेस्त आसलो तरी तो सादेपणान जियेलो. 1584 वर्साच्या अदमासाक तो मेलो तेन्ना ताची गडगंज आस्पत कळ्ळी. इंक्विझिटरांच्या तोंडाक उदक सुटलें. तांणी एका मनशाक फुडें काडून त्या मेल्ल्या मनशाचेर आळ घालो, तो चोरयां फोंड्यां सफा मशिदींत वतालो म्हूण. इंक्विझिटरांनी फोर्तुनात दीयश हाचो फोंड उस्तून ताचीं हाडां काडलीं आनी तीं पेटेंत दवरून ताचेर केश चलयली. ताका लासून मारपाची ख्यास्त

फर्मायली आनी ताची सगली आस्पत जप्त केली.

पुरसांव सवाईच्या चौकांतल्यान उजव्यान सरलें आनी म्हालमार्गा वयल्यान वचूंक लागलें. मार्गाच्या दोनूय कुशींनी लोकांची ही ऽऽ गर्दी! लोक शारांतलो आनी हेर गांवांतलोय. फाटले कांय दीस इगर्जांनी फिंर्गी पाद्री ह्या भावार्ताच्या कर्तुबा विशीं सांगताले आनी लोकांनी तें पळोवंक येवचें अशें भौशीक आमंत्रण दिताले. कायतानाचो मेवणो दियोग हाचो पूत लुईस हाणेंय इगर्जेंत तें आयकल्लें. थंय गेल्यार कायताना विशीं कितेंय कळत काय असो विचार ताच्या मनांत आयलो. ताणें घरा येतकूच बापायक म्हळें,

'येता ते चवदावेर गोंयां आव्तु द फॅ आसा खंय. कितें तें?'

'हांव नेणां. दोन वा तीन वर्सांनी तें जाता अशें आयकलां, थंय इंकिजिसांवांतल्या कैद्यांक ख्यास्त घडयतात अशेंय आयकलां. पूण हांवें केन्नाच पळोवंक ना.' दियोगान सांगलें.

'हांव वचूंक सोदतां. घडये भावोजी विशीं कितेंय कळत.'

'तशें जाल्यार हांवूय येतां.'

'नाका. तूं हालींच जोरांतल्यान उठला. तुका त्रास जातलो. हांव वचून पळोवन येतां. भावोजी विशीं खबर मेळटा जाल्यार पळयतां. '

लुईसाक मागीर मार्सेलीन लोब हाचो उगडास जालो. कातेकुमेन म्हूण दियोगाचें कुटंब मडगांवांत रावतालें तेन्ना मार्सेलीनान तांकां धर्माची शिकवण दिल्ली. तो तेन्ना सेंट पॉल कॉलेजींतले सेमिनारींतलो विद्यार्थी. बाउतीज्म जातकूच एक-दोन फावटी तो लुईसागेर पाविल्लो आनी ताचो इश्ट जाल्लो. मागीर मार्सेलीनाचें पाद्रीपणाचें शिक्षण पूर्ण जालें तेन्ना ताका परबीं दिवपाक लुईस मानकुराद आंब्यांचो कण्डो बी घेवन गोंयां तांगेर गेल्लो.

मार्सेलीनाक पाद्रीपणाची दिक्षा दिवंक नाशिल्ली. कातेकुमेनांक शिकवण दिवपाकूच ताचो उपेग करताले. लुईस गोंयां वचून मार्सेलीनाक मेळ्ळो. मार्सेलीनान 1580 वर्सा डिसेंबराचे 4 तारकेर आनी 1582 वर्सा नोवेंबराचे 2 तारकेर जाल्लें अशीं दोनूय आव्तु द फॅ पळयल्लीं. लुईसान ताचे कडेन मन उक्तें केलें. मार्सेलीनान सांगलें,

'लुईस, तूं आदल्या दिसाच आमगेर यो. आव्तु द फॅ फांतोडेर सुरू जाता. पळोवया तुका जाय ती खबर मेळटा जाल्यार.'

ते प्रमाण लुईस आयिल्लो. आज तो आनी मार्सेलीन पावणे चौकांत मार्गाचे एके कडेक लोकां मदीं उबे आशिल्ले. पुरसांवांत कायतान खंयूय दिसता काय म्हूण ते तेळून पळयताले. लुईसाचो सामको गोंदळ जाल्लो. कायतानाक खंय सोदचो तें ताका कळनाशिल्लें. सांबेनीत घाल्ल्या कैद्यांच्या माथ्याक तोपयो नाशिल्ल्यो म्हूण तांचीं तोंडां वळखूंक येतालीं. पूण तोपयो घाल्ल्या मनशांची ताका वळख मेळनासली. मार्सेलीनानूय आदीं सांबेनीत घाल्ल्यांचीं तोंडां तेळ्ळीं. तांचे मदीं कायतान नाशिल्लो. मागीर सामार्रा आनी कारोशा घाल्ले कैदी लागीं पावले तेन्ना मार्सेलीनान नदर सामार्रांचेर दवरली. तांचेर बरयल्ल्या नांवां वयल्यान वळख मेळुंयेताली. आनी ताका एका सामार्राचेर कायतान व्हाज हें नांव आशिल्ले भाशेन दिसलें. ताणें लुईसाक 'पळय, पळय' म्हळें; पूण तितल्यांत पुरसांव फुडें सरलें. लुईस नांव वाचूंक पावलो ना आनी तोंडूय सारकें पळोवंक पावलो ना. तो चिटमिटलो.

'आसूं. मागीर इगर्जेंत कळटलें.' मार्सेलीनान ताका समजायलो. बावलीं, पेटो हांचोय अर्थ सांगलो.

म्हालमार्गाच्या दुसऱ्या तोंकाक मिजेरिकॉर्दीचें घर आनी इगर्ज आशिल्लीं थंय पुरसांव उजव्यान सरलें. हेर मुखेल मार्गां वयल्यान वतना लोकांचे गर्दे फाटल्यान आशिल्ल्या घरांतलो लोक आनी पसऱ्यांतले व्यापारी भायर येवन पुरसांव पळयताले.

कायतान हेरशीं हाडा-पेरान घट. शेतांनी, भाटांनी काम चलतना, धनी आसुनूय हात घालपी. चलून रासय, रायतूरा वचपी. पूण आज ताच्या पांयांत गुळे आयले. फाटलीं सवाय दोन वर्सां तो खरेपणीं चलुंकूच नाशिल्लो. जोतीं वा मोचे कोणाच्याच पांयांत नाशिल्ले. कांय जाग्यांनी शेंकरे तळव्यांक तोपले तेन्ना ताका हायस् जालें. एके कडेन अशक्तपणान तो लकलो तेन्ना वांगडा आशिल्ल्या पदनाच्या आदारान उबो रावलो आनी फुडें पावल घालें.

पुरसांव आसिसीच्या सेंट फ्रान्सीसाचे इगर्जे मुखार येवन थांबलें.



आफोंस द आल्बुकेर्क हाणें गोंय शार जिखतकूच पयलीं आयले ते फ्रांसिस्कान पंथाचे पाद्री. आसिसीचो सेंट फ्रांसीस हो त्या पंथाचो संस्थापक. फ्रांसिस्कान पाद्रींनी सरकारी खर्चान बांदून घेतिल्ली इगर्ज पंथाच्या संस्थापकाक ओंपिल्ली. इगर्जेंतले सदचे वेवस्थेंत आज भावार्ताच्या कर्तुबा खातीर कांय बदल केल्ले. आल्तारार काळें लुगट घाल्लें. रुप्याच्या स कांडयांचेर मेणवाती पेटयल्ल्यो. आल्ताराचे उजवे वटेन शिंवासनां कशीं दिसपी कदेलां दवरिल्लीं. तीं इंक्विझिटरां खातीर. दाव्यान तसलींच कदेलां दवरिल्लीं तीं वायसरॉय आनी वरिष्ठ अधिकारी हांचे खातीर. आल्ताराचे मुखार एक बांक दवरिल्लो. ताचेर काळें लुगट घालून धा मिसाल उक्ते करून दवरिल्ले. आल्तारा मुखार बांकांची मांडणी दाव्यान आनी उजव्यान केल्ली आनी मदीं तीन हात रूंद सुवात सोडिल्ली.

कैदी पुरसांवांत चलताले तेच मांडणेन इगर्जेंत भितर सरले. मुखार आशिल्ले ते फुडल्या बांकांचेर बसले आनी फाटल्यान आशिल्ले ते फाटल्या बांकांचेर. दर एका कैद्या म्हऱ्यांत ताचो पदन आनी कैदी बायलमनीस आसत जाल्यार तिची मदन. जो मनीस खुरीस घेवन आयिल्लो ताणें तो आल्ताराचेर मेणवाती पेट्टाल्यो थंय दवरलो. पाद्रींनी, फिदाल्गांनी आनी लोकांनी इगर्जेंत भितर सरपाक गर्दी केली. उबे रावपाक जागो आशिल्लो थंय कांय जाण रावले; हेर सगले भायर उरले. दारां कडेन खेट करून ते भितर कितें चलता तें पळोवंक सोदताले.

पुरसांव इगर्जे कडेन पावलें तेन्नाच जाल्ली गर्दी पळोवन मार्सेलीनान पारखिल्लें की भितर वचपाक कठीण जातलें. ताणें लुईसाक सुचयलें,

'हांव सेमिनारीचो रॅक्टर आशिल्ल्या फिंर्गी पाद्रीक तेंकून रावतां; ताका लागून भितर सरपाक मेळटलें. तूं म्हजो हात घट्ट धर, म्हणटकूच तुकाय ओडून भितर व्हरतां.'

मार्सेलीनान येवजिल्लें तशें घडून आयलें. पूण दोगांकूय कांय लोकां फाटल्यान सामके वण्टीक तेंकून उबे रावचें पडलें.

कांय मिण्टां उप्रांत इंक्विझिटर भितर सरले आनी तांचे खातीर मांडिल्ल्या

कदेलांचेर बसले. फाटोफाट वायसरॉय आनी एक वरिष्ठ अधिकारी येवन तांच्या कदेलांचेर बसले.

ऑगस्टीनी पंथाचो प्रोव्हिन्सियाल पुलपुत्रार चडलो. ताचो शेर्मांव सुमार अर्दे वर चल्लो. तो देंवतकूच इंक्विझिशनाचे दोन अधिकारी पुलपुत्रार चडले. दोगांच्याय हातांत कैद्यांच्यो वळेऱ्यो आशिल्ल्यो. कांय कैद्यां विशीं एकल्यान सांगचें, मागीर कांय कैद्यां विशीं दुसऱ्यान सांगचें अशी रीत तांणी आपणायली. एका अधिकाऱ्यान सांबेनीत घाल्ल्या आनी फुडल्या बांकांचेर बशिल्ल्या कैद्यां पसून आरंभ केलो. ताणें कैद्याचें नांव घेतले बराबर आल्काइदान ताका बांकांच्या दोनूय रांगां मदले सुवातेंत हाडलो. थंय तो हातांत पेट्टी मेणवात घेवन उबो रावलो. पुलपुत्रांतल्या अधिकाऱ्यान त्या कैद्यान कसलो गुन्यांव केला तें सांगून ताका कसली ख्यास्त फर्मायल्या तेंवूय सांगलें. मागीर आल्काइदान कैद्याक मिसाल दवरिल्ले थंय व्हेलो. दिमी मारून हात मिसालाचेर दवरूंक लायले. आनीक णव कैद्यांनी तेच तरेन येवन सगल्या धा मिसालांचेर हात दवरून दिमी मारतकूच अधिकाऱ्यान मोट्या ताळ्यान भावार्ताची कबुली वाचली आनी त्या कैद्यांक ती म्हणूंक लायली. तें जातकूच कैदी उठले आनी आदीं बांकार बशिल्ले थंय वचून बसले.

हें अशेंच चलत रावलें. 23 व्या नंबरार येसू तारीचें नांव आयलें. आल्काइदान ताका ते मदले सुवातेंत हाडलो. थंय तो हातांत पेट्टी मेणवात घेवन उबो रावलो. पुलपुत्रा वयल्या अधिकाऱ्यान वाचलें :

'हाणें घरा मुखार माटोव घालून पुताचें लग्न केलें. भटाक आपोवन लग्नाचे विधी केले. ह्या करण्यांनी इंकिजिसांवाच्या नेमांचो भंग करून हाणें गुन्यांव केला. ह्या गुन्यांवा खातीर हाका स वर्सां दारवेच्या कारखान्यांत कश्टांचो वावर करपाची ख्यास्त फर्मायल्या.'

येसू तारी हिंदू आशिल्ल्यान ताका दिमी मारून मिसालाचेर हात दवरचे पडले नात. तो वचून आपले सुवातेर बसलो. अधिकारी सगलें पुर्तुगेज भाशेंत उलयतालो. येसूक तें कळ्ळें ना. मागीर दुसऱ्या एका थळाव्या कैद्यान ताका तें समजावन सांगलें.

सांबेनीत घाल्ल्या 53 दादल्यांक आनी 26 बायलांक अशे तरेन ख्यास्त कळीत करून जातकूच पुलपुत्रा वयल्या अधिकाऱ्यांनी सामार्रा तशीच कारोशा घाल्ल्या आनी फाटल्या बांकांचेर बशिल्ल्या कैद्यांचीं नांवां काडपाक सुरवात केली. चवथें नांव काडलें तें कायतान व्हाजाचें. भूक लागिल्ल्यान बोल्सांतलो उंडो काडून ताणें निकतोच खाल्लो. सुकोच खाल्लो. तो मदीं येवन उबो रावलो तेन्ना लुईसान फुडल्या मनशाक मात्सो धुकळ्ळो आनी कायतानाक सारको पळोवपाचो यत्न केलो. दुबळी जाल्ली कूड, आंगा वयली गोबरा रंगाची मुस्तायकी, सामार्रा आनी कारोशा हांकां लागून सुर्वेक ताका वळख मेळ्ळी ना; पूण कांय मिण्टांनी तो वळखलो. पुलपुत्रा वयल्या अधिकाऱ्यान पुर्तुगेज भाशेंत वाचलें:

'हाणें गंभीर गुन्यांव केला. आपणाल्या भाच्याक अनाथ म्हूण पाद्रींनी ताब्यांत घेवचो न्हय म्हूण ताका चोरयां आदिलशाच्या राज्यांत पावयलो. ते करणेन ताणें कायद्याचे कारवायेंत आडमेळें हाडलें आनी पाद्रींक कायद्या प्रमाण वागूंक दिलें ना. हे खातीर ताका लासून जिवेशीं मारपाची ख्यास्त फर्मायल्या.'

लुईसाक कांय समजलें ना.

'कितें उलयलो तो?' ताणें मार्सेलीनाक विचारलें.

मार्सेलीनान सकयल्या आवाजांत ताका पुलपुत्रा वयल्या अधिकाऱ्यान वाचिल्लें तें कोंकणी भाशेंत सांगलें. लुईस तटास जावन मार्सेलीनाक पळयत रावलो....ताचें आंग थरथरलें....

पांचवें नांव काडलें तें गाश्पार दे मार्तीरिसाचें. ताका आल्काईद मदले सुवातेंत घेवन वतना लुईस मार्सेलीनाचेर लकलो. मार्सेलीन ताका धरता म्हणसर तो पडलो. ओंठ धवे जाल्ले आनी दोळे वरशे. मार्सेलीनान आनीक दोगांचो पालव घेवन ताका उखल्लो आनी लागीं आशिल्ल्या दारांतल्यान भायर व्हेलो. तिगांनीय ताका इगर्जेक तेंकून आशिल्ल्या पाद्रींच्या कॉन्वेंटांत व्हेलो. थंयचे कांय फिंर्गी पाद्री आनी चाकर धांवन आयले. तांणी लुईसाक एका बांकार न्हिदयलो. ताच्या दोळ्यांर उदक मारलें. मार्सेलीनान 'लुईस

...लुईस' अशे उले मारले. थोड्या वेळान लुईसान दोळे उगडले. एका चाकरान ताका पियेवंक उदक दिलें. तो सावचीत जातकूच मार्सेलीनान ताका आपल्या घरा व्हेलो आनी आपले कुडींतले खाटेर न्हिदयलो. धाकट्या भावाक ताचेर नदर दवर म्हूण सांगून दोतोराक हाडपाक तो भायर सरलो.

दोतोराक घेवन येतना मार्सेलीनान ताका कितें घडलें तें सांगलें आनी दोतोरा कडेन एक फावोर मागलो :

'दोतोर, तो सांत लाजार मळार वचूंक सोदतलो. उपकार करून, तें टाळ. ताच्यान तें पळोवंक जावचें ना.'

हुस्को करुंनाका अशा अर्थान दोतोरान तकली हालयली. घरा पावन लुईसाक तपासतकूच ताणें सांगलें,

'परत घुंवळ येवपाची भिरांत आसा. वखद दितां. पूण आज आनी फाल्यां न्हिदून राव. उबो रावल्यार चिर्र जावं येता.'

लुईस न्हिदून रावलो. मार्सेलीन ताचे बगलेक कदेलार बसलो.

ते वटेन इगर्जेंत सात दादले आनी दोन अस्तुऱ्यो हांकां फर्मायल्ली लासून जिवेशीं मारपाची ख्यास्त सांगून जातकूच दांड्याक बांदिल्लें बावलें धरिल्लो मानांय आनी पेट खांदार घेतिल्लो मानांय अश्यो चार जोडयो एका फाटल्यान एक अश्यो आयल्यो. एक बावलें आशिल्लें मार्गारीद सौझ हिचें आनी पेटेंत आशिल्लीं फोंडांतल्यान उस्तून काडिल्लीं तिचीं हाडां. आनीक एक बावलें आशिल्लें तें फोर्तुनात दीयश ह्या गिरेस्ताचें. वांगडा पेटेंत ताचीं हाडां. निमणे कडेन पुलपुत्रा वयल्या अधिकाऱ्यान घोशणा केली :

'जांणी सांबेनीत घाल्यात ते ल्हान गुन्यांव केल्ले कैदी मर्णाचे ख्यास्तींतल्यान वाटावल्यात. तांकां इंकिजिसांवाचे अधिकारी ताब्यांत घेवन ख्यास्त घडयतले. उरिल्ल्यांक मनसुबदाराच्या अधिकाऱ्यांनी ताब्यांत घेवचे आनी ख्यास्त घडोवची. मात् इंक्विझिशनाक त्या कैद्यां विशीं दया दिसता अशें दाखोवपाचो आव हाडून ताणें म्हळें, एक चत्राय तांणी बाळगुची - गुन्यांवकारांक जिवेशीं मारतना रगत येवचें ना हाची जतनाय घेवची.'

ही घोशणा जातकूच आल्काईद फुडें सरलो. ताणें सामार्रा आनी

कारोशा घाल्ल्या णव कैद्यांच्या आनी चार बावल्यांच्या हड्ड्यांचेर धुमको मारलो. ते वरवीं ताणें तांचो ताबो सोडलो. रोखडींच तांकां मनसुबदाराच्या अधिकाऱ्यांनी ताब्यांत घेतलीं. सांबेनीत घाल्ल्या 79 कैद्यांक आल्काइदान व्हडल्या घरांत व्हेलीं.



इंक्विझिशनाच्या न्याय मंडळान लासून मारपाची ख्यास्त दिल्ल्या णव मनशांक घेवन मनसुबदाराचे अधिकारी सांत लाजार मळार आयले. वांगडा ताणी दांड्यांक बांदिल्लीं बावलीं धरिल्ले चार मानांय आनी खांदार पेटो घेतिल्ले चार मानांय हांकांय हाडले.

व्हडल्या घराचे पूर्वेक सुमार 500 मिटरांच्या अंतराचेर मांडवी न्हंयेचे देगे वयलें हें मळ. हाका 'काम्पु सांतु लाजारु' अशें नांव दिलां. भावार्ताचें कर्तूब वा आव्तु द फॅ हाचें निमणें काण्ड ह्या मळार जाता. लोकांनी सकाळीं पुरसांव पळोवपाक गर्दी केल्ली तशीच हांगाय गर्दी आशिल्ली. लोक हांगा-थंय भोंविल्ल्यान मळार धुल्ल जाल्लो. मरण-काण्डाची वेवस्था मात् कालच करून दवरिल्ली. न्हंयेचे देगे कडल्यान सुमार पन्नास मिटरांच्या अंतराचेर न्हंयेक समांतर अश्यो तेरा म्हेडी पुरिल्ल्यो. दर एके म्हेडीच्या मुळांत लाकडां आनी कापट्यो हांची रास घाल्ली. थंयच्यान सुमार पन्नास मिटरांचेर दोन मिटरांचे उंचायेची एक माची घाल्ली. बसपा खातीर दोन पावंडे केल्ले. माचयेर कदेलां घाल्लीं आनी सकयल एक सोपो केल्लो.

मनसुबदाराच्या अधिकाऱ्यांनी त्या णव जाणांक सांत लाजार मळार हाडटकूच मनसुबदार तांचे म्हऱ्यांत गेलो. 'तूं क्रिस्तांव म्हूण मरतलो?' हो प्रस्न ताणें जण एकल्याक विचारलो. कायतानान सांगलें,

'हांव क्रिस्तांव. क्रिस्तांव म्हणूनच मरतलों.'

कायतानान सट् करून जाप दिली. आनी त्याच खिणाक ताची खात्री जाली, आपणाक लासून मारपाची ख्यास्त फर्मायल्या. आज फांतोड जावचे

आदीं आंगार घाल्ल्या सामार्रा वयल्या चित्रांतल्या पेट्ट्या लाकडांक लागून ताका तसो दुबाव मारिल्लो. कारोशा थोड्यांकूच घालूंक दिल्ल्यो आनी तांचे मदीं तो एक आशिल्लो हें आनीक एक कारण आशिल्लें. इगर्जेंत ख्यास्त जाहीर केल्ली ती पुर्तुगेज भाशेंत आशिल्ल्यान ताका सारकी कळूंक नाशिल्ली. पूण सामार्रा आनी कारोशा घाल्ल्या णव जाणांक वेगळे काडले तेन्ना तो दुबाव वाडलो आनी आतां 'तूं क्रिस्तांव म्हूण मरतलो?' ह्या प्रस्नान ख्यास्त मरणाची हे विशीं ताची खात्री जाली. ताचें मन थकिल्लें तरी तें किंवाट्यान आड्डलें :

> *मरण?! मरण न्हय; ही सुटका. असली सुटका हांव बंदखणींतूच सोदतालों. मनाचो निश्चेव जाल्लो; पूण साधन नाशिल्लें. आज सुटका जाता जाल्यार मरण हें म्हाका इनाम... एका निष्ठावंत क्रिस्तांवाक अधर्माचे दूत वेगळें कसलें इनाम दितले ....?!*

आनी तें जालें पाशाण.....

मनसुबदारान हेर आठ जाणां मदल्या दर एका दादल्याक आनी दर एके अस्तुरेक तोच प्रस्न विचारलो. दोनूय अस्तुऱ्यांनी आनी दोन दादल्यांनी सांगलें, 'क्रिस्तांव म्हूण.' हेर चार जाणांनी जाप दिली ना. ते निर्विकार नदरेन मनसुबदाराक पळयत रावले. तो तांचो न्हयकार अशें मनसुबदारान मानलें.

इतल्यांत वायसरॉय आयलो. तो, मनसुबदार आनी कांय वरिष्ठ सरकारी अधिकारी माचयेर दवरिल्ल्या कदेलांचेर बसले. हेर सरकारी अधिकारी सकयल्या सोप्यार बसले. माचयेच्या दोनूय कुशींक शस्त्रां हातांत घेतिल्ले शिपाय उबे आशिल्ले.

कैद्यांक म्हेडींक बांदपाचो आदेश दिवन मनसुबदाराचे कारभारीय सोप्यार वचून बसले.

दर एके म्हेडीक लाकडांचे राशी वयर कैद्याक बांदलो. णवूय जाणांक बांदून जातकच उरिल्ल्या चार म्हेडींक चारूय बावलीं बांदलीं. दर एका

बावल्याच्या पांयां कडेन लाकडांचे राशीचेर त्या त्या कैद्याच्या हाडांची पेट दवरली. मागीर उज्या काण्डाचो मुखेली हातांत राजवा भाशेन पीळ आशिल्ली पूण चार-पांच हात लांब दोरी घेवन कायताना म्हऱ्यांत आयलो. ताणें दोरी कायतानाच्या गळ्याक रेवडायली आनी घट्ट आंवुळ्ळी. कायतानाचो प्राण गेला म्हणपाची खात्री करून तो त्या दोन अस्तुऱ्यां म्हऱ्यांत गेलो. तांचेय प्राण तशेच काडले. निमणो, उरिल्ल्या दोनूय दादल्यांचे गळे आंवळून प्राण काडले. ह्या पांचूय जाणांनी क्रिस्तांव धर्मांत मरपाचें आसा अशें सांगिल्लें. इतलें करून जातकूच ताणें कोलती घेतली आनी दर एके म्हेडीच्या मुळांत घाल्ल्या कापट्यांक आनी लाकडांक उजो लायलो.

लाकडांनी रोखडोच पेट घेतलो ना. तेराय राशी बरोच वेळ घुंवल्यो. धुंवर मळभर पातळ्ळो. आदींच पातळिल्ल्या धुल्लांत तो भरसलो. दोळे चुरचुरूंक लागतकूच जमिल्ल्या लोकां मदले कांय जाण फाटीं सरले. लाकडांनी पेट घेतकूच जे चार कैदी जिते आशिल्ले तांच्यो हुयेली आनी किळच्यो आयकूंक जायना जावन कांय जाण मळा वयल्यान गेले. धुल्ल, धुंवर आनी हुयेली कांय वेळ चालूच उरल्यो. जायते जाण घुस्मटले. सांत लाजार मळार भावार्ताचें भिरांकूळ वादळ धुमशेण कांडूंक लागलें....

थोड्याच वेळान लाकडांच्यो राशी भगभगूंक लागल्यो - एके फाटल्यान दुसरी. तेराय राशींचेर उज्याचीं केणां....सगल्या राशींचेर त्या केणां वरवीं सैतान नागडो नाच नाचूंक लागलो. राशींचेर आशिल्ल्यो पेटो, म्हेडींचेर आशिल्लीं बावलीं आनी जित्या वा मेल्ल्या मनशांच्यो कुडी...सगलें-सगलें त्या केणांनी गिळ्ळें. ते बराबर भाजिल्ल्या, करपल्ल्या मासाचो उग्र दर्प चोंय वशींनी पातळ्ळो. सोंसूंक जायना असलो दर्प! ...धुल्ल, धुंवर आनी हुयेली हांच्या वादळांत पसून त्या मळार राविल्लो लोक आतां कडसरलो. माचयेर बशिल्ले वायसरॉय, वरिष्ठ अधिकारी आनी मनसुबदार माचये वयल्यान देंवले. सकयल्या सोप्या वयल्यान हेर अधिकारी आनी मनसुबदाराचे कारभारी उठून

कुशीक सरले. कांय जाण दोळे चोळीत तर कांय जाण बोटांनी नाक बंद करून वचूंक लागले. ते धन्य-धन्य जाल्ले!...आनीक एक भावार्ताचें कर्तूब आज पूर्ण जाल्लें ! ......

लाकडांच्यो राशी तिनसांज मेरेन भगभगल्यो. मागीर केणां थांबलीं. तरी राशींनी इंगळ्यांचो तांबडो उजो बरोच वेळ उरलो. उज्याचो अच्छेव थांबलो तेन्ना सांत लाजार मळार गोबराच्यो तेरा राशी भावार्ताच्या कर्तुबाची गवाय दिताल्यो......





## 15 डिसेंबर 1585

सकाळींच मार्सेलीन लुईसाक घेवन सांत लाजार मळार येवपाक भायर सरलो.

काल दोतोरान दिल्लें वखद लुईसान घेतकूच मार्सेलीनाचे आवयन ताका जेवंक आपयलो. लुईसान जेवण नाका म्हळें..'केन्ना-केन्ना भुकेनूय घुंवळ येता; इल्लेंशें जेव' अशें सांगून तिणें आग्रो केलो तेन्ना लुईसान म्हळें, 'भूक ना.' तो खाटेर आड पडून रावलो. थंयच ताका गाढ न्हीद लागली.

लुईसाक जाग आयली तेन्ना तिनसांज जावपाक आयिल्ली. मार्से लीनाचे आवयन रातचें जेवण बेगिनूच रांदिल्लें. त्या दिसा सगलीं बेगिनूच लुईसा वांगडा जेवलीं.

जेवन जातकूच मार्सेलीन, ताचे दोन धाकटे भाव आनी लुईस सोप्यार बसले. लुईस अजून कायतान व्हाजाचेंच चिंतता हें ताचे चर्ये वयल्यान मार्सेलीनान वळखिलें. लुईसाचें मन त्या विशयांतल्यान भायर सरचें म्हूण मार्सेलीनान म्हळें,

'रातीं कुडकुड्याचें शीं पडिल्लें, न्हय? म्हाका दिसता, तें वाडत वतलें.'

कानार पडलीं तरी लुईसान तीं उतरां आयकलींच नात. तो आपल्याच

चिंतनांनी बुडिल्लो. मार्सेलीनाक ताणें म्हळें,

'म्हाका सांत लाजार मळ पळोवपाचें आसा. फाल्यां सकाळीं थंय वचून येवया.'

'थंय फाल्यां कांय ना. आज तें सगलें सोंपलें.' त्या मळार वचपाचें टाळपाचो मार्सेलीनान यत्न केलो.

'पूण म्हाका तें मळ पळोवंक जाय.' लुईसान भुरग्या भाशेन हट्ट धरलो.

'लुईस, आज तुका त्रास जालो. तशें परत घडचें न्हय म्हूण दोतोरान सांगलां - '

'ना, आतां हांवें मन घट केलां. तुका दुसरें काम आसा व्हय तर?'

'ना-ना. म्हाका कांय काम ना. तुजोच हुस्को.'

'म्हजो हुस्को नाका. तांणी आनीक कितें करपाचें दवरलां?'

'तूं तशें म्हणटा जाल्यार या.' मार्सेलीनान निरुपायान म्हळें.

मार्सेलीन आनी ताचे भाव बरोच वेळ वेगवेगळ्या विशयांचेर उलयले. लुईसान फकत आयकलें. न्हिदूंक वतना मात् ताणें मार्सेलीनाक उगडास केलो,

'फाल्यां सकाळीं वचपाचें. उगडास धर.'

'या.'

आज मार्सेलीन आनी लुईस सांत लाजार मळार पावले तेन्ना थंय जितो मूस नाशिल्लो. काल म्हेडी पुरिल्ले सुवातेक चड लागीं वचनासतना पैशिल्यानूच मार्सेलीनान गोबराच्या राशींक बोट दाखयलें. लुईस ताचो अर्थ समजलो. कोणच उलयलो ना. दोगांनीय खुरसाची कुरू केली आनी कायतान व्हाजाच्या आत्म्याक शांती मेळूं अशें मनांतल्या मनांत मागलें.

कांय मिण्टां ते थंय उबे रावले....मोने....सरभोंवतणीय मोनेळ पातळिल्ली...

मार्सेलीनान ल्हवूच लुईसाच्या खांदार हात दवरून या म्हूण सुचयलें. लुईस वचपाक घुंवलो. दोगूय घरा परतले.



*आज सांत लाजार मळार*
*सगलें शांत........ शांत...*
*त्यो ऽऽ थंय तेरा राशी*
*गोबराच्यो......*
*काल हांगा*
*भावार्ताचो गोबोर जालो......*





उदय भेंब्रे हांचीं पांच पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत : 'कर्णपर्व' हें पुराणीक विशया वयलें नाटक. ताका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळा. 'चान्याचे राती' हो कवितां झेलो. 'अस्मितायेचो कसाय' आनी 'प्रतिक्रियेचें किरायतें' हीं 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत उजवाडाक आयिल्ल्या लेखां मदल्या वेंचीक लेखांचीं संकलनां. आनी 'ब्रह्मास्त्र' हें 'राष्ट्रमत' दिसाळ्यांत ओपीनियन पोलाच्या काळांत मराठींत बरयल्ल्या लेखां मदल्या वेंचीक लेखांचें संकलन. 'अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो आरंभ आनी हावेस – मिथक आनी सत्य' आनी 'चान्नें' हो गितांचो झेलो हीं तांचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.



उदय भेंब्रे हांचीं पांच पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत : 'कर्णपर्व' हें पुराणीक विशया वयलें नाटक. ताका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळा. 'चान्न्याचे राती' हो कवितां झेलो. 'अस्मितायेचो कसाय' आनी 'प्रतिक्रियेचें किरायतें' हीं 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत उजवाडाक आयिल्ल्या लेखां मदल्या वेंचीक लेखांचीं संकलनां. आनी 'ब्रह्मास्त्र' हें 'राष्ट्रमत' दिसाळ्यांत ओपीनियन पोलाच्या काळांत मराठींत बरयल्ल्या लेखां मदल्या वेंचीक लेखांचें संकलन. 'अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचो आरंभ आनी हावेस - मिथक आनी सत्य' आनी 'चान्नें' हो गितांचो झेलो हीं तांचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

